# FLOS SANTORVM

# HÎSTORÎA DASVÎDASEFEÎTOSHE ROÎCOS,EOBRASÎSÎGN= ES DOSSANTOS.

Com muitos Sermoẽs & praticas espirituais, que seruem pera muitas festas do Anno.

Pello padre Frey Amador da sancta Anna, da ordem do se= raphico padre S. Francisco. reduzido em lingua Canarim.




EM. GOA.

Tresladado com licença do Sctõ Officio. Año. 1607.

Title page of *Flos Sanctorum* (Lives of Saints) by Frei. Amador de Sancta Anna in Kandvi - the original script of Konkani - first published in 1607 (from manuscript Indien 779 in Bibliotheque Nationale, Paris).

# DOVTRI

## NA CHRISTAM EM LINGOA BRAMANA CANARIM.

Ordenada amaneira de Dia-
logo, pera enſinar os
mininos.
Cõpoſta pollo Padre Thomas Eſte
uaõ da Companhia de IESVS.
natural de Lõdres.




Empreſſa no Collegio deRachol da
Cõpanhia de IESVS Anno. 1622.

Title page of *Doutrina Christam* in Konkani, first printed in 1622 at Rachol, Goa.

IESVS MARIA

# ARTE DA LINGOA CANARIM

COMPOSTA PELO PADRE
Thomaz eſteuaõ da Companhia de
IESVS & acrecentada pello Padre
Diogo Ribeiro da meſma Cõpanhia
E nouamente reuiſta, & emendada por
outros quatro Padres da meſma Com
*Colleg.* panhia. *Roman. Soc. I.*



Com Licenca da S. Inquiſicam & Or
dinario
em Rachol no Collegio de S. Ignacio
da Companhia de IESV · Anno de
1640.

Title page of the earliest extant Konkani grammar *(Arte da Lingoa Canarim)* printed in 1640 at Rachol, Goa, in a phonetic Roman script.

SOLILOQVIOS
DIVINOS.

Compostos pello Padre Bernardino de Vilhegas da Cõpanhia de IESVS cathedratico de Prima de Theologia em o seu Collegio de Sancto Estevaõ de Murcia, & calificador do Sancto officio.

nº 60



Traduzidos em lingoa Bramana pello Padre Ioaõ de Pedroza da mesma Cõpanhia [illegible] em Salcete da Prouincia de Goa.

A Espoza do Spirito Sancto, & Rainha dos Ceos Maria.

Impresso no Collegio nouo de S. P. 1660.

Title page of *Devachim Ekangr Bolnnim (Soliloquios Divinos)* by Joao de Pedrosa, in Konkani prose, first printed in 1660, at Rachol, Goa, in a phonetic Roman script.

# जेस्सेची ताळी[1]

(पयलो शेंकडो)

जेस्सेची ताळी तूं गे
जल्मली आयज,
तूं जेझुची माता मरी,
आंकवार नीजं.

दाविदाची गोफीण[2] तूं गे,
आतियार[3] गोलियाचें[4]
शींस कापलेंय तुजें
होलोफेर्निचें[5].

---

1. ही कविता चड करून क्रिस्ती युगाच्या पयल्या-वयल्या शेंकड्यांनी रचिल्ली. उगडास आसचो की 52 वर्सा येशु क्रिस्ताचो पट्टसिश्य थोमस दखिण भारतांत आयिल्लो आनी ताच्या उपरांत दुसरो ताचो वांगडी बार्थोलोमेव उत्तरेक आनी अस्तमतेक वावरिल्लो. त्या काळावेल्या क्रिस्तांवांमदें ही कविता घोळटाली आनी अजून चलता. बायबलीच्या पोरण्या करारांत येवदी प्रजेची एक जमात जेस्से नावाच्या वांगडाची आसली, जी उत्तम वावर करूंक पावली. हे कवितेंत आंकवार मरयेची सर ते जेसेचे प्रजेकडेन केल्या.
2. पोरण्या करारांतलो आनीक एक उल्लेख. दावीद नावाचो गोरवां राखणो आसलो. ताणें येवदी लोकाच्या दुस्मानांक फुडो करून आपली गोफीण घेवन दुस्मानाच्या राकेसाचेर फातुल्ली मारून आपले प्रजेक जीख फाव केली.
3. हातयार, गोफिणिच्या रूपान.
4. गोलियाथ, ह्या राकेसाचें नांव. दाविदान आपले गोफिणिन ताच्या कपलाक फातुल्ली माल्ली आनी ताका न्हिंन्नायलो आनी आडवो उडयलो. रोखडोच ताच्या आंगार वचून, ताच्या म्यानांतली/पोत्यांतली तरसाद काडून, ताणें ताची गोमटी मारली आनी अशें येवदी लोकाक जैत जोडलें. देखून ताका वीर पुरूस म्हणून ताचो लोकांनी जयजयकार केलो. मागीर तो व्हड राजा जालो.
5. होलोफेर्निस नावाचो येवदी लोकाचो दुस्मान राजा आसलो. ताचें शींस (तकली) ज्युदिथ नांवाचे वीर येवदी बायलेन कापलें आनी आपले प्रजेक जैत जोडून दिलें. मरयेची सर हे वीर बायलेकडें केल्या.

मोयझेची बेतकाटी[6] तूं गे,
बळ क्रिस्तांवांचें,
तें शार अिबाडलेंय तुवें
फाराव्या रायाचें[7].

वैकुंटाचें झाड तूं गे[8],
फळ अमृताचें;
जिवीत राखलेंय तुवें
मनशा कुळाचें[9].



---

6. मोयझेस नांवाचो येवदी प्रजापती फुडारी आसलो. ताच्या हातांतली बेतकाटी भोवच बळीश्ट आसली. देवाचे आज्ञेन ती खडपाचेर माल्ल्यार, तांतल्यान नीतळ उदक फुटून घसघशीत व्हांवतालें; ती उवाल्ल्यार जें मागणें तो करतालो ताका फाव ती अनुकूल जाप मेळटाली. एकदां ताणें तांबड्या दर्याक भाट घाली आनी उदक फाटीं व्हेलें, ज्या मार्गावयल्यान ताच्या हाताखाला आशिल्ली येवदी प्रजा पार मारून पलतडी गेली, आनी फाटल्यान येतले इजिप्ती फौजीच्या चपक्यांतल्यान सुटली. ते बेतकाटयेंतल्या बळाच्या नाड्यार मोयझेस आपले प्रजेची राखण आनी परामर्स करतालो.
7. जेन्ना इजिप्ताचो राजा त्या देसांत गुलाम आशिल्ले येवदी प्रजेक तो देस सोडूंक दिना आशिल्लो तेन्ना देवाचे आज्ञेन मोयझसान इजिप्ताच्या फाराव्या रायाचें शार इबाडलें. हे घडणूकेचो हे कवितेंत उल्लेख केला आनी मरयेची ते बळीश्ट बेतकाटये लागीं सर केल्या.
8. वैकुंट म्हळ्यार सर्ग वा Paradise त्या अर्थान भारतीय संस्कृतायेंतली वैकुंटाची संकल्पना घेतल्या आनी थंयच्या चकच्याळ अमृत फळांकडेन मरयेची तुळा केल्या.
9. जेन्ना एव हे मनीसकुळाचे पयले आवयेन देवागेली आज्ञा मोडून आडवारिल्लें फळ खालें आनी आपले संततीक मूळ पातकाचें खत लायलें, त्या पातकांतल्यान मनीसकुळाक सोडोंवच्याक देवाचो पूत जेझू मनशाचो अवतार घेवन मरयेच्या कुसव्यांतल्यान जल्मलो आनी मनीस कुळाक तारण फाव केलें. ह्या घडणूकांचो हांगा उल्लेख आयला.

# मनसोल्लास

(तले कवित - बारावो शेंकडो)

## रसतळावनु

"जाणें रसतळावनु
मत्स्य रूपें आणयेलें
मनू-शिवाक वाणयेलें
तो संसार-सागर तारणु
मोहो तो,
राखो नारायणु".



Pereira, Jose - *Konkani Mandakini* - Goa Konkani Akademi Porvorim, Goa, 1996, p-10.

## संत नामदेवाली गवळण

(तेरावो शेंकडो)

पाव गा दातारा।
पाव गा दातारा।
तूं नंदालो झिलो।
माका फडको।
लुगट दी।
मी हिंवान मेलीं।
घे माझो कोयतो।
देवा पायां पडलीं।



# ज्ञानेश्वरी

(हांतले कांय अंश - तेरावो शेंकडो)

1. नियमाची आस तोडी[1] । जयाची क्रिया ।। १३.६९४
तें जाणावया अर्जुनानें । आस केली । १३.८६२

2. पृथ्वीतल उलथों पहात । आकाश असे आसुडत ।[2]
तेथ सडा होतो नक्षत्रांचा (१.१५६);
आसडोनि नागविलें (११.४६९); आसुडैल[3] वारा । १३.२८१
तृणही नासुडावें । (१७.२१२) हातु आसडे । १८.१०७८

3. हें जीवितही उपकारावें । काजीं यांचां ।। १.२१७
हें आणिकाहि एकां अर्था । उपकारेल ।। ३.१५३

4. हो कां जे महामृत्यूचे उमाळे । ११.३६४
तरी जे गंधर्वनगरींचे उमाळे । जाण पोकळीचे पेंडवळे । ११.४६४
नातरी महामेघांचे उमाळे । घडघडीत एके वेळे । ११.४८४
उपद्रव उमाळे न लोटे जो । १३.४९१[4]

5. एथ वडील जें जें करिती । तया नाम धर्मु ठेविती ।[5]
तेंचि येर अनुष्ठिती । सामान्य सकळ ।। ३.१५८

---

1. p. 28
2. p. 29-30
3. p. 45
4, p. 53
5. p. 71

6. कां नाटिला कांकण। सोनेंचि तें। १४.३७८[6]

7. हा तूं साचोकारा। निश्चयाचा खरा।[7]
गांठी बांध वीरा। जिवाचिये। १४.१२८

8. बुडीं कोंभ निघाले। खांदियांचे। १०.९८[8]
खांदियांपासोनि अनेका। १०.९९
मग किती खांदोखांदी। १५.२५०

9. चौथ मोटकी पाहे। आणि गणेशाचि होये। १३.८१८[8]

10. तयावरी जैत रे जैत। म्हणोनि ध्यानाचे निशाण वाजत। ९.२१७
तैं हारी जैत होइजे। आपणचि[9]। १४.२७७
म्हणौति जैत फुडें। आणील ना तें। १८.१६२९



---

Nadkarni, Anand Ramkrishna - *Dnyaneshwarintil Sabdanca Konkani bolint Shodh* - Marathi Samshodhan Mandal, Mumbai, 1981.

6. p. 85
7. p. 100
8. p. 103
9. p. 127

# लिळाचरित्र

(हांतलो एक उतारो - चौदावो शेंकडो)

ते दिस हंव दादोन आफइलां म्हूण नइंचे तडी-तडीन सकाळींच घरा गेलों. वाटेर हंवे हतयांचे किंकाट रानांतल्यान येतात ते आइकीले. आणि तेवटेन माझी दिष्ट गेली. तर हंवे एक तरणी-धाकटी बाइल केस उगइत आसतां देखिली. फुडां तीइ माझ्या सांगाती येउं लागली. फुडां एक जोइसी देखिला. वाटे कोणाची एक खोप देखिली. थयं एक बोडकी आंबील रांधी. इतक्यात पानां-फोफळां घेऊन एक आंडोर थंय पावला आसतानां बोडकेन तेच्या हातीर उनउनीत आंबील ओतली. तेणे बोब मारली. पाठल्यान एक आंडोरी देखिली. तिचे हात भांगरान भरलेले देखिले. ती रडली आनि म्हणू लागली, 'आरे पापया आतां तू हातीर उदक घाल. त्या तांबयांत थंड उदक आहा'.

फुडां तिने म्हातारेकडे मुख करुन म्हणितलेः आगे, आदीं पयलीं तुवें तुज्या वरैता ना केला. आता ह्या आंडोरा खाउं सोदिताए. मागां तिने आंडोरा पसाऱ्या वचून सुण्या मायेन उंडयांची पोटुली घेऊं सांगिली. फुडां तिएर्चा आवै पावली. मायेधुआं भेटी जाली. धुएन गंगाळां उदक भरिले. आवैन ते सारिलें. वस्त्रां धूलीं, ओळणी घातली.

दुसरे दिसा धुए एकवत, म्हणौन फांत्या झुंजूरके जालें तेदनां ती उठिली, न्हाली-धुली. इतक्यांत तिएच्या वरैता एक दायज येईल म्हणौन ते दिसा शीत आनी वर्नइ केलें.

सांजवळे दायजान सांते वचौन गाडुग्यांत दूध घेतिलें आनि भाऊजैएं स्वाधीन केलें. तिएन दुधांत फुलसोजी साकर घालून रांधिली आनी दाएजा वाढिली.

चणेयांत तिखी आनी मिरयांची पुडी घातली. तेदनां हींव वाजूं लागले. जेवणा बरी साकवती केली. धाकटुलीं केळीं दायजा दवरली. फण्यांतुलीं दोन केळी तेणे खा(द)ली.

फुडां तेवटिन एक रांड सेणी पुंजयता देखिली. थैं एक गान्डइ देखिले. गुंडे मारिले. पुण ते गा(ई) रींत पडिले.

ते रांडेन गाढवा देखौन आपल्या पालवापीळ घालून ती चलौ लागली. फुडां तिएन आपली वस्त्रां उदकांतू बुडकलौनि काढिली. ती साबार एकवट केली. फुंडा घरा वचौन तिएन सेवयांची आनि सिरवळ्यांची खरि केली. इतक्यातु एका पायां थोट्या मनशान दार उघडिले. सेवयां-शिरवळ्या परिमळ नाकांतु गेलेया कारणान तेया जेवणा वासेना जाली.

त्या रांडेन तेया वाढि (न)ले. रांडेन इडरी-सांभार तेया वाढि(न)ला. थोंट्यान कितुली वरिसां एसोलें अंन देखोंने.

मागां तियेन पैलाडि दो घोडे जुंझता देखिले. तेयांना दावडाया गुंडे मारिले.

फुडां तियेन परुसांतलो फुलां बोचकिली. पुण मागां ती भेऊं लागली. मार्गावरि एक निबु देखौनि तिएन तो फांपार मारिला.

फुडां एका गांवातु तेयिचां गुरवला भगतां आफौनि आफौनि देवताचे दरिसन दि(ध)ले.

भटान म्हणि (त)ले हंव रीण जालां म्हणौनि माझियावरी पडछाया पडिली. मग तो पाखोळ्या (पायाखिळ्या) गेला.

पुढां तो गाडी देओ लागला. मातीचे दिखळ हातीन उकलून तेणी ते चुरिले. आनी तो पराभंवने भंरला. मागां तो घरांत रीगला आनि तेणे मादन्यांत वचौनि पारिसीये (पारग्या) उदक पायं धुले. कारण तेयाचे बाइलेन उन उदक भरिले न होते.

फुडा भट एर गावा वचों लागला. वाटेवरि एका पिंपळापारावरी दोन कुणबी तेयाने देखिले. तेयाने कुणबियीरि पुसिलें. जी जीः ये मार्ग के वचतायि. कुणबियांनी म्हणि(त)लेंः आमी नेणों गा. आमी कासोटेकारी (काष्टेकार-लंगोटिवाले) एरा गांउचे फुडां वचत आसता भटान एक आंबियांचा रुख देखिली. रुख आंबेयांनि भरिला चोवुनि तेणे एक आंबा गुंडियाने फातराइला. चोरियां हातीचिया बटुवियांतु टाकिला. मागां भट घर पर्तला. मानन्यांत वचौनि नहाला. देवता पुजिली. पुण मागां ती मूरती उकलौनु पोखरिलीत पाडू(न)ली. मूरति उदकांतु बुडाली. इतुल्यान तेवाचा सांते गेलाये बाइल थै येइली. आपल्या वरेतान एसे कैसे केले ते ती नेणों जाली. मागां ती

थेंडारुन घरा येइली. सतेव आपुल्या ब्राह्मणान केलिया अधर्म देखोन तिये खंति जाली. तिये जरु येइला. सिंया लागैति तियेन इंगळ्यावरी तौली तापौन घेतिली आणि आपुले हात शेकिले. पुन्हा बाहीर वचौनि सुरियाचिया वताति बैसलीं. पुण भूक लागिल्या कारणान परत घरांत येइली. कांबाळ पांगुरली. सरवळ्यांची भुती तापइली आनी ती उतरुन खा(द)ली. जरु गेला. इतुल्यान सेटी घरी गेलेली तियेची धू आली. तियेन भांगार आवै दाखयिलें. मागां धुएन आवैचिया तोंडी दहियांतु कालइल्ली एके शिताची उंडी घातली. तिये मायेन ती उंडी तशीचा गिळली. कारण तियेचिया तोंडाचे बोचर जाले असे. मागां तें भांगार वोरकुला लावोएनि देखिलें आणि तुकिलें. तागां धुएन घराबारी येतांचि थें एकु कुकड देखिलें. तियेन कुकडा दावडायलें. मागां ती पैतोंनि घरां गेली आनि तियेन रांधनितुनि कोलीन काढौनि ते परुसांत आलेया सुणियावरी मारिले. मागां तियेन आपुल्या माथेयावरि चुभंळी आनी चुंभलियेवरी सेणींनी भरियेली पाटी ठेवीनी ती पांणधीनुति (पाथणीमुनी) मळेयाकडे गेली. थें गोरुवें देखिली, तेयां तण घातले. रेवेच्या हृदयावरुनी गोरुवां व्हाळ नेली. ते गोरुवी उदक पियालीं. मागां ती धू घरा परतली. तिच्या गालावरिचे लाशें चकाकले. तियेन आवै वेंगां धरिली आनि तिये खाट वाजल्यावरि निजैली. मागां आपणय निजिली. दुसरे दिशीं झुंजुरके जालें तवेळा कोकोसान तिये उठइली.



# गोड्डे रामायण

(कोंकणी लोकगीत- पंदरावो शेंकडो)

### अयोध्याकाण्ड कथा

65

प्रजेचो हारु भारु संबाळ करावेग।
चौदा वरुषीं मिया अयोध्ये येयिनगा
बापाचे वचेन मीची सत्य करिनगा
पुत्र जो लावेया वचेन पालावेगा
नहीं तरीं यमलोका यातन भोगिनगा
यातन भोगुनु तो कांय नरक पडनगा

### युद्धकाण्ड कथा

49

विभीषणा घेवनु आतां राजासि स्थापिनगा
लंकेसि जावनु आतां सितेसि हाडिनगा
काय शेवा करूं आतां सांग रघुनाथगा
अयिसे बोलूनु रामा चेरणीं लागलोगा
आयिकूनु सन्तोषु थोरू श्री रामाचें चित्तांगा
श्री रामु बोलिलो विरा आयिकयीं बालिसुतागा



# गद्य रामायण

(हांतली एक पत - पंदरावो शेंकडो)

## आदलो वृत्तांत

त्रेतयुगीं येकुलो जिव (मनुश्य) हजार वर्सा आयुश (औख्य) भोगी. ते युगीं सत्य बोलत, लटिक बोल नांति. ऐशी त्या युगाची म्हयमा.[1] ते युगीं समस्त राय पृथुविवरि दैत्य दानव महा अतूरबळी[2] राज्य करूं लागले. पण त्या युगांतु धर्मु बरो उधंडु चालता. पतिव्रता अस्त्रियो आपुल्या दादुल्याची शेवा उधंडि करितातिः; पुत्र बापाची शेवा करितातिः; माये बापा वेगळे आणयेक समर्थु ना. त्या लोकाचें मन धर्मावरि, सत्य बोलणें, महा पराक्रमी. येकु मागतो अनाथु जरि मागूंक आयलो तरि आपुलें शरिर मुख्य ताका दीति. आपुली प्रजा पाळूनु प्रथुविचे राय नीतिन भांडार भरिति.

त्या युगांतु भिकारी ना, वृद्धु म्हातारोय ना. ऐशें तें महायूग समर्थु. कोणाचें कोणाक वैर ना.[3] परमेस्परा वांचूनु[4] आणयेका कोणाची भजना ना. ऐशें त्या युगांतु आसतां समस्त देव वानराच्या वेखान उपजूं लागले. तंव जांबोवंतु, बृहस्पति, देवांचो गुरू त्या वेखान[5] उपजलो. दैत्यांचो गुरू शुक्र, ताच्या वेखान सुग्रिव जल्मलो, अग्निच्या वेखान अंगदु जालो, नळु, निळु सुखेणु कृत, त्रेत, द्वापार, तीं युगांच्या वेखान उपजले. इंद्रु रूसबु हौनु जालो. रूद्रा पासावत[6] हनिमंतु उपजलो. वरुणु दधि

---

1. व्हडविकाय; वैभव; नीतीन चलतलें धर्मराज्य; ताचें वर्णन फुडें आयलां.
2. सुमाराभायलो, भोवूच बळीश्ट झुजारी.
3. मनशां-मोनजातीं मदें दुस्मानकाय ना; सगळ्यांक सुसंगीत जिवीत फावो जाल्लें.
4. सोडुनु, वेगळो करूनु; (या) भायर, बगर, भायरावन, (हें) नासतना.
5. त्या रूपांतरीत आंगान, वेशान जल्माक आयले.
6. हें पोरणे कोंकणींतलें रूप कारवार आनी हेर दक्षिणे भागांत अजून घोळणुकेंत आसा. तें हेर कडेन 'पास्वत' आनी गोंयां 'पासत' ह्या उतरांनी रूपांतर जालां.

मूखु हौनु उपजलो. ऐशे अठरा जुतापती[7] देव अवतारले[8]. तेत्तिस कोटी देव चौराशीं[9] सहस्त्र वानरांच्या वेखान भूयमंडळाच्या ठांयिं अवतारू धरून आपापुलीं नगरां म्हाविचित्र करूनु तांतूं राज्य करूं लागले.

फुडां कोणयेके काळीं भूरीश्रिव राव. त्या रायान आपुले अस्त्रिये सैत धा सहस्त्र देवांचीं वरूसां तप केलें. दोगांयनी तपांनी आपुलें शरिर नाना प्रकारीं कश्टवलें देखूनु, परमेस्पर[10] प्रसन्न जावनु त्या दोगांकय बोलिलें,[11] "तुमकां प्रसन्न जालों. वरू माग".

तावळि त्या दोगांनी म्हळें, "देवा, तुजे सारिखो पुत्रु गूणवंतु, रूपा लखेणांचो[12] आमचे उदरीं जल्मो, ऐसो करू."

ऐशें त्या दोगांनी परमेस्परा लागीं मागिलें आसतां, परमेस्परान म्हळें, "माका मनुश्याचे उदरीं जल्म ना. पुण तुमचे भग्तिक मजोचि कोणु येकु पुरूस तुमचे घरीं पूत्रु जावनु उपजत. तो तुमकां पुत्रपणीं सुख दीत." ऐशें त्या दोगांकय वरूदान दिलें.

फुडां केतिक काळीं तीं दोगांय जाणां पुत्राचे आशेन मरण पावलिं.

उपरांतें पुतुपर्नु राय अयोध्या राज्य करी. त्या रायाचो पुत्रु भूपाळु. त्या भूपाळाक धा जाणीं राणयो. प्रथमली वर्नति, दुसरी मुखप्रभा, तिसरी तेजवति, चौथी मृगाशेन, पांचवी वीरावति, सटवी प्रभंजना, सातवी सोमकांति, आठवी विरमाळिणि, नववी[13] कृपावंति, धावी सुन्धरता, ऐश्यो धा जाणी राणयो.

फुडां तो राव येकु दिसु स्वर्गावरि दैत्यां लागीं दिसा जिकुंक गेलो[14], आपुलें चतुरंग सहिन्यें सांगातिं घेवनु आकास मार्गी येतां तो दैत्य नगराक पावलो. त्या

---

7. खाशेले सुमाराभायले भंय-भिरांत नाशिल्ले भोव बळीश्ट झुजारी.
8. मनीस अवतार घेवन ह्या संवसारांत आयले.
9. चौऱ्यांशीं, 84.
10. हें परमेश्वराचें तेन्ना जाल्लें तद्‌भव रूप जें आयजूय क्रिस्ती प्रार्थनांनी चलता.
11. हें रूप आतां कोंकणींत ना जालां. पूण 'उलयलें हें आतांचें अस्सल कोंकणी रूप तेन्नाय त्या उतरा सांगातानूय आशिल्लें.
12. लक्षणांचें तद्‌भव रूप.
13. नववी आनी न्हय णव्वी, हें नोंद करचें.
14. हेरांचेर जैत जोडूंक, (झुजाक) सगळ्या दिशांनी गेलो.

नगराक सोवर्नाचीं[15] दुर्गां,[16] रत्नांचे मणी. ऐशें तें नगर विचित्र, चौराशीं सहस्त्र योजनां रूंद. ते नगरीं वचूनु आपुल्या सहिन्या सैत त्या नगराक वेडो घालो. ऐशें येक वरूस[17] पर्येंत्र नगर वेडिलां आसतां, त्या दैत्यांनी आपुल्या बळान जितुकें रायाचें साहिन्यें मारिति तितुकेंय तो राव अमृत संजीवनी विद्या[18] जपु करूनु तितुकेंय सहिन्यें मागुतें जिवें करी.

फुडां त्या रायान आपुल्या बाणान त्या दैत्यांचें समस्त सहिन्यें मारिलें आसतां, दैत्यांचो गुरू, शुक्राचार्य, तो त्या समेस्ता सहिन्याक जिवें करी. जितुके दैत्याचे वीर मरण पावति तेतुकेय तो जिवे करी. फुडां त्या रायान म्हा[19] थोर युद्ध करूनु जितुकें दैत्यांचें सहिन्यें आशिलें तितुकेंय मागुतें[20] रणीं पाडिलें. ते देखूनु त्या शुक्राचार्यान मागुतें त्या सहिन्याक जिवें करूनु, तो त्या राया लागीं युद्ध करूंक गेलो. तंव नाना प्रकारिंचीं शस्त्रां, अस्त्रां, गदा, शग्ती, पटिशां, तोमार, ऐशीं सत्तीस दंडआयुध्यांनी[21] त्या रायावरि युद्ध केलें. फुडां त्या रायान तो आपण्यावरि युद्ध करिता देखूनु त्या शुक्राचार्याक आपुल्या शस्त्रांनी आविळूनु बांदून आपुल्या रथावरि बैसयलो. मागुतें त्या रायान जितुकें सहिन्यें रणभूमिक पाडिलें[22] तितुकेंय जिवें जालें ना देखूनु समस्त दैत्य पळूं लागले.

तावळि[23] काळनेमु दैत्य, त्या दैत्यान साटि सहस्त्र भूतगण सांगातीं घेवनु, त्या रायाचें सहिन्यें जंय आशिलें ते रणभूमि आयलो. तावळि तीं भुतां तें सहिन्यें गिळूं लागलीं. ऐशे करितां समेस्त वीर रणभूमि सांडूनु पळताति तें रायान देखिलें. तंव आपुलो रथ, ज्या रथाक धा सहस्त्र घोडे बांदल्याति, सोवर्नाचो धजस्तंबु,[24] येकवीस

15. सुवर्णाचीं; भांगराचीं.

16. कॉटां - मागीर त्या उत्तरा पसून कोंकणी 'दुर्ग वा 'दुरिग', हें उतर तयार जालें; मूळ अर्थ कॉट वा किल्लो.

17. वर्स, वरस.

18. परतें जिवंत करपाची विद्या.

19. महा हाचें 'म्हा' तद्भव रूप तेन्ना तयार जाल्लें.

20. फाटीं, फाटलें वटेन.

21. झुजाचीं - सत्तिस प्रकाराचीं हातयारां.

22. विभाडून भूंय घाले; हारयले.

23. तेन्ना, त्या वेळा, - हें रूप अजून कोंकणाचे दखिणेक चलता.

24. ध्वजस्थंब - हाचें तद्भव कोंकणीकरण.

चक्रां, नाना प्रकारिंचीं आयुध्दां, पटिस, शग्ति, तोमार, गदा, कोंतेकार, ऐसो सत्तीस दंडआयुध्यां सैत त्या रथावरि बैसूनु त्या भुतांगणांचे पाटीं धनुश्य बाण घेवनु, त्या समेस्तांक विंदिले[25]. त्या पासावत जितुकें त्या दैत्यांचें सहिन्यें आशिलें तेतुकेंय धायी दिशां पळूं लागलें. पळतां कितिकांचे पांयें तुंटले, कितिकांचें हात तुंटले, कितिक मधेंचि खांडले,[26] कितिक रणभूमि पडले. ऐशें सहिन्यें आठां दिशां पळता देखूनु येकु दैत्याचो पुत्रु, कचु, येवनु त्या रायाचो बाण छेदूं लागलो[27]. फुडां त्या रायान येक चक्र काडूनु त्या कचाचें शिर[28] छेदिलें. मागुतेन रथावरि बैसूनु धा सहस्त्रां दैत्यांक आपुल्या भालिंनी विंदूनु भूमिवरि पाडिले.

फुडां त्या दैत्याचे वंशिचो[29] कुबेराचो भाव विरसेनु, तो आपुल्या रथावरि बैसूनु धा सहस्त्र हस्ती[30], वीस सहस्त्र रथ, येकु लख्य घोडो, त्या रथावरि महा वीर, हातीं धनुश्य घेवनु बैसल्याति. आंगावरि, शिरीं कोंगल,[31] मस्तकाक नाना प्रकारिंचे मुकुट, शस्त्रां, अस्त्रां सांगातीं घेवनु, इतुक्या सहिन्या सैत जंय तो राव शूरसेनु आपुल्या सहिन्या सैत आसा थंय येवनु, आपुल्यां बाणांनी जितुकें त्या रायाचें सहिन्यें आशिलें तितुकेंय भूमिवरि पाडूं लागलो. मग सहिन्यें भूमि पडलें देखूनु उग्रकेतु, वीरूचुडामणी, भुजंगु, आनंदरुप, वीरसेनु, वृद्धागर्भु, भूरिश्रिव, महाकेतु, वृद्धकेतु, अजानभाव, ऐशे धा सहस्त्र वीर आपुल्या रथां सैत जितुके शस्त्रां, अस्त्रां घेवनु आपुली प्रभा[32] समेस्तां मधें फांकौनु ज्योतिरलोकु,[33] महरलोकु पर्येंत्र आपुली दिप्ती वरुति[34] करूनु, साटि सहस्त्रां गणां सैत शग्ति, तोमर, गदा, पटिश्स ऐशें नाना प्रकारीं सत्तीस दंडआयुध्दांनी येकामेकाच्या सहिन्यांक महा वीर अतुरबळी येकामेकाचीं

---

25. भाल्यान तीर करून मारून मोखलें.
26. कापून, कातरून उडयलें.
27. तोपून, मोडून कुडके करूं लागलो.
28. तकली, माथें.
29. दैत्याच्या वंशांतलो, वर्गांतलो, जातीचो.
30. हतयाचें तत्सम रूप.
31. लोखणाचें कट्टें वा चेपें - झुजाक उपकारावपाची मुस्तायकी.
32. उजवाड; वैभव - (फांकोन).
33. मळबावेळीं नखेत्रां; केंडां.
34. वर्ते, वर्चस्व दाखौन.

शिरां कातरून धनुश्य, बाण, रथ, शेतकुटु केले, हस्ती घोडे मारिले. ऐशें समस्त सहिन्यें रणभूमिक परस्परीं पाडिलें म्हणूंच्याक रग्ताचे न्हंयचे[35] पूर, त्या पुरांतु मडीं व्हांवूनु वेता, जैशें येकादे न्हंयत थोर माशे[36] उधंड वचति, त्या सारिखीं प्रेतां त्या रग्ताचे न्हंयेंत व्हांवूं लागलीं.

ऐशें युद्ध जातां त्या शूरसेनान देखिलें. ताणें मनीं म्हळें, 'ह्या आमच्या सहिन्यांतु थोर थोर वीर रणीं पडले. तरि आतां हे समयीं [37] कोणु उपाव करूं?' तंव येक आठवलें. येकि शग्ति, ते शग्तिचो विस्तारू चौराशीं गांव, दोनिशीं घांटो ते शग्तिक बांदिल्याति. ऐशी ती शग्ति काडूनु त्या दैत्यावरी घाली. त्या निमितिं जितुके दैत्य रणभूमिक आयलेले तेतुकेय समेस्त जैसो येकादो प्राण्यो आपुल्या घरांतु निद्रा करी तैशे ते समेस्त दैत्य आपापुल्या रथांच्या आसनांवरि निदेले देखूनु त्या रायान मोहनास्त्र[38] काडूनु त्या समेस्तां दैत्यांवरि घालें. मागीरि राव रथावेलो देंवनु त्या समेस्त दैत्यांचो मुकुटु, शस्त्र, अस्त्र नाना प्रकारिंची जितुकी आयुध्यांची सामग्री आशिली तितुकीय काडूनु घेवनु, त्या विरांक नागुडे करूनु, तांचीं न्हेसुंचीं वस्त्रां मुखें तो राय घेवनु गेलो. मग आपुल्यां सहिन्यां मधें वचूनु, जितुको आपुलो दळभारू आशिलो, तेतुकोय जिवो करूनु मागुतें आपुले धनुश्यबाण घेवनु तें मोहनास्त्र काडिलें. तंव ते समेस्त दैत्य संजिवन जावनु जरि पळेति, तरि आपण्याक नग्न करूनु समेस्त शस्त्र, अस्त्र घेवनु गेलो, ऐशें देखूनु समेस्त दैत्य लाखटेवनु[39] आपुल्या नगरा परतले.

तंव त्या नगरांतु येकु दैत्य काळकवचु, ताका ब्रह्मा प्रसन्न जावनु, त्या दैत्याक म्हळें, "वरू माग".

फुडां त्या दैत्यान 'येक मुख दों मुखांचो, त्या इतुक्याचे हातीं मृत्यु ना', ऐशें वरूदान मागिलें आसतां, ब्रह्मान ताका वरूदान दिल्या पासावत, स्वर्गु, मृत्यु, पाताळ, तिनिय लोक जिकूनु आपुले केले.

फुडां त्या दैत्यान ते रणभूमी येवनु त्या विरसेनाचें जितुकें सहिन्यें आशिलें

---

35. आयचे कोंकणींतलें त्या काळा पसून नदी खातीर चलत आयिल्लें उतर नियाळात.
36. व्हडलें नुस्तें.
37. ह्या वेळार, काळार.
38. घुंवळ वा न्हिद घालपाचें अस्त्र.
39. निर्शेवन, धीर सोडून, मन मोडून.

तेतुकेंय सहिन्यें समेस्त गिळून, त्या वीरसेनाक काळकवच्र शस्त्र घालुनू, तो विरसेनु बांदूनु, आपुल्या नगरा घेवनु वचूं लागलो. वेतां मार्गावरि त्या दैत्यान सहस्त्र सोन्याचे कळशे तो दैत्य पियेवनु महा मदनमस्तु जावनु मार्गावरि वेतना ताका वीरसेनान देखिलो. 'हो माका बांदूनु व्हरता,' मग हळुचि आपणें माव रूप धरनु त्या दैत्याचें नाक आणी वोंट कातरनू घेवनु, आपुल्या अयोध्या नगरा आयलो.

फुडां त्या रायान यग्नु करूंक पृथुविवरि बत्तिस लखेणिकु घोडो शृंगारूनु, बरवीं वस्त्रां त्या घोड्याक पांगुरावनु, सोवर्नाची पत्रिका मस्तकाक बांदूनु, तो घोडो पृथुविवरी सोडिलो. सांगातीं सहिन्यें चतुरंग. त्या सहिन्यां सैत तो घोडो पृथुविवरि हिंडतु नाना देसोदेशीं, नगरान नगर वेतां तो कोणी येकि दिशीं चंपावती म्हळलें नगर, रत्न मणयांचें, सोवर्नाचें दूर्ग, ऐसो त्या नगरांतु हस्ती घोड्यांचो, रथ पांयदळाचो महा दडदडु[40] पडलो आसतां, त्या स्थानांतु तो पृथुविवरि सोडिललो घोडो पावलो. देखूनु ती पत्रिका जरि वाचिति तरि त्या वीरसेनान अश्वमेदु करूंक घोडो सोडिला, जो राजा पृथुवि भितरि समर्थु त्या रायान हो घोडो धरूंचो, ऐशें ताणें ती पत्रिका वाचूनु घोडो सोडयलो. महाद्वारा ठांय बांदिलो आसतां इतुक्यां त्या रायाचें चतुरंग सहिन्यें येवनु महा बोब करूनु ह्या रायाचें नगर वेडिलें. तंव दोहीं सहिन्यांक थोर युद्ध जालें आसतां, येकामेकाक परस्परें हाणत,[41] जैसो समुद्रु गरजो, तैशी दोनि सहिन्यां गरजूंनु वोसरलीं.[42]

फुडां त्या रायान ऐशें देखिलें, त्या वीरसेनाच्या सहिन्याक मारिन म्होणु. तावळि म्हा थोर, थोर वीर धा जाण, रूशेसनु, रूसभाव, रूसकेतु, मोहदचि, आनंदपुरू, देवदत्तू, महासेनु, वीरावतु, गोमुकु, चित्ररूपु, ऐशें धायि जाण आपुल्या रथावरि बैसूनु, नाना प्रकारिंच्या आयुध्दां सैत ते रणभूमिक येवनु, जितुके त्या रुशेसनाचें सहिन्यें आशिलें तेतुक्याय सहिन्याक मारूं लागले.

तंव त्या वीरसेनाच्या सहिन्या भितरि व्हड व्हड मुख्यनायक, पांच जाण वीर येवनु त्या धांयिं जाणांक पडखळिले[43]. जितुकें त्या धा वीरांचें संधान[44] त्या पांचांय

40. धडधड करून थंयच्यान कडसरून गेलीं.

41. पाड, आड घालून उडयले, विभाडले.

42. तीर करून तोपून मारपाची प्रक्रिया.

43. धडधडीत आवाज.

44. जिवेशीं कापून मारून उडयत.

जाणांनी मोड्डूनु आपुल्या बाणांनी त्या वीरांचे रथ छेदिले, धनुश्यां छेदिलीं, रणभूमिरि सारथी मारूनु विरथी केले, आण्येक शेंभरि बाण घालूनू त्या धांयिं जाणांक भूमिवरि पाडूनु मागुतें परतले. फुडां त्या नगरिच्या रायान देखिलें आपुले वीर धा जाण रणभूमिक पाडिले. देखूनु मागुतें रथावरि बैसूनु, त्या पांच जाणां वीरांक धा धा भालिंनी रणभूमिक पाडूनु मागुतें सहिन्याक विंदूं लागलो. तंव त्या भितरि त्या रूशसेनान पृथुवि आणि आकास पर्येंत्र बाण जाळ वरूसूनु त्या रायाचो सारथी, धजस्तंबु मोडूनु, हातिंचें धनुश्य छेदूंनु, पांच बाणांनी विरथी करूनु भूमिरि पाडिलो.

तें देखुनु त्या रायाच्यो स्त्रियो आपुलो पती रणभूमिरि पाडिलो देखूनु त्या राया रूशेसेनाक काकुळतिं[45] येवनु बोलूं लागल्यो, "आगा राया, तूं समर्थु, तरि हो आमचो दादुलो तूं मारू नाका. आमी तुज्यो दासी. ह्या रायान नेणता[46] तुजो घोडो धरलो. तरि खेत्रियांचो धर्मु आपलो पराक्रम दाखौंचो. नीति तरि ऐशी आसा. खेत्रियान खेत्रियाक जरि झुजाक आपयलो तरि झुजाक नये, ऐशें बोलूं नये, पळत्याचि पाठि घेवूं नये. आपण्याक जो शरण आयला ताका सर्वतां मारू नये, ऐशी नीति देखूनु, ह्या रायान तुजो घोडो नेणतां धरिलो. तरि आमचे खातिर, आमी तुज्यो दासी आसतां, हो येकी वेळे आमचो भ्रतारू तूं राख."

ऐशे म्हणौनु त्यो त्या रायाच्या चरणांवरि पडल्यो.

तंव तो राव संतोसूनु, तांचो भ्रतारू सोडिलो. तो येवनु त्या शुरसेना रायाच्या चरणांवरि मस्तक ठेवनु सास्टांग नमस्कारू केलो.

उपरांतें त्या रायान शूरसेनाक बोलिलें, "आगा राया, हें समेस्त राज्य तुजें. तंव राज्याचे नीति पासावत तुजो घोडो धरूनु हो संग्राम केलो."

शूरसेनाक बोलूनु धा सहस्र रथ, त्या रथांवरि वीर धनूर्धर, आंगीं शिरीं कोंगल, हातीं धनुश्य बाण, ऐशे म्हा वीर धा सहस्र त्या शूरसेनाक दिले, वीस सहस्त्र हस्ती, येकु लख्य घोडो. दोनि सहस्र बटिकी, धा भार सोवर्न, इतुकें त्या रायाक देवनु, ताचो घोडो धरिललो तोवय ताका दिवनु, नाना प्रकारीं संबोखूनु,[47] थंय ठावनु वचूंक गेलो.

---

45. चुरचुरे, दया मागून.

46. नकळ आसतना, नेण आसतना.

47. संबोधून; शिटकावणी दिवन; हुरमतीन सांगून.

ऐशें वेतां केतिक नगर हिंडत हिंडत समुद्राचे तिरीं पावलो. थंय येकि शिळा[48] योजना भरि आशिल्ली, ते शिळे लागीं तो घोडो पावलो, च्यारीय पांय ते शिळेक लागले. तंव हाल चाल ना जावनु तो घोडो आसतां त्या शूरसेनाचें सहिन्यें, महा वीर पावले. ताणीं देखिलें, तो घोडो ते शिळेक लागला. देखूनु थोर अचर्यें पावले. मग नाना प्रकारीं त्या घोड्याक जंव काडिति तंव तो घोडो शिळेक लागललो हाल ना चाल ना जावनु दृडू आसा, ऐशें देखूनु मनीं चिंता करूं लागले. आतां कोणु प्रकारू केल्यारि हो घोडो सुंटो, ऐशी चिंता करितां, मुखारि जरि वचति, तरि येकु रूशी तळ्याचें कांटीं बैसला देखिलो. त्या रूशीच्या आश्रम्यांतु नाना प्रकारिंचीं फुल[49] झाडां, चांपे, जाय, जूय, शेंवतीं, मोगरीं, मालती, वा नाना प्रकारिंच्या पुश्पां जातिचो परिमोळु वरवो सुगंदु येता, भोंवर त्या परिमोळाक रूणु जुणताति.[50] त्या मळ्यांतु तो रूशी बैसला देखिलो. त्या मुखारि येका तळ्यांत बरवीं कमळां फुलल्यांति, नाना प्रकारिंचे मळे. म्होणुंच्याक तें सरोवर म्हा बरें दिसता. त्या मुखारि अरण्यें, त्या अरण्यांतु शिंवु, सारदूळ,[51] नाना परिंच्यो हस्ती, गाय, वाग येकिकडें खेळताति. ऐशें तें अरण्यें.

त्या अरण्यांतु तो रूशी देखूनु ते समेस्त वीर त्या रूशीक शरण गेले, "आगा रूशी, आमच्या शूरसेना रायान अश्वमेदु करूंच्याक पृथुविवरि घोडो सोडिलो. तो घोडो समस्ति पृथुवी जिखूनु ह्या तुज्या आश्रम्या पावला आसतां ते शिळेक तो घोडो लागला. आतां आमचेरि कृपा करूनु हो घोडो कैसो सुंटत, तें माका सांग." ऐशें बोलूनु त्या रूशीक नमस्कारू केलो.

तंव त्या रूशीन बोलिलें, "आहो, समेस्त वीरांनो, हे शिळेची कथा सांगन, ती आयकाः. 'पूर्वी भद्रावति नगरी. ते नगरियेचो राव प्रभंजनु. तागेरि चौगी जाणीं कन्या. येकिक नांव चित्रा, दुसरी विचित्रा, तिसरी पद्मावती, चौथी मदनशेन. ऐश्यो चौगी जाणी कन्या. दोग पूत्र, वीरावतु, कुमुदु. ऐशीं सात जाण त्या रायागेरि जालीं.

फुंडा, केतिक काळानि त्यो कन्या उपंवरि[52] जाल्यो. तावळि त्या रायान

48. व्हडली फातर.
49. चांपे, शेंवतीं, मोगरीं, जायो जुयो - गोंयचीं, कोंकणांतलीं खाशेलीं फुलां.
50. फुलां चिंवतना भोंवर, पाखे, पिसोळीं करतात तो संगीतमय आवाज.
51. हेरांक खावपी जनावर; वागा सारकी रानवटी मोनजात;
52. लग्नाक तयार जाल्ली तरणी- धाकटी बायल; वोडवी.

आपुल्या कन्यांक म्हळें, "तुमच्या सुंधरपणा सारिखे आपण्याक दादुलो जैसो सुंधरू मेळ तैसो मेळैया" म्होणु त्या रायान सांगूनु नाना प्रकारीं द्रव्य, धा धा हजार सोर्वन, आण्येकां माणिकां, रत्नां, हिरे, निळे,[53] वज्रां, ठिकां येकेकि जाणिक पांचशीं पांचशीं बटिकी,[54] त्या बटिकिंक नाना प्रकारिचें शृंगार, रथ, घोडे, हस्ती, पांयदळ दिवनु, त्यो कन्या पृथुविवरि हिंडूंक धाडिल्यो. चौगीय जाणी ते पांच मार्गानि आपापुल्या सहिन्यां सांगातिं वेतां, येकि पूर्वदिशे गेली, येकि पश्चिमे दिशे गेली, येकि उत्तरदिशे गेली, येकि दखिणे दिशे, ऐशें चौदिशांचे ठांय चौगीय जाणी गेल्यो.

तावळि येकिन म्हळें, "आपण खंय न वचो." ऐशें बोलूनु ह्या अरण्यांतु ह्या तळ्याच्या कांठावरि बैसली. फुंडा तिणें जितुकें आपुलें सहिन्यें, द्रव्य, बटिकी, इतुकेंय आपुल्या बापाचें, त्या बापाक धाडूनु आपण त्या तळ्याच्या कांठावरी परमेस्पराचें ध्यान करूनु, तप करूं लागली. तंव अन्न सांडूनु, कांय फळ भकी.[55]

फुंडा आण्येक केतिका काळांनि तिंवंय फळां सांडूनु, उदक मात्र घेवनु राविली आसतां, धा सहस्र वरूसां तप केलें.

तंव तिका परमेस्पर प्रसन्न जावनु 'वरू मागुं', ऐशें बोलिलें.

तिणें म्हळें, "ह्या समेस्त त्रिलोका भितरि, स्वर्गु, मृत्यु, पाताळ, त्या मदें सुंधरू पुरूस तुजे वेगळो आण्येक कोणु ना. तरि जल्मोजल्माक, परमेस्परा, तुजी भग्ति दी. तुवें मजो दादुलो जावनु हांव रात्रि दिसु तुजी शेवा करी, ऐशें माका वरूदान दी."

तावळि परमेस्परान म्हळें, "मजे औशिं राम अवतारी, तूं त्या रामाची स्त्रि हौशि. त्रेतायुंगीं सिता जावनु तू परमेस्पराचे भगती पावशी.

ऐशें तिका वरूदान दिवनु तिचें शरिर अदृश्ट करूनु आपण निजस्थानी गेलो.

दुसरी कन्या पूर्वदिशेक वेतां केतिकु मार्गु क्रमविलो. फुंडा येक नगर सोवर्नाचें. ताचिं दुर्गां सोमकांताचीं, रत्नां माणियांचे स्थंब, भोंवतें दूर्ग, सात आंगड[55A]. त्या नगरांतु हाट, हाटवट्यां,[56] बिदी,[57] वाणये वेव्हारी, तांचीं घरां थोर बुरिंजांचीं[57A]

53. निळ्या रंगाचो मोलादिक फातर = Sapphire.
54. नेफार; सेवा करपी चाकर-बायलो.
55. खांवक; एकामेकार खांवक.
55A. उदकाचे फोंड.
56. ल्हान व्हड बाजार, तिंटो वा गांवच्या रस्त्यार भरतले बाजार.
57. रस्तो; मार्ग; पायण; वाट.
57A. Towers, Turrets.

नाना चित्र विचित्रां शृंगारून कुबेरा सारिखे धनिक, रत्नां माणिकांनी भोव ग्रेस्त संपन्निक, ऐशें नगर महा अपूर्व देखिलें. हस्ती, घोडे, रथ, पांयदळ, ऐसो समेस्ता सहिन्याचो दडदडु त्या बिदिंतु पडला देखिलो.

फुडां ती कन्या आपुल्या सहिन्या सवर्तमान त्या नगरांतु येवनु त्या रायाक सांगूनु धाडिलें, "आगा राया, जो आपुल्या सुंधरपणा सारिखो भ्रतारू आसा, तो माका जायो, म्होणु हांव ह्या नगरांतु पावल्यां."

ऐशें रायाक त्या शेवकांनी सांगिलें आसतां, रायान म्हळें, "ती कन्या कोणाची, तिचें सुंधरपण कैशें?"

तावळि त्या शेवकांनी म्हळें, "वीरूपाख्य राव, ताची कन्या महा रूपेस्ति, बत्तिस लखेणिकि. तीं लखेणां कोण : पांच दीग, पांच सुखुम,[58] पांच ल्हान, दोनि रूंद, सातरग्त वर्ण, स उंच, ऐशी बत्तिस लखेणिकि कन्या ह्या नगरांतु आयल्या."

हें त्या रायान आयकूनु, बरवे शृंगार करूनु, रत्नांचो मुकुटु, रत्न पदक,[59] बरवीं देवांग वस्त्रां,[60] नाना प्रकारिंच्यो पूश्प जाती, तांचे हार करूनु गळ्याक घाले, कुंकुम कस्तुरि जितुक्यो परिमळ वस्तु आंगाक लावनु, वा नाना परिंचे शृंगार करूनु, आपण रथावरि बैसूनु, साटि सहस्त्र सहिन्यें सांगातीं घेवनु, खंय ती कन्या आशिली थंय आयलो. ते कन्येन तो राव देखूनु, ताचीं लखेणां जरि पळे तरि बत्तिस लखेणां[61] भितरि धा लखेणां उणीं, ऐशें देखूनु तिणें मनीं म्हळें, "हो दादुलो माका नाका."

ऐशें बोलूनु ती आपुल्या सहिन्या सैत त्या राया लागीं न बोलतां गेली. तें रायान देखिलें.

तंव राव मनी धस्कुनु बोलूं लागलो, 'हिणें मजी बेपर्वा करूनु ही कन्या ओगिचि गेली.' ऐशें मनीं म्हणौनु आपण त्या सहिन्या सैत ते कन्येचे पाठीं गेलो. फुंडा ती कन्या वेतां मागुल्यान जरि पळे तरि तो राव आपुल्या कटका सैत पाठीं येता. ऐशें देखूनु ती कन्या पळूं लागली. पळतां आण्येकी देशिचो राव आपुलें चतुरंग सहिन्यें सांगातीं घेवनु पृथुविचें भ्रमण करूक येतालो. तंव ती कन्या पळतां देखिली.

---

58. सोबीतायेचीं लक्षणां.
59. रत्नांनी भरिल्लें पदक.
60. देवांच्या आगांक सोबतलीं वस्त्रां.
61. बत्तिस लक्षणां = 32 characteristics of perfection.

फुंडा ही कन्या आण्येकी देशिचो राव येता देखूनु आपुलें सहिन्यें येकवटूनु येकि भुमिकेंतु उबी राविली.

तावळि त्या दोगांय रायांक येकामेकाच्या सहिन्या सैत मार्गावरी भेट जाली. तंव दोगय राय येवनु ते कन्येक सभोंवतीं तिचें कटक[62] सैत वेडिलें. उपरांतें महा थोर युद्ध दोंहीं कटकांक जालें. येकामेकावरि परस्पर बाण शग्ति, तोमार, गदा, पटिश, शूळ,[63] भाले, कोंतेकार, ऐशें नाना प्रकारिंच्या शस्त्रांनी येकामेकांक तुंबळ युद्धयान[64] मारू लागले. ऐशें युद्ध जातां आकास आणि पृथुवि पर्येंत्र शस्त्र अस्त्रांनी अंदकारू पडूनु सुर्याचें तेज देखूं नये, ऐशें जालें.

फुंडा तीं तिनीय कटकां ते ठांय वोसरलीं. तंव महा वीर दोगां रायांचे धा हजार येकवटूनु परस्परें येकामेकाक हस्तिंवरी हस्ती, रथांवरी रथ, घोड्यांवरि घोडे, पांयदळांवरि पांयदळ, शस्त्रां अस्त्रांनी परस्पर युद्ध जातां तें रणभूमिरि रगताचे पूर येवनु मडिं व्हांवूं लागलीं. इतुक्यां ते कन्येन त्या दोहीं दळांक आडवारूनु, तिणें मनीं म्हळें, 'तुमी दोगय राय युद्ध जें करितातित तें कोणा कार्या निमितीं, तें माका सांगा.'

तंव येका रायान म्हळें, "आमी परस्परें युद्ध करितांव. तरि तूं कोणि? तूं ह्या सहिन्या सैत पळता देखूनु हो राजा तुजे पाठीं येता. देखूनु हांवें आपुल्या दळभारा सहित तुज्या सखयापणाक[65] हांव आयलों देखून युद्ध जालें."

"आतां जो मज्या रूपा सारिखो पुरूस मेळत तो हांव दादुलो करतलीं," ऐशें तिणें बोलूनु आपुल्या सहिन्या सवर्तमान[66] ती वचूंक वतां, तंव त्या रायान त्या दुसऱ्या रायाक बोलिलें, "तुमी आमी हे कन्येक व्हारडिक न्हांवक[67] बोलिलें. ही कन्या आमकां तंव वरि ना."[68]

मग तो चित्रसेन राव धांवनु वचूनु ते कन्येक आपुल्या बळान व्हरू लागलो.

---

62. फौजीची एक पळटण; फौजेचो एक भाग वा कुडको.
63. लांबदीक मुठाचो भालो = Spear.
64. मारेकार; नेटान जाल्लें झूज.
65. सांगात; तेंको; आदार.
66. सांगातान, सैत.
67. लग्नाची विधी करतना, नाल्लाच्या रोसान न्हांवपाची प्रथा धरून हें उतर तयार जालां. तशेंच न्हाण जाल्ली चली म्हळ्यार आंगार जाल्ली लग्नाक तयार अशी बायल.
68. लग्न जांवक; लग्न करूंक; लग्ना बांदपास जोडून.

फुंडा ते कन्येन म्हळें, "आगा राया, तूं बळातकारू करिताशि. हें तंव परमेस्परा लागीं बरें न्हय. परस्त्रियेक बळातकारू जो करी, त्या पापा परूतें[69] आण्येक पाप हे संवसारीं ना. ऐशें आसतां, तुवें माका बळातकारू करूंच्याक फाव ना." ऐशें ते कन्येन बोलिलें.

तंव त्या रायान म्हळें, "तूं उपंवरि जाल्या. तुजे सारिखें रत्न बत्तिस लखेणिक, तुज्या रुपा सांगडो पूरूस ह्या त्रिभुवनांतु ना. ह्या त्रिभुवना भितरि समेस्त लखेणादिकु येका परमेस्परा वांचूनु आण्येकु कोणु ना. तरि मज्या सारिख्या रायाक तूं वरि."

त्या रायाक ऐशें बोलिलें आसतां दुसेरीं रायान म्हळें, "हस्ती, घोडे, रथ, पांयदळ, द्रव्य, माणिकां, हिरे, निळे, मोतयां, ऐशी मजे घरीं आण्येकि संपत्ति आसा. तरि मजे सारिखो आण्येकु भाग्यवंतु ना." ऐशें त्या रायान बोलिलें:

तंव ते कन्येन म्हळें, "जें हांव मागतां तें जरि तुं दिशी, तरि तुजी स्त्री जायन."

तें आयकून रायान बोलिलें, "तूं जें मागशी तें दीन. तूं माग."

फुंडा ते कन्येन म्हळें, "आगा राया, जी उत्पत्ति तुजे पासावत मगेरि जायत ताका तुवें राज्य दिंवचें! जे मागां तुगेरि पुत्र आसति त्या पुत्रांक दिंवूं नये. ऐसो जरि सत्य बोल दिशी, तरि तुजी अस्त्री जायन."

ऐशें आयकूनु रायान नाना प्रकारीं सत्य उतर दिवनु, ते कन्येक गंधर्व-विव्हाव[70] करूनु, तीं दोगांय स्त्री पुरूस जालीं.

फुंडा त्या रायान त्या अरण्यांतु रावनु महा विचित्र घर बांदिलें. नाना प्रकारिंची संपत्ति, खांवचे जेंवचे, सर्वय भोगूनु दोगांय सुख संतोसु करूं लागलीं. जितुकें सहिन्यें आशिलें इतुलेंय आपुल्या नगरा पाटौनु तीं दोगांय त्या अरण्यांतु रावलीं.

उपरांतें केतिक काळांनी तिगेरि दोग पूत्र जाले. ते दिवशीं माशीं वाडले.

फुडें ते कन्येन म्हळें, "आगा राया, तुवें तें सत्य उतर दिललें तें आतां तूं पाळि."

तंव रायान आपुले वाडलेले पुत्र आपौन, तांकां म्हळें, "हे समस्त राज्य ह्या पुत्रांक तुमी दिया."

---

69 परस; ताचे फुडें; पाश्ट.

70. गंधर्व-विवाह - आपखोश्ये प्रमाणें केल्लें लग्न, अशी एक लग्नाची पद्धत - दुसऱ्यो म्हळ्यार ब्रह्मा, दैव, अर्शा, प्रजापत्य, असुर, राक्षस आनी पैसाच्य.

तंव त्या पुत्रांनी म्हळें, "आमी व्हडलेल्ये, हे धाकुटेल्ये. तरि हांकां हें राज्य दिंवचें ते कित्या?"

रायान म्हळें, "हांवें पूर्वी हिका सत्य उतर दिलां. त्या पासावत ह्या उतराक तुमी मजें सत्य पाळका."

ऐशें आयकूनु त्या पुत्रांनी म्हळें, "आगा बापा, तुजें उतर आमी मोडूं नये. पुत्राक बापा वांचूनु ह्या संवसारा भितर आण्येक थोर ना. संवसारीं मायेबापु देवा सारिखो मानुंचो. तुजें उतर कैशें मोडूं?"

ऐशें त्या पुत्रांनी बोलुनु राज्य पाटु दोगांय त्या धाकुटेल्या पुत्रांक दिलो. आपण शेवा करूं लागले.

फुंडा केतिक काळीं तो राव आणी ती स्त्री मरण पावलीं. ती आण्येका जल्मा, मृगु[71] आणि मृगी हौनु येका अरण्यांत उपजलीं. तीं दोगांय स्त्री पुरूस जावनु वनान वन हिंडतां, विंद्याचळु पर्वत, त्या पर्वतांचें शिखर धा सहस्र उंच, आवघो पर्वत रत्नांचो, ऐश्या पर्वतावरि नाना परिंच्यो पुश्पां जाती, नाना परिंचे वृक्य, देवां दिव्यवाली, राजहंसा सारिखे सहस्र पखी, मोर, गरूड पखी, शिंव, सारदूळ, ऐसो तो विचित्र पर्वतु. त्या पर्वतारि तीं दोगांय, मृगु मृगि हिंडत पावलीं. ऐशीं हिंडता येकु रुशी महा तपसी, वरूते पांय सकलती मान, ऐशें करूनु धुंवरू खाता. ऐशें तप करित देवांचीं धा सहस्र वरूसां त्या तपस्याक जालीं. ऐशें ताचें तप थोर देखूनु परमेस्परू प्रसन्न जावनु, ताका म्हळें, "तुज्या मनांतु जी इछा आसा तें तूं माग."

तंव त्या रूशीन मागिलें, "ह्या स्वर्ग, मृत्यु, पाताळा, ह्या त्रिलोका भितरि माका मरण ना, (ऐशें करी.")

ऐशें मागिलें आसतां, त्या रूशीक दिलें. मग परमेस्परू अदृश्ट जावनु आपुल्या निजस्थाना गेलो.

फुंडा तो रूशी पर्वतावरि आसतां तीं दोगांय, मृगु मृगि, त्या आश्रम्या तो रूशी खंय बैसला थंय तीं हिंडत पावलीं. तंव त्या रूशीच्या मनीं ऐशें जालें, "स्त्री पुरूस संयोग सुख भोगुंचें." ऐशें ताणी मनीं धरिलें आसतां, ताणें म्हळें, "माका मरण तंव ना. आतां कोणि स्त्री बरवी सुंधरि लखेणवति मेळत!"

---

71. मेरू; हरण.

ऐशें बोलूनु तो रूशी ना जालो. आपुलो वेखु[72] सांडूनु बरवो महा सुलखेणु राजा हौनु जालो.

फुंडा केतिक काळीं पश्चिम दिशेक गेलली ती कन्या हिंडतां हिंडतां आपुल्या सहिन्या सवर्तमान त्या विंध्याचळा पर्वतावरि पावली. तंव तें सहिन्यें त्या पर्वताच्या मुळांतु ठेवनु आपण त्या पर्वतावरि वचूं लागली. ती पर्वतावरि हिंडतां केतिक दिवशीं त्या शिखरावरि तो राव जंय आशिलो थंय पावली. तें रायान देखूनु सुखी जालो.

तंव ताणें मनीं म्हळें, 'जें चिंतितालों तेंचि माका मेळलें.' ऐशें बोलुनु तो राव ते कन्ये लागी व्हारडिक न्हांवक[72A] पळेतालो.

तावळि ते कन्येन म्हळें, "आगा राया, तुजो देसु कोणु, तूं कोणा रायाचो पुत्रु, तें माका सांगा."

ताणें म्हळें, "त्रिलोका भितरी माका जिखसो कोणु उपजलो ना."

ऐशें आयकूनु ते कन्येन त्या रायाक वरिलो.

तंव त्या पर्वतावरि येक रत्नजडित घर करूनु, त्या घरा भोंवतें गोबरू अभिमंत्रूनु घालो:[73] 'जो पुरूस हे रेखे भितरि येता तो स्त्री जांव,' ऐसो ते ठांय स्रापु देवनु, त्या घरांतु तीं दोगांय सुख संतोस भोगूं लागलीं. ऐशें भोगितां सहस्र वरूसां पूर्ण जालीं. फुंडा केतिक काळांनी तीं दोगांय, मृग आणी मृगी, चरत त्या अरण्यांतु पावलीं. तीं ते रेखे भितरि जंव वचति तंव तो मृगु स्त्री हौनु पडलो.

फुंडा ते मृगिन म्हळें, 'आगा भ्रतारा,[74] तूं महामृगु ह्या अरण्यांतु स्त्रियेचें स्वरूप पावलोशि, तो कांय विचारू तें माका सांग."

तंव त्या मृगान म्हळें, "ह्या अरण्यांतु त्या राजरूशीचो स्रापु आसा तो आमी नेणतां दोगांय हांगा पावलेंव. आतां स्त्री स्वरूप तरि मजें जालें. आतां आमीं कोणु विचारू करूंचो? मागुतेन पुरूसत्त्व हें कैशें जायत?" ऐशें दोगांय बोलुनु ओगिंचि राविलीं!

---

72. वेश; पोशाक; सदांचें आपल्या पेशा प्रमाणें लागतलें न्हेसण.

72A. लग्न करूंक.

73. मंत्र सांगूनु शिंपडायलो.

74. घोव; दादलो; न्हवरो.

फुंडा केतिका काळीं त्या रायाचे पूत्र राज्य करितां, व्हडल्येचे पुत्र त्या दोगांची शेवा करितातित. ऐशें आसतां समेस्त दळभारां सांगातीं घेवनु, ते दोगय जाण पूत्र वनांतु पारदिक गेले. फुडां केतिक मार्गु क्रमवितां त्या विंद्याचळा पर्वतावरि ते दोगय पावले. तंव त्या पर्वता वयरि नाना परिंचे कोगूळ बरवे स्वर करितातित. मोरांचे स्वर, शिंव, सारदुळांची गर्जना, रूशींचो आनंदु आयकूनु, ते दोगय जाण महा संतोसु पावले.

फुंडा त्या दोगां पुत्रांनी आपुलें सहिन्यें त्या पर्वताच्या मुळांतु ठेवनु, धनुश्य बाण घेवनु त्या पर्वताच्या शिखरावरी जरि वचति, तरि महा सुंधर मनोहर घरां देखूनु सुखी जाले. फुडां वेतां त्या दोगांय जाणांनी त्या वनांतु रेखे भितरि त्यो दोगी मृगी देखिल्यो. तंव धनुश्य बाण घेवनु दोगांनीय संधान करूनु त्यो दोगी मृगी भूमिवरि पाडिल्यो. तीं दोगांय पडलीं, ऐशीं देखूनु, दोगय जाणांनी तांकां हाडूंक जंव ते रेखे भितरि वचति तंव दोगय जाण दोगी स्त्रियो हौनु पडल्यो.

त्यो दोगी जाणीं महा सुंधरी स्त्रियो हौनु त्या अरण्यांतु भोंवतां, तंव त्या राजरूशीन त्यो दोगी जाणी देखिल्यो. त्या दोगिंकय आपौनु ताणें म्हळें, "तुमी ह्या अरण्यांतु महा सुंधरी स्त्रियो येकल्यो, सांगा, भोंवतातित कित्या? तुमकां भ्रतार आसति कि ना? तुमी सुलखेणी.[75] ह्या अरण्यांतु नाना प्रकारिचें दैत्य राखेस आसात. तुमी दोगी ह्या वनांतु भोंवतातित तें वर्तमान माका सांगा."

तंव त्या दोगीय जाणिंनी म्हळें, "आगा राजरूशी, आमी विरूपाख्या रायाचे पूत्र. त्या रायान येकि स्त्री, ते स्त्रियेक वरूदान दिलें. 'आपुल्या पुत्राक राज्य दिंवका,' ऐशें त्या राया लागीं तिणें मागिलें. तंव त्या रायान आमकां दोगांकय राज्य दिलें. व्हडलेचे पुत्र आमचें दासत्व करितां, तीं दोगांय मायेबापु मरण पावलीं. फुंडा आमी केतिक काळ राज्य करितां पारदी खेळूंक[75A] ह्या पर्वतावरि पावलेंव. आमचें सहिन्यें पर्वताचे मुळीं समेस्त ठेवनु आमीं ह्या शिखरावरि जंव येंवूं तंव हें तुजें स्थान महा बरवें देखूनु पळेंवक जरि येंवूं, तरि ह्यो दोगी मृगी ह्या वनांतु देखिल्यो. तंव आमी दों बाणांनी दोगी भूमिच्या ठांय पाडूनु, हांकां व्हरूंक जंव येंवूं तंव आमच्यें स्वरूप पलटूनु स्त्री देह जालेंव. कोण पापा निमितिं आमकां असली ही ख्यास्त?" ऐशे ते दोगय बोलिले.

---

75. बरव्या लक्षणांचीं; बऱ्या गुणांची.

75A. शिकारेक वचूंक - वाक्यप्रचार नियाळात.

तंव त्या राजरूशीन म्हळें, “ह्या आश्रम्यांतु जो पुरूस येता तो स्त्री जांव, ऐसो स्त्रापु हांवें दिलो आसतां, तुमी ह्या अरण्यांतु पावले म्हणु ऐसो विचारू जालो.”

ऐशें ते येकामेकां भितरि बोलतां तीं तांचीं उतरां त्या मृगिंनी आयकूनु जंय पडलल्यो थंय त्यो बोलूं लागल्यो, “कटकटा! हे पूर्व जल्मीं आमचे पूत्र, जाणीं आमकां अवचित नेणतां विंदूनु भूमिवरि पाडिलीं. तरि आमची हत्या हांकां जाली.”

ऐशें बोलिलें आसतां तीं उतरां त्या राजरूशीन आयकिलीं. आयकूनु त्या दोगी स्त्रियांक म्हळें, “हीं तुमचे पूर्वजल्मिंचो मायेबापु. तीं दोगांय मृगु मृगि हौनु ह्या वनांतु पडलीं. तरि तुमी अवचित हांकां विंदून भूंय घालीं. तरी ह्या दोगांचे हत्येन तुमकां हीं देहां पावलीं.”

ऐशें उतर आयकूनु त्यो दोगीय त्या राजरूशीचे चरणां लागल्यो, “आगा स्वामया, आमकां तंव मायेबापाची हत्या लागली. तरि आतां ह्या पापांतुलीं आमी कैशीं सुंटूं?”

ऐशें बोलूनु त्या राजरूशीचें चरण धरूनु राविलो.

फुडां त्या रूशीन म्हळें, “आतां तुमीं ह्या विंद्याचळा पर्वतावरि तप करका, तपांनी तुमचें पाप वचूनु तुमी गतिक पावशात.”[76] ऐशें त्या राजरूशीन सांगिलें.

उपरांतें त्यो दोगी जाणीं, जंय त्यो दोगी मृगी पडलल्यो थंय वचूनु, त्या दोगींकय संबोखूं लागल्यो. “आहो, आमी नेणतां अग्न्यानपणीं तुमचो वदु केलो. आतां ह्या पापांतुल्यो आमी कैश्यो सुंटूं, तें आमकां सांगा.”

तंव त्या दोगी मृगिंनी म्हळें, “आमी दोगांय अस्त्री पुरूसु हौनु ह्या अरण्यांतु वनफळ खायत ह्या स्थाना पावलेंव. तंव जंय ह्या राजरूशीन रेखा घाली थंय आमी दोगांय पावलेंव म्होणु, आमी दोगांय मृगी हौनु पडलेंव. आतां तुमच्या भालिंनी आमकां गति जाली. तरि तुमी ह्या विंद्याचळा पर्वतारि ह्या पापाचें प्राचित[77] केल्यावरि तुमी गती पावशात.” ऐशें त्या दोगां पुत्रांक सांगूनु ताणी आपुलो प्राणु सांडिलो.

फुडां त्यो दोगीय जाणी स्त्रियो त्या पर्वतारि येक शिखर थोर महा दुर्घट थंय येकि शिळा, ते शिळेवरि बैसूनु तप करूं लागल्यो. ऐशें तप करित अन्न उदक

---

76. खरेले आदले स्थितींत हालचाल करूंक लागश्यात.

77. प्रायश्चित; ह्या उतराचें तद्भव - मागीर करता करता ‘पिराजीत’ ह्या उतरांत रूपांतरीत जालें.

वर्जिलें. नाना प्रकारीं आपुलें शरिर दंडौनु फळ, पान, जें कांय मेळलें तेतुकेंचि भखूनु धा सहस्र देवांचीं वरूसां[78] तप केलें. फुंडा परमेस्पर तांचें तप अदिक देखूनु, ताणी आपुली भग्ति उधंडि केली म्होणु, तांकां म्हळें, "प्रसन्न जालों. वरू माग. जें मागशात तें दीन."

तंव त्या दोगींनी म्हळें, "आगा स्वामया तूं आमकां प्रसन्न जरि जालोशि, तरि आमकां मायेबापाचें पाप जे लागलां, त्या पापांतुल्यो आमकां सोडय."

तंव परमेस्परान म्हळें, "तुमी पापांतुल्यो सुंटश्यात. आणि तुमकां वर दितां: त्रेतायुगीं ही मृगु मृगि तुमचो मायेबापु, येतले जल्मीं पौलस्ति हौनु आणि ताची स्त्री विरावती तिचे उधरिं त्या पौलस्तिगेरि रावणु, कुंबकर्नु हौनु तुमी उपजश्यात." ऐशें परमेस्परान तांकां वरूदान दिवनु आपण अदृश्ट जालो.

फुंडा त्यो दोगी जाणी त्या पर्वतारि योगिणी हौनु तप करितां हाड आणी चाम, इतुकें तांचें शरिर जैशे काश्ट[79] सुकलेलें तैशे होनु दोगीय मरण पावल्यो.

फुंडा त्रेतायुगीं येका ब्राह्मणाचे घरीं पौलस्ति हौनु मृगु उपजलो, आणि ती मृगि विरावती हौनु आण्येका येका ब्राह्मणाचे घरीं उपजली. ऐशीं तीं दोगांय उपजलीं आसतां, तंव दिशीं माशीं वाडूं लागलीं. महा थोर वाडलीं देखूनु त्या दोगां ब्राह्मणांनी ती कन्या आणि तो पुत्र दोगांकय विव्हाव केलो.

फुंडा तीं दोगांय स्त्री पुरूस हौनु आसतां केतिका काळांनी ती स्त्री प्राये समंद जाली.[80] तंव तिका ऐशी इछा उपजली, कि आपण्याक भोगु परूसान दिंवचो. ऐशें मनीं धरूनु सांज वेळे सूर्यु अस्तमाना गेलो आसतां, ते वेळे ती येवनु त्या आपुल्या पतिक म्हळें, "आगा स्वामय्म, तूं माका भोगु दी".

ऐशी तिणें प्रार्थना केली तंव ताणें तिका भोगु दिलो. फुडां ती गुरूवार हौनु नव मास जाले. तंव राखेस वेळेरि[81] भोगु दिलो देखूनु तो महा राखेसु पुत्र जालो. फुंडा आणयेक केतिका काळांनी दुसरो पुत्र जालो आसतां, ते दोगय दिवसान दिसु वाडूं लागले. तंव आण्येक केतिका काळांनी त्या विंध्याचळा पर्वतारि तो राजरूशी आपुलें देह सांडूनु त्या पौलस्तिगेरि जल्म घेतलें. तंव तिका तिसरो पुत्र जालो. तंव हीं तेगांय

---

78. देवांनी मेजिल्लीं वर्सा.

79. सुकलेलें, - सामकें काती मेरेन सुके सडसडीत सुकून गेल्लें आंगपांग.

80. वयार आयली; वोडवी जाली; लग्नाक तयार जाली.

81. अपशकुनी वेळार; राखेस वेळार.

जाणांक नांवां घालीं: येकाक नांव रावणु, दुसरो कुंबकर्नु, तिसरो बिबिशणु, ऐशे तेगय पुत्रु जाले. फुंडा ते तेगय जाण त्याचि विंध्याचळ पर्वतारि तप करूंक तीं शिखरांवरि बैसले. आतां मागिली कथा चौथे कन्येची सांगैन.

उत्तर दिशे जी कन्या गेली, ती आपुलें सहिन्यें सांगातीं घेवनु वेतां, येका पर्वतावरि पावली. तो पर्वतु नाना प्रकारिंच्या परिमळाचीं फुलां, नाना प्रकारिंचे वृख्य, त्या वृख्यावरि महा चित्र विचित्र पखी बैसल्याति, बरवे कोकिळांचे स्वर करिताति. त्या वृख्या सकल महा रूशेस्परांची स्थानां आसति. तें देखूनु ती कन्या आपुलें सहिन्यें त्या पर्वताच्या मुळांतु ठेवनु त्या पर्वतावरि जंव वच तंव त्या रूशीच्या आश्रम्या पावली. फुडां आपुलें सुंधरत्व थोर देखूनु नाना परिंचीं वस्त्रां, भुशणां घाल्यांतु देखूनु मनीं थोर गर्व धरूनु, त्या रूशीच्या सभांतु जंव वच, तंव ती सुंधर म्होणु गर्वान ताका नमस्कारू करी ना जाली.

तांची बेपर्वा करूनु जंव वचूं लागली तंव ते रूशी कोपूनु तिका स्त्रापु दिलो, 'तूं ह्या अरण्यांत येक योजन भरि शिळा हौनु पड.' ऐसो त्या रूशीन स्त्रापु दिलो तें आयकूनु, ती भिली.

तंव तिणें कृपा वचन ताका पायां पडूनु मागूं लागली, "आगा स्वामया, आपण स्त्रियेचें स्वरूप, मूडदेह,[82] नेणतीं मज्या सुंधरपणान गर्व घेतलें. त्या गर्वान तुमची अवगडणा केली. आतां कृपा करूनु माका मागुतेन उस्त्रापु[83] दिवनु हें मनुश्य देह पुणती पाव, ऐशें माका करका. तुमी कृपाळ सादुभले. जे अनाथ आसति तांचेवरि तुमी दया करिताति. तरि आतां हांव तुमची शरणगति. आतां कृपा करूनु माका ह्या पापांतुली सोडै."

ऐशें तिचें वचन आयकूनु ते कृपाळ रूशीन संतोसूनु तिका म्हळें, "विरसेनु राव, त्रेतायुगीं तो राव अश्वमेदाक घोडो सोडित. तो घोडो पृथुविवरि हिंडतां, ह्या वनांतु पावतां, त्या घोड्याचे च्यारीय पांय शिळेक लागती. लागल्या वरी त्या वीरसेनाचो हातु लागत खेवीं तूं उधरशी." ऐसो उस्त्रापु त्या रूशीन दिलो. फुडां ती शीळा हौनु साटि सहस्त्र वरूसां पर्यंत्र त्या अरण्यांतु आसा.

तंव त्या रुशीन म्हळें, "तरि आतां त्या वीरसेनाचो हातु हे शिळेक लागतां, हो घोडो सुंटत."

---

82. मेल्ली कूड कशी.

83. स्त्रापा मेकळो करपाक केल्लें विधान = counter-curse.

ऐशें त्या रुशीन वीरसेनाच्या सहिन्याक ते शिळेची कथा सांगिली. तें आयकूनु त्या सहिन्यांतुले वीरसेनाक सांगूंक गेले, 'घोडो शिळेक लागला; तो सोडौनु व्हरा.'

ऐशें आयकूनु तो वीरसेनू ते शिळे लागीं येवनु ते शिळेक हातु लायलो. लागत खेवीं तो घोडो सुंटलो, आणि ती स्त्री उधरली. तिचें शिळेपण फिंटूनु[84] महा सुंधर रूप स्त्रियेचें धरनु, हात जोडूनु, त्या वीरसेनाक नमस्कारू करूनु, ती आपुल्या नीजस्थाना गेली.

फुडां त्या वीरसेनान तो घोडो पृथुविवरि हिंडावनु आपुल्या नगरा येका वरूसान हाडूनु, नाना प्रकारिंचें दान मान करूं लागलो. धा सहस्त्र हस्ती, वीस सहस्त्र रथ, येकु लख्य घोडो, धा धा भार सोवर्न, आणियेक रत्नां, ऐशें धा सहस्त्र ब्राह्मणांक धर्माक दिवनु तो अश्वमेदु केलो.

ऐशें त्या रायान नवाण्णय अश्वमेदु केले. येकेका अश्वमेदाक इतुकी संपत्ति देवनु, जितुके अनाथ भिकारी मागते आशिले, तेतुकेय समेस्तांक सुखी केले. मागुतेन शेतवो अश्वमेदु[85] करूंक घोडो तैशीचि पत्रिका बरौन, त्या घोड्याच्या मस्तकाक बांदूनु, पृथुविवरि सोडिलो आसतां, इंद्रु अमरावत्येचो देवांचो राव, ताणें आयकिलें. शेतवो अश्वमेदु करूंक त्या रायान घोडो पृथुविवरि सोडिला म्होणु इंद्रु हस्ति वरि बैसूनु, तो मृत्युलोकीं येवनु, त्या घोड्याक जंव पळे तंव तो घोडो पृथुविंत हिंडतां देखिलो. तो घोडो इंद्रानु धरनु, पाताळीं येकु रूशेस्परू साटि सहस्त्र वरूसां तप करी त्या रूशीच्या आश्रम्या तो घोडो व्हरूनु बांदिलो. फुडां त्या रायान पृथुवी भितरि घोड्या सांगातीं सहिन्यें दिललें तें घोड्याक सोदितां पृथुविंत घोडो देखूं नये. देखूनु ते परतूनु येवनु रायाक सांगूं लागले,"आगा राया, घोडो पृथुविवरि सोडिलेलो तो कोणी कडें दिसना. ह्या भूमंडळाच्या ठांयिं घोडो तंव दिसना, आतां कोणु प्रकारू करूंचो?"

ऐशें आयकूनु रायान साटि सहस्त्र वीर रथावरि बैसौनु, दोनि खेवणीं[86] सहिन्यें सांगातीं घेवनु, ते पृथविंतु त्या घोड्याक सोदूंक गेले. सोदितां नगरान नगर, देसान देस, गांवान गांव, वनान वन, पर्वतान पर्वत, समेस्त रूशींचे आश्रमे, ऐशें सोदितां

84. शिळा आसली ती स्थिती ना-नपशच्यात जावन वचून.

85. शंबरावे फावटीं केल्लो अश्वमेदु यज्ञ.

86. 100, 000, 000, 000,000.

सातय दिपां पृथुवि हिंडले. तंव घोडो ना, ऐशें देखूनु थोर अचर्यें पावले. मग त्या साटि सहस्रां वीरांनी आपुलें सहिन्यें भूमिवरि ठेवनु, सातय समुद्र खणूं लागले. बळान पाताळा पर्यंत्र जंव वचति तंव त्या रूशीच्या आश्रम्या तो घोडो देखिलो.

तावळि संतोसूनु त्या दैत्यांनी म्हळें, "ह्या रूशीन घोडो चोरून आपुल्या आश्रम्या हाडूनु बांदूनु आपणे रुशीचो वेखु धरूनु हो बैसला. आता हाका मारूं या." ऐशें बोलुनु ते साटीय सहस्र ताका मुटुकांव लागले.[87] तें रूशीन देखूनु थोरू कोपारूडू जालो. त्या कोपान आपुले डोळे उगडूनु जरि चोयि, तरि डोळ्यांतुलो उजो भायर सरनु ते साटीय सहस्र भस्म जाले.

फुंडा त्या रूशीन म्हळें, "मज्या आश्रम्यातुं कोणु प्रकारू जालो, मज्या कोपान हे साटीय सहस्र जळले, तरि हें कोण नवल?"

फुंडा त्या रायाक खबर गेली, "आगा राया, तुजे पूत्र आनी वीर इतुकेय पाताळीं रूशीच्या आश्रम्या भस्म जाले."

ऐशें आयकूनु राव महा दुखेस्तु जालो. तावळि इंद्रान आपुल्या नगरा हौनु येक रूशी त्या राया लागीं पाटविलो. ताणें म्हळें, "'आगा राया, तुजे लागीं मागुंक आयलां, तें माका दी."

ऐशें रायान आयकून त्या रूशीक म्हळें, "जे तूं मागशी, तें तुका दीन. तूं माग."

तंव रूशीन म्हळें, "हांव तुजे लागीं मागन. पूण तूं माका नेदें जाशी. तरि तुजें सत्य उतर जरि माका दिशी. तरि तुजे लागीं मागन."

ऐशें त्या रायान आयकूनु विचारू केलो, 'हो रूशी तरि समर्थु. हो मजे लागीं मागता. जरि हाका नेदेवूं, तरि हो स्रापु दीत. देवूं तरी हो मजे लागीं कितें मागत तें तंव नकळ.'

ऐसो विचारू करूनु, ताणें म्हळें, "संवसारीं आपुलें सत्व राखिलें तें अदिक. सत्वा परूतें आणयेक ना. ह्या सत्वान मागां शिब्रि चक्रवती राव बैसलो आसतां इतुक्यावरि उज्यान साळुवो ससाण्याचें रूप धरनु राया लागीं मागूंक आयलो. तंव येकु पखी कवडो राया लागीं येवनु म्होणुं लागलो, "आगा राया, हांव तुजो दासु,

---

87. मूठी मारूंक लागलो.

तुका हांव शरण आयलों, माका तूं राख. हो ससाणो माकां खांवक करता. आतां तूं माका उपेखूं नाका."[88]

तंव त्या शिव्री चक्रवती रायान म्हळें, "आगा कवड्या, तूं कांय चिंता करूं नाका. तुका सर्वथा आपण उपेखूनु दी ना. तूं भंय मात्र पावूं नाका."

ऐशें त्या रायान बोलूनु, आपुलें सत्य उतर ताका देवनु, तो कवडो आपुल्या उसुंग्यावरि[89] बैसयलो.

तंव तो ससाणो म्होणूं लागलो, "राया, तू सर्वदाता, तुजे सारिखो दानी ह्या त्रिभुवनांतु मागत्याक दितलो, ऐसो आण्येकु राव ना. तरि हांव तुजे घरिंचो मागतो केतिक काळ पर्येंत्र भूकेन मरतां. खांवक हारू[90] माका मेळ ना. ऐसो भुकेन गांजलों[91] आसतां आजि माकां हो कवडो मेळलो. तरि तुजे लागीं हांव मागतां, हो कवडो माका खांवक दी."

ऐशें देखूनु राव मनीं चिंतूं लागलो, 'कवडो तंव माका शरण आयला, ससाणो तंव मजे घरिंचो मागतो जाला, जरि नेदेंव तरि हो ससाणो मजें सत्य घेवनु वचत. सत्य तरि राखुंचें. आणी कवडो तरी मजो शराणागतु हौनु हाका तंव उपेखूनु देंवुं नये. नीति तरि ऐशी आसा. जाका आपणें अभंय देवनु सत्य उतर दिलां, ताका सर्वथा उपेखूनु दिंवूं नये. ऐशी तंव नीति, जरि उपेखूनु दी, तरि साटि सहस्र वरूसां तो प्राणी नरयांतु[92] पड. ह्या कारणें संवसारीं सत्य अदिक. आणी जो आपुले घरीं मागतो हौनु आयला, भिकारी, अनाथु, ऐसो जरि मागत आणि ताका आपुले शग्ति सांगडे[93] जरि दि, तरि स्वर्गी साटि सहस्र वरूसां तो सुख भोगी. ऐशी निति आसतां, आतां ह्यां दों भितरि कोणु विचारू करूं?'

ऐशें रायान मनीं म्होणु, धिर्ये धरूनु, त्या ससाण्याक म्हळें, "हो कवडो माका शरण आयला. हो वेगळो करूनु, जें कांय तूं मागशी तें तुका दीन."

तंव त्या ससाण्यान म्हळें, "राया, मजे घरीं पांच जाण सवर्णीं : स्त्री, पुत्रु, सून,

---

88. सोडून दिंवूं नाका; उवेखून उडोंव नाका.
89. वोंट्चेंत; मांडयेर.
90. आहार, हाचे वेल्यान जाल्लें तद्भव कोंकणी उतर.
91. कश्टवलो; सोंसूंक लागलो; त्रासांनी वेश्टलो; झळंबलो.
92. नर्कातु; यमकोंडांत; अग्निकोंडांत.
93. शग्ती प्रमाणें, प्रमाणान, मापान.

कन्या आणी हांव. ऐशीं पांचय जाण आजि केतिक काळ पर्येंत्र उपवाशीं मरतांव. देखूनु परमेस्परान कृपा करूनु माका हो हार दिलो. तरि मजो हारू तूं माका सोडूनु दी. नीति तरि ऐशी आसा, पेल्याच्या हाराक आडवारूं नये.[94] जो येकि वस्तु खाता ताचे तोंडिची जरि काडी तरि तो धा सहस्त्र वरूसां नरयांतु पड. तरि हो मजो हारू तूं माका दी." ऐशें ससाण्यान बोलिलें.

तंव रायान म्हळें, "आगा ससाण्या, हो कवडो माका शरण आयला, तो वेगळो करूनु जरि मजें सर्वस्व मागशी, तें तुका दीन. पण जो माका शरण आयलो, ताका सर्वथा उपेखूनु नेदे."

तें आयकून ससाणो बोलूं लागलो, "राया, तुजें माका राज्य नाका. धन, संपत्ति, घोडो, हस्ती जरि तुवें समस्त दिलें, तरि माका नाका. मजो हारू, हो कवडो, माका दी. आणी जरि ह्या कवड्याक राखतलोशी तरि ह्या कवड्याच्या तुकान[95] तुजें मास दी."

ऐशें त्या ससाण्यान मागिलें आसतां, रायान मनीं म्हळें, 'हें राज्य नाशिवंत. ह्या हौनु आपुलें सत्व राखलेलें अदिक. सत्वा परूतें आण्येक संवसारीं तारूक ना. हें शरिर तरि नाशिवंत. तरि परमेस्पराची भग्ति करूनु आपुलें सत्व राखलेलें हें अदिक.'

ऐशें बोलूनु त्या ससाण्याक म्हळें, "मजे आंगिचें मास दीन. पण ह्या कवड्याक उपेखून दिना."

ऐशें बोलूनु, तागडी बांदूनु, कवडो येका ताठावरि बैसयलो. दुसऱ्या ताठावरि आपुलें आंगिचें मास घालूं लागलो. तंव तो कवडो मावेकारू आपण जड्ड जालो. तंव रायान आणयेक मास काडूनु ताठावरि जंव घाली तंव कवडो अदिक भारूं घेवूं लागलो. जंव जंव कवडो भारू घेयि तंव तंव राव आपुलें मास ते तागडेंत घाली. ऐशें मास घालित सर्वांगाचें मास घालें. तंव कवडो अदिक अदिक जड जातोचि आसा.

तें रायान देखून, ताणें म्हळें, "आगा ससाण्या. तूं माका सगळ्याकचि खा." ऐशें बोलूनु राव ते तुळेच्या ताटावरि[96] बैसलो.

---

94. मना करूं नये; आडांव नये; आडो घालूं नये.
95. वजना प्रमाणें, मापान.
96. वजन काडपाची नागडी.

ऐशें त्या रायाचें सत्व देखूनु परमेस्परान त्या रायाक वैकुंठीं व्हरनु आपुले नगरीं ठेविलो.

त्या कारणें संवसारीं सत्व प्राण्यान राखिलें तें अदिक.

ऐशें ताणें बोलून त्या रूशीक म्हळे, "जे कांय तूं मजे लागीं मागशी, तें तुका दीन."

ऐशें बोलिलें आसतां, त्या रूशीन मागिलें, "राया, माका शीं खाता. तरि तुजे आंगिचें काती कवच वज्रजडित आसा. ती काति काडून माका दी. तुज्या धर्मान मजे आंगिचें शीं निवारत."

ऐशें त्या रूशीन मागिलें आसतां, रायान म्हळें, "हें शरिर नाशिवंत, मातयेचें मडकें[97]. हें पडल्या उपरांतें, ह्या शरिराचो उपेगु तंव ना. तरि धर्माच्या कार्याक हें शरिर दीन. पण आपुलें सत्व राखन. सत्वा परूतें आण्येक संवसारीं ना."

फुडां त्या रायान आपुली समेस्ति प्रजा आपौनु, ते प्रजेक म्हळें, "आजि पर्यंत्र तुमी समेस्तांनी माका सांबाळिलो. आतां हें शरिर धर्माक दितां."

ऐशें बोलूनु ते समेस्ति आपुले प्रजेक हात जोडूनु नमस्कारू करूनु, त्या रूशीक म्हळें, "हें शरिर परमेस्पराक समर्पितां".

ऐशें बोलूनु महा थोरि अग्नि करूनु, त्या अग्निंतु आपुलें शरिर दवर्नु, भाले लावनु ते आंगिचि काति समेस्ति काडूनु, त्या रूशीक दिली.

ऐशें त्या रायाचें सत्व समस्त प्रजेन देखिलें.

देखूनु म्हळें, "राया, तुजें धन्य जिवित्व. तुवें आपुलें शरिर धर्माक दिलें. तरि तुजे पाशिं संवसारीं प्राण्यो सत्वादिकु आण्येकु ना."

ऐशें बोलिलें आसतां वैकुंठीं हौनु परमेस्परान विमान धाडूनु ताका वैकुंठीं व्हेलो. ऐसो तो राव, सत्वादिक पुरूस. ह्या रगुनाथाच्या वंशाची कथा सांगन.

(सोळाव्या शेंकड्याआदलें कोंकणी रामायण - पान 1 ते 28, सं. ओलिव्हीञ्यु गोमिश, गोंय विद्यापीठ, गोंय 1996)



97. हें सोबीत प्रतीक, रूपक नियाळचें.

## ८

# सहिंवर कथा

मागा कवणेक अवस्वरीं, समस्त रूशी मेळूनु दंडक अरण्यांतु तप करितां, तंव काळनेमु दैत्यु येवनु, त्या समस्ता रूशींवरि आकासारि हौनु रग्ताचो पावसु घालूं लागलो. त्या रूशींनी तें देखूनु, महा दुचित जाले.

तंव मनीं म्हणूं लागले ‘ह्या दैत्याक जरि श्रापु दिवूं, तरि आमच्या तपाचें बळ उणें जायत. तरि आतां हो दैत्य मरसो कोणु उपाव करूंचो.”

तंव समेस्त रूशेस्परू मेळूनु, आळंचु[1] करनु, म्हळें, “दसरताचे घरीं रगुनाथु जाला. तो ह्या दैत्याक मारित.”

ऐशें त्या समेस्तांनी बोलूनु, त्या समेस्तां रूशीं मधें थोरू, विश्वामित्रु, ताका आपौनु, त्या समेस्तांनी म्हळें, ‘हें आमचेवरि विग्न ह्या काळनेमा दैत्याचें जालां. तरि तुमी, दसरताचो रामु, ताका हांगा हाडिल्यारि, तो ह्या दैत्याक मारित.”

ऐशें त्या समस्तांनी बोलूनु, त्या रूशीक पाठविलो.

फुडां तो रूशी त्या दसरताच्या नगरा वेतां, केत्येकु मार्गु क्रमौनु त्या नगरा पावलो. ताका दसरता रायान देखूनु, बरवो मानु करूनु, नाना प्रकारीं मानु दिवनु, हात जोडूनु, उबो राविलो.

तंव दसरतान बोलिलें, “आगा रूशेस्परा, तूं समर्थु. तुजे सारिखो आण्येकू ह्या भूमंडळांतु ना. तरि तूं कोणा कार्याक आयलो, तें माका सांग.”

ऐशें बोलिलें आसतां, त्या रूशीन म्हळें, “आगा दसरता, आमच्या आश्रम्या येकु दैत्यु येवनु, आमकां महा कश्टयता. त्या दैत्याक मारूंक तुजे लागीं येक मागूंक आयलां. तें माका तूं दी.”

---

1. विचार · विनिमय Consaltations.

तंव रायान म्हळें, "आगा रूशी, जें तूं मागशी, तें तुका दिन," ऐशें वोलिलें.

तंव त्या रूशीन म्हळें, "आगा राया, तुज्या पुत्रा, रामाक, आमच्या आश्रम्या येंवक निरोपु दी. तो दैत्यु मारूनु, मागुतेन तुजो पूत्रु तुका दिन."

तंव दसरतु महा थोरि चिंता करूं लागलो. त्या रामा वांचूनु, आण्येक कांहीं नेण; चौगां पुत्रां भितरि रामावरि महा प्रिति.

तंव मनीं म्हळें, 'ह्या रूशीक जरि नेदें, तरि हो श्रापु दित, आणी जरि दिन, तरि ह्या पुत्रा वांचूनु मज्यान खिणुभरि रावव ना. तरि आतां ह्या दों भितरलें कितें करूं?.

ऐशी चिंता करितां, त्या रूशीन वोलिलें, "आगा दसरता, तूं काय चिंता करूं नाका. आमचें कार्य जातोचि, मागुतेन हे पुत्र तुजे तुका हाडूनु दीन."

ऐशें बोलिलेवरि त्या दसरतान त्या पुत्रांक निरोपु दिलो.

मग नाना परिं शृंगारू करूनु, रामु लखिमणु त्या रूशीचे हातीं दिले. त्या रूशीन ते दोगय पुत्र सांगातीं घेवनु वेतां, तंव नगरलोकु महा दुख करूं लागले. आपण्या भितरि बोलतातिं, "केदो हो निश्टूरू दसरतु! हो आपुले पुत्र, महा सुंधर, ल्हान वाळकां, दैत्याक मारूंक, ह्या दसरतान ह्या रूशी लागीं दिल्यांति. तरि ह्या रायाक कोण बुधि सांग ना. दैत्यु महा समर्थु, वळकटु, ताका मारूंक ह्या दोगांकय धाडिल्याति. तरि आतां रायाक सांगूनु, ह्या रूशीचे हातिंचे दोगय पुत्र काडूनु घेतलले बरे". ऐशें नगरलोकू बोलूं लागले.

मग तो रूशी मुखा वेल्यान, रामचंद्रु मधें, मागिल्यान लखिमणु, ऐशें तेगय वेतां, कित्येकु मार्गु क्रमविलो. तंव येक थोर अरण्यें, त्या अरण्यांतु पावले. थंय रावणाची भयणि, तिचें नांव ताटका, महा विकट रूप, आकास आणि पृथुवि पर्येंत्र आपुलें मुख पसरिलां, विकटी दाडो, ऐशी ती महा थोरी राखेशी त्या अरण्यांतु रावनु जितुकी मनुश्यां येताति, तितुकीं भकिता. ऐशे ते त्या अरण्यांतु पावले. तंव ती राखेशी महा दारूणि मार्गावरि उबी आसा देखूनु, रूशेस्परू भिलो.

तंव त्या रामा लखिमणाक म्होणूं लागलो, "पैस राखेशी, महा भंयकरि, ह्या अरण्यांतु गर्झता. तरि हे राखेशिच्या भेयान कोणु ह्या अरण्यांतु येना. तरि आमी हो मार्ग सांडूनु, आण्येके मार्गीं वचूं या.

ऐशें त्या रूशीन वोलिलें आसतां, रामचंद्रान म्हळें, "आगा स्वामया, तूं कांय

चिंता करूं नाका. जरि केदीय भयंकरि राखेशी जाली, तरि हांव येकाचि बाणान तिका मारिन. पण आमी तिच्या भेयान हो मार्गु सांडूनु, आण्येकी कडें वचूंचें? हो तरि आमचो खेत्र धर्मु न्हय. ती राखेशी माका तूं दाखय. तिका हांव येकिचि भालिन भुमिवरि पाडिन".

ऐशें त्या विश्वामित्रान आयकूनु, मनीं धिर्य धरूनु, त्या मार्गान फुडें चालिले. तंव ती राखेशि, महा थोरि भयंकरि मार्गावरि आसतां, ते राखेशीन हे तेगय जाण देखिले. तावळि महा विकटु रूप धरूनु, रामा, लखिमणाक गिळूंक आयली.

तें देखूनु, रामचंद्रान धनुश्य बाण घेवनु, त्या रूशेस्पराक म्हळें, "आतां एका बाणान ती राखेशि भुमिवरि पाडीन".

ऐशें बोलूनु तो बाणु राखेशिवरि घालो. तो आकास आणी पृथुवि पर्येंत्र वचूनु, ते राखेशिच्या हुरध्यावरि येवनु पडलो. देखूनु ती मरण पावनु, भुमिवरि पडली. तें देखूनु तो रूशी धांवनु, त्या रामा लखिमणाक आळंगिले[2].

फुंडा मार्गी वेतां, ते राखेशिचे बापोल भाव, चौदा सहस्र राखेस, तांचें नांव खरदुशण, ताणिं आयकलें, आपुली भयण ताटका अरण्यांतु मारली म्होणू. तें आयकूनु तें धांवनु जरि येवनु पळेति तरि ती ताटका महा भयंकरि मार्गावरि पडल्या देखूनु थोर आचर्ये पावले. तंव मुखारि वेतां, ते दोगय जाण हातीं धनुश्य घेवनु वेताति, ऐशें देखूनु ते चौदा सहस्र राखेस महा भयंकर दारूण, रामा, लेखिमणावरि विंदूं लागले.

तें देखूनु, विश्वामित्रु भिलो. ताणे रामा, लखिमणाक म्हळें, "हे चौदा सहस्र महा उग्र राखेस भयंकर, हे येवनु तुमचेवरि विंदिताति. तरि आतां हे वेळेक कोणु उपाव करूंचो, तें माका सांग."

तावळि रामचंद्रान म्हळें, "हे राखेस महा भयंकर दारूण जालेय, तरि तूं कांय चिंता करूं नाका".

ऐशें बोलूनु धनुश्य बाण घेवनु, आपुल्या भावा लखिमणा सैत त्या राखेसांवरी विंदूं लागले आसतां, ते चौदा सहस्र राखेस महा भंयकर दारूण, ते येकिचि वेळे राम लखिमणावरि विंदिताति तें देखूनु, रामा लखिमणान आपुल्या बाणांनी त्या समेस्तांचे वाण छेदूनु, येकेका विराक बाणान भुमिवरि पाडिलो.

---

2. वेंगेंत धरलें; वेंग मारली.

देखूनु त्या भितरले राखेस महा थोर कोपूनु, नाना परिंच्यो शग्ती, आयुद्धें करूनु विंदितां, त्या राखेसांचें संधान रामा लखिमणान छेदूनु, ते चौदा सहस्र राखेस म्हा थोर युद्ध करितां, भुमिवरि पाडिले. तें देखूनु, विश्वामित्रान राम, लखिमणाक आळंगूनु, महा संतोसु पावलो.

फुडां मार्गी वेतां, येक तळें गांव भरि आसा. महा कमळां फुलल्यांति, नाना परिंचे पखी त्या सरोवरा मधें बैसले. हांकां तान लागलि म्होणु त्या सरोवराच्या कांटारि गेले. त्या सरोवरांतु येकि शिंसोरि. ते शिंसोरिचें शरिर येका कोसाच्या विस्तारान. ती त्या तळ्यांतु महा थोर रूप धरनु आसतां, तंव तो विश्वामित्र उदक पियेंवक त्या तळ्यांतु वेतां, ते शिसोरिन ताच्या पांयाक धरिलो. तें देखूनु तो रूशेस्पर बोब करी.

तंव रामु, लखिमणु धांवनु येवनु जरि पळेति, तरि त्या रूशिच्या पांयाक धरनु ती शिंसोरि व्हरता. ऐशें देखूनु, दों बाणानी ते शिंसोरिचें पोट फाळनु मारिली. तंव तिच्या उदरांतुली येकि महा सुंधरि कन्या हात जोडूनु, उबी राविली. ती येवनु, त्या रगुनाथाक नमस्कारू केलो.

तंव रगुनाथान म्हळें, "तूं कोणाची कन्या, हें पाप देह पावलिशि, तें कित्या?ह्या सरोवरांतु असलें शिंसोरिचें देह पावनु, तूं हांगा आसशी, तें समस्त वर्तमान माका सांग".

तंव ती सांगूं लागली. "कांतीपुर नगर, शुद्धशेनु राव. त्या रायाची कन्या हांव. माका व्हारडिक केली आसतां, सातव्या दिवसा, संगबंग[3] करितां, तो मजो दादुलो मरण पावलो. तें देखूनु, हांवें केत्येक काळ पर्येंत्र वनांतु वचूनु, तप करितां, तंव येकि न्हंय, त्या न्हंयंतु येकि देशिचो राव, त्या रायाचे नांव विरशेनु, तो आपुल्यां स्त्रियां सांगातीं त्या न्हंयंतु खेळतालो. तें हांवें देखूनु, मजें मन चंचळ जालें.

"तंव मनीं म्हळें, 'कटकटा, देवा, मजो दादुलो जरि आसतो तरि त्या सांगातीं हांव ऐशें सुख भोगिती. तो तंव गेलो. आतां कोणा सांगातीं सुख भोगूं!' ऐशें, हांवें मनीं चिंता केली. तंव दिवसान दिवसु ते चिंतेन भागूनु, शाका मात्र जालीं[4]

"फुंडा त्या अरण्यांतु येक तळें देखूनु, त्या तळ्याच्या कांटारि जंव हांव

3. संभोग करतना.

4. हें रूपक नियाळचें.

पावलीं, तंव त्या तळ्याडे येका रायाचो पुत्र, महा सुंधरू, देखूनु, मजें मन भुललें.

"तंव हांव तो वैसललो थंय जंव गेलीं तंव त्या राजकुमारान म्हळें, 'तूं कोणि, कोणाची कन्या, येकली ह्या अरण्यांतु आयलिशि! तरि आतां तूं माका भोगु दी'.

"ऐशें ताणें वोलूनु तिका भोगु दिलो.

"फुंडा केत्येंक काळीं दोगांय स्त्री पुरूसु जावनु आसतां, येकु रूशी त्या तळ्याच्या कांटारि पावलो.

"येके दिवशीं तो मजो दादुलो अरण्यांतु पारधी गेलो आसतां, त्या आश्रम्यां आण्येकु राजपुत्रु सुंधरूभोंवत, त्या तळ्याचे कांटीं आयलो. ताका माका संगु जालो.[5]

"तें रूशीन देखूनु माका श्रापु दिलो. त्या पासावत हांव शिंसोरि जावनु तळ्यांतु पडलीं.

"आतां तुज्या धर्मान ह्या पाप देहांतुली सुंटलीं".

ऐशें वोलुनु, रगुनाथाक नमस्कारू करूनु, ती आपुल्या निजभुवना गेली.

फुडां तो रूशी विश्वामित्रु, रामु लखिमणु सैत तेगय जाण मुखारि वेतां, तंव येकि शिळा, दोनि योजना रूंदि, तेतुकिंचि उंचि, ते शिळे लागीं पावलो.

तंव विश्वामित्रान म्हळें, "आगा रामचंद्रा, तूं हे शिळेक पांव लाय".

तंव रामचंद्रान म्हळें, "ही कोणि महा थोरि शिळा. हिचें जल्म माका सांग".

तंव तो विश्वामित्रु सांगूं लागलो, "पूर्वी ही ब्रह्मयाची कन्या. ती महा सुंधरि देखूनु, संहिंवर मांडिलें. जो हे प्रथुविचें भ्रमण करूनु, दोनपारा भितरि येत, ताका ही कन्या देंवूं.

"तंव समेस्त देव आपापुल्या घोड्यावरि वैसूनु वेताति.

"तंव येकु ब्राह्मणु प्रथुविचें भ्रमण करूनु पावलो. ताका ती कन्या दिली.

"तें इंद्रान देखूनु, तिका केतिक काळ पर्येंत्र राखतां, ती कपटान भोगिली[6].

"तंव तिणें इंद्राक श्रापु दिलो, "तुज्या सर्वांगाक कॉड जांव!"[7] ऐसो तिणे श्रापु दिलो.

"फुंडा हिचो दादुलो, तो ब्राह्मणु, घरा जंव ये, तंव आपुली स्त्री इंद्रान कपटान भोगिली देखूनु, तिका श्रापु दिलो, 'तूं साटि सहस्त्र वरूसां पर्येंत्र शिळा जावनु पड".

5. ताका माका संभोग जालो. इतल्या सोंप्या उतरांनी ही गंभीर गजाल सांगल्या तें नियाळचें.

6. नाडपणान भोगली; चिकान करून, फटौन, संभोग केलो.

7. कूश्टरोग जांव (स्त्राप).

“थंय धरनु ही शिळा जावनु पडली.

“तरि आगा रगुनाथा ही बापुडी कश्टवली. हिका आतां तूं उधरि[8].”

ऐशें वोलिलें आसतां, रगुनाथु ते शिळेक पांव जंव लाय, तंव तिचें शिळेपण वचूनु, महा सुंधरि कन्या जाली.

तंव तिणें रामचंद्राक नमस्कारू करूनु आपुल्या निजभुवना गेली[9].

फुडां हे तेगय जाण त्या रूशीच्या आश्रम्या पावले. त्या रूशींनी नाना प्रकारीं मानु सन्मानु दिवनु, ते सुखी रावले.

फुडां येके दिवशीं, ते समेस्त रूशेस्परू मेळूनु, मागुतेन सभा करूनु, जंव वैसति, तंव वयरि होंनु तो काळनेमु दैत्य रग्ताचो पावसु घालूं लागलो. तंव रामचंद्रान धनुश्य वाण घेवनु, त्या दैत्याक दों बाणांनि भुमिरि पाडिलो. देखूनु ते समेस्त रूशी मेळूनु, त्या रगुनाथाक नाना प्रकारीं अश्रवचन दिवूं लागले.

तंव केत्येक काळांनी थंय खवर आयकिली कि जनकाचे घरीं सितेक सहिंवर मांडिलां. समेस्त पृथुविचे राय, देव, दैत्य गण गंधर्व, समेस्त मेळल्याति.

ऐशी खबर आयकिली तंव त्या रूशींनी म्हळें, “आगा रगुनाथा, तुमी सितेच्या सहिंवराक वचा. तुका ती माळ घालित”.

ऐशें त्या रूशीचें वचन आयकूनु, त्या विश्वामित्रा सांगातीं रामु लखिमणु त्या संहिंवराक गेले. फुडां त्या जनकाचे नगरीं समस्त सभा करूनु बैसले आसतां, जितुके प्रथुविचे राय सहिंवराक आयलले, तांच्यान तें धनुश्य उबारव ना देखूनु, थोर अचर्यें करूं लागले.

फुडां त्या जनकान ती कन्या महा शृंगार करूनु, सहिंवरि वैसूनु, नाना प्रकारिंच्यो सख्यो सांगतीं दिवनु, हातीं माळ घेवनु, सभेक आयली.

तंव तिचे रूप देखूनु, ते समस्त राय भुलले.

इतुक्यां, रावणु विमानारि बैसनु, ते सभेक जंव पाव, तंव ती महा सुंधरि रूपवंति देखूनु, तो रावणु भुललो. मग त्या विमानावेलो डेवनु, आपुल्या वीस भुजांनी तें धनुश्य उवारूंक लागलो. तंव तें महा थोर धनुश्य संकश्टीं उबारितां, हात निसरनु, हर्ध्यावरि पडलें. तेणें करितां, मुछ्र्या येवनु, रगत वोंकूं लागलो.

फुडां रावणु मरता देखूनु, समस्त राय सभेक वोगेचि रावनु, चौं लागले. तंव

8. सोडयी, सुटली.

9. सदांच्या नीज जाग्यार गेली.

रावणाचो भाव, कुंबकर्नु आणी जंबुमाळी, विकट-रूपु, विरभाव, विरूप-नयेनु, विशाळ-वदनु, विकट-वाहरू, आनंदु-गहनु, ऐशे धा जाण राखेस येवनु, त्या रावणावेलें धनुश्य काडूं लागले.

तंव त्या सभेच्या रायांनी म्हळें, "रावणान ही कन्या व्हरूंक हें धनुश्य उबारललें. तरि तुमी धा जाण येवनु, तें धनुश्य काडूंक पळेताति?"

ऐशें बोलूनु, ते सभेचे समस्त उठिले आसतां, ते धायी ज़ाण रावणाक सांडूनु पळूं लागले. त्या रायांनी आपुल्या बाणांनी जैसो मेघु वरूसो तैशे बाण त्या धायिं जाणांवरि वरूसायले.

मग तें धायीं जाण राखेस त्या समेस्तां प्रथुविच्यां रायांक शरण आयले देखूनु, मागुतेन सभा करूनु बैसल्ले.

तंव रावणाचो प्राणु वेता देखूनु, रामचंद्रु ते सभेचो उबटावनु, जंय तो रावणु पडललो, ताच्या हुध्र्यावेलें धनुश्य डाव्या पांयाच्या उंगठ्यान कडें घालूनु, मागुतें तें धनुश्य डाव्या हातान उबारनु, त्या धनुश्याक वोडि काडिली. तंव तें बळाक नपुरो देखूनु, आडचि मोडलें, दोनि कुटुके भुमिवरि पडले.

तें सितेन देखूनु, रगुनाथाक माळ घाली.

तें देखूनु रावणान मनीं म्हळें, 'ह्या समस्त रायां देखत, माका अपमानु भोगलो. तरि ही सिता कोणुय प्रतेमु करूनु हांव व्हरन'.

ऐशें बोलूनु आपुल्या राखेसां सैत लंखे गेलो.

मग त्या जनकान धा सहस्त्र रथ, वीस सहस्त्र घोडे, धा सहस्त्र हस्ती, सहस्त्र भरि वटिकी, नाना प्रकारिंचीं वस्त्रां, आळंकारू, भूशणां, रत्नां, माणिकां, इतुकें अनण[10] देवनु, आनंद उछ्याव केलो.

फुडां त्या परिसरामाचें धनुश्य मोडलें आसतां, परिसरामान आयकिलें, आपुलें धनुश्य रगुनाथान मोडिलें म्होणु.

आयकूनु, महा कोपान त्या जनकाच्या नगरा आयलो.

येतां, जैशें येकादें मॉड ये, तैशें तो धांवते वेळे ताच्या आंगाचें वांवतर[11] येवनु, जितुके ते पृथुविचे राय बैसलले, त्यांवरि धुळेरू पडूं लागलो. तंव ते समस्त राय अचर्यें पावले.

---

10. देणें; देणग्यो; भेटो.

11. हें सोवीत रूपकभरीत वाक्य नियाळचें.

हें अस्कतेचिं[12] मोड येवनु, हो धुळेरू आयलो तरि कांय अरिश्ट, ऐशें ते राय बोलतां, तो परिसरामु जनकाच्या नगरा महा कोपारूडु हौनु पावलो.

देखूनु समस्त राय भियेवनु आपापुल्या घोड्या रथावरि वैसूनु, धनुश्य बाण घेवनु झुजाक मुस्तायती जाले.[13]

इतुक्यां परिसरामु महा कोपान धांवनु जरि ये, तरि तो रामचंद्र सिते सैत बैसला तें देखूनु, त्या परिसरामान म्हळें, "आगा रामा, तुवें मजें धनुश्य महा समर्थ मोडिलें. येदें तुजें बळ. त्या बळान तुवें तें मोडूनु, सिता व्हेलिशि! तरि तुकाय नांव रामु आणी माकाय नांव रामु. आतां तुजें नांव सोडि येक, ना तरि मजे लागीं युद्धाक यो".

ऐशें त्या परिसरामान बोलिलें आसतां, त्या रगुनाथान म्हळें, "आगा परिसरामा, हांव तरि लहानु वाळकु. तूं महा थोरू जुनटु झुजारू. आणि तूं माका म्हणताशि, तुजें नांव कडें घालि, ना तरि झुजाक यो! ऐशें बोलताशि! तरि आतां मज्या बाणान हें तुजें नांव आजि कडें घालीन".

ऐशें बोलूनु, धनुश्य बाण घेवनु, दोगय येकामेकाक विंदूं लागले.

विंदितां, जे परिसराम बाण विंदि, ते रगुनाथाच्या पांयांडे येवनु पडति. रगुनाथ जे बाण विंदी, ते परिसरामाच्या पांयांडे पडति. ऐशें करितां, येकामेकाचे बाण येकामेकाक लागना जावनु, मग शस्त्र, अस्त्र, येकामेकावरि सोडूं लागले. तिंवय लागनांति देखूनु, दोगय आंगमेळीं झुजतां, स्वर्गी हौनु देव पळेंव लागले. जितुके प्रथुव्येचे राय सहिंवराक आयलले, तितुकेय वोगेचि रावनु, दोगांचेंय झुज पळेंव लागले.

फुंडा रामचंद्रान त्या परिसरामाक आपुल्या बळान धरनु, जैसो येकादो उंशिचो कांडो रगडिल्यावरि, ताचो रस वचूनु सौपु उर[14], तैसो तो परिसरामु सत्व ना जावनु पडलो.

तावळि समस्ती ताची शग्ती रामचंद्रान घेवनु, त्या परिसरामाक सोडिलो.

फुडां त्या परिसरामाक दुसेरीं झगडच्याक सत्व ना जालें म्होणु, येका पर्वतावरि वचूनु, धुंवरू खावनु, तप करूं लागलो.

12. अकस्मात मॉड - तुफान.

13. हातयारां घेवन झुजुंक तयार जाले.

14. ही सोबीत चित्रभास नियाळची आनी तांतली उतरावळ.

मग रामचंद्रान सिता घेवनु, आपुल्या नगरा येता, तंव दसरतान आयकिलें. रामु, लखिमणु, सिते सैत आपुल्या नगरा आयले देखूनु, नाना प्रकारीं नगर शृंगारूनु, आरति निंवोलणें करितां, नगरीं रिगले.

फुंडा येके दिवशीं पारधिक गेले. वेतां येका अरण्यांतु पाविले आसतां, थंय येकु सुद्ब, वरूते पांय, सकलती मान करूनु, तप करितां, दोनि सहस्त्र वरूसां पर्येंत्र तप करी. तंव राम, लखिमणु, भरतु, शेत्रगनु, समस्त कटका सहित ताचे लागीं जंव पावति, तंव तो तप करितां देखिलो.

तंव रगुनाथान म्हळें, "आरे तपस्या, तु कोणु, तूं तप करिताशि कित्या? तुजे मनिची कोणि कामना? तें माका सांग".

ताणें म्हळें, "आपुलें मनीं मुग्ती वांचूनु, आण्येक आपण्यांक कांय नाका."

तावळि रगुनाथान खर्ग काडूनु, त्या सुद्राक अडचि हाणूनु, मुग्ती धाडिलो.

फुडां पारधी करितां, महा दुर्घट अरण्यें, त्या अरण्यांतु येकु शिंवु महा गर्झन करिता. तें देखूनु रामचंद्रान धनुश्य बांण घेवनु, त्या शिंवाचे पाठीं गेलो. तंव एकाचि बाणान त्या शिंवाक विंदूनु, भूमिवरि पाडिलो.

तावळि ताचें पोट जंव फाळूनु पळे, तंव त्या पोटांतु सोवर्नाची पेटी. त्या पेटयांतु येकि कन्या आसा. तें देखूनु, थोर आचर्ये पावलो.

तंव ती पेटि घेवनु येतां. अवचितचि त्या अरण्यांतु बोब जाली. ती आयकूनु, रामु, लखिमणु, भरतु, शत्रुगनु, चौगय जाण रथावरि बैसूनु, ते स्थानीं धांवनु पावले. तंव येकु व्राह्मण त्या अरण्यांतु येका तळ्याच्या कांटारि बोव हाणता, त्या ठायिं पावले.

त्या व्राह्मणाक निमिगिले[15], "आरे व्राह्मणा, तुजी बोव आयकूनु, आमी धांवनु पावलेंव. आतां तुजें कोण कार्य, तें आमकां सांग".

तंव त्या व्राह्मणान म्हळें, "हांव आणी मजो पुत्रु, दोगूय जाण, ह्या अरण्यांतु पावले आसतां, येकु गंधर्व येवनु, त्या पुत्राक घेवनु गेलो. तें देखूनु, हांवें बोव हाणिली".

ऐशें आयकूनु, चौगय जाण त्या गंधर्वाचे पाठीं वेतां, येका पर्वताच्या शिखरावरि पावले. तंव त्या शिखरावरि येकि गुफा[16], त्या गुफांतु तो गंधर्व, तो पुत्रु घेवनु

15. पौढताय adulthood; प्रार्थन मागलें.
16. भुंयार Cave.

आसा. तंव रामचंद्रान वाणु काडूनु त्या गंधर्वाचें शिर छेदूनु, भुमिवरि पाडिलें.

मागिरि तो पुत्रु घेवनु येवनु, ब्राह्मणाक दिवनु, थंय थावनु आपुल्या नगरा पावले.

फुंडा येके दिवशीं येकु कावळो त्या रामाच्या नगरा येवनु, बोलूं लागलो, "आपण सातूय समुद्र उडन".

ऐशी आपुली प्रहुडि[17] बोलतां तंव रामचंद्रान त्या कावळ्याक म्हळें, "तूं हें उडण खंय शिकिलोशि, तें माका सांग".

ताणें म्हळें, "राजहंस येका सरोवरांतु आशिलें, त्या सरोवराचे कांटीं हांव पावलों. तंव त्या सरोवरांतु त्या राजहंसां मधें येकु हंस महा थोरू, त्या हंसान माका हें उडन शिकैलें. तरि आतां जरि आकास पर्येंत्र उडूं सांगशी, तरि उडन".

तावळि रगुनाथान येकु राजहंस आपौनु, ताका म्हळें, "तो कावळो तुजे बरावरि उडतलो म्हणता. तरि आतां तुमी दोगय समुद्रांतु वचूनु उडा."

कावळो वळा आयललो, ताणें राजहंसा लागीं उडूंक केलें. तंव राजहंसु आणी कावळो दोगय समुद्रांतु उडूं लागले. तंव राजहंसु आपुल्या पाख्यांनी हळू हळू समुद्रांतु उडूं लागलो.

फुडां कावळ्यान त्या समुद्रांतु धांवतां, केत्येकु समुद्दु उडतां, पाखुटे वळले देखूनु, मनीं म्होणु लागलो, 'कटकटा, हांवें थोर वायट केलें. राजहंसा लागीं हांवें उडूंक बास घेतली.[18] तरि आमी वायटा ठाया उडूंक आयलेंव!

ऐशें मनीं म्हणतां, त्या कावळ्याची गती उणी जाली. तंव तो राजहंस आपुल्या पाखुट्यांनी उडतां, कावळ्या लागीं पावलो.

तें देखूनु, त्या कावळ्यान राजहंसाक म्हळें, "आगा राजहंसा, आमी वायटी ठांयिं उडूंक आयलेंव. जरि येकाद्या वेळे आमचे पाखुटे वळले, तरि विसव घेवूं म्हळ्यारि, हांगा रूख झाड ना. तरि आतां हे ठांयिं उडुंचें न्हय".

तंव राजहंसान म्हळें, "आगा कावळ्या, चिंता ना. तूं ऊड. जरिय रूख झाड ना जालें, तरि जो उडतलो आसा, तो आपुल्या पराक्रमान उडता. ह्या कारणें आमी हो समुद्दु उडूंया." ऐशें त्या राजहंसान कावळ्याक म्हळें.

---

17. बडाय; बडवाचार; जिद्द.

18. वडां मारलीं; पैज मारली.

तंव कावळो पुनरपीं उडतां, पाखे वळूनु, उदकाक पळेंव लागलो.

देखूनु त्या कावळ्यान म्हळें, "आगा राजहंसा, तूं समर्थु. हांव बळा येवनु, तुजे सांगातीं उडूंक मांडिलें. तरि आतां तुका शरण आयलों. माका तूं राख".

ऐशें बोलिलें आसतां, त्या राजहंसान त्या कावळ्याक म्हळें, "आतां तूं मजे पाठिरि बैस".

ऐशें बोलिल्यावरि, तो कावळो त्या राजहंसाचे पाठिरि बैसलो.

फुंडा राजहंसु मागुतें परतूनु, समुद्र उडूनु, तडी हाडूनु त्या कावळ्याक दवरिलो. थंय थावनु दोगय जाण येवनु, रामचंद्राक समस्त वर्तमान सांगिलें.

तें आयकूनु, रगुनाथान त्या कावळ्याक म्हळें, "आतां ह्या राजहंसाक तुजी कुरू दी".

तें आयकूनु, त्या कावळ्यान आपुलो उजुवो डोळो त्या राजहंसाक दिलो. थैं सावन कावळ्याक उजुवो डोळो ना. आतां अरण्ये कांडिची कथा सांगन.

(सोळाव्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण - पान 100 ते 112)



## २६

# दैत्यांचो नाश

येके दिवशीं रगुनाथु राज्य करितां, तंव ते सभेक देव, दैत्य येख्य, गंधर्व, समेस्त पृथुविचे राय बैसले आसतां, ते सभे मधें येकि अपसरा बायल नृत्य करूं लागली.

इतुक्यां मधें, येकु दैत्यु, त्या दैत्याचें नांव चित्ररथु, तो आकास मार्गीं येवनु, ते सभे वयरि पळेंव लागलो.

तंव तें नृत्य देखूनु, त्या दैत्यान मनी ऐशें म्हळें, 'ही नृत्य करिता अस्त्री. हिका चोरनु व्हरन.'

ऐशें मनीं धरिलें आसतां, त्या आकासावरि जैसो मेघु गर्झो, तैसो महा थोरू शब्दु करूनु, गर्झूं लागलो[1].

फुडां त्या दैत्यान आपुलें रूप अदृश्ट करूनु, हौंसाचें रूप धरनु, त्या सभांतु आयलो.

तंव ती स्त्री महा सुंधरि देखूनु, त्या हौंसान तिका चोंचिन धरनु, आकाशीं उडालो. तें समेस्त सभाजनानीं देखिलें.

देखूनु रगुनाथान म्हळें, "ही स्त्री नृत्य करित आसतां, आमचे देखत, हो पखी घेवनु वेता!"

ऐशें बोलूनु, धनुश्य बाण घेवनु, त्या पख्याक पाचारिलो, "आरे पख्या, तूं आमचे देखत, ह्या सभाजनां हुजरां, ही स्त्री आकास मार्गी घेवनु वेताशी? आतां तूं त्रिलोकीं जरि पळनु वेशी, तरि तुका गिंवासून मारिन".[2]

ऐशें बोलूनु, तिनि बाण काडूनु जंव धनुश्याक लायि, तंव त्या पख्यान आपुलें रूप सांडूनु, दैत्य रूप धरिलें.

---

1. ही मन - भुलयणी चित्रभास नियाळची.
2. खरायेन पिसडून उडोवन मारीन.

त्या दैत्याचें शरिर धा योजनां दिगु, पांच योजनां रूंद, ऐशें शरिर आकास मार्गीं आयलें.

तावळि रगुनाथान दों वाणांनी त्या दैत्याचें शरिर भेतूनु,[3] भूमिवरि पाडितां, ते सभेवरि जंव पडो, तंव मागुतेन रामचंद्रान तीं भालिंनी त्या दैत्याचें शरिर समुद्राचे तिरीं आपुल्या बाणान घालें.

तंव त्या दैत्याचो पुत्रु, विरशेनु, ताणें आयकिलें, आपुलो वापु रघुनाथान मारनु, समुद्राचे तिरीं घाला म्होणु.

आयकूनु, त्या दैत्यान मावकार रूप धरनु, त्या रामचंद्राच्या नगरा आयलो. येवनु केतिक दिवस पर्येंत्र तो राखो.

फुंडा येके दिवशीं रामचंद्रु आपुल्या सहिन्या सवर्तमान पारदिक वेतां, नाना प्रकारिंचे शिंव, सारदूळ, नाना प्रकारिंचे पखी, ऐशी पारदि करितां, तें दैत्यान देखूनु, अजगराचें रूप धरूनु, मार्गावरि, आकास आणि पृथुवि पर्येंत्र आपुलें मुख पसरूनु आसतां, ताच्यो दोनि जिवो जैसो येकादो मार्गु वरवो दिसो, तैश्यो त्यो जिबो भूमिक पसरूनु, त्या रामचंद्राची वाट पळेंव लागलो आसतां, दोनि प्रार[4] जाले.

तंव रघुनाथु पारदि करतां, धा सहस्त्र दैत्य येवनु, त्या अरण्याक वेडो घालो. तंव त्या दैत्यांनी आपुलीं शरिरां मावेचीं करूनु, त्या रगुनाथाच्या सहिन्याक गिळूं लागले.

धा सहस्त्र राय त्या दैत्यांनी गिळिले आसतां, रामचंद्रान वार्ता आयकिली, आपुलें सहिन्यें दैत्यांनी गिळिलां म्होणु.

आयकूनु, धनुश्य वाण घेवनु, लखिमणा लागीं बोलूं लागलो, "आगा लखिमणा, हें आमचें सहिन्यें दैत्य गिळितातिं. तरि ह्या समेस्तांक तूं मारि."

ऐशें वोलूनु, धा वाणु काडूनु, त्या वना भोंवती रखेणा केली. आण्येकी वीस बाणांनी जितुके दैत्य त्या रगुनाथाच्या सहिन्यांक गिळिताले, तेतुक्यांय दैत्यांचीं पोटां फाळूनु, त्या रघुनाथाचें सहिन्यें सोडयलें.

फुडां ते दैत्य आकास आणि पृथुवि पर्येंत्र आपुलें शरिर विस्तारूं लागले.

तावळि रामान धा सहस्त्र वाण काडूनु, त्या दैत्याचीं शिरां येकेका बाणान छेदूं

3. फोडून; तोपून.

4. प्रहार - हाचें तदभव.

लागलो. ऐशें करितां, धा सहस्त्र दैत्य मारिले. आपुलें सहिन्यें मागुतें जिवें करूनु, सांजवेळीं जंव येति, तंव त्या मार्गावरि त्या अजगराचें शरिर त्या समेस्ता सहिन्यान देखिलें.

फुडां त्या सहिन्यान म्हळें, "हें महा थोर अजगराचें शरिर आकास आणि पृथुवी पर्येंत्र पसरिलां!"

देखूनु सहिन्यें बोलूं लागलें, "आतां आमी कोणु विचारू करूं? रगुनाथु तरि मागारिं आसतां, आमकां हें अजगराचें शरिर कितें करित?"

ऐशें बोलूनु हस्ती, घोडे, रथ, पांयदळ, समेस्त ताच्या शरिरांतु प्रवेसले.

तंव त्या अजगरान रामु लखिमणु आपुल्या मुखांतु प्रवेसले ना देखूनु, तो आपुलें शरिर ल्हान करी ना जालो. इतुक्यावरि रामु, लखिमणु, भरतु, शत्रगनु आणी समेस्त वीर येवनु जरि पळेति, तरि महा थोर अजगराचें रूप देखिलें.

तंव रगुनाथान म्हळें, "चतुरंग सहिन्यें ह्या अजगराच्या मुखांतु तंव प्रवेसलें, आतां हें समेरस्त सहिन्यें हाच्या शरिरांतु मरत कि उरत?"

ऐशें बोलूनु, तीं भालिंनी त्या अजगराचें शरिर उबेंचि चिरनु, भूमिवरि पाडिलें.

फुडां ताच्या उधरांतु जितुकें सहिन्यें आशिलें तितुलेंय जिवें करूनु, आपुलें सांगातीं घेवनु, नगरा आयलो.

तंव त्या नगराच्या लोकान रगुनाथु नगरीं आयलो देखूनु, गुडयो, तोरणां, मखरां, बिदी, हाट, हाटवट्यां परिमोळदकां शिंपूनु, नाना परिंचे रत्नाचे दिपक, आरति, निंबोलणें करूनु, आपुलें शिंवासनी बैसयलो.

तंव महा वीर थोर थोर देसोदेशींचे राय त्या रगुनाथाक नमस्कारू करूनु, आपुल्या नगरा वचूं गेले.

फुंडा येके दिवशीं द्रुमुख नगरीं भरतुहरि राव, त्या रायाक दोनि सहस्त्र स्त्रियो, त्या मधें पाटांच्यो राणयो पनास. त्यो आपुल्या नगरांतु नाना विचित्र घरां करूनु आसतां, तंव येके दिवशीं ते नगरिचो राव आपुल्या आठाळ्यावरि[5] बैसलो आसतां, ताणें देखिलें, आपुल्यो स्त्रियो पनास जाणीं, ताणी आपुलीं घरां नाना विचित्रां केलीं.

ऐशें देखूनु, भोव सोंतोसूनु, त्या आपुल्या बुरिंजावरि रात्री निदेलो आसतां, तंव येकि राखेसु मावकारू आकास मार्गी येवनु, त्या रायाच्या नगरांतु हिंडूं लागलो

5. सदांचे कामाचे सुवातेर.

आसतां, तो राव आणी ताची स्त्री दोगांय जाणां, तीं आपुल्या बुरिंजावरि निदेल्यांति.

ऐशें देखूनु, त्या राखेसान राव निदेललो तो पलंगु उचलूनु, आकास मार्गी घेवनु, वचूं लागलो.

फुडां त्या राखेसान तो राव आपुल्या नगरा व्हरनु, त्या रायाक येकी कोठ्यांतु घालो.

तावळि ताच्यो स्त्रियो आपुले नगरीं जरि पळेति, तरि राव आणी राणी दोगांय जाणां रात्री भितरि नांति.

ऐशें देखूनु, थोरू आकांतु करूं लागल्यो. दैसोदेशिं, नगरान नगर हिंडतां, राव कोणी कडें ना.

ऐशें देखूनु, त्या स्त्रियांनी आपुले पुत्र पांच जाण, त्या पुत्रांक म्हळें, "तुमी रघुनाथाक वचूनु सांगा."

ऐशें आयकूनु, ते पांचय जाण रगुनाथाचे नगरीं गेले आसतां, मागुतें त्या राखेसान त्या रायाचें रूप धरूनु, त्या नगरा येवनु हिंडूं लागलो. तें त्या रायाच्या स्त्रियांनी देखूनु, ताच्या चरणां लागल्यो. जैशे त्या रायाचे गूण, रूप, सुंदराय, तेतुकेंय मावकार करूनु, त्या नगरांतु हिंडतां, तंव त्या रायाच्यो स्त्रियो ताची शेवा करूं लागल्यो. ऐशें करितां, दोनि सहस्र अस्त्रियो त्या राखेसान भोगिल्यो.

फुडां येके दिवशीं, तो राव कोठड्यांतु घालो आसतां, रात्री ताणें स्वप्नांतु ऐशें देखिलें, आपण येका शिंवावरि बैसूनु येका अरण्यांतु वेतां, तंव हस्ती त्या शिंवान देखिल्यो. फुंडा त्या शिंवान आपण्याक पाठिरि घेतलेलो तो येका पर्वताच्या शिखरावरि ठेवनु, ते हस्तिच्या दुमाल्या[6] वेतां, पांच जाणी हस्ती त्या शिंवान मारनु, मागुतेन तो शिंव आपण्याक पाठिरि घेवनु, आपुल्या नगरा हाडूनु पायलो. ऐशें स्वप्नी देखिलें.

फुंडा जागृत जावनु जरि पळे, तरि आपण त्या कोठड्यांतु आसा, ऐशें देखूनु थोरि चिंता करूं लागलो. त्या रायाच्या पुत्रांनी रगुनाथाच्या राज्या वचूनु, रामचंद्रु शिंवासनावरि बैसलो आसतां, त्या पुत्रांनी जितुकी वर्तलली कथा तितुकिय ताका सांगिली.

तें आयकूनु, रामचंद्रान बोलिलें, "विंद्याचळा पर्वतावरि येक शिखर. त्या शिखरांतु येकि गुफा, त्या गुफांतु त्या रायाक कोठड्यांतु ते राखेशिन घाला."

6. त्रास दिवपाक.

ऐशें त्या पुत्रांक सांगिलें आसतां, येकु दूतु येवनु, रामचंद्राक सांगूं लागलो, "आगा स्वामया, त्या रायाच्या नगरांतु येकु मावकारू, रायाचें रूप धरनु, राज्य करिता. ताणें कपटान जितुक्यो रायाच्यो स्त्रियो, तेतुक्योय भोगिल्यो".

ऐशें त्या दुताचें वचन रगुनाथान आयकूनु, आपुलें चतुरंग सहिन्या सैत त्या रायाच्या नगरा गेलो. वेतां ऐशीं सहस्र वाजंत्रां, दोनि खेवणी सहिन्यें, पांच अर्बुदा घोडे; धा कोटी रथ, इतुक्या सहिन्या सैत त्या नगरा पावलो आसतां, तो कपटी राखेसु पळूं लागलो.

तें देखूनु त्या स्त्रियांनी मनीं धस्कूनु, वोलूं लागल्यो, "हो राखेसु आमकां कपटान भोगूनु, आमचें पतिव्रतपण भंगूनु गेलो".

ऐशें बोलूनु, थोरि बोब जंव करिति, ती रगुनाथान आयकूनु, आपुल्या रथा सैत आकास मार्गी उडालो. तंव तो राखेसु मावकारू पळता, ऐशें देखूनु, रगुनाथान सात बाण घालूनु, त्या राखेसाचें शिर छेदिलें. तें शिर त्या रायाच्या नगरांतु राणयो जंय बैसलल्यो, तांचे लागीं येवनु, तें शिर भूमिवरि पडलें.

फुडां रामचंद्रान त्या रायाचे सुधिक, आपुल्या रथावरि बैसूनु, येकलोचि त्या विंद्याचळा पर्वतावरि पावलो आसतां, त्या पर्वतावरि येकु राखेसु, माव रूप धरनु, रूशेस्पराचो आस्रमु करूनु, बैसला, ऐशें रगुनाथान देखिलें.

तंव रगुनाथु त्या रूशिच्या आश्रम्या वचूनु विश्राम केलो. फुडां त्या रूशिन रामचंद्राकु त्या विंद्याचळा पर्वतावरि तो राव आशिलो, त्या रायाक हाडूनु, रगुनाथाचे हातीं दिलो.

मग रामचंद्रु आपुल्या नगरा पावलो आसतां, देसो-देशिंचे राय, देव, दैत्य, येख्य, गंधर्व, इतुकी आपुली प्रजा आपौनु, म्हळें, "हो राय विंद्याचळ पर्वता जरि राखेसान लिपयलेलो. तरि हो तुमी थंय व्हरनु, देया".

ऐशें त्या समेस्तांक सांगूनु, जितुके वानर आशिले, तांकां आपौनु, म्हळें, "आमी ज्या कार्याक अवतारू घेतलेलो, तें कार्य समेस्त संपादलें. आतां तुमी आपुले नीजस्थानी वचा."

हनिमंताक म्हळें, "तुका तरि मरण ना. तरि तूं अमरू जावनु आसा."

मग बिबिशेणाक बोलिलें, "जंव पर्येंत्र मजी कथा आसा, तंव पयेंत्र राज्य तूं करि". ऐशें ताका वरूदान दिलें.

मग जांबोवंताक म्हळें, “तूं अमरू जावनु राव”. ऐशें ताका वरूदान दिलें.

मग हेरा समेस्तां वानरांक बोलिलें, “जे कोण रावतले आसति, ते मजें वरूदान घेवनु सुखी रावा. आणी जे कोण मजे सांगातीं येतले, तरि तुमी ह्या समुद्रांतु रिगूनु, आपुलीं शरिरां सांडूनु, वैंकुटीं वचा”.

ऐशें त्या समेस्तांक बोलिलें आसतां, ते समेस्त समुद्रांतु न्हाण करितां, तांचीं शरिरां पडुनु, ते नीजस्थानी गेले. देखूनु रामचंद्रान आपुल्या पुत्रांक तें राज्य देवनु, आपण विमानारि बैसूनु, समेस्त देवां सैत वैंकुंटीं गेलो.

ऐशी कथा रामायेणी अवतार रचना, आदी अंतु पर्येंत्र, वाचिल्यारि, जितुकि अवतार रचना आसा, तेतुकि कळत.

जाणतां, नेणतां, कथा बरयल्या, ती मना हाडूनु, शृत्यानी खेमा करावी.

(सोळाव्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण - पान 281 ते 287)



## ३१
## पांचवो अध्याव

फुडां रामु वीस दिसांचो जाल्या उपरांतें, ताची माय उसुंग्यावरि धरनु खेळैयि.

ऐशें आसतां, येकु दैत्यु दखिण दिशे थावनु हांसाचें रूप धरनु, तिचे लागीं येवनु, उबो रावलो. तें दसरतान देखिलें. आणी 'हो हांगा कितें करिता,' ऐशें पळेंव लागलो!

इतुक्यां, रामाचे मायेन त्या बाळकाक पाळण्यांतु दवरनु, आपण दसरता लागीं आयली.

तें हांसान देखूनु, येक म्हा भयानक रूप धरनु, त्या बाळकाक हातीं धरनु आकास मार्गी उडालो.

तें उभय वर्गांनी देखिलें. थोरू आकांतु वर्तलो. आता आमी कितें करूचें? तो दैत्यु कोणी कडें वचत म्होणु, कोणु जाणा. ऐशें म्होणु दोगांय जाणां चिंते पडलीं.

इतुक्यः, वशिस्टु थंय पावनु सरलो, "आगा दसरता, तूं कित्या म्होणु ऐसली चिंता करिताशि, तें माका सांग."

आपुल्या गुरूचें उतर आयकूनु, दसरता रायान म्हळें, "आगा स्वामया, ही मजी अस्त्री रामाक जंय जंय म्होणु खेळयता आसतनां, येकु दैत्यु हांसाचें रूप धरनु, हिचे लागीं येवनु, उबो रावलो. माका हांसचि ऐशें दिसलें. इतुक्यां मधें हिणें रामाक पाळण्यांतु दवरूनु, मजे लागीं आयली. तें त्या दैत्यान देखूनु, येक म्हा भयानक उग्रशें राखेसाचें रूप धरनु, रामाक उचलूनु, खंयचे कडें गेलो, ऐशें कळ ना.

"आतां हांवें कितें करूचें, तूं माका येकि बुधि दी. जावळि मगेरि पुत्र ना आशिलो, तावळि तुवें मगेरि जायसो केलो. तेणेचि प्रमाणी, तूं माका तो पूत्रु हाडी. ऐसो करूच्याक कांय येकि प्रतेमु दी".

तें उतर आयकूनु, वशिस्टान म्हळें, "तूं कांय करू नाका. हांव वचूनु, रामाक घेवनु येतां".

ऐशें म्होणु, त्या दैत्याचे पाठीं लागलो.

पाठी घेता देखूनु, तो दैत्यु इजोरशीं खोलांतु येवनु, लिपलो.

फुडां तो वशिस्ट चिकोलणा भोंवनु, जरि इजोरशीं खोलांतु वच, तरि तो दैत्य मेरेच्या आडसरा लिपूनु आसा.

तें वशिस्टान देखूनु, त्या दैत्याक पाचारिलो, “आरे दैत्या, तूं ह्या बाळकाक घेवनु आयलोशि, तो कित्या? मजे लागीं युद्ध करि”.

ऐशें म्होणु धणुवाक बाणु लावनु, विंदिलो.

तें दैत्यान देखूनु, आपुल्या धणुकाक सत्तावीस बाण लावनु, त्या बाणाचे शेतकुट केले.

तें देखूनु, वशिस्टाक जो कोपु आयलो, तो कोणाच्यान सांगव ना. जैसो मागां नरशिंवाक कोपु आयललो, तैसो आयलो. धणुकाक येकतोरशे बाण लावनु विंदिले. ते निरतचि वचूनु, दैत्याच्या हुरधयाक भेदले.

तेणें करितां, इजोरशीं खोलांतु थावनु, कुळस्थळये येवनु, उसळूनु पडलो.

तावळि वशिस्टान रामाक हातांतु घेवनु, अयोध्या येंवक आयलो.

ऐशें आसतां, मजोरड्या म्हळल्या ग्रामा पावलो. थंय येकजणा माजोरडेकाराक भेटलो.

ताणें वशिस्टाक नमस्कारू करूनु म्हळें, “आहो, तुमी खंय गेलले ह्या चेरडुवाक घेवनु?”

तावळि वशिस्टान म्हळें, “माका इजोरशीं खोलांतु येक कार्यें आशिलें. थंय वचूंक वेतां आसतना, हें चेरडूं रोडूं लागलें, मजे सांगाती येतलें म्होणु. रोडुंचें तरि थांबना. ते देखूनु, हांवें हाका हाडिलें”.

ऐशें उलयत आसतना, रावणाचो पुत्रु, इंद्रोजी, थंय पावनु सरलो.

तें माजोरेडेकारान देखूनु, उतरडेच्या येकि पाळंदिंतु वचूनु, लिपलो.

फुडां वशिस्टाक वा रामाक खांदारि घेवनु, उडालो.

तावळि वशिस्टान इंद्रोजिता लागीं विचारिलें, “तूं माका कित्या व्हरताशि?”

तें आयकूनु, इंद्रोजितान म्हळें, “आयचो सगळो दिसु हांव निरावी. रजमात्र खेललें ना. तुमचें दोगांचेंय मास खायन म्होणु, व्हरतां”.

त्या उतरारि वशिस्टान म्हळें, “आमचें दोगांचें मास तुजो येकु घांसु. तुका हांव

असलो राखेस दाखयन, जो इतुके माणुसु तुका धरनु हाडीत, ते येका म्हयन्या दिसांक पुरो जायत".

तें इंद्रोजिताक सत्य, ऐशें दिसूनु, वशिस्टा लागीं निमिगिलें. "तो राखेस आपण्याक खंय मेळत?" ऐशें म्होणु ताचे लागीं निमिगिलें.

तावळि वशिस्टान म्हळें, "मजे सांगातीं तूं यो. तुका हांव दाखैन." ऐशें म्होणौनु इंद्रोजिक सांगाती घेवनु, मुंग्रुभूंयिं आयलो.

येवनु त्या इंद्रोजिताक बांयतु चौवूं सांगिलें.

वशिस्टाचें उतर आयकूनु, तो बांयतु चोयलो.

चोयतोचि, आपणाच्याचि रूपाचो येकु भितरि देखिलो. देखूनु ताका उलो मारिलो, "आरे राखेसा, तूं मजे लागीं युद्ध करि".

ऐशें म्हणूनु खाडारि हातु घालो. तावळि ताचें रूप, तेंवय खाडारि हातु घालिता. तें इंद्रोजितान देखूनु, म्हा कोपारूडू जावनु, त्या राखेसाक मारूंच्याक बांयतु उडी घाली. घालित खेवीं, वशिस्टान येक वज्र ताच्या आंगारि मारलें. तें निरतचि वचूनु इंद्रोजिताच्या हुरध्यारि भेदलें. तेणें करितां, ताणें प्राणु सांडिलो.

फुंडा वशिस्टु मुंग्रुभुंय थावनु जंव उतरड्या ये, तंव तो माजोरडेकारू लिपलेलो देखिलो.

"आरे, कित्या तूं भियेवनु हांगा येवनु, लिपलोशि? हांवें ताचो निपातु[1] केलो".

तें उतर आयकूनु, माजोरडेकारान म्हळें, "कोणी प्रमाणी तुवें ताचो निपातु केलो? तूं तरि बळिवंतु न्हय. तो इंद्रोजितु राखेसु महा भयानक. असल्याचो निपातु करूंच्याक तुका इतुकें वळ आसा? माका हें साच[2] दिस ना".

तें उतर आयकूनु, वशिस्टान शिळोक म्हळो, : "बुदि असे बलतसे। निर्बु दासे कृश्ट बला। वनिर शिंहु मोधर्मत। शेषेन शिंहु निपातेते।"

अर्थुः- बूध्दि बळ आशिलेलें साज बरें. पण अबुध्याक कितुलेंय बळ जालें, तरि कामा नये. दृश्टांतु, गागा सोंश्यान मातलेल्या शिंवाक मारला. हांव मनुश्य जावनु, इंद्रोजिताक नाडयलेलो भोव".

ऐशें आयकूनु, माजोरडेकारू विनंती करूं लागलो, "आगा स्वामया, कोणी प्रमाणी सोंश्यान शिंवाक नाडयलेलो, ती कथा माका सांग".

---

1. काबार केलो.
2. सत्य: खरें.

तें उतर आयकूनु, वशिस्टु कथा सांगूं लागलो. "पूर्वी केळोशी म्हळल्या गांवांत येक अटूक अरण्यें आशिलें. त्या अरण्यांतु येकु शिंवु मदा आयलो. येवनु जितुक्यां मोनजाती आशिल्यो, इतुक्योय मारनु भकी.

"ऐशें आसतां, कोल्यान येकि बुद्धि केली. समेस्त मोनजातींक मेळयल्यो. मेळौनु, तांचे लागीं म्हळें, 'आमी दिसाच्या दिसा येकेक आमचें पिल त्या शिंवाक दिंवचें. मजी शर्ती[3] जाल्यारि हांव दिन. सोंश्याची शर्ती जाल्यारि सोंसो दित'.

ऐशी ताणें बुद्धि समेस्ती मोनजातिक दिली.

ती तांकां मानली. समस्ती येकडें मेळूनु शिंवा लागीं वचूनु विनंती करूं लागल्यो, "आगा शिंवा, म्हा बळया, तूं आमचें उतर आयक. आमी दिसाच्या दिसा येकि खांवक धाडितांव, ती खावनु तूं सुखी राव. आमकां तूं विभास[4] करूं नाका".

तें आयकूनु, शिंवान म्हळें, "भोव बरें. आण्येकि मातु आसा. जरि तुमी कळावनु हाडि, तरि तुमकां मारिन'.

ऐशें शिंवाचें उतर आयकूनु, मोनजाती सुखी जावनु, आपापुल्या स्थाना गेल्यो.

फुडां तां तांचे शर्त्यें प्रमाणी, तीं हाडूनु दिसाच्या दिसा दिति.

ऐशें आसतां, येकु दिसु सोंश्याची शर्ती पावली!

सोंसो म्हा दुखेस्तु जावनु, आपुल्या पिलाक धाडी ना जालो.

समस्ती मोनजातीं लागीं म्होणु लागलो, "हांव आजि त्या शिंवाक येकी प्रकारीं बांयतु घालितां. घालूनु बोब करितां. बोब करित खेवीं, तुमी येकेकु फातरू हातांतु घेवनु या".

ऐशें म्होणु त्या समेस्ती मोनजातिंक सांगूनु, आपण त्या शिंवा लागीं गेलो. तो कळावनु आयलो देखूनु, शिंवु म्हा कोपारूडू जावनु, ताचेरि उपूंक आयलो.

तावळि त्या सोंश्यान म्हळें, "स्वामया, तुका आजि हांव येकि हव्राण[5] मोनजाति दाखैन. ती तुका चौं म्हयन्यांक पुरो. मजें मांवस खेल्यारि, येकु तुजो घांसु जांवचो ना. आणी घांसु जरि जालो, तरि तुजी भूक वचूंची ना".

ऐशें सोश्याचें उतर आयकूनु, शिंवान म्हळें, "माका तूं दाखय. दाखैल्यारि हांव तुका सोडिन."

---

3. पाळी.
4. त्रास ; पिडापीड.
5. व्हडल्या जिनसाची.

तावळि सोंश्यान म्हळें, 'मजे सांगातीं यो."

तें उतर आयकूनु, शिंवु सोंश्या सांगातीं वचूं लागलो.

वेतां वेतां, रासय ग्रामा पावलो. थंय येकि बांय, चाळिस पुरूस खोलि, आशिली.

ते बांयतु शिंवाक वच म्होणु सांगिलें. तावळि शिंवु वेगीं वेगीं ते बांयच्या कांटारि वचूनु भितरि चौं लागलो. चोयतचि भितरि ताचें रूप देखिलें. पण हाका आपणाचें रूप ऐशें कळलें ना.

ती मोनजातिचि म्होणु पैजां करूं लागलो, "आरे चोरांट्या, तुजें हांव मांवस खातलों". ऐशें म्होणु खाडारि हातु घालितां, मिश्यो सुतारतां[6], तैशेंचि तें रूप करतां, ऐशें शिंवान देखूनु, म्हा कोपारूड्डु जावनु, बांयतु उडी घाली.

घालित खेवीं, सोंश्यान शिंव हारिलो देखूनु, जितक्यो मोनजाति आशिल्यो इतुक्योय येकटांय येवनु, गुंडे फातर घालूनु, मारलो.

ऐशी कथा वशिस्टान त्या माजोरडेकाराक सांगिली.

तें ताका हय, ऐशें दिसूनु, ताणें म्हळें, "स्वामया, बुधी, ऐशी आण्येकि कोणि वस्तु ना. म्होणुंच्याक पुर्विल्यांनी शिळोकु नेणूनु म्हळा".

ऐशें म्होणु वशिस्टाक नमस्कारू करूनु, आपुल्या कार्याक गेलो.

फुडां वशिस्ट उतरड्या हौनु अयोध्या आयलो. येवनु रामाक दसरता लागीं दिलो आणी मार्गावरि जितुकें वर्तललें, इतुकेंय सावकाशीं सांगिलें.

दसरतान रामा भोंवतें नाना परिंच्यो वस्तु उंवाळूनु, पोरो घाल्यो.

ऐशी कथा म्हयेश्वरान पार्वत्येक सांगिली.

अपूर्वि कथा देखूनु, शंकराची प्राणेस्परी संतोसली.

संतोसूनु, पूणती विंनंती केली, "आगा स्वामया, ह्या रामाक घरीं हाडिल्या उपरांतें, कितें वर्तलें तें माका सांगा".

ते विनंते प्रमाणी सदाशिव कथा सांगूं लागलो.

(सोळाव्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण - पान 302 ते 307)



---

6. हें सोबीत उतर नियाळात.

# गद्य म्हाभारत

(हांतलो एक नमुनो - पंदरावो शेंकडो)

## पयली कथा

अस्तनापुर नांव नगर तेथीं सांतनु चक्रवती राय राज्य करी. त्या रायाच्ये स्त्रियेक नांव गंगा. ती स्त्री रायान मेळैतनां दोगांकै बोलु[1] सत्य सुकृत हौनु ती रायाची स्त्री जाली. “जे वेळे हांव मागन तें तुवें राया, माका दिवचें,” ऐशें म्हणौनु बोलु भास रायान दिली. फुडां ती गर्भेस्ति जाली. नव मास भरले. उप्रांतें प्रसुत जाली. पुत्रु जालो. तो पुत्रु तिणें व्हर्नु उदकांतु घालो. राव वोगोचि आसा. कांय उलै नां. ऐश्या परीं पांच पुत्र तिगेरि जाले. तेवै व्हर्नु उदकांतु घाले. त्या पासवत राव भोव दुखेस्तु जालो, पण आपुले स्त्रियेक बोलु भास दिल्या म्हणौनु कांय बोल नां. ऐशें आसतां मागुतेन[2] ती गर्भेस्ति जाली. नव म्हैने पुरे जाले. प्रसुत जाली. सटवो पुत्रु जालो. तोवै घेवनु उदकांतु घालुंक वेताली. इतुक्या राव येवनु तिचे लागीं भोव कोर्नु विनौं लागलोः “ हो पुत्रु माका तुं भिकेक दी, आमंच्या राज्याक राव जायत.” तंव तिणें रायाचे हातीं ताका भिकेक दिलो म्होणु भिस्मु नांव ठेयलें.

तंव राया लागीं ती उलौ लागली, “हो तुका हांवें भिकेक दिलो, हांव भाशेक आजि तागैत[3] उत्रै जालीं[4]” म्हणौनु अदृस्ट जावनु गेली. त्या पासवत रायाक भोव दुख पडलें. राय विकळु[5] चिन्ताक्रांतु जावनु, अन्न उदक वर्जिले. वस्त्र लुगडें न्हेसुंचें सांडिलें. सिंहासनावरि बैसुंचें सांडूनु येका करड्या फातरावरि बैसो.

ऐशें आसतां दिवशीं माशीं तो भिस्मु पुत्रु वाडलो. फुडां धा बारां वरुसांचो

1. उतर; आश्वासन; बोलु भास.
2. मागीर; उपरांत.
3. सतत आयज पसून; एकसारकी सुर्वेकसावन.
4. उतर पाळ्ळें; रीण फारीक केलें.
5. निरास.

जालो. बापाचें मन दुचित देखूनु आपुल्यां प्रधानां, मंत्री वर्गा लागीं विचारिलें: “हो मजो बापु कोणा प्रस्तायाक सदान्त असलि चिन्ता करिता, तें तुमी माका सांगा. नाथिल्यारि मजो जिव हांव सांडिन.” तंव त्यां मंत्र्यानीं भिस्माचें उतर आयकूनु मागां जें वर्तललें तें इतुकेंय सांगिलें. तें आयकूनु तो भिस्मु म्होणुं लागलो, “अस्त्रिये विण राय भोव दुखेस्तु. तरि आतां मजें तरणेपण मज्या बापायक हांव दिन, वा ताचें व्रधपण हांव घेन, आणी हांव स्त्री हे संवसारीं जरि करिन, तरि मजे माये समान ऐशें मानिन” म्होणु निचेव केलो.

ऐशें म्हणौनु आपुल्या बापा सांतनु चक्रवतिक अस्त्री जोडुंक देसों देशीं आपुले मंत्री प्रधान धाडिले. इतुक्या कास्मिर देशीचो राव कोन्तभोजु जैं आशीलो थैं ते गेले. ताचे घरीं येकि उपंवरि[6] कन्या वाडलली. ताणीं ताचे लागीं म्हळें: “आमंकां भिस्मान तुमंचे लागीं धाडिल्याति, आपुल्या बापाक तुमंची कन्या दिंवच्याक.”

तें आयकूनु तो तांचे लागी उलौं लागलो, “भिस्मु व्हडल्ये स्त्रियेलो[7] म्होणु राज्य तो करित. हांवें मजी कन्या ताच्या बापाक दिंवची, तिगेरि जी कांय सनचति[8] जायत तांकां राज्य फावो ना म्होणु नेदे जायत. ऐशें म्हणौनु कोन्तभोजान त्या मंत्र्यां लागीं सांगूनु धाडिलें.

तांचें उतर आयकूनु भिस्मु वोगोचि रावलो. मग आपणोचि जों जैं कन्या जो जोचे घरीं वाडलल्यो थैं सोयरिकेक आपणोचि वचो. जाचे घरीं कन्या वाडल्याति तांचे घरीं जंव सोयरिकेक वचो, तंव ताणीं जेणे प्रमाणीं कोन्तभोजान जाप दिलली तेणें प्रमाणीं जाप दिली. तंव भिस्मान आपुल्या मनांतु म्हळें, “ हांव तरि राज्य सर्वथा नकरीं आणी स्त्री नजोडीं. जरि स्त्री हांव जोडिन तरि ती माका मजे माये समान, ऐशें म्होणु हांवें आदिंचि निचेव केला. प्रतमोचि हांवें मजें तरणेपण मज्या बापाक दिलें. ताचें व्रधपण हांवें घेतलें. ऐशें आसतां हो समस्तु लोकु आपुल्यां मनांतु सोयरिक नकरुंक ऐसलें उतर दिताति.” ऐशें म्हणौनु थैं ठावनु दुसरीं आपुल्या अस्तनापुरा आयलो.

ऐशी ही कथा जल्मजयाक शुख इन्द्रान सांगिली. ती कथा अपूर्वि देखूनु संतोसु पावलो.



6. लग्नाक तयार जाल्ली; वोडवी.

7. लो, हें जिवंत मनशाचें विभक्तीक लागतलें कूस, कोंकणीचें खाशेलें.

8. संतती, ह्या उतराचें त्या काळा-वेळें कोंकणी रुप.

# दुसरी कथा

भिस्मु बोले मंत्र्यां प्रधानां पाशीं, "राजा दुचितु, महा मानशी, कामु नाहीं. रायाशीं तेणें दुखि थोरु झळंबता".

भिस्मु मंत्र्यां प्रधानां लागीं उलैलोः "आमंच्या बापाक अस्त्रिये विण जिवाक सुख नां. महा चिन्ताक्रांतु. तरि आतां हांव येकि कन्या तुर्तोचि जोडिन". म्हणौनु आपुल्यां राज्यांतुले घोडे, हस्ती, रथ, पांयदळ, चतुरंग सहिन्या सहित भायरि पडलो. इतुक्या मार्गावरि वेतां, समन्द्राचे तिरीं सुगन्दु परिमळु येवूं लागलो. त्या परिमळाच्या लब्दानु राव वा समेस्त सहिन्यें वेदलें. तंव रायान प्रधानां पाशीं विचारिलें, "कस्तुरी चन्दनां सारिखो परिमळु जो येता तो खैचो?" तें उतर आयकूनु प्रधानान आपुल्यां शेवकांक निरोपु दिलो, "कोणी कडे कोण देवस्थान आसा, की बरवो सुगन्ध पुश्पांचो ठावो आस, तरि तुमीं ठांय घालूनु वेगीं वेगीं या".

तें उतर आयकूनु शेवक धांवत गेले. ते समुद्रा तिरीं सोदूं लागले. सोदितां सोदितां त्या समुद्राच्या तिरावरि येकु नववडु[1] म्हणजे तारी, तारि उतरतालो. ताची ती कन्या महा स्वरुपि सुन्धरि त्यां शेवकानीं देखिली. तिचे आंगिचो सुगन्ध परिमळु येता. त्या परिमळाच्या लब्दाक भोंवरांचें रण झुणुकारु[2] अंत्रोख्य[3] जाता. तावळि शेवकानीं देखुनु, तिचे लागीं विचारिलें: "तुं कोणाची कन्या, हें सर्व वर्तमान आमंकां सांग."

तावळि ती तांचे लागीं उलौं लागलीं:

"मजो वापु खारुवो, हांव ताची कन्या. पैलें मजें नांव मछगन्धा. येकु गांवभरि मजे आंगिची पोर्टाणि[4] जैशी मासळयेक हिंवसाणि येता, तैशी येताली. तावळी ह्या

1. व्हडेकार.
2. मंजूळ संगीतमय आवाज.
3. अंत्राळांत.
4. घाण; वायट म्हेळयाचो वास.

मार्गान येकु रुशी परस्परु म्हळेलो तारि उतर्नु वचूंक आयललो. तावळी मजो बापु खारुवो अरण्यांतु गेललो. हांव येकलिचि ते तारी लागीं बैसललीं. माका देखुनु रुशेस्परु वेगीं पेलतडी उतरि म्होणुं लागलो. तावळि हांवें म्हळें, 'मजो बापु येवनु उतरित, हांव कन्या कैशें होडें उतरुं?'

"तावळी येकान्तवासु देखुनु, तो रुशी आपण्याक भोगु[5] मागुं लागलो. तावळी हांव भयाभिति होनु लाजिलीं. तावळि तो रुशी बोलूं लागलोः 'वेगीं तुं माका भोगु दिशी तरि बरें, ना तरि तुका स्त्रापूनु भस्म करिन'. तें उतर आयकूनु हांवें ताचे लागीं बोलिलें, 'हांव कन्या, भोगु दिवक नेणो'. तावळि ताणें म्हळें, "तुका बरवीं पनरां हौ सोळां वरुसांची सवाशिणी करिन".

· "तावळि हांवें म्हळें, 'दिसाचो भोगु दिवूं तरि नये. समेस्त देव, चन्द्रु, सुरियु, समन्द्रु, वृख्य, वांवतर देखताति. हांव तुका कैसो भोगु दिवूं?'

"तावळी ताणें म्हळें, 'तूं भियेंव नाका. त्यां समेस्तांची दृस्टि आमी भोगु करतनां पडनांशी हांव करिन,' म्हणौनु आठांय दिशांक कमंडळिचें उदक काडूनु उडैलें. त्या उदकान हिंवर जावूनु अन्दकारु पडलो. मनुश्याक मनुश्य देखुं नंये जालें."

फुडां ते मछेकन्येन त्या रुशिक भोगु दिलो. फुडां तिगेरि व्यासु पुत्रु जालो, आणी तिका नांव सुगन्धा म्हणौनु ठेयलें. ते सुगन्धेचे आंगिची वासना जैशी कुंकुम, कस्तुरि, अगर चन्दन, बवन चन्दन परमळता तैशी वासना परिमळु येवूं लागलो. मग तो रुशी जें तप केललें इतुकेंय वचूनु नागौलो.

ऐशें हें मागिलें वर्तमान त्यां प्रधानांच्यां शेवकां लागीं सुगन्धेन सांगिलें. तें आयकूनु, ते आपुल्या स्वामया लागीं येवनु सांगिलें. तें सर्व वर्तमान आयकूनु, राव प्रधान मंत्री घेवनु ते सुगन्धे लागीं येवनु समुद्राचे तिरीं बैसलो. तिच्या बापा खारुव्याक आपौंक धाडिलो. तो रायाचो निरोपु आयकूनु धांवत येवनु पायां पडलोः 'स्वामया तुवें कित्या माका आपौंक धाडिलेलो तें माका सांग'

तंव रायान म्हळें, 'तुजी ही कन्या सुगन्धा आमंच्या बापा सांतनु चक्रवतिक दी. दिल्यावरि तुका हांव देस, दुर्गा, वळित, द्रव्य, रथ, हस्ती, घोडे, सहिन्यें, पांयदळ दिवनु, राव करिन. जें कांय हांव म्हणतां तें तुं करि' तावळि ताणें म्हळें,

5. हें अर्थाळ उतर नियाळात.

'स्वामया हांव तुजो शेवकु. जें कांय ती कन्या म्हणता तें करुंचें'

तावळि प्रधानु, राव कन्येचो बापु सैत तिचे लागीं पावले. राव येता देखुनु ती उठूनु रायाक सास्टांग दोनीय हात जोडुनु पायां पडली. रायान म्हळें, "तुं कांय भियेंव नाका. जें कांय हांव म्हणतां तें तुं करि. उदंड भाग्या पावशी" तावळि तिणें म्हळें, " स्वामयान निरोपु दिलो तो भोव बरो, पण हांव जी विनंती करितां ती बरे प्रमाणीं मना हाडूनु निरोपु दिशी, तरि तुवें म्हळेलें हांव करिन. तरि स्वामया, तुं राज्याचो राव राज्य करिताशी आणी तुं व्हडी बायलेलो. तुगेरि जी संचति जायत ते राज्य करिती, मगेरि जे पुत्र जाती तांकां राज्य नां. तुमची शेवा करनु ताणीं आसुंचें. तरि हे भाशे हांव सर्वथा तुवें म्हळेलें नकरीं. हांव जें म्हणतां तें तुं जरि करिशी, तरि हांव तुज्या बापा सांतनु चक्रवतिची बायल जायन".

तें उतर आयकूनु ताणें म्हळें, "हांवें प्रतमोचि नेमु ऐसो केला, स्त्री सर्वथा हांव नकरीं वा राज्योय नकरीं. हांवें मजें तरणेपण मज्या बापाक दिलां, ताचें व्रधपण हांवें काडूनु घेतलां. तुं आमंच्या बापा सांतनु चक्रवतिची स्त्री जा. तुगेरि ताचे वरौनु जे पुत्र जाती तांकांचि राज्य हें समेस्त दिलें, ऐशें मानिं. हांव आजि तागायत अस्त्री आणी राज्य जरि करिन, तरि मजे माये गंगेचि माका आण[6]. संवसारीं जितुक्यो स्त्रियो आसति इतुक्योय माका मजे मायेचे परीं. हांव ब्रह्मचारी, परमेस्पराची भग्ति शेवा करुनु आसतलों".

हें उतर तिणें आयकूनु, ती संतोसुनु, बरें म्हळें.

मागिरि थैंचि गन्धर्विव्हाव[7] केलो. करुनु त्या सहिन्या सहित अस्तनापुर राज्यांतु हाडूनु सांतन चक्रवतिक आणी ते सुगन्धेक येकोडे बैसोनु आपुल्या हातान रत्नां मोतिंयांची शेंस भरली. "जे कांय तुगेरि पुत्र जाती, तांकां हांव राज्य मज्या बापा हुजिर समर्पुन दिन. तुं आजि तागायत ह्या राज्याची स्वामिणि'. ऐशें वरुदान दोगांयकै भिस्मान दिलें.

ऐशी ही कथा शुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. पुणतीं तो विनंती कोरुं लागलोः "आण्येकि अपुर्वि कथा तुं माका सांग".



6. सोपूत.

7. आप-खोश्येन केल्लें लग्न वा विवाह.

# तिसरी कथा

ऐशीं तीं संन्तोशीं राज्य करितां बहुत काळ भरले. आतां मग समस्तु लोकु आनंदता त्या राज्याचो धर्मु देखुनु. फुडां ती प्रतमोचि गभेस्ति जाली. नव मास पूर्ण भरले. पैलेचि दोग पुत्र जाले. येकाक नांव चित्रु, हेराक नांव विचित्रु. ऐशीं नांवां सांतनु चक्रवतिन वा तांचे माये सुगन्धेन ठेयलीं.

ऐशे तें दिवशीं माशीं वाडुं लागले. फुडां धां बारां वरुसांचे जाले. धनुर्विध्या, शेस्त्रा अस्त्रांची विध्या, सत्तिस दंडायुद्धांची विध्या पुर्ण शिकिले. ऐशे शिकूनु संन्तोशीं आसतां, फुडां तांचो बापु सांतनु चक्रवती मेलो. ताचें सर्व जैशें परमेस्परान फर्मायल्या प्रमाणीं क्रिया काम चलविलें. फुडां त्या चित्राक भिस्मान सिहांसनावरि बैसौनु राज्याचो अभिशेकु केलो. "तुं आजि तागायत हें राज्य करि. प्रजेक बरे प्रकारीं पाळि. आपुल्यां शेवकांक सांभाळि. दान धर्मु बरो करि. इतुकें केल्यावरि तुका परमेस्परु बरें करित आणीं मजें उतर वा हांवें सांगिलेलें जरि करिशी, तरि चन्द्रु सुर्यु आस पर्येंत्र तुं हें अस्तनापुर राज्य करिशी", म्हणौनु रत्नानीं शेंस भरली, हस्ती भांडार, घोडे, रथ, देस दुर्गा, गड, ताचे हातीं वोंपूनु राजमुद्रा दिली.

तेणें प्रमाणीं तो चित्रु राज्य करितां, समेस्ती प्रजेक सुखी वा परमेस्पराची भग्ति बरे प्रकारीं करी. थोंटें, पांगुळें, आन्दळें, अतिथ, भिकारे जें जें मागतातित तेतुक्यांची आश्या पूर्ण करी. ऐशें आसतां त्या चित्राची माय सुगन्धा भोव दुख करिता आपुलो पति सांतनु चक्रवती मेलो म्होणु. अन्न उदक वर्जूनु एका घरा मधें बैसूनु परमेस्पराचें सुमरण[1] करिता. ऐशी ती आसतां येके दिवशीं आपुलो पुत्रु परस्परा रुशेस्परा पासौनु जल्मललो त्या व्यासाचो उगडासु जालो. जायत खेवीं[2] तो धावनु येवनु आवैच्या पायांक लागलो. तिणें आपुलो पुत्रु म्हणौनु खेम आळिंगण[3] दिलें. मग

1. स्मरण, ह्या उतराचें तद्भव.
2. जातनांच; त्याच आत्ताक.
3. वेंग.

दोगांय माय पुत्रु येकांत स्थानीं येका घरा मधें बैसूनु आपुलें सुख दुख उलौं लागलीं: "पुत्रा, तुं इति काळ कोंणी कडे आशिलेलो? जैसो मजे उदरीं हौनु जल्मलोशि, तैसोचि माका सांडूनु वनिवासा परमेस्पराची भग्ति करुंक गेलोशि. आतां हांव दुखेस्ति जालीं म्होणु तुजो माका आठौ जालो". तावळि त्या व्यासान म्हळें, "माये, तुं ऐशी दुखेस्ति कित्या?" तावळि तिणें सर्व मागिलें वर्तमान जें जाललें, तें इतुकेंय आपुल्या व्यासा पुत्राक सांगिलें. तें उतर आयकुनु पुणतीं आपुले माये लागीं उलौं लागलो.

ऐशीं तीं दोगांय रातिचीं माय पुत्रु उलैतां, तो आपुले मायेक दुखेस्ति म्हणूनु सम्बोखी[4]: "परमेस्पराची गति करणी एणेचि प्रकारीं चलली आसा. तुं कांय दुख करुं नाका. राव गेला म्होणु तुं दुख करिताशि. तरि तुज्यां पुत्रांक राज्य भिस्म देवान दिलां. तुं कांय आजि तागायत दुख करुं नाका". ऐशें म्हणौनु आपुल्या कमंडळांतुलें उदक काडुनु तिच्यां डोळ्यांक लायलें. एणेंचि प्रकारीं रात्रिचो येवनु तिका सदान्त समजायता. दोगांचिं उतरां रात्रिचीं त्या घरा मधें रायाच्यां घरिंच्यानीं आयकिलीं. आयकूनु चित्रा रायाक सांगिलें: "स्वामया तुमंची माय सुगन्धा ह्या घरा मधें येकलिचि आशिली थैं दुसऱ्या पुरुसाचीं उतरां सदान्त ऐशींचि जातातिशिं आमी आयकिलीं". ऐशें आपुल्यां मनशांनीं सांगिलेलें तें आयकूनु, राव ते रात्री त्या घरा लागीं येकलोचि येवनु आयकुं लागलो. "ही उलैताति तीं कोण? मजी माय तंव येकलिचि हांगा आसा. हिचे लागीं कोणु येवनु उलैता?" इतुक्या भितरि तिणें आपुल्या पुता व्यासाचें चिन्तन केलें. तें आयकूनु, व्यासु भद्रकश्रामीं हौनु आयलो. येवनु आपुले आवै लागीं बैसलो. बैसुनु, नाना प्रकारीं तिका सबोखूनु कमंडळांतुलें उदक काडुनु तिच्यां डोळ्यांक आपुल्या हातान लावनु, "माये तुं कांय चिन्ता करुं नाका, हांव तपाक वेतां." ऐशें म्हणौनु निरोपु मागूनु गेलो.

ऐशीं ही उतरां आयकूनु चित्रु राव भोव मनांतु चिन्ता करुं लागलो: 'माका थोर पाप लागलें. माय वायट करिता, ऐशी हांवें भाशण भाशीली. त्या पापाक आतां कोण प्राचित कोरुं?' ताणें वेतनां वेळु, "माये, तुं भियेंव नाका. चिन्ता कोरुं नाका", ऐशें उलैललें उतर हांवें तरि मज्या काननीं आयकिलां. आतां मजे माये लागीं वचूनु, जें कांय मागां जाललें वर्तमान हांव सर्व विचारिन. ती माका सकट सांगत.

4. समजावन सांगतालो.

म्हणौनु आपुले माये लागीं वचूनु पायां पडूनु विचारुं लागलोः "माये, आमी तंव तुजे दोग पुत्र. रात्रिचो तुका येवनु सम्बोखुनु वेतनां वेळु : "माये चिन्ता कोरुं नाका" म्हणौनु म्हणता, तो कोणु तें तुं माका सांग".

तें उतर आयकूनु, तिणें म्हळें, "तो मजो पुत्रु परस्परा रुशेस्परा पासौन जल्मलेलो. तो परमेस्पराचो थोरु भग्तु जाला. भद्रकश्रामीं तप करिता".

हें उतर आयकूनु, चित्रु आपुल्या मनांतु संकोचलो. 'हांवें तंव माय वायट करिता म्होणु भाशण धरली. तो तंव तिचो पुत्रु. मागिलें वर्तमान माका सांगिलें. आतां असल्या पापाक हांव कोण प्राचित करुं?'

म्हणोनु भले भले जे परमेस्पराचे भग्त तांकां आपौंक धाडिले आणी राजसभांतु विचारुं लागलोः "आहो जी, आपुले मायेच्या ठांय परपुरुसाची वायटि कल्पना धरल्यारि ताका कोण पाप? कोणा प्राचितान तें पाप वचत, हें तुमीं माका सविस्तर सांगा". तें उतर आयकूनु विनंती करुं लागले, "येका म्हा अरण्यांतु वचूनु जैं सवणें नां, उदक नां, मृगां नांति, ऐशें स्थान पळेवनु, थोरा येका वृख्याची पोखरलि पळेवनु, आपुल्या हातान लाकुडां पुंजावनु, त्या वृख्याचे पोखर्ली भोंवतीं डाळूनु, आपण भितरि ते पोखरलिंतु बैसुनु, उजो लांवचो. ते मधें आपण लासूनु मरुंचें केल्या पाशिं प्राचित जायत, आणी परमेस्परा ठाय मुग्ति पावशी".

हें उतर आयकूनु, हेरा दिसा राव चित्रु येकेलोचि त्या अरण्या मधें वचूनु, थोरु ठाव पळेवनु, वृख्याचे पोखरलि भोंवतीं लाकुडां लावनु, आपण भितरि बैसलो. उजो लायलो. लागत खेवीं राजा जळूनु भस्मु भूतु जालो. ऐशें करितां राव राज्याक नां.

फुंडा त्या रायाक यमलोकीं यमदुतानीं व्हेलो. चित्रगुप्तु यमराया मुखारि उबो केलो. तावळि यमरायान आपुल्या शेवकांक निरोपु दिलोः "ह्या रायान पाप पुग्य कोणीं प्रकारीं संवसारीं केलां, तें तुमीं पळेवनु वेगीं माका सांगा".

तावळि ताणीं आपुलें कागत वाचुनु, यमराया लागीं येवनु दोनि हात जोडूनु विनौं लागलें:

"स्वामया, हाचें पाप आण्येक तंव आमंकां कांय दिस्टि पडनां. हाणें आपुली प्रजा बरवे प्रकारीं पाळिली. आपुले शेवक बरवे प्रकारीं सांभाळिले. परमेस्परा ठांय बरवें मन. जितुकें जें जें मागताले इतुक्यांके हो दियी. अन्नदान, उदकदान, वस्त्रदान, भूमिदान, सोवर्नदान, घोडेदान, हस्तीदान, रत्नदान, ऐशीं नानां परिंचीं दानां देवनु

समेस्तांक सुखी केले. ऐसो हो राव धर्मिकु, पण हाका येकुचि दोशु लागलो. तो कैसो म्हणशी, तरि सांगन. हाची माय गंगा, तिचो पुत्रु व्यासु रात्रिची येका घरा मधें बैसुनु उलैति. जावळि सांतनु चक्रवती राव मेलो, तावळि ती दुखेस्ती जावनु भोव दुखान जंव जळो, तंव त्या पुत्राचें सुमरण करी. तावळि तो धांवनु येवनु आपुले माये लागीं बैसुनु कांय परमेस्पराची कथा उपदेस सांगो. येणें प्रकारीं तिका समजावनु वेतनां, "माये तुं दुख करुं नाका" म्होणु सांगो. तें उतर ह्या चित्रा रायाच्यां घरिच्यां मनुशानीं आयकूनु रायाक वचूनु सांगिलें. ते दिवशीं राव रात्रिचो थैं पळेंव आयलो. 'हांवें तंव येकलिचि ह्या घरा मधें ठेयलेली, हांगा कोणु येवनु आण्येकु पुरुसु उलैता' तें हांव आजि पळेतलों म्हणौनु पळेंव लागलो. तावळि ती गंगा[5] दुसेरीं आपुल्या पुत्रा व्यासाचें चिन्तन करुं लागली. इतुक्या मधें तो धांवनु आयलो. येवनु आपुले मायेक नाना प्रकारीं सम्बोखूनु कमंडळांतुलें उदक काडुनु, तिच्यां डोळ्यांक लावनु, "तुं कांय चिन्ता करुं नाका. संवसारु येणेचि प्रकारीं चलला. ह्या संवसारा मधें कोण रायो अमर जावनु जियेनां. येक फुडें मरत, येक मागिरि मरत. तरि आपणें रात्रि दिवसु निदेतां, उभटतां, मार्गी चलतां, जेवितां, खातां, निदेतां देवाचें सुमरण करुंचें. केल्यारि परमेस्परु अन्तीं बरो ठाव दित. तरि तुं माये आतां बैस. हांव तपाक वेतां" ऐशें म्हणौनु निरोपु मागुनु वचूं लागलो.

तें उतर चित्रान आयकूनु सकाळिचि सभेक बैसुनु आपुल्यां मंत्र्यां प्रधानां लागीं ऐशें विचारिलें: "मायेक आणी येका परपुरुसाक तिच्या पुत्रान वायट केल्यारि, ताका कोण पाप? तावळि ताणीं सविस्तर पापाचें प्राचित सांगिलें. तैशेंचि, सांगिलेल्या प्रमाणीं, ह्या चित्रा रायान केलें. तरि हाका पाप कांय नां. राव थोरु धर्मी".

तें उतर यमरायान आयकूनु, वेगीं सिहांसनावेलो उभटावनु, चित्राच्यां पायांक लागुनु, गळो आळिंगण धरनु आपुल्या सिहांसनावरि बैसौनु, बऱ्या रत्नांची वा सुगन्ध पुश्पांची पुजा करुनु, वस्त्रां दिलीं. "स्वामया, मजो कांय अपरादु मनीं धरुं नाका. तुं राव थोरु धर्मी. परमेस्परा ठांय तुका उदंडि भग्ति. आपुलें येदें राज्य सांड्नु आपुल्यां हातानीं तुवें काश्टां मेळौनु, तांतुं तुं बैसुनु उजो लावनु, आपुल्या धेयाक तुवें प्राचित केलें. ऐसो तुं सत्यवादी. उदंडु दान धर्मु केलो. जे भिकारी अनाथ दान मागताले, इतुक्यांची आश्या तुवें पुर्ण केली. अन्नदानांचें सत्र तुं घालिशि. ऐसो

5. सुगन्धा.

तुं परमेस्पराचो थोरु भग्तु. तरि नेणतां मजे शेवक वचूनु तुका घेवनु आयले. म्होणुंच्याक मजो अपरादु तुका यमनगराक हाडिलो म्हणु धरुं नाका. तुं हांगा आयलो म्होणु तुज्या पुण्यान केतिक पापी ह्या यमकोंडांतु नरक कोंडीं पडलले ते तुजे दृस्टी करुनु उधरले". ऐशें म्हणौनु ताका पायां पडूनु विमानावरि बैसौनु स्वर्गी धाडिलो.

ऐशी ही कथा शुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. अपुर्वि कथा देखुनु दुसेरिं विनंती करुं लागलो, "तु माका आण्येकि कथा सांग".



# चौती कथा

फुडां कवणेंके अवस्परीं राज्याक राव नां, ऐशें त्या नगरांतु जालें. राजा खैं, कोणि कडे गेलो म्हणौनु सोदुंक लागले. देसों देशीं चाकर सोदुंक धाडिले. ते शेवक प्रथुमि समस्ति आठै दिशा हिंडूनु येवनु, आपुल्यां स्वामया प्रधान मंत्र्यांशीं सांगिलें:

"स्वामया, तुज्या निरोपा प्रमाणीं समेस्त भुवस्तळ, आठै दिशा आदि करुनु, सोदि पण खैं आमंचे दृस्टी पडलो नां. अस्तनापुरिचो राव चित्रु हे कडें आयललो तुमीं देखिला. तरि आमंकां सांगा, ऐशें म्होणु आमी विचारिलें. ते आमंकां सांगु लागले, 'राजा चित्रु आमी हे कडें देखिलो नां.' आतां आमंकां कोणु निरोपु?"

तो उतर आयकूनु म्हा दुखेस्त जाले, वा ताची माय सुगन्धा भोव दुखान झळंबो. पुत्रु आपुलो कोणी कडे गेलो? राज्याक तंव राजा ना' ऐसो म्हा आकांतु राज्यांतु वर्तलो.

फुडां ताचो धाकुटो भाव विचित्रु राज्यपाटाक सिहांसनावरि बैसलो. समस्त राज्य ताचे हातीं वोंपूनु दिलें. ऐसो तो विचित्रु राव राज्य्र करितां, बरे प्रकारीं प्रजा पाळन करी. जैसो आपुल्या भावा चित्रान दान धर्मु केलेलो त्या हौनु आपण दान पुण्य करुं लागलो. निरंतर परमेस्पराची भग्ति करी. येणे प्रकारीं राज्य करितां बहुत काळ भरले. मग त्या रायाक खे[1] रोगु शेरिराक जालो. नाना परिंचे वैद हाडूनु वोखदां केलीं, पण कांय जिवाक सुख नां जालें. मग ताणें उदंडु दान धर्मु करुंक आधारिलो. यज्ञ, होम हवन करनु देवळां बांदुं लागलो. बांदूनु परमेस्पराच्या नांवान परमेस्पराची मुर्ति करुनु ठेवनु, अन्नदान नित्य घालूनु शेवा करुं लागलो.

आपुलो व्हडलो सवति भाव भिस्मदेव, ताका म्हणुं लागलो, "हें राज्य तुं सांभाळि. मजो व्हडलो भाव चित्रु राज्य सांडूनु गेलो. माका तंव ऐशी शेरिराक व्यादि उपजली. पुर्वी थोर पाप हांवें केललें म्हणौनु माका हें फळ भोगता. तुं आतां हें राज्य करि".

1. क्षय, हाचें तद्भव.

ताणें म्हळें, "आरे पिश्या, हांवें प्रतमोचि संकल्पु ऐसो केला की राज्य हांव नकरीं आणी वायल नजोडीं. जरि जोडिन तरि माका मजे माये समान. ह्या राज्याची माका कांय चाड[2] ना. हांव परमेस्पराचीचि भग्ति रात्रि दिसु करुनु आसतलों. राज्य आणिक हें शेरिर लखमि[3] कोणांकै स्थिर न्हय. ऐशें मानूनु जे परमेस्परा ठांय भजती तांकां परमेस्परु अन्तीं स्वरुप दरुशण दाखैत. तुं आतां मजें मन पळेताशी तरि ह्या राज्याची पर्वा माका कांय नां. येका परमेस्परा वांचूनु, हें कांय माका नाका." ऐशें म्हणौनु त्या विचित्रा लागीं बोलिलें.

तें उतर आयकूनु, तो भोव दुखेस्तु जालो, "आतां हो राजभारु कोण चलैत? आमंकां दोगांकै तरि पुत्र नां जाले. भिस्मदेव राज्य तंव नकरीं. आतां हांव कितें करुं?" म्हणौनु आपुल्यां मंत्र्यां प्रधानांक निरोपु दिलोः "हो राज्य-भारु तुमीं चालैया. माका तंव जिवाक व्यादि लागल्या. सुख तंव नां. आतां हांव परमेस्पराच्या नांवान थोरु होमु करतलों'. म्हणौनु संकल्पु करुनु यज्ञ आरंभिलो. समेस्त मुस्तायती मेळौनु हाडिली. तुप, तेल, तांदुळ. म्होंव, दूद, धैं, साकर, नाना परिंचीं परिमळ पुश्पां ऐशीं हाडूनु यज्ञ कोंडा मधें ठेवनु, आपुले हातीं आहुति दिवूं लागलो. अन्नदान, उदकदान, भुमिदान, घोडेदान, ऐशीं नाना परिंचीं दानां ब्राह्मणांक दिलीं. अविन्ध[4] मोतयांच्यो माळो, त्यां माळांक येकेकु सहस्त्रु मोतयां उत्तमां, येकु भारु सोवर्न. येणेचि प्रमाणीं धा सहस्त्रां ब्राह्मणांक सुवर्ण वा मोतयां दिलीं. ऐशें दिवनु होमु केलो. आपण भोव दिवस अन्न उदक वर्जुनु बैसलो.

ऐसो भोव कस्टवता देखूनु अंत्रोख्य अस्त्रोनित वाचा जालीः "आरे अस्तनापुरिच्या विचित्रा राया, तुवें पुर्व जल्मी भोव ब्रह्महत्या केलेल्यो. ते निमितीं तुका खेरोगु जालो. आतां कांय केल्या हें नसुटें[5]. हे वेळे तुवें इतुकें होमु हवन, दान धर्मु केललो देखूनु तुका जरि हांव बरो करिन, तरि आण्येकी जल्मीं येणेचि प्रकारिं असलो फळु भोगत. अजूनु त्या रोगाचो भोगु पुरो जालो नां वा ब्रह्महत्या गे ल्यो नांति. जें तुजे कपालीं लिहिलें तितुकेंचि होतलें. तुं आतां भोव कस्टुं नाका". ऐशी वाचा आयकूनु, रायान यज्ञ पुर्णु केलो. उपरांतें तीन म्हैन्यांनीं राजा मरण पावलो.

2. ओड; मोग; आशा.
3. लक्ष्मी - चें तद्भव.
4. हिस्पाभायर.
5. व्यर्थ; फुंकट.

ऐशें करितां तें दुख ताचे माये सुगन्धेक भोव जालें. "दोगै पुत्र माका सांडूनु गेले. येकु परदेशीं गेलो. हो तंव मरण पावलो," ऐशें म्हणौनु दुख करुनु रुधन करिता. "आतां हें राज्य येवडें कोण चालैत? भिस्मुदेव तंव राज्य नकरी. तो परमेस्पराक शरण गेलो. आतां कितें करुं?" म्हणौनु व्यासा पुत्राचें सुमरण केलें. तो धांवनु पावलो, "माये तुवें कित्या माका आपैलेलो, हे सर्व वर्तमान तुं माका सांग". तावळि तिणें जाललें वर्तमान इतुकेंय आपुल्या पुत्राक सांगिलें. तें आयकूनु ताणें आपुले माये लागीं बोलिलें: "चित्रु तुजो पुत्रु अरण्यांतु वचूनु आपुल्या हातान लाकुडां मेळौनु त्यां लाकुडांचें घर करुनु, तांतुं आपण बैसुनु उजो लावनु, ताणें आपुल्या शेरिराक प्राचित केलें. तो जिवंतु आसा जरि तुं म्हणशी, तरि तो जिवंतु ना, मरण पावलो. हें राज्य तंव भिस्मु नकरी. आतां राज्य चालौंक राजा नां. कुळीं तंव कोणाकै पुत्रु नां".

हें उतर आयकूनु मायेरि भोव दुख पडलें. "दोगांकै तंव ऐशी वाट घडली. आतां कोणु येकु प्रकारु हें राज्य उरो, ऐशें करी. तुं परमेस्पराचो भग्तु. तुं जें कांय म्हणशी तें सत्य. तुं आतां माका सांडूनु खैं वचुं नाका. मायेक पुत्रु जरि सांडूनु वचत तरि जितुको धर्मु करता, इतुलोय वांयां वचत. ऐशें शास्त्रीं बोलिलें आसा".

तावळि ताणें म्हळें, "हांव आतां हें तुजें सर्व राज्य चालोंसो प्रकारु करिन. कुळाक सनचति जायशी करिन. तुं चिन्ता करुं नाका". म्हणौनु कमंडळातुलें उदक काडूनु मायेच्या डोळ्यांक लायलें. तेणें करुनु सकाळ जाली. "आतां हांव फाय सकाळीं परमेस्पराचें ध्यान करुंक बैसतां. थैं तुज्यां पुत्रांच्यां दोगांच्यां बायलांक धाडि. थैं हांव मजे अमृत दिस्टिनु निहाळिनु. तावळि ह्यो पुत्रवंती जाती, राज्याक राव जायत. तुं कांय चिन्ता करुं नाका" म्होणु थैं ठावनु वचूनु, परमेस्पराच्या देवळांतु बैसुनु पदमासनीं येक लख्य ध्यान परमेस्परा ठांय लायलें.

तावळि ते सुगन्धेन चित्रा विचित्राच्यां बायलांक आपौनु सर्व वर्तमान सांगूनु, "जैं व्यासु ध्यानाक बैसला थैं तुमीं वचूनु ताका पायां पडा. तो अमृत दिस्टिन तुमकां पळेत. तावळि तुमीं पुत्रांक पावश्यात".

ऐशें आयकूनु, बरे प्रकारीं न्हावनु, तेगी जाणी येवनु, ताचे लागीं उब्यो रावल्यो. येकिन गोपिचन्दन सर्वांगाक लावनु, रावली. दुसरी डोळ्यांक वस्त्र बांदूनु, उबी रावली. तिसऱ्येन तुळशिची माळ गळ्यांतु घालूनु तांचे बराबरि रावली. त्यो

दोगी विचित्रा, चित्राच्यो बायलो. येकि तिसरी त्यां स्त्रियांची शेवा करता, ऐसल्यो तेगी जणीं हात जोडूनु उब्यो रावल्यो. मागिरि त्या व्यासाचें ध्यान सरलें. अमृत दिस्टिन पळे तरि तेगी जणी आपुले समुख आसति. मागिरि ताणें म्हळें, "तुमी जैश्यो शृंगारु करुनु आयल्याति तैशेचि पुत्र तुमंगेरि जांवति". ऐशें म्हणत खेवीं, त्यो गर्भेस्ती जाल्यो. मागिरि पर्तूनु आपुल्यां रावळारांतु[6] आयल्यो. आपण आपुले माये सुगन्धे लागीं जावनु, ग्यान उपदेस सांगुं लागलो.

ऐशें आसतां नव म्हैने पुरे जाले. मग त्यो तेगी जणीं प्रसुत जाल्यो. तेगेरि तेग पुत्र जाले. येकिन आपुल्या आंगाक गोपिचन्दन लावनु आयलेली तिगेरि पण्डु पुत्रु जालो. जिणें डोळ्यांक वस्त्र बांदिललें तिगेरि आदंळो पुत्रु जालो. जिणें तुळशिच्यो माळो गळ्यांतु घालल्यो तिगेरि पुत्रु थोरु ग्यानी परमेस्पराचो भग्तिवंचळु जालो. ऐशें तेगिंगेरि तेग पुत्र जाले. मागिरि तांकां होमु, हवन, दानधर्मु करुनु तेगांकै नांवां ठेयलीं. येकाक नांव पण्डु, येकाक नांव दृतराष्ट्र, येकाक नांव विधूरु, ऐशीं नांवां ठेयलीं. राज्यांतु थोरु आनंदु जालो. भिस्मान उदंड दान दिलें.

ऐशें ते दिवशीं माशीं वाडले. आतां राज्य कोणाक दिवचें ऐशें मंत्री प्रधान भिस्मदेवा लागीं विचारुं लागलेः "दृतरास्टरु तंव आदंळो. हाका तंव राज्य फाव नां, ऐशें शास्त्रीं सांगिलें आसा. विधुरु तंव बटिकिलो[7], हाका तंव राज्य फाव नां. आतां आमी राज्याक कोणाक बैसौचें हें, स्वामया, तुं आमंकां वेगीं निरोपु दी. तुं जो निरोपु दिशी तेणें प्रकारीं आमी करुं".

तावळि ताणें निरोपु दिलो, "राज्य पाटु पण्डुक देया". त्या निरोपा प्रमाणीं ते प्रधान मंत्री वचूनु, पण्डुक नव रत्नाच्या सिंहासनावरि बैसौनु, राज्य वोंपुनु सर्व राज्याचो धनी करुनु, हस्ती, घोडे, रथ, पांयदळ, कोट गड वोंपुनु दिलें. राजा सिंहासनावरि बैसलो, देखूनु समस्तु लोकु आनंदुभरितु जालो. पाटावाचीं तोरणां, मखरां, गुडयो उबैल्यो.

ऐशी ही कथा अपुर्वि देखूनु शुक इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली.



6. राजवाड्यात, राजमहलांत.
7. नेफार-चाकरनी-लो.

# पांचवी कथा

ऐशें पण्डु राय राज्य करितां, सर्व आनंदमय भुमण्डळ जालें, तें तुमकां सांगैन आतां, चित दिवनु आयका.

ऐशें पण्डु राज्य करितां, सर्व भुमंडळ आनंदमय जालें तें तुमकां सांगोतां, चित दिवनु आयक़ा. कवणे एके अवस्परीं गंगा सूतु भिस्मु आपुल्या मना भितरि पण्डुक, दृतराष्ट्राक दोगांय विव्हाव करुंचो, प्रधानां लागीं विचारिलें, "कोणाचे घरीं कोणा नगरांतु कन्या वाडल्याति, हें तुमीं माका ठांय घालुनु वेगीं सांगा".

तावळि प्रधान म्हणुं लागले, "स्वमया, कोन्तभोजु राव कास्मिर देशिचो, ताचे घरीं दोगी जणीं कन्या वाडल्याति".

ही तांची विनवणी आयकूनु म्होणुं लागलो, "दोगी कन्यां ह्यां दोगांय जणांक, पण्डुक वा दृतराष्ट्राक जोडुंक, तुमीं वेगीं आपुले घरिंचे ब्राह्मण धाडका आणी पत्रिका आमंचे नांविंची ताका बरैका". ऐशें म्हणौनु निरोपु दिलो. त्या निरोपा प्रमाणीं दोगां जणां ब्राह्मणांक आपौनु हाडूनु, सगट तांकां सांगूनु, कागत कोन्तभोजाक बरौनु तांचे हातीं दिलें.

ते दोगै वेगीं वेगीं वचुंक गेले. येकां चौं दिसां मधें कास्मिर नगराक पावले. येकी ठांय उतरूनु आपुलें जेवण खाण करुनु, सांजेच्या अवसरा कोन्तभोजा रायाक दोगै मेळले. नमस्कारु करुनु हातीं पत्रिका दिली. ती पत्रिका ताणें वाचिली. आपुल्यां प्रधानांक सांगुं लागलोः "भिस्मान दोग जण ब्राह्मण कागत दिवनु मजे लागीं धाडिल्याति. मजी एकि कन्या, आमंच्या भावा कोन्ता रायाची आण्येकी कन्या, ऐश्यो दोगी कन्या आपुल्यां दोगां पुतणयांक मागिल्याति. दृतराष्ट्र तंव आदंळो, पण्डुक तंव पाण्डु[1] लागला. ऐशें देखत आमी कैश्यो कन्या दिवंच्यो? राव तंव थोर अस्तनापुरिचे हय, आमंचें राज्य लहान". ऐशें आपुल्या प्रधानां लागीं विचारिलें.

1. पिडेन पाट आयल्या.

ते म्होणुं लागले: "स्वामया, राय थोर जाले तरि ते आमकां नितिक कितें करी? धर्मनिति शास्त्रातुं ऐशी आसा: आदंळ्याक वा व्यादि लागल्याक सर्वता कन्या दिंव नयेति. जरि माय बापु दित तरि तांकां म्हा पाप लागत, आणी परमेस्परा ठांय बरें नां जायत. त्यो कुमारी आपुल्या जिवाक सुख संतोस जरि जालो, परमेस्परा लागीं आपुल्या माय बापाक बरें मागताति. ना तरि जिवाक आपुल्या दादुल्यांचें सुख जरि नां, तरि स्त्रापिताति, 'पापयानीं हाका माका कित्याक दिलेली. येकै पण संवसाराचें सुख भोग नां'. ऐसो हो विचारु आसा, ह्या वरि स्वामयाचो निरोपु"

तें आयकूनु कोन्तभोजान म्हळें: "आमी दोगी कन्या दिवं नये". ऐशेंचि म्हणौनु पत्रिका बरौनु त्यां ब्राह्मणांच्यां हातांतु दिवनु, वस्त्रां, लुगडिं, द्रव्य घरच्यांक दिवनु तांकां संतोस करनु, रवना[2] करका म्होणु म्हळें: जैसो रायान निरोपु दिललो तैसो ताणीं केलो.

फुडां ते दोगै ब्राह्मण अस्तनापुराक आयले. भिस्म देवाक भेटले. नमस्कारु करुनु पत्रिका हातीं दिली.

ती पत्रिका वाचूनु पळेवनु, ताणें म्हळें: "आमी दोगी कन्या मागिल्यारि नेदेवं म्होणु बरैता. तरि आतां चतुरंग सहिन्या सहित वेगीं वचा. ताचें कास्मिर नगर वेडूनु दोगी कन्या वेगीं घेवनु या. इतुकेंचि तुमीं काम करका. जरि ताचो गावं लुटिशात, मारिशात, नागैशात, तरि तुमकां वा दळपतिक गुजरी[3] नां"

हें रायाचें उतर आयकूनु दळपति म्होणुं लागलो, "स्वामया, तुज्या निरोपा वेगळें जरि करिन, तुजी आग्न्या करिशी, ती आग्न्या भंगु जांव दि नां". म्हणौनु रायाच्यां पायांरि माथें ठेयलें.

तावळि रायान पाठि थापटिली, "चिन्ता करुं नाका, उभटा," म्होणु आपुल्या हातान कारपुर[4] पानांचो विडो दिलो. आपुले आंगिचीं वस्त्रां दिलीं. तो दळपति चन्द्रशेनु संतोसु जालो.

सांगातीं सहिन्यें कितुलें व्हेलें तें तुमीं आयका. बास्तरि[5] कोटी कुंजर, णवि

---

2. मनाचें समाधान.
3. सुटका.
4. परमळीत केल्ल्या.
5. ब्यात्तर.

कोटी रथ, तिनि खेवणी[6] घोडे, सात खेवणी सहिन्यें, पांच लाख वाजंत्रां, ऐश्या परीं सहिन्यें दळपती चन्द्रशेना सांगातीं चालिलें. वाजंत्रांच्या गर्झरान प्रथुमि कांपली. इतुक्या अवस्परा मार्गु क्रमौनु, कास्मिर नगराक दळपती चन्द्रशेनु चतुरंग सहिन्यें सहित मध्यान काळीं पावलो. भोंवतें कोन्तभोज्याचें राज्य वेडिलें. आपुल्यां काटिकारांक निरोपु ऐसो दिलोः तुमीं सहिन्याक सांगा, 'नगरांतु येका जणाक किंचित मात्र वायट जरि करिश्यात, तरि तुमंकां हांव गुजरीनां. माका आण भिस्मा देवाचीचि आसा. जैसो ताणें निरोपु दिला, तेंचि कार्य आमी करूनु वचुं. तुमीं येकायेकि धाडि[7] घालुं नाकाति. पैले आमी कन्या मागुंक भट धाडिल्याति. कुमारी ताणें जरि दिल्यो तरि बरें. दिल्यो नां तरि आमी झगडें करुनु कोन्तभोजाक जिखूनु व्हरुं. तुमीं भाराच्या[8] भारांतुचि रावा. आडादेड्चे[9] वचुं नाकाति".

तें उतर आयकूनु सहिन्यें आपापुले कडे वोगेंचि राजभारांतु रावलें.

फुडां भट जे धाडिलले ते कोन्तभोजा राया लागीं वचूनु विनौं लागलेः "आगा राया, चन्द्रशेनु दळपति भिस्मु रायाचो, तो राव अस्तनापुरिचो, हो प्रतुमिचो आदिपति. इछया-मरणी वीर ताची शेवा करताति, आणी तो परमेस्पराची थोंरि भग्ति करिता. राजान आपण ब्रह्मचार्य आचार्ला. येकेका दिसाक सोळां सहस्त्रां ब्राह्मणांक अन्नदान, नाना परिंचीं खाजीं भोजीं पकुवानां पांचामृतां आपुले पंकतिक बैसौनु नित्य वाडिता. परमेस्पराचे नांवीं आपुले हातीं उदक भुमिवरि सोडिता. ऐसो राजा धर्मी. तरि तुमंच्यो कन्या दोगां भावांक देया आमी जरि नेदे जाश्यात तरि बळान व्हरती, हें तुं सत्य जाणो. रायाचो दळभारु हस्ती, घोडे, रथ, अश्वार, चतुरंग सहिन्यें येवनु तुजें राज्य वेडिलां. वोगोचि, तुं बरेपणीं तुगेल्यो दोगी कन्या पालखियेंतु बैसौनु अस्तनापुराक गांगा सुता लागीं व्हरनु वोंपूनु दी. तो तुका बरे प्रमाणीं मानु हुर्मति देता. तुका फुडां बरें देखत. नां तरि हें तुजें राज्य सर्व गेलें म्होणुं जाणो".

तें उतर आयकूनु कोन्तभोजु रायान काय केलें तें सांगतां, आयका. त्यो दोगी कुमारी वरव्यो शृंगारुनु, सुकासनां पालख्यांवरि बैसौनु, आपुलें सहिन्यें सांगातीं

---

6. 100,000,000,000.
7. घुरी - raid.
8. एकटांय, एकजुट्टीन, शिस्तीन.
9. खंयच्या खंय आड वाटेन.

घोडे, हस्ती, रथ सहित येवनु, चन्द्रशेना दळपतिक भेटलो. तावळि त्या दळपतिन थोरु मानु दिलो. आपुलें सहिन्यें वा कोन्तभोजाचें सहिन्यें, घोडे, हस्ती रथ, अश्वार येकवटुनु आनंदु करित येवूं लागले. वाजंत्रांचो गर्झरु सुटलो. त्या गर्झराच्या नाडानु[10] आकास तळमळलें.

ऐसो मार्गु क्रमौनु अस्तनापुराक पावतोचि भिस्मदेवाक खबर गेली. ताणें प्रधानाक निरोपु दिलो, "वेगीं नगर शृंगारका. गुडयो तोरणां, मखरां घरों घरीं बांधका. सकट नगर सुवर्णाचीं पताकां, मोतयांचे चौक लावनु, वरे प्रमाणीं शृंगारका".

ऐशें रायाचें उतर आयकूनु, नगर सर्व घड्येचि[11] मधें शृंगारिलें.

चन्द्रशेनु वा कोन्तभोजु दोगीय कन्यां सहित अस्तनापुराक पावले. राज्यांतु थोरु आनंदु जालो. भिस्म देवाक येवनु भेटले. कुमारी दोगी हाडूनु हातीं दिल्यो. ताणें भोव संतोसु जावनु, त्या कोन्तभोजाक आपण्या लागीं बैसुंक ठावो दिलो. भोव मानु दिलो, राज्य-देस ताका उदंड दिलें. दोगांय आपुल्यां पुतण्यांक दृतराष्ट्राक, पण्डुक हाडूनु सिंहासनावरी बैसैले. समेस्तु दळभारु, प्रधानु, नगरांतु लोकु येवनु रायाक हात जोडूनु, पायां पडूनु, आपापुल्या ठायारि बैसले.

येकमेकां भितरि विचारुं लागले: "आगे ही कोन्तभोजाची कन्या कोन्ती ही तंव आंकुवारि, हिगेरि कैसो पुत्रु जालो? ऐशें म्हणौनु लोकु म्हणतातिं. हें सत्य की लटिक? ही तंव आकुंवारि आजूनु तरि हिका व्हारडिक[12] केलली नां आणी भ्रतारु[13] तंव आजूनु मेळलो नां. हें तुमीं भले लोकु सांगा". ऐशें म्हणौनु ते सभेच्यां म्हाजनां लागीं येकामेकांतु विनौं लागले.

तावळि ताणीं म्हळें, "जे तुमी विचारितातिं ते पिशे. रायानु आपुल्या पंडुक मेळौनु व्हारडिकेक तिका हांगा हाडिल्या. हें तुमीं राजसभांतु विचारितातिं. तरि तुमंची ही बुधि न्हय. असलीं हीं उतरां राजा जरि आयकत, तरि आमंच्यो जिबो कातरित. थोरान जें केलें तें जाता".

ऐशें आसतां येकु रुशेस्परु त्या अस्तनापुरा नगरांतु आयलो. तावळि हो अविचारु नेणति ते लोकु आशिले, त्या रुशी लागीं येकान्तीं विनौं लागले: "स्वामया

10. बळान.

11. रोखड्या-रोखडें.

12. लग्न.

13. घोव.

तुका तंव ग्न्यान. जें ठांय जें जें जाता तितुकेंय तुका ग्न्यानान ठावकें जाता,"ऐशें म्हणौनु, निमुगुं[14] लागलेः "तरि आतां आमी येक विचारितांव तें कृपा करुनु आमंकां सांगा".

तें उतर आयकूनु तो रुशी सांगुं लागलो : "तुमीं आतां आयका. जें इतुकेंय वर्तललें तें सांगन. ह्या कोन्तभोजाची कन्या कोन्ति वा ताच्या भावाची कन्या गाधांरी ह्यो दोगी जणी आंकुवारी आसतां न्हंयेच्या कांटारि येकु रुशेस्परु तप करी. नित्य परमेस्पराचेंचि चिंतन करी. त्यो दोगी वचुनु सदान्त ताका पायां पडूनु रेंवेवरि खेळति. ऐशे भोव काळ जाले. तंव येके दिवशीं तो रुशी डोळे उगडूनु चोयतालो. तंव ह्यो दोगी जणी हात जोडूनु सास्टांग भुमिवरी पायां पडल्यो. तावळि ताणें म्हळें 'जें कांय तुमंकां जाय तें मागा'. तावळि त्यो सुखी जावनु उलौं लागल्यो, 'आमंकां ऐशे मंत्र दी, मंत्राचेंचि पुत्र जाय ऐशें करि' तावळि ताणें कोनत्येक स मंत्र दिले, गाधांरियेक येकु मंत्रु दिलो. आतां तुमी आपुल्या घरा वचा, मजे उतर सत्येचि जायत'. ह्या उतरारी त्यो दोगी जणी परतल्यो.

"मार्गी येतां कोनत्येन म्हळें: 'आमकां जे मंत्र दिल्याति, हांची आमी साखि[15] पळेंव या', म्होणु, येके ठांय बैसूनु प्रथम दिललो मंत्रु जपिलो. जपत खेवीं सुर्यु आकाशीं ठावनु येवनु कोनत्ये लागीं उबो राविलोः 'आगे तुवें कित्या माका आपैलेलो हें तुं वेगीं सांग'. तावळि ती भियेवनु वेगीं वेगीं सांगुं लागलीः "स्वामया, रुशेस्परान माका स मंत्र दिलले. ते हय कि न्हय म्होणु पळेंवच्याक येकुचि मंत्र प्रथमलो जपिललो. त्या मंत्राच्या बळान तुं हांगा वेगीं धांवनु पावलोशि".

"तंव सुर्यान म्हळें, 'तुं पिशी, जे परमेस्पराची भग्ति करितातिं, तांचें उतर सत्य जाता. आतां तुं चिन्ता करुं नाका' म्होणु, आपुलो हातु तिच्या माथ्यारि दवरलो. दवरित खेवीं ती गुरुवार जाली. तें देखूनु ती कोन्ती भिली. 'आतां हांव कितें करुं' म्होणु सुर्याक पायां पडली. 'तूं भियेवं नाका, हो पुत्रु तुज्या कानांतुल्यान काडिन, आणी जैसी तुं प्रथम आशिलली तैशी करिन. तुं चिन्ता करुं नाका' म्होणु तिच्या पोटांतु पुत्रु जो आशिललो तो कानांतुल्यान काडिलो. ताका नांव कर्नु ऐशें घालें, आणी ती जैशी फुडें आशिली तैशिचि कोर्नु, घरा वच, ऐशें म्होणु तिका घरा धाडिली.

---

14. पराथूंक; नमळायेन मागूंक.

15. साक्षि; गवाय.

"ती वेगीं वेगीं वचुं लागली, 'हांव आंकुवारी आसतां मगेरि पुत्रु जालो म्होणु लोकु जरि देखती तरि माका कोणेचि व्हर नां जाती' म्होणु वोगिचि आपुल्या घरा गेली आणी हें कोणाक सांग नां जाली. तावळि त्या पुत्राचि चिन्ता सुर्याक लागली. 'हो पुत्रु स्वर्गीं व्हरन जरि म्हळें, तरि मनुशाचे पोटीं जल्मला. हाका थंय व्हरुं नये, परमेस्पराची अग्न्या नां. कैसो व्हरुंचो?' म्हणौनु बरें वस्त्र हाडूनु तांतुं गुठलावनु ते न्हंये कांटीं ठेयलो आणि रात्रि दिसु ताच्या तोंडांतु अमृत हाडूनु घाली आणी आपुल्यां शेवकांक निरोपु दिलो : 'तुमीं हाका बरे प्रमाणीं जतन पांच दिस पर्येत्र करका. मागिरि हाका कोणै तरि देखती, तरि घेवनु वेती' ऐशें म्हणौनु तांकां सांगिलें. ऐशे पांच दिस जाले. तावळि अस्तनापुरिच्या रायाचे भोय[16] गाडे घेवनु उदकाक आयलेले, ताणीं तें बाळक देखिलें, देखूनु नवल करुं लागले. राज्य-सुन्दर हें बाळक सुर्याचे सारिखें दिसता म्होणु आपुल्या गाड्यारि घेवनु नगरांतु व्हरनु राया भिस्मदेवा लागीं दिलें. ताणें दृतराष्ट्रा आदिन केलें. तें दिशीं माशीं वाडलें. तरि हो इतुलो विचारु मागिलो तुमंकां हांवें सांगिला, तुमी जाणां."

उपरांते त्यां दोगीय कन्यांक व्हारडिकेची मुस्तायति[17] भिस्मान आपुल्यां प्रधानांक निरोपु दिवनु करैली. फुडां त्या निरोपा प्रमाणीं जेतुकी मुस्तायती जाय आशिली इतुलिय हाडिली. साळि डाळि, नाना प्रकारिंचीं खाजीं पकुवानां करुनु, समेस्त प्रथुमिच्यां रायांक व्हारडिकेक आपौनु हाडिले. ते समेस्त आयले. तांकां ठाये उतरुंक दिले. सातां खणांचीं, आठां खणाचीं ऐशीं नाना परिंचीं, जाका जैशें दिवंचें तेणें प्रमाणीं वांटूनु दिलें. जेवणा खाणाची मुस्तायती तितुकिय त्या रायांक दिली. ऐशे पांच दिवस पर्येत्र व्हारडिक जाली. दुर्बळे लोकु, आन्दळे, थोंटे, पांगुळे जितुकें मागति तितुकेंय तांकां दिवनु सुखि करिति. सातवे दिवशीं जे प्रथुमिचे राये आयलले इतुक्यांकै रत्नां, मोतयां, वस्त्रां दिवनु पाठविले. ऐशें राज्य थोरावलें.

फुंडा त्या पण्डुक पारदिचेंचि[18] वेसन. रात्रि दिसु अरण्यांतु वचूनु पारदीचि करता. नाना परिचीं सावजां मारिता. राज्य चालौंचें तें ताणें सांडिलें. सांडूनु अरण्यांतुचि आसा. येके दिवशीं येका पर्वतावरि गेलो. ताचें नांव रत्नागिरी. ताचेरि येक तळें

---

16. पालखी, गाडे चलोवपी/वचपी मानाय.
17. सगळी मुस्तायकी, तयारी.
18. शिकारेचें.

आशिलें. थंय धणुक बाण घेवनु उदका लागीं राखुंक बैसलो. थंय सावजां येतातिम्होंणु. त्या अरण्यांतु येकु रुशी किन्धमु आणी ताची स्त्री किन्धमि दोगैं जणां परमेस्पराची भग्ति करुनु आशिलीं. तावळि त्या रानांतुलीं मृगु आनी मृगि तीं दोगांय भोगितां ते किन्धमिन देखिलीं. देखुनु आपुल्या स्वामया लागीं विनौं लागली, "स्वामया, जैशीं हीं मृगां भोगितातति, तैशीं आमी भोगुं या". तावळि ताणें म्हळें, "ह्या स्त्रियांक ग्न्यान नां, मूडि[19], जितुकें सांगिलें इतुकें लाग ना. आपण हिचे मनिची वासना पुरैन" म्हणौनु आपणें मृगाचें रुप धरलें. तिणें मृगिचें रुप धरलें. दोगैं खेळत त्या तळ्याच्या कांटारि उदक पियेवंक आयलीं. उदक पिलीं, आमी मृगां जैशी भोगितातति[20] तेणें प्रमाणीं भोगु करुं लागलीं.

तें पण्डु रायान देखिलें; देखुनु धणुवाक बाणु लावनु वोडि काडुनु विन्दिली. ती भालि दोगांय मृगांक लागली, जिवाक भेदली. तेणें करुनु मुछर्या येवनु भुमिवरि पडलीं. दोगांचो जिव वचूं लागलो. तावळि ते मृगिन म्हळें, "आमी तंव कोणाक कांय वायट केलें नां. मृगां जैशीं भोगितातति तें रुप आमी धरनु तैशीं भोगितालेंव. आमी रुशेस्परां. आमंकां जाणें वाणानु विन्दिल्यां तो आपुले स्त्रियेक भोगु दितनां, जैसो आमचो प्राणु वेता, तैसोचि ताचोय जिव वचूं" म्हणौनु स्त्रापु दिलो. तें उतर आयकूनु पण्डू धावनु जरि ये, तरि तीं रुशेस्परां. ताणीं स्त्रापिलें तें उतर आयकूनु मनांतु खोंचलो, "आतां हांव कितें कोरुं? स्त्रापु तंव माका लागलो. आतां हें हांव कोणांक सांगुं?" म्हणौनु अरण्यांतु ठावनु परतूनु, अस्तनापुराक आयलो. येवनु भिस्माक आणी बन्दवा दृतराष्ट्राक विधुराक सगट्ट जाललो विचारु त्यां मृगांचो सांगिलो, "स्त्रापु तंव माका लागला".

तें उतर आयकूनु, ते बोलुं लागलेः "तुका स्त्रापु रुशेस्पराचो जालो तें जातलेंचि. कितेंय जरि आमी केलें तरि सुट नां. तरि तुं आतां ऐशें करि, आपुली स्त्री कोन्ती सांगातीं घेवनु समेस्ति प्रथुमि भोंव. देव देवस्थानां बरे परमेस्पराचे भग्त तप करितातति तांचें दरुशण करुंचें. सांगातीं कांय द्रव्य, घोडो, मनुश्य येक मुख्य व्हरुं नये. दोगानीं दोनि वस्त्रां न्हेशितलिंचि आणी पायांनिंचि पांयांक व्हाण मुख्य नघालतनां प्रतुमिवरि भोंवचें. जे जे कडें परमेस्पराचे भग्त आसति तांचें दरुशण करुंचें आणी आपणें

---

19. उणे तकलेचो brute.

20. संभोग.

दोगांनीं भिक मागूनु खांवची, आणी रात्रि दिसु परमेस्पराचें चरण आपुले हुर्धे समरुंचे. आपण राजा थोरु म्होणु मनीं गर्व धरुं नये, लीन[21] हौनु चालुंचें. तावळि परमेस्परु कृपा करित. ताची कृपा जाल्यारि जें कांय आपणें नेणतां केलां इतुकेंय नासता[22]".

तें उतर आयकूनु, तो आपुले स्त्रियेक सांगातीं घेवनु भिक मागत अरण्यांतु भोवूं लागलो. जे जे ठांय रुशेस्पर तप करितातित ते ते ठांय वचूनु दोगांय तांकां हात जोडुनु सास्टांग पायां पडतातिः "स्वामयानो, आमी म्हा पापयां, आमंचे हातीं ब्रह्मवदु जालो. नेणतांचि हांवें मृगांचि म्होणु बाणु विन्दिलो. तीं रुशेस्परां मृगांचें रुप धरनु भोगितालीं. त्या रुशिचें नांव किन्धमु आणी ताचे स्त्रियेचें नांव किन्धमि. असलो हांव पापी". ऐशें म्हणौनु त्यां रुशेस्परांक विनौं लागलो.

फुडां ते रुशेस्पर प्रथुमिचें भ्रमण करुंक वचूं लागले. त्यां सांगातीं तीं दोगांय जणां वचुंक लागलीं. देव देवस्थान आशिलले कडे रुशेस्पर भेटतातित, तैशीं तीं दोगांय भेटतातित. ऐशीं प्रथुमि भोंवनु स्वर्गी वचुंक रुशी उबठले. तिंवै त्यां रुशीं सांगातीं वचुंक चमकिलीं[23]. कितिकु मार्गु क्रमौनु परमेस्पराचें सुमरण करितोचि स्वर्ग दारिवट्याडे पावले. ते रुशी परमेस्पराचें भग्त देखुनु ते स्वर्गिचे द्वारपाळ आपुले हात जोडूनु सास्टांग नमस्कारु करुं लागले. "आजि तुमंचें चरण आमी देखिलें. आमंच्या पापाक नासु जालो. तुमीं परमेस्पराचे थोर भग्त" म्होणु तांकां वाट सोडुनु, स्वर्गी वचुंक दिली.

पण्डु आनी कोन्ती वेतालीं. हांकां वचुं नाका म्होणु आज्ञा केलीः "तुमंकां स्वर्गु नां. कित्या जरि म्हणश्यात पुत्र मुख तुमीं देखिलें नां आणी रुशेस्परु तुमीं वदिला[24] ताचें थोर पाप लागलां. तुमीं आतां परतूनु वचा".

तें उतर आयकूनु तीं दोगांय वोगिंचि रावलीं. पर्तुनु भूमंडळीं आयलीं. कोनत्येन पण्डु लागीं म्हळें, 'आमंकां दोगांकै तंव भोगु नां. रुशेस्पराचो स्त्रापु लागला. आतां पुत्र कैशे जाती?' 'ताणें स्त्रापु तरि दिला, स्त्री भोगितांचि प्राणु वच म्हणौनु. आतां

21. खालती.

22. विभाड जाता.

23. चलूंक लागलीं.

24. जिवेशीं मारला.

आमी कोणि वुधि करुंची?' ऐशें मनीं चिंतितां ते कोनत्येक मागिलो उगडासु जालो. 'आपण आपुल्या बापाचे घरीं कास्मिर नगराक आसतनां, आमी आंकुवारी न्हंयेचे कांटीं खेळतनां थंय रुशी जो आशिलो, ताका पायां पडतालेंव. ताणें माका स मंत्र दिलले. तावळिचि मंत्रु दित खेवीं, हांवें जपिलो. ताची माका साखि आयली. आतां पांच मंत्र मजेडे आसति, पांच पुत्र जाती. तुमीं आतां माका निरोपु देया. पुत्र जाये, ऐशें हांव करिन'. ऐशें म्हणौनु निरिपु मागुं लागली.

तंव पण्डुन संतोसुनु आपुले स्त्रिये कोनत्येक निरोपु दिलो. तिणें येकी ठांय बैसूनु, मंत्र जपूं लागली; पैलोंचि मंत्र जपिलो, यमु आयलो, ताचो पुत्रु धर्मु जालो. दुसरो मंत्र जपिलो, वायहु देव आयलो. ताचो पुत्रु भिमशेनु जालो. तिसरो मंत्र जपिलो, अमरावत्येचो इन्द्रु आयलो, ताचो पुत्रु अर्जुनु जालो. अस्पिन देवाचे दोनि मंत्र जपिले, ताचे पुत्र दोग जण, नकुलु, सहदेव जाले.

ऐशें पांचै पुत्र खिणा मधें कोन्ती घेवनु आयली. तें देखुनु पण्डु राजा संतोसलो. "पुत्र आमकां तंव जाले. आतां आमंकां बरें करित". ऐशें म्होणु ते स्थानीं आसतां केतिक दिवस जाले. पण्डुच्या औख्याची[25] मर्याद पावली. तावळि ताणें येके दिवशीं कोनत्येरि हातु[26] घालो. येकवासु देखुनु तिणें म्हळें, "रुशिचो स्त्रापु आमंकां आसा. भोगित प्राणु वचत म्होणु स्त्रापु दिला. तुमीं हो विचारु करुं नाकाति". को कामभारान कांयचि आयक नां, भोगुं लागलो. भोगितांचि पण्डुचो प्राणु गेलो. फुडां कोनत्येन आणी पांचै पुत्रांनीं बरे प्रमाणीं ताचो सुद्धाचारु केलो.

ऐशी ही कथा शुख इन्द्रान जल्मजयाक सांगिली. ही कथा अपुर्वि देखूनु संतोसूनु दुसरी भारती कथा ही आदिपर्वाचि सांग म्होणु विनंती करुं लागलो.



25. आयुष्य, हाचें कोंकणी तद्भव.

26. हें नाजूक रसणायेचें वर्णन पळेयात.

# सटवी कथा

फुंडा अस्तनापुरा राज्याक राव नां. पण्डु तंव आपुली स्त्री सांगातिं घेवनु प्रथुमिच्या भ्रमणाक गेला. कित्या म्हणशी, तरि किन्धमा रुशेस्पराचो स्त्रापु झालो म्हणु. तावळि भिस्मदेवान आपुले मनीं विचारिलें, 'हें राज्य कोणाक हांव दिंवूं? दृतराष्ट्र तंव आन्दळो. हाका तरि राज्य फा़व नां, ऐशें शास्त्र धर्मीं लिहिलें आसा. विधूरु तंव ग्न्यानीं, परमेस्पराचो भग्तु झाला आनी सेवकीं गेलो. राज्यपाटु सरनां आणी येकादे वेळु राज्यपाटु बांदूं जरि म्हळें, तरि तो कबुल करीना. तो येकभाव धरनु परमेस्पराच्यां चरणांवरि रात्रि दिसु आपुलें मन लायतां, तें सुमरण करिता. वंशीं तंव राज्य करुं म्हळ्यारि कोण नां. दृतराष्ट्रागेरि तंव पुत्रु नां'. ऐशी चिन्ता करुं लागलो.

मग आपुले माये सुगन्धे लागीं विचारिलें: "आतां कितें करुंचें?आमंचो सोमवंशु तंव बुडलो. कुळीं तंव कोणय पुत्रु नां. पण्डुक स्त्रापु झालो. तो राज्य सांडूनु प्रथुमिच्या भ्रमणाक गेलो". ऐशें तिचें लागी म्हळें.

तावळि तिणें ते रात्री आपुल्या पुत्रा व्यासाचें सुमरण केलें. तो भद्रकश्रामीं अरण्यांतु येकि शेळेवरि बैसुनु तप करतालो. आपुले मायेचें उतर कानांतु पडतांचि टप करनु उभटलो. आमंचे मायेक काय आकांतु झालो म्होणु हातीं बेतकाटी, कमंडळु घेवनु वेगीं वेगीं अस्तनापुराक आयलो. माये पुत्राक भेट जाली. दोगांय एकस्थानीं गोस्टि करुंक लागलीं. ती व्यासाक म्होणुं लागलीं, "आमंचे वंशीं राज्य करिसो कोण नां म्होणु चिन्ता भिस्मदेवाक थोरि लागल्या. आपणें तंव राज्य सांडिलें. ब्रह्मचर्ये धरिलें. संवसाराचें वैराग्य मनीं धरनु रात्रि दिसु परमेस्पराचीचि भग्ति करिता. राज्य आणी हें शेरिर कोणाके थिर न्हय. पण्डु तंव राज्य सांडूनु गेलो. दृतराष्ट्रागेरि पुत्रु नां. ऐशें करितां, वंशु आमंचो नासलो[1]. आतां कोणु विचारु करुंचो, हें तुं माका सांग".

1. विभाडलो ; काबार जालो.

तावळि व्यासु म्होणुं लागलो, "माये, तुं आयक. मागिलो वृतावन्तु तुका सांगन. कास्मिर नगरीं कोन्तभोजा रायाचे घरीं कोन्ती आणी गान्धारी ह्यो दोगि कुंमारी न्हंयेचे कांटीं खेळतनां येका रुशेस्परान कोनत्येक स मंत्र पुत्र जांवचे दिलले. येकु मंत्र गान्धाऱ्येक दिललो आसा. कोन्ती तंव पण्डु सांगातीं भ्रमणाक गेली. गान्धारी घरीं आसा. तो मंत्र तिचे लागीं आसा. ती पतिव्रता, आपुल्यां डोळ्यांक वस्त्राचो पाटु बांदिला. आपण आन्दळ्याची बायल म्होणु परपुरुसारि दृस्टि घाली नां. आणी मजी दृस्टि अमृत संजिवनी, ऐसो विचारु आसा. ती जरि तो मंत्र जपत तरि तिगेरि पुत्रु जायत".

हें उतर सुगन्धेन आयकिलें. आयकूनु गान्धारियेक आपयली. "तुजे लागीं मंत्र जो आसा, पुत्रु जांवचो, रुशेस्परान दिललो, तो तुं जप".

तावळि तिका मागिलो आठौ मंत्राचो झालो. आपुल्या भ्रतारा दृतराष्ट्रा लागीं गेली. ताचो निरोपु घेतलो. येक परमेस्पराचें देवळु आशिललें, तांतुं वचूनु बैसुनु, परमेस्पराचें सुमरण करनु, मंत्र दिलल्याक नमस्कारु करनु, मंत्र जपिलो. जपत खेवीं, पुत्रु म्हा सुन्धरु जालो. मागुतेन जपु करनु आपुल्या हडर्यावरि दोनि वेळे हातानु फोपायलें[2]. तावळि दोग पुत्र जाले. ऐशे तेगै पुत्र घेवनु आपुल्या भ्रतारा दृतराष्ट्रा लागीं आयली. ते पुत्र जाले. ऐशे ताका सांगिलें. तावळि तो भोव खोशी जालो. जावनु नांवां ठेयलिं. प्रथम जो जालो ताका दुर्योधनु, दुसऱ्याक दुशासनु, तिसऱ्याक सभळु, ऐशीं नांवां ठेयलीं. हे दिवशीं माशीं वाडुं लागले. ऐशें वाडतां आठां वरुसांचें जाले. दुर्योधनाक राज्यपाटु देंवचो ऐशें भिस्मदेवान मनीं हाडिलें.

फुडां वैशाक म्हैन्या शुध-बिये दिवशीं बरो म्हुर्तु पळेवनु, राज्य बरें शृंगारुनु, रणभेरि[3] वाजिलीः "आजि राज्य दुर्योधनाक देवनु सिंहासनावरि बैसैतांव". तें आयकूनु प्रधानु दळपति मकुट-वर्धानीक[4] राये, घोडे, रथ, हस्ती शृंगारुनु, चतुरंग सहिन्यें सैत रायाच्या दारवंट्याकडे भार भार करनु उबे रावले. तावळि भिस्मदेवान दुर्योधनाक बऱ्यां देवांग वस्त्रांनीं शृंगारु केलो. नव-रत्नाच्यो माळो गळ्यांतु घाल्यो. हातिं सोवर्नाच्यो मुदयो, पदकां, येकावळी गळ्यांतु घाल्यो. ऐश्या नानां परीं शृंगारु

2. मारलें; थापटिलें.

3. पिल्लूक.

4. मुकुट घेतले कुंवर crown princes.

करनु, सिंहासनावरि भिस्म देवान बैस म्हळें. ताच्या निरोपा प्रमाणीं बैसलो. राव म्होणु पैलो आपणें हात जोडूनु नमस्कारु केलो. मागिरि समेस्त प्रधान थोर थोर मकुट-वर्धानीक राये, दळादिपति, ते येवनु रायाच्यां पांयांवरि माथें दवरनु, दोनिय हाय जोडूनु सास्टांग पांयां पडले. रथां, हस्तीं, घोड्यां सैत समेस्तु लोकु पांयां पडुं लागले. तावळि दुर्योधनान प्रधानांक निरोपु दिलो, "जे हे राये, सहिन्यें जें येवनु भेटलां, इतुक्यांकै वस्त्रां लुगडीं देया. बरे पानांचे विडे हडप्यां[5] करवीं देया. गन्ध गुलाबु परिमळाचिं पुश्पां नानां परिंचिं, ऐशीं वांटूनु देया, आणी जे कोण हे सभेक आसति तांकां हांव मज्या हातान वस्त्रां, रत्नां, कापुर्वेलिचे विडे दिन," ऐसो निरोपु जालो.

जैशे रायान सांगिललें तैशेंचि त्यां प्रधानांनीं केलें. मग थोर थोर राये आपौनु हाडुनु देवांग वस्त्रां, अविन्द मोतयांच्यो माळो, कुकुम, केंसर, चन्दन, कापुराचे विडे आपुल्या हातान दिले. त्यां रायांक थोरु संतोसु आनंदु मनांतु झालो. रायाक नमस्कारु कोर्नु आपापुल्या ठायारि[6] येवनु बैसले. ऐसो थोरु उछाव अस्तनापुरा नगरांतु झालो. जेतुके मागतले भाट बन्दिजन[7] आशिले तांकां वस्त्रां दिवनु सुखी केले.

तंव भिस्म देवान म्हळें, "दुर्योधना, तुका समेस्ता राज्याचो स्वामि केला. अठरा खेवणीं सहिन्यें इछा-मरणीं विर तुजी शेवा रात्रि दिवसु करतले. तुं समेस्तांक बरें देख. प्रजेचो प्रतिपाळु करि. देवां धर्मा ठांय बरे प्रमाणीं भज. परमेस्पराच्या चरणावरि मन तुजें लागशें करि. येणें प्रमाणीं राज्य जरि करिशी, तरि तुका देव बरें करित, वायट निवारित. पुर्व जल्मीं पुण्य केललें म्होणु हे जल्मिं राजत्वा पावलोशि. समेस्त भुमंडळा मधें द्वापारिं तुजे सारिखो राजा आण्येकु कोणु नां. प्रथुमिचे राये जे आसति ते आमंचे आज्ञाधारक". ऐशें म्होणु समेस्तु विचारु ताका सांगिलो. "मजें उतर तुं सत्य मानि".

उपरांतें राजा राज्य करितां धा बारां वरुसां भरलिं. मग ते तेगै भाव धनुर्विध्या शस्त्रविध्या, सत्तिसां दण्डायुद्धांची विध्या शिकुं लागले. येकु ब्राह्मणु, ताका नांव कृपाचार्य, तो गुरू करनु, विध्या अभ्यासु कोरुं लागले.

---

5. वांटपी मानाय - attendants.

6. सुवातेर ; जाग्यार.

7. गांवपी कवी.

ऐशी विध्या शिकत आसतनां केतिकां काळांनिं ती कोन्ती आपुले पांचै पुत्र घेवनु अस्तनापुराक आयली. भिस्मदेवाक भेटली. ताणें म्हळें, "हे पांचै पुत्र खैंचे? तिणें पुत्र हे आपुले म्होणु सांगिलें आणी आपुल्या भ्रतारा पण्डुचो सर्व विचारु जालेलो सांगिलो. तें उतर आयकूनु आणी तो गंगेचो सुतु, दृतराष्ट्र, विधुरु हे तेगै जण दुख कोरुं लागलेः "आहा आहा, देवान कायें केलें? पण्डु सारिखें रत्न गेलें" म्होणु त्यां पण्डुच्यां पुत्रांक भिस्मान आपण्याच्या उसुग्यारिं[8] बैसैले. तांचीं नांवां विचारिलिं.

तावळि तिणें सांगिलें: "पैलो पुत्रु धर्मु, दुसरो भिमशेनु, तिसरो अर्जुनु, चोवतो नकुलु, पांचवो सहदेवु" ऐशीं पांचांचीं नांवां सांगिलिं, तेणें प्रमाणीं मनां आयलीं.

फुडा कृपाचार्या गुरूक भिस्मदेवान आपौनु हाडूनु सांगुं लागलो, "जैशी दुर्योधनाक धनुर्विध्या शिकैताशि तैशिचि ह्यां पण्डुच्यां पुत्रांक विध्या सांग. तुका बरे प्रकारीं आमी सांबाळु, येक नगर देवूं, तुं चिन्ता कोरुं नाका". त्या निरोपा प्रमाणीं पांचै जणांक वा दुर्योधनाक विध्या शिकौं लागलो.

तावळि ती कोन्ती गान्धारियेक भेटुंक गेली. तिणें भोव प्रकारीं आपुले भयणिक मानु दिलोः "पण्डु गेलो म्होणु तुं कांय चिन्ता कोरुं नाका. हे पांच पुत्र तुगेरि कैशे झाले?" तावळि तिणें मागिलो वृतावंतु सगट्ट जालेलो तो सांगिलो.

तावळि तिणें तिचे लागीं विचारिलें, " तुगेरि हे तेग पुत्र कैशे झाले?" तावळि तिणें सांगिलें त्या रुशिच्या मंत्रा पासवत झाले. ऐशें येकिमेकिनीं आपुलो मागिलो वृतावंतु सांगिलो. तावळि दोगीय जणीं मनांतु समजल्यो.

तंव गान्धारियेन म्हळें: " तुगेरि पांच जण पुत्र. मगेरि तेग जण. येकु पुत्रु मजो दुर्योधनु राजा झाला. आणिकै पुत्र मगेरि जाये, ऐशें करतलीं". ऐशें म्होणु गान्धारि व्यासा रुशेस्पराची शेवा करुंक लागली. ऐशी केतुले दिस पर्येंत्र शेवा करितां त्या रुशिक कृपा उमटली, "तुका प्रसन्न जालों, वरु माग". तावळि तिणें मागिलें, "मगेरि आठाणोवि पुत्र जाये, ऐशें करि".

तावळि ताणें येकु मंत्रु गान्धारियेक दिलो. तो मंत्रु जपुंक आपुल्या भ्रतारा दृतराष्ट्राचो निरोपु घेतलो. ताणें मंत्रु जप म्होणु निरोपु दिलो. तंव ती येकी ठांय वचूनु वैसली आणि मंत्रु जपिलो. जपत खेवीं आठाणोवि पुत्र झाले. त्यां पुत्रां सैत

8. मांडियेरी.

येवनु दृतराष्ट्राक सांगिलें. तावळि ताणें म्हळें, “बरें केलें”. कोनत्येक सांगिलें. तिणें म्हळें, “परमेस्परान भोव बरें केलें”.

ऐशें ते पुत्र दिवशीं माशीं वाडुं लागले. पांच आठ वरुसांचे झाले. विध्या शिकुंक कृपाचार्या आदिन केले. ऐशे ते विध्या अभ्यासु करितां भोव काळ झाले.

तावळि कृपाचार्यान म्हळें, “हे कांय धनुर्विध्या जाणति की नेणति”. म्होणु त्यां कौरवां पाण्डवांक आपौनु सांगुं लागलोः “तुमीं धनुर्विध्या करका. हांव आसां तो पळेतां” म्होणु एका वडाच्या रुखाक येकु वांसो, ताका तिनि रेगो काडल्यो. येकि रेग काळी, येकि तांबडि, येकि उजळि. ऐश्यो रेगो काडूनु तो वांसो (वेळु) वडारि उंच व्हरनु आकासा पाव पर्येंत्र बांदिलो. दुर्योधनाक आपैलो. आपौनु म्हळेंः “धनुक बाण हातीं घे आणी ह्या वृख्या खाल उबो राव आणी वांश्याक मधेंचि रेखो आसती त्यो विन्दूनु भुमिवरि घालि”.

ते उतर आयकूनु दुर्योधना रायान धनुक आणी बाण हातीं घेवनु रुखा खाला वचूनु उबो रावलो. रावनु शिन्ताक बाणु लावनु, विन्दिलो. तो बाणु चुकलो. पुणतीं आणियेकु बाणु विन्दिलो. तोवै चुकूनु आण्येकी कडेवेलो तिसरो बाणु विन्दिलो. तोवै वायांचि[9] गेलो.

मागिरि समेस्तां कौरवांक कृपाचारी म्होणुं लागलोः “तुमीं येकेकु जणु हातीं धनुक घेवनु विंदिका”.

ते त्या कृपाचार्याच्या निरोपा प्रमाणीं धनुक बाण घेवनु विन्दूं लागले. ते समेस्तै चुकले. येकै पुणु विराच्यान त्यो रेगो विन्दव नां जाल्यो.

“आतां पुरो, तुमीं विन्दु नाकाति”, ऐशें त्या कृपाचार्यान म्हळें. तावळि ते वोगेचि आपापुले कडे येवनु उबे राविले.

तंव अर्जुनाक कृपाचार्यान आपौनु, सांगुं लागलो, “धनुक आणी बाण हातीं घेवनु वेळुवाक (वांश्याक) तिनि रेखा ज्यो काडिल्याति त्यां भितरि ताम्बिडी माजावेली रेखा तुं विन्दि”.

ऐशें गुरूचें उतर आयकूनु, ताच्यां पांयांरि आपुलें माथें ठेवनु, वृख्या खाला वचूनु, परमेस्पराचें सुमरण करुनु, धनुकाक बाणु लावनु, वोडि भरनु विन्दिलो. तो बाणु वचूनु मधेंचेचि ताम्बिडे रेखेक लागलो. हें देखूनु, कृपाचारी भोव संतोसु जालो.

---

9. फुंकट.

कृपाचारी संतोसु जालो देखुनु, दुर्योधनु मनीं दुचितु जालो. 'ह्या पण्डुच्या पुत्रान ही रेखा विन्दिली देखुनु, आमंचो गुरू सुखी जालो. तरि ह्यां पांचाय जणांक कोणु येकु उपाव करनु आमी नासूनु पोरो घालुंचें,' ऐशें मनीं घेतलें. "हे थोर जरि प्रभळ जाती तरि समेस्त राज्य आमंचें घेती". ऐशें म्हणौनु आपुल्या प्रधाना शेकुन्या लागीं बुधि येकांतीं विचारिली. "आतां आमी कोणु उपाव करुंचो, हें बरें मना हाडूनु तुं माका सांग".

रायाचें उतर आयकूनु प्रधानु म्होणुं लागलोः "स्वामया, तुमंचें उतर जें आसा तें सत्य. हे पाण्डव थोर नजातनांचि[10] कोणु येकु उपाव करनु आमी हांकां भायरि घालुंचे. थोर जरि जाती, तरि मागिरि कामा नये". हें प्रधानाचें उतर राया दुर्योधनान मनीं घेतलें.

फुडां ते कौरव आणी पाण्डव बापोलभाव येकि ठांय धनुर्विध्या अभ्यासु करितां, आपण्यांतु वैर करुं लागले. अर्जुनाक थोरि विध्या, सत्तिस दण्डायुद्धांची, शेस्त्रा अस्त्रांची, बाणांची बरी टगळि येता देखुनु कौरवांचो राव दुर्योधनु मनीं वायट चिंतुं लागलो.

ऐशे ते समेस्त येके दिवशीं न्हंयेंतु उदका मधें खेळतां, समस्तां कौरवांक दुर्योधनान निरोपु दिलो, "तुमीं अर्जुनाक धरुनु जैं भोव उदक आसा थंय तुमीं बुडौनु बोबाटि कोर्नु खेळा".

त्या निरोपा प्रमाणीं अर्जुनाक धरुनु उदकांतु थोरु फोंडुसो पळेवनु बुडैलो. तें भिमशेनान, अर्जुनाच्या भावान, आपुल्यां डोळ्यांनीं देखिलें. देखुनु न्हंयेंत उडी घाली. घालुनु अर्जुनाक काडिलो. समेस्तां कौरवांक बुडौ लागलो, येकु दुर्योधनु वेगळो करुनु, मागिरि ते आपणेंचि समेस्तां कौरवांक वैरि काडिले. कौरव पाण्डव सांगातिंचि आपुल्या राज्यांतु आयले. दुर्योधनु आपुल्या राजमंदिरा गेलो.

पांचै पाण्डव आपुले माये कोनत्ये पाशीं आयले. येवनु जें वर्तललें वर्तमान सांगिलें. तें आयकूनु ती महा दुखेस्त जाली. तिणें वचूनु आपुल्या भाव्या दृतराष्ट्राक आणी भिस्मदेवाक सांगिलेंः "कौरव घातु करुंक पळेतातति. आजि अर्जुनु उदकांतु येकि ठांय खेळतनां, धरनु बुडैलो. मरतां मरतां भिमशेनान वयरि काडिलो. तुमीं थोर आसतनां, हे ऐशी बुडि करितातति".

---

10. जल्माक थावन जावन.

तें उतर आयकूनु, भिस्मदेव मनीं संखिर्न[11] जालो. दृतराष्ट्र म्होणु लागलोः “आरे दुर्योधना, तुजी बुधि आतां लेगिन नासली. आपुल्यां बापोलभावांक वायट करिताशि. हें तुका बरें न्हय. ह्या वयरि तुं जाणतो आससि, आजि जी चुकि जाल्या तीचि पुरो. ह्या फुडां ऐशें जरि आपण राव म्होणु करिशि, तरि देव तुका बरें नकरी”. ऐशें बापाचें उतर आयकूनु, वोगोचि आपुल्या मंदिरा गेलो.

ऐशी ही कथा शुख इन्द्रान जल्मजयाक भारतिची आदि पर्विंची सांगिली. ती कथा आयकूनु, तो विनौं लागलोः “आण्येकि अपुर्व कथा माका तुं सांग. तुं भलो संग्न्यानु जाणतो आससि. परमेस्परु तुजे हुर्धयीं आसा. ही विनती”

कथा समाप्त



11. दुखान उचांबळ, खस्तवस्त.

# ातवी कथा

ऐशे ते कौरव पाण्डव सोंसरीं[1] धनुर्विध्या अभ्यासु करितातिं. बरव्या परीं कृपाचार्य गुरू ते अवस्परिं विध्या शिकवित तांकां.

फुंडा ते कौरव पाण्डव अस्तनापुरा नगरा भायरि वचूनु, येकि बरिशी भुमिका मैधान.पळेवनु, थंय धनुर्विध्या करुं लागले. जाका जैशी विध्या शिकैल्या ती विध्या आपुल्या गुरूक दाखैता. ऐशें खेळतां खेळतां येकु सोवर्नाचो चेण्डू आकासारि उडौनु विन्दुं लागले. तो चेण्डू पडतां पडतां धनुकाक बाण लावनु विंदिति. त्या चेण्डुवाक बाण लागूनु केत्येक सहस्र गांव पर्यंत्र उंच तो चेण्डू बाण घेवनु वचो. ऐशें खेळतां खेळतां जो विंदिलेलो बाणु चेण्डुवाक चुकलो. चुकूनु तो चेण्डू अवचितोचि पाड्ये बांयतुं पडलो. तावळि समस्त कौरव पाण्डव तो चेण्डू बांयतु पडलो देखुनु ते बांयच्या कांटारि उबे रावले. दुर्योधनु म्हणोः "आरे हे बांयतु डेवनु हो चेण्डू काडका". येक म्हणतातिं "बाणांनिचि विंदुनु काडुं". येक म्हणति, "कैशे तुमीं काडिश्यात? बाणु विन्दिल्यारि बांयतुचि पडतलो, चेण्डू आणी बाण येकिचि ठांय रावती".

ऐशें येकयेकां भितरि उलैतनां दृणु ब्राह्मणु आपुले स्त्रिये सहित ते वाटेन अस्तनापुरा राज्यांतु येतालो. ताणें वाटेरि दुर्योधनु राव समस्त लोकु कौरव पाण्डव ते बांयच्या कांटारि उबे आसति देखुनु, थंय दृणु गेलो. आपुले स्त्रियेक येका रुखा लागीं उबी केली आणी आपण तमासो[2] पळेंव लागलो. तावळि ते कौरव म्हणतातिं, "हो चेण्डू बांयतु डेवनु वेगीं काडका, येदोळु कितें पळेतातिं? आमंचो गुरू कृपाचार्य आमंचेरि रागत. तो बैसुनु आमंची वाट पळेता".

तावळि दृणान म्हळें, "तुमंकां विध्या अजूनु पुरी आयली नां. हो चेण्डू बांयतुलो आपैसोचि वयरि ये, ऐशी विध्या शिकैलि नां".

---

1. पुराय रीतीन.
2. मौज.

तें उतर आयकूनु दुर्योधनु त्या दृणाक विनौं लागलो, "स्वामया, तुमीं कोणी प्रकारीं आमकां काडूनु दाखैया. हो चेण्डू आपैसो तुमीं वयरि जरि काडिश्यात, तरि आमंकां जिवाक संतोसु जायत, आणी आमी तुमंची शेवा करुं".

ऐशें दुर्योधना रायाचें उतर आयकूनु, त्या दृणान येकु मंत्रु जपूनु हातिचो दर्भु[3] बांयतु घालो. घालित खेवीं तो चेण्डू त्या दर्भान गुटलावनु आपैसो वयरि येसो केलो. चेण्डू वयरि आयलो देखुनु, दुर्योधनु कौरव पाण्डव भोव संतोसु झाले. "ह्या ब्राह्मणा लागीं विद्येचो समन्द्रु[4] आसा. भिकारी ऐसो दिसत पण परमेस्पराची कृपा हाचेरि आसा. जाका विध्या भोव आसा ताका विध्या फळनां. अल्पि विध्या जे शिकिल्याति तांकां फळता. पण हो ब्राह्मणु परमेस्पराक शेरण गेला. हाका हें समेस्त काय लेख. येकु विद्येचो तमासो आमंकां दाखैलो. आतां हो कोणांच्या घराडे वचूनु उतरता, ऐशें तुमीं हाचे मागिल्यान वचूनु पळेया". ऐशें म्होणु आपुल्यां शेवकांक कानांतु मातूनु सांगिलें.

तावळि दुर्योधना लागीं निरोपु मागुनु दृणु आपुले स्त्रिये सहित नगरांतु वचुंक गेलो. त्या सांगातीं ते शेवक हळूचि पाठीं मागिल्यान गेले. तावळि तो दृणु वचूनु कृपाचार्याच्या घराडे उतरलो.

थंय ठावनु परतूनु येवनु त्यां शेवकानीं रायाक सांगिलें, "स्वामया, तो दृणु कृपाचार्याच्या घराडे उतरलो".

तावळि कौरव पाण्डव समस्त मेळुनु जंय आपुलो गुरू कृपाचार्य बैसललो थंय ते आयले. येवनु समस्त जें जाललें इतुकेंय सांगिलें. तावळि कृपाचार्यान म्हळे, "तो गुरु दृणु आमंचो मेवणो, थोरि विध्या जाणतो. आतां तो बरो मानु पावत". ऐशें म्हणौनु कौरवां पाण्डवां सहित नगरांतु आयलो. गुरून निरोपु दिलोः "तुमीं आपापुले घरीं वचा". तावळि ते समेस्त आपापुले घरीं गेले. कृपाचार्य आपुले मंदिरीं गेलो. ताणें दृणु देखिलो. खेम आळिंगण जालीं. तस्त हाडूनु ताचे स्त्रियेचे वा ताचे पांय धुले. मग येके ठांय बैसूनु गोस्टी करुं लागले.

तावळि दृणान दृपदा रायाची वेवस्ता सांगिलीः "ताणें माका भोव गांजिलो. त्या निमितीं हांव अस्तनापुराक पावलों. फुडां देव जें करित तें सत्य. आमंचे आदिन कांय ना".

---

3. तणा-वाली पसून केल्लें दोर.

4. समुद्र.

तावळि कृपाचार्यान म्हळें: "तुं ह्यां कौरवां पाण्डवांक धनुर्विध्या, सत्तिसां दण्डायुद्धांची विध्या. शेस्त्रा अस्त्राचें निवारण शिकै. हो दुर्योधनु राव हे पृथुवी मधें थोरु. हाचे सारिखो राजा ह्या भुमण्डळा मधें आण्येकु नां. ज्या रायाक अठरा खेवणीं दळभारु, हस्ती, रथ, पांयदळ, घोडे अगणित, ह्या वरौनु तुं जें करुं सर्व होयत. तुं विध्या अभ्यासु शिकै".

तावळि दृणान म्हळें: "तुं विध्या शिकैत आसतां हांवें विध्या सांगुंची निति न्हय".

तावळि ताणें म्हळें: "हांव संतोसूनु शिकौ सांगतां. तुं तंव आण्येकु भायलो न्हय, मजो मेवणो. तुं आणी हांव वेगळे न्हय".

ऐशें ते येकमेका भितरि उलौनु, जवणा खाणाक उभठले, न्हाले, बरीं देवांग वस्त्रां न्हेसूनु परमेस्पराचें सुमरण केलें. जें कांय खाजीं पकुवानां, रांदिललें तें परमेस्पराचे नांवीं समर्पिलें. समर्पुनु दोगै जेविले. गन्ध पुश्पां दृणाक दिलीं. आपुले हातीं कापुर्वेलिचो विडो दिलो.

ऐशें तो कृपाचार्याचे घरीं आसतां, दुर्योधना रायान आपुल्या बापा दृतराष्ट्राक वा भिस्मदेवाक, विधुराक त्या चेण्डुवाचें वर्तमान सांगिलें. तें उतर गंगा सुतान आयकूनु दृणाक वा कृपाचार्याक आपौंक शेवकांक निरोपु दिवनु धाडिले. शेवकांनीं वचूनु कृपाचार्याच्या घराडे सांगिलें, "तुमकां दोगांय जणांक भिस्मदेवान आपैल्याति". ते दोगै वेगीं उबटौनु शृंघारु करुनु भिस्मदेवाच्या मंदिराडे शेवकां सहित आयले. येवनु भेटले. तांकां बैसुंक निरोपु दिलो. ते त्या निरोपा प्रमाणीं बैसले.

तावळि भिस्मान म्हळें, "कृपाचार्या हो ब्राह्मणु कोणी कडे हौनु आयलो? दुर्योधनान वा पाण्डवानीं चेण्डुवाचो समाचारु माका सांगिलो. बांयतु पडललो चेण्डू आपसोचि मंत्रांनी वयरि येसो केलो. तरि ह्या दृणा ब्राह्मणा लागीं धनुर्विध्या पुर्ण आसा, ऐशें माका दिसता. तुं आतां, कृपाचार्या, हाका ऐशें म्हण, ह्यां कौरवां पाण्डवांक सत्तिस दंडायुध्दांची विध्या, गदांची विध्या, साधन कोरुंची, धनुर्विध्या विन्दुंची, ऐशी नाना परिंची विध्या हांकां शिकौं सांग. ऐशें म्होणु तुं दृणा लागीं उलै".

तावळि तो कृपाचार्य दृणाक येकान्तीं व्हरनु, उलौं लागलो: "भिस्मदेव ऐशें म्हणता : ह्यां कौरवां पाण्डवांक विध्या शिकौं सांगता.

तें उतर आयकूनु दृणाचार्य म्होणुं लागलो: "आमी ब्राह्मण भिकारी. आमंकां हें कार्य खंय टांकत?" ऐशें म्होणुं उलौं लागलो.

तें उतर गंगा सुताक सांगिलें. तावळि ताणें दृणाक आपण्या लागीं आपौनु, बैसुंक ठावो दिलो. हें आपण ताचे लागीं उलौं लागलोः "आहो जी गोंसावी, तुमंचे लागीं हांव एकि विनंति करितां. ती तुमीं बरी मनां हाडका". ऐशें म्होणु उलैलें.

तावळि तो जाप देंवूं लागलो, "आमंचो मेवणो कृपाचार्य ह्यां कौरवां पाण्डवांक विध्या शिकैता. ताका न्हय कोर्नु हांवें विध्या शिकौंची निति न्हय. लोकाचें उतर लागत".

तावळि ताणें म्हळेंः "ताका आमी सांगुं, तो भोव सुखी". तावळि कृपाचार्याक म्हळें, "ह्या दृणाक आजि लेगिन तुमीं ऐसो निरोपु देया, कौरवां पाण्डवांक विध्या शिकौंक".

तावळि ताणें म्हळें, "स्वामया, भोव बरे. हें उतर हांवें ताका पैलेंचि बरें मनां हाडिललें. हें हय की न्हय म्होणु तुमीं ताचे लागीं विचारका. पण त्या दृणाचे मनीं येक आसा. राया दृपदान ताका उणीं उतरां उलैल्यांति. त्यां उतरां निमितीं तो हांगा पावला. त्या दृपदाक दृणु आपण येकाचि बाणान तेचि सभांतु मारतो. ताचें सर्व राज्य, हस्ती, घोडे, रथ जिखतो. पण तें ताचें सारिखें न्हय. ताणें येक उतर उलैलां की आपुल्या शिस्या करवीं घोड्याच्या पायांक उपराटो[5], मान सकल पायें वशें करनु तुका बांदूनु हाडैन. हें उतर मजें तुं सत्य जाणो. ऐशें म्होणु थंय ठावनु हो हांगा आयला. हें इतुकें कार्य तुमिं हौनु कोरुंचें".

तावळि त्या भिस्मान म्हळें, " हें दृपदाचें कार्य थोडें आसा. येका जणा करवीं बांदूनु हाडूं तुं ताका सांग, आणी तुं ताका विध्या शिकौंक निरोपु दी".

ताणें म्हळें, "हांव भोव संतोसु"

भिस्मान दृणाचार्याक आपौनु आपुल्या हातान देवाग वस्त्रां दिलीं. नागरखोंड्या[6] पानांचे विडे दिले. "तुमंचो सर्व समाचारु कृपाचार्यान आमंकां सांगिला. तें कार्य अवश्य आमी करुं. तुमीं हांकां विध्या अभ्यासु सांगा".

तावळि दृणान म्हळेंः "कृपाचार्याचो निरोपु शिकौंक आमंकां तुमीं घेवनु देया.

तावळि कृपाचार्याक म्हळेंः "ह्या दृणाक विध्या शिकौंक निरोपु देया.

ताणें म्हळें, "स्वामया, भोव बरें". त्या उतरारि गंगा सुतान संतोसू जावनु, वस्त्रां कृपाचार्याक दिलीं आणी पांच गांव इनाम दिलें.

5. उरफाटो ; परतो.

6. परमळीत खांवच्या पानां विडो.

फुडां तो दृणु कौरवां पाण्डवांक विध्या नाना परिंचि शिकौंक लागलो आणी तांकां म्हळें, "धनुर्विध्या, सत्तिस दंडायुद्धांची, गदेची सादन कोरुंची विध्या कोण कैशे शिकिल्याति ती विध्या कोर्नु माका तुमीं दाखैया."

तावळि ते कौरव पाण्डव दोनिय हात जोडूनु दृणागुरूक पांयां पडूनु धोणुवाक बाण लावनु, विन्दूं लागले. येकि गदा हातिं घेवनु, येकि हातिं वोडण घेवनु, सादन कोर्नु दाखौं लागले.

तावळि ताणें म्हळें: "तुमंकां अजूनु विध्या पुरी लागली नां." ऐशें म्होणु रात्रि दिसु तांकां आपण्यां लागीं ठेवनु धनुर्विध्या, गदेची विध्या, सत्तिस दंडायुद्धांची विध्या, नाना परिंच्यां शेस्त्रां, अस्त्रांची विध्या, मारुंची, सोडुंची, परतूनु हाडुंची, ऐशी विध्या अभ्यासु रात्रि दिसु तांकां शिकौनु निपूण केले.

फुंडा येके दिवशीं नगरा भायर बरें मैदान पळेवनु, थंय येका रुखावरि गगन चुंबितु वेळु बांदिलो. ताका तिनि रेखा काडिल्यो. येकि तांम्बिडी, येकि काळी, येकी पाण्डरी. ऐश्यो तिनि रेखा काडिल्यो, आणी त्या रुखा मुळा उजो केलो. ताचेरि तांब्याची कायलि ठेयली. तेल तांतुं घालें. ते तेल घालित खेवीं उज्याच्या बळान कायलिंतु खळखळेंव लागलें. समेस्तां कौरवांक आपैले. दुशासनाक वा सभळाक म्हळें: " तुमीं तेलांतु रुप पळेवनु, उपराटें धनुकाक बाण लावनु, हें लख्य[7] भुमिवरि पाडका".

तावळि त्या गुरूच्या निरोपा प्रमाणीं धनुक बाण घेवनु, त्या तेलाचे कायली लागीं उबे रावनु. त्या तेलांतु रुप पळेंव लागले.

तावळि दृणान म्हळें, "तुमकां तांतुं कितें दिसता?"

तावळि ते म्होणुं लागले, "स्वामया, आमंकां हांतुं कांय दिस ना".

तावळि तो दृणु हांसूं लागलो, "नसुदेंचि[8] तरि तुमीं विंदका".

तावळि ते बाण विन्दो लागले. ते बाण फुंकटोचि गेले.

तावळि ताणें म्हळें, "आतां पुरो. तुमीं विन्दुं नाकाति".

तावळि दुर्योधना रायाक आपैलो. "हे तिनि बाण तुं हातिं घे आणी तेलाच्या कड्या[9] लागीं वचूनु, तांतुं तुजें रुप पळेवनु, हें वेलें लख्य विन्दूनु पाडि".

---

7. लक्ष, मोख.
8. बेश्टेंच.
9. हाड्या.

तावळि तो दुर्योधनु हातिं तिनि बाण घेवनु, गुरूक नमस्कारु कोर्नु, तेलाच्या कङ्या लागीं वचूनु, तेलांतु रुप पळेंव लागलो.

तावळि दृणान म्हळें: "आगा दुर्योधना राया, तेलांतु तुका कितें दिसता तें तुं माका सांग".

तावळि तो तेलांतु रुप पळेवनु गुरूक सांगुं लागलो: "येकु वेळु ह्या वृख्यारि बांदिला ताका तिनि रेखो काडिल्याति".

तें आयकूनु, ताणें म्हळें, "माजावेली रेखा तांम्बिडी विन्दुनु भुमिरि पाडि".

तावळि धनुकाक बाण लावनु, विन्दिलो. तो बाणु चुकूनु आकास पर्येत्र गेलो. दुसरो बाणु विन्दिलो, तो मधेंचि रावलो. तिसरो विन्दिलो तो लागत लागत चुकलो. ऐशे तिनिय बाण फुंक्याचि गेले. समेस्तां कौरवानीं विन्दिले, पण तें लख्य मोडिलें नां.

तावळि पण्डुच्या पुत्रा अर्जुनाक आपैलो. तिनि बाण ताचे हातीं दिले. तो नमस्कारु करनु, धनुकाक बाणा सैत कङ्या लागीं वचूनु उबो रावलो. तेलांतु रुप पळेवनु, परमेस्पराचें सुमरण केलें. उपराटें संधान[10] कोर्नु माजावेली तांम्बिडी रेखा विन्दूनु भुमिरि पाडिली. तावळि दृणु संतोसुनु, आपुल्या गळ्यांतुली अविन्द मोतयांची माळ भिस्मदेवान दिलेली ती अर्जुनाच्या गळ्यांतु घाली. तें देखुनु, दुर्योधनु आपुले मनीं भोव क्रोदांतु काळु जालो. म्हणो: "धनुर्विध्या अर्जूनु बरी शिकिलो. शेस्त्रां अस्त्रांची मारु[11] बरो जाणतो झालो. त्या निमितिं समेस्ता लोका देखतें, आमंच्या गुरू हातीं हाका मानु भोगता. हांव तंव राजा. आतां हाका कोणु विचारु?"

ऐशें म्हणौनु आपुलो प्रधानु शेकुनी आपैलो. तो धांवत येवनु, हात जोड्डुनु, नमस्कारु केलो: "स्वामया, काय निरोपु माका?"

तावळि दुर्योधनु म्होणुं लागलो, "हे पण्डुचे पुत्र पांचै जण विध्येन परिपुर्ण झाले. त्यां मधें अर्जुनु थोरु धनुर्धरु जालो. भिमशेनु गदेचे विध्येन थोरु सादनिकु[12] जालो. हे दोगै अतुळबळी झाले आसति. आतां हांकां आमी कोणु उपाव कोरुंचो तें तुं माका सांग".

---

10. मोख धरूक.
11. मार ; व्हडलो.
12. ताण ; पाटांगडो ; कुशल proficient.

प्रधान म्होणुं लागलो, "राया, प्रथमोंचि तुमंचे लागीं हांवें विनंति केल्या. ह्यां पांचैं जणांक आमीं कांय येकु उपाव करनु नासुंचे. हांचे लागीं तंव सहिन्यें नां. घोडे, हस्ती, रथ नांति. तुं समेस्तांचो राजा. तुं जें करिशि, तें आजि जायत".

ऐशें त्या प्रधानाचें उतर रायान मनीं मानिलें. फुडां ते पण्डुचे पुत्र पांचै जण कौरव येकातोशें[13] त्या आपुल्या गुरू दृणाचार्या लागीं विध्या अभ्यासु शिकिले. पुरी विध्या शिकिले.

फुडां त्या दृणाचार्यान त्यां आपुल्यां शिसां लागीं उलैलें, "तुमंचे लागीं हांव येक मागतां. तें तुमीं माका कोर्नु देया. तें कार्य केल्यावरि हांव भोव संतोसु".

तावळि दुर्योधनान म्हळें: " स्वामया, तुमचे मनीं जें आसा त्या कार्याक आमंकां निरोपु देया. तें कोरुं. तुमीं मनीं चिन्ता कोरुं नाकाति".

तें उतर आयकूनु, त्यां पांचैं जणांक आपण्या लागीं आपैले. "तुमीं कौरव पाण्डव म्हा वीर. सत्तिस दंडायुद्धांची विध्या, शेस्त्रांची विध्या, धनुर्विध्या, गदांची विध्या, ऐश्या परिंच्यो नानां विध्या तुमीं शिकिले. तरि तुमंचे लागीं हांव गुरू दखिणा मागतां, तुमीं माका देया".

तावळि दुर्योधना रायान आणी त्यां पाण्डवानीं म्हळें: "जी कांय आमंकां टांकता इतुकिय शेवा तुमंची आमी कोरुं, तुमीं मागा".

तावळि दृणाचार्यान म्हळें, "येका रथान, येका जणान वचूनु दृपदु राजा जिवोचि धरनु, घाव, फातोरु नलागतां, घोड्याच्या पांयांक उपराटो बांदूनु, मजे लागीं हांगा हाडुंचो. हें इतुकें तुमीं माका देया".

तावळि दुर्योधनान म्हळें: "स्वामया, हें तुमीं कितें म्हणताति? दृपदा राया लागीं हस्ती, रथ, घोडे, सहिन्ये अगणित. ताका येकल्या वीराच्यान वचूनु धरनु हाडवता? आणी तो नुसुदोचि सांपडता? हें तुमंचे मनीं जरि आसा, तरि ताचेरि आमी सहिन्यें, रथ, हस्ती, घोडे मकुट-वर्धानिक राये, हो आमंचो भाव दुशासनु ह्या सांगातीं इतुकें देवनु थैं धाडूनु, तो दृपदा लागीं युद्ध कोर्नु जिखूनु हाडुं. हें इतुकें कार्य हां करिन, आणी जरि तुमंकां जाय, राज्य, देसु दुर्गां दिन".

तावळि ताणें म्हळें, "हें कांय हांव तुमंचे लागी माग नां".

तें उतर आयकूनु राव वोगोचि रावलो.

---

13. 101.

तावळि त्यां पण्डुंच्यां पुत्रां पांचैं जणांक आपैले. "हें मजें कार्य तुमंचे हातिं जायत की नजायत हें माका सांगा".

तावळि ते पांचै जण एकी ठांय येकांत स्थानीं बैसुनु उलौं लागले. धर्मा व्हडल्या भावान म्हळें, "दृपदु राव भोवां वरुसांचो, नांनां परीं रायां लागीं युद्ध कोर्नु, मग घरा आयलो, आणी खेत्री थोरु. तुमीं अद्याप रणांतु युद्ध केलें नां. तुमीं बाळकां, कोणे प्रकारीं युद्ध कोरुंचें हें तुमकां ठावें नां. विध्या परिपुर्ण शिकिल्याति. आणी येकल्या वीरान वचूनु ताका धरनु हाडुंचो, हें काय ल्हान कार्य न्हय".

तावळि अर्जुनान म्हळेः "हांव येकलोचि वचूनु ताका धरनु हाडिन. मजे सांगातिं सहिन्यें, घोडे, हस्ती, रथ, कोण नाका. जें मज्या गुरून मागिलां तें ताका देंवचें, नां·तरि संवसारीं जियेवनु कोणु फळु? आमी तंव राये खेत्री. मरणाक भियेंवूं नये".

हें उतर धर्मा रायाक मानलें. तावळि ते पांचै जण उभठावनु, दृणाचार्या लागीं आयले. "स्वामया, निरोपु दी".

तावळि ताणें म्हळें, "तुमीं पांचै जण वचुंक कामा नयेति. येकल्यानोचि वचूनु ताका धरनु घोड्याच्या पांयांक उपराटो बांदुनु जिवोचि, घाव, फातोरु नलागतनां हाडुंचो. ऐशें उतर ताका माका झगडें झालें, ते वेळे हांवें ताका उलैलां. तें उतर मजें सत्य कोरुंचें. हें इतुकें तुज्यान जरि जाता, तरि तुं फुडें सर".

तावळि अर्जुनान म्हळें, "स्वामया, हें कोण कार्य? माका तुं निरोपु दी," म्होणु आपुल्या गुरूच्यां पांयांरि माथें दवरलें. ताणें आपुल्या हातान पाठि थापटिलीः "भियेंव नाका, उभठा. तुजें मनिचें देव करित". ऐशें म्होणु आपुल्या हातान कापुरवेलिच्या पानांचो विडो दिलो. "त्या दृपदाक तुं वेगीं धरनु हाडि".

त्या निरोपा प्रमाणीं रथावरि अर्जुनु बैसलो. सारथ्याक म्हळेः "रथु हांकारि"[14]

तावळि दृणाक येक आठवलें, "ह्या लेंकृवांक हांव धाडितां. सहिन्यें, रथ, हस्ती, घोडे सांगातिं तंव कोण नांति", म्होणु, आपुलो येकु बिजमंत्रु कानांतु सांगिलो. "तो दृपद राव तुजेरि सहिन्या सैत युद्ध जरि करित, तरि तुं हो मंत्रु जपूनु बाणु सोडि. तावळि तें जितुकें सहिन्यें मकुट-वर्धानिक राये येती, इतुकेय निद्रेस्त जावनु रथा खाला पडती. हातिचें धनुक बाण पडती. निद्रेन समेस्त सहिन्यें भुमिरि लोळत.

14. मुखार धांवडाय.

तावळि तुं दृपदाक धरनु घोंड्याच्या पांयांक उपराटो बांदुनु, घाव नलागतनां, घेवनु यो. ह्या मंत्राचें नांव मोहिनी". ऐशें म्होणु ताच्या माथ्यारि हातु ठेयलो.

फुटां अर्जुनु रथ सैत दृपदाच्या नगरावरि चालूनु गेलो.

ऐशी ही कथा शुख इन्द्रान जन्मजयाक सांगिली. तावळि ताणें पुणतीं विनंती केलीः "त्या दृणा दृपदाक कित्या वैर जालें? ते तंव दोगै बाळ्इस्ट येका गुरू लागीं विध्या शिकताले. वैर कित्या निमित्तीं जालें, हें बरें तुं मनां हाडूनु सांग. हांव बरें कोर्नु आयकतलों".

त्या उतरारि ताणें भोव बरें म्हळें, "तुका हांव मागिली समुळि कथा सांगन. तुं चित देवनु आयक. ही विनंती".



# सांता आना

## अनामीक

(ह्या भजन गितांतले कांय अंश - सोळावो शेंकडो)

1. सांत आना तुजें सुफळ जीणें,
देवू जाला माते, नातू तुजो;
स्वामी मजो, राजा म्हजो,
दान-धर्मु, माये, थोरु तुजो.

2. तुजें गे नांवूं, नवला परीं,
आना म्हणजे तूं गे कुर्पा थोरी;
कृपेस्त आसतना, थोरी जाली,
देवान तुका आपुली आजी केली.

3. तुजे कुशीं सदैव लेंकी,
देवा-माता आंकवारी एकी,
तिचे कुशीं गे देवा पूतु,
माये, तुजो मोगाळ नातू.

4. तुजें गे भाग्य आनंद थोरू,
भोडुव्यां मदें आसन तुजें करू,
लेकी राणी, नातू राजा,
व्हड्डू राणी म्हणटीत गे तुका

8. सांत आना, माये, आमची सासाय
••••••
चुंबन करून तुजे गे पांय,
कुर्पा आमकां दी गे थोरी
आमचे पासूंत विनती करी!"



# दौत्रीना क्रिस्ता

(थोमस स्टीफन्स - 1622 - हांतलो एक अंश)

.......................

## महापातकांच्या सात मुळस्थानांचो आवेस्पर

**गुरु** : परमेश्पराचे, आणी सांता अिग्रजेचे उपदेस सांबाळुंचे, कोण ते तुवें सांगिल्याति. आतां कोण तीं पातकां नकरूचीं, तीं सांग.

**सिश्य** : महापातकांचीं मूळस्थांना सातः पयलें- गर्व; दुसरें आपसुवार्थु; तिसरें - काम; चवथें- क्रोध; पांचवें- पोटार्थु; सटवें- नेदुखचारू; सातवें- आळसाय.

**गुरू** : संवसारांतु आणियेकां पातकां नांति? हींचि पातकां?

**सिश्य** : उधंडां आसति. पण हीं सात समेस्तांची मुळां, ह्यां वरौनु हेरां समेस्तां निपजताति म्हणु. आणी हीं जीं आसति, तीं येकादे वेळ, म्हापातकां जालींय तरी, आणियेकी वेळ उपपातकां जातति.

**गुरु** : म्हापातकां वरौनु पातक्याक कोण वायट भोगता?

**सिश्य** : परमेश्पराची कृपा, अिश्टागती, आणी मुक्तिपद सांडोवता, जेझु क्रिस्ताच्या मरणाचो फळु अंतरता, कुडी, आत्म्याक, यमकोंडिची ख्यास्ति, दंडणा भोगूंक जोडटा. आणी माणुसु म्हापातकांतु आसतां ज्यो बरव्यो करण्यो करिता, तांचो फळ ताका अंतरता.

**गुरु** : म्हणजे म्हापातकांतु आशिलल्याक बरव्यो करण्यो केलल्यो उपेगा नयेति?

**सिश्य** : परमेश्पराची कृपा, आणी मुग्तिपद जोड्रूंक उपेगा नयेति, पण त्यां करण्यां पास्वत परमेश्परान कुडीचें प्रणाम, उधंड द्रव्य, आणी पातकांची वळखी, वा सुधी दुखी ताका देंवच्याक उपेगा येताति.

**गुरु** : म्हापातकां म्हणताति कित्याक?

**सिश्य** : कित्या तांचे वरौनु महा थोर वायट आत्म्याक भोगता. आत्मो मरता, म्हणजे परमेश्पराची कृपा, आत्म्याची जिणि जी आसा ती ताका सांडोवता.



# फ्रेय गाश्पार द सां मिगेल हांगेली*

## भोव सुप्राडी[1] वाक्य-बांदावळ[2]

## (कांय झळ्को) - 1635

1. हांव तुमचे उदरगतीक मरनु मरतां: तुमीं तिचे वैरी जावन वर्ततात.
2. हांव तुमचे सोडवणेक जीव दितां (जीव आटितां/ प्राणु दितां; जीव/प्राण वेचिता, उदकांतु घामेतां, उदकांतु हुमेतां, वेंटी वावळी जातां; खस्तवस्तु, सर्गार दन्य जातां). पण तुमीं तिची बेपर्वा करितात (हांसतात, खेळतात, तुमकां तिको हुस्को चींता ना, तुमचेचि तिचें कायिंचिं धरलें ना. तिचो रजमात्र पड करिनांत)
3. ह्या कोटाचें बुरिंज[3] दुर्गां हौनु धा पावलां (धा गज, धा पुरूसां).
4. कुबायता[4] (शेणायता); नितळता, उजवाडता.
5. सांजवता; रातवता; काळोखवता
6. यमकोंडात दों दोळ्यांनी रिगुंचे भाशे वैकुंटांत येका दोळ्यान रिगललें बरें.
7. चाळीस-पत्रा[5] विण म्हाका वाचता.

---

* **Gaspar de S. Miguel, O. F. M.**
Arte da Lingoa Canarim - Parte 2ª - Syntaxis Copiosissima na Lingoa bramana e polida (A Syntax of Standard Konkani) with introduction by Jose Pereira - Journal of the Univeristy of Bombay, September 1967 - Vol. XXXVI (New Series) Part 2 - Arts Number (no.42) - University of Bombay 1968.

1. भरपूर, घे म्हणून - Abundant/ copious.
2. Sentence structure; Syntax.
3. Tower.
4. बारीक पावस पडटा; शिडशिडटा.
5. वक्ल; वक्ल नासतना म्हाका वाचूंक येता.

8. तुजीं उतरां फटिका[6] हौनु निर्मळां.
9. वैरियांचे कश्ट दग्द, अदावति साणयेन[7] सोशिलले भोव उपेगवंति.
10. गुणांनी, लखेणांनीं, खेडिनीं, लांसणांनी[8], पळीतु, अमंगळु, विर्ताळिक[9], अळशिकावणो.
11. वस्तु दोळ्यांनी देखवनां तीं चाळिस पत्रान देखूं येता.
12. तुवें माका धाडिलेलो रोखो[10] संतोसान वाचिलो. तुवें माक़ा बरयल्ल्या लिकितान भोव संतोसलों.
13. लोक आवांक़िताली[11] ताचे पाशिं पेद्रुन उणें केलें.
14. कोणाय मनुशाक येकु पुणु गूणु जाय, जो साणी जावचो.
15. जो कोणु बरें करनु स्वर्गिंचे सुख एकांगिं नियाळितो, ताका सवसाराचें अथिर सुक कांयिंची न्हय दिस्ता.
16. हे जोडीचो, ह्या कुळाग्राचो, ह्या घरा-म्हालाचो, ह्या जेवणा-खाणाचो, ह्या माना-प्रभावाचो वांटेकारू जो आसा तो हांव.
17. हो राव लोकाक अनाहितु (नांवडातो) देव्याडु, निश्टूर, निर्दुखी.
18. हें कुळाग्र आपुल्या धनयाक सुफळ (सलबिक, आदाविक, उपेगवंत, फळादिक).
19. ते साळबें[12] माका देखून आयलें, माका दिश्टि पडले..
20. हांव हांडुवो[13], राव, तुरिकु, भिकारी, बडुवो, भग्तु सां फ्रासिश्कु, पुंडु[14], देंवचार अवगलों[15].



---

6. स्फटीक - Crystal.
7. सोसणिकाय - patience.
8. चुकिनी.
9. वायट स्वभावाचो, नश्टो.
10. चीट; चिटारो.
11. अदमास करतालो - he conjectured.
12. लांव-भूत.
13. उरमट; खरकस.
14. चिड्डूपी; हुकूमशाह - dictator, tyrant, oppressor.
15. सवंग केले.

# Prasse Pastoral - Antonio de Saldanha

## **प्रास्सि पाश्तोराल** आन्तोन्यु द साल्दाञा - सोळावो शेंकडो

---

### एक उतारो

**पाद्री** : संवसारांतु येवनु आमंच्या स्वमया जेझु क्रिस्तान आमकां सोडौंच्याक कितें केलें? प्रथमल्या पुरुसाच्या पापा निमितीं जें आमचें मनुश्यकूळ सैताना आदीन पडलें, तें कोणी प्रमाणी स्वामयान सोडयलें, तें तूं सादृश्ट आमकां सांगूंनु समजाय, मना हाडि, आमचे कपालीं आनी मनीं वचशें करि.

**क्रिस्तांवः** आमच्या स्वामया जेझु क्रिस्तान आमकां सैतानाच्या बटिकपणांतुले[1] सौडौंवच्याक उधंड कश्ट संवसारांत सोंशिले, क्रुसावरि थोरि घाशी अपदेन[2] आपुलो प्राणु दिलो, मेलो, आपुल्या मरणान अखंडित मरण जें आमकां आमच्या पातकां पासावत भोगतलें आशिल्लें, तें जेझु स्वामयान निवारिलें, आमचे वारये[3] आपुल्या मरणा वा रगताच्या पुण्यान, सत्यवंता बापाक पुरें फारिक वा परिहोर[4] केलें.

**पाद्री** : मेल्या उपरांतें स्वामयान कितें केलें, कोणि प्रमाणी आमचे सोडोवणेचें कार्य संपादिलें, मरण, सैतानु वा रग्त मौंश कोणी प्रमाणी येसादीक[5] जावनु स्वामया तारकान जिखिलें. जिखिल्ल्यान कैशे आमी सुटलेंव तें तुं आमकां सांगूनु, सर्व आमचे मनिचो दुभाव फेडितलो[6] सत्यार्थु आमच्या मनांतु संचाराय.

**क्रिस्तांवः** आमचो स्वामि जेझु क्रिस्त मेल्या उप्रांतें तिसऱ्या दिवसा पुणतीं

---

1. गुलामपण.
2. कश्ट-दग्द.
3. वरवीं.
4. फारीक करून मेकळे केलें.
5. यशस्वी; येस्वंत.
6. पुसून काडलो, ना-नपश्यात केलो.

जिवंतु जालो, चाळिसाव्ये दिवशीं आपुल्ये प्राप्ती, हुकुमेन आकाशिंच्यान स्वर्गीं चडलो, थंय ठावनु समेस्त मनुश्यांची मनसुबी[7] करूक संवसाराच्ये निमाण्ये शेवटीं, निमाण्या दिवसा, आपुल्या महा झळझळीतां अगणितां भोडुव्या[8] वा भगतांच्ये सभे सैत महा थोरा समारंबान[9] अंत्राळिंच्यान येवनु, कुपांवरि टेंकूनु, तांचेरि उभो रावनु, सुर्यापाशिं सहस्त्र वेळु महा प्रझाळित होनु, येतलो.

**पाद्री** : हें कैशें जायत, कोणी प्रमाणी जेझु तारकु निति करीत, संवसाराचो शेवटु कैसो जायत, संवसारू कैसो सरत, तें सविस्तर आमकां समजावनु सांग, अंतिंच्या दिवसाची वेवस्ता सादृश्टी आमकां समजशी करि?

**क्रिस्तांव**: सर्व हें सांगन. तूं चित्त दिवनु आयक. जेझु क्रिस्तु आमचो स्वामि सर्वय जाणांचें पाप, पुण्य पळेवनु जगलोका हुजिर मनसुबी करित, पुण्यवंता मनुश्याक ताच्या पुण्या प्रमाणी आपुल्या सर्वसुखाच्या राज्यांतु महा झळझळीत करनु, आपण्या सांगातीं व्हरत. वायटा, नश्टा पापयाक ताच्या पापा दोशा प्रमाणीं अग्निकोंडिच्या याचनांतु दग्द घेंवक सासणाक घालीत. अग्निजाळान ही पृथुमि, हो भूमिगलोकु भस्म जातलो. जाल्या उपरांतें नितिवंतु मनुसुभिदारू जेझु स्वामि तारोकु समेस्तां भोडुव्यां वा भग्तांच्ये सभे सहित, महा आयपा दबाज्यान, अंत्राळिच्यान येवनु, नितळां कुपांचें शिंहासन करनु, असल्या शिंहासनावरि बैसूनु, मृत्युलोकाची खरी मनसुबी करित, जितुकीं माणुश्य विश्व रचिलें लेगिन, तो संवसाराचो निमाणो दिस पर्येंत्र मेललीं, इतुक्यांचे प्राण संवसाराच्ये फुडल्ये आपुल्ये कुडींत प्राप्तिवंता स्वामया देवाचे हुकुमेन रिगून आपुल्या नितिधारा जेझु स्वामया फुडें मनुसुभियेक उभीं रावतीं, तांच्या पुण्या पापाची जेझु स्वामि उबरबारि[10] पळेवन ताची खरी निति करित.



7. न्याय-नीत.
8. देवदूत (angels).
9. दबाज्यान, थाटा-माटान.
10. बरे-वायट गूण तपासून.

**Antonio de Saldanha,** S. J. (1598-1663), author of the present work, was born in 1598, in the famous citadel of Mazagaon then held by the Portuguese in Morrocco, northern Africa. His father was of native Portuguese stock and his mother of Italian extraction. Imbued with a martial spirit, he joined the Portuguese army at the age of sixteen and came to Goa as a soldier. Later, moved by a higher impulse, he gave up his military career and joined the Society of Jesus (Jesuits) in 1615. He completed his initial training for the priesthood including the philosophy course, which, however, had to be interrrupted owing to a grave illness that afflicted him to the point of blindness. He was finally ordained priest and appointed as a preacher in the mission of Salcete, Goa. He had mastered the Konkani language and preached as well as wrote in it with great felicity and proficiency in several parishes in the counties of Salcete and Goa Islands (Tiswadi). He was appointed Rector of St. Ignatius Seminary of the Society at Raitur (Rachol), Goa, in 1643, where after a very fruitful ternure, he passed away on 15th December, 1663.

Of the several works attributed to him, according to the '*Bibliotheca Lusitana*' of Diogo Barbosa Machado, are : 'Fruits of Nectar of the Tree of Life', a work in prose and verse of sublime proportions; 'Delectable Roses and wild flowers from the Rose-Garden of Mary etc'. a Pastoral Guide; 'Great Benefits from Guardian Angels'; and 'Miracles of St. Anthony' (1655); with titles in

Portuguese* but all in Konkani. He also has to his credit a compilation of Konkani vocabulary/dictionary in MS, and a work on St. Anthony in Marathi verse.

Saldanha is rated as one of the three great prose -writers of Konkani of its 'golden period' encompassing the 16th and 17th centuries which witnessed its most exuberant flowering in grammatical treatises, lexicographic compilations and literary works propelled by the Renaissance in Europe, which the missionaries who landed on Goan soil caused to be spilled over into Konkani, with imitations and translations of them being done in the latter.

The present work is in the genre of the biographical narrative of the Saint (Anthony), who was born in Lisbon (Portugal) and worked in Padua (Italy), and about the miracles that he wrought during his lifetime and posthumously, being divided into two parts reflecting these two periods of time. It epitomizes the narrative pattern of the 'Puranas' that prevailed at that time in Konkani and in neighbouring Marathi, on which this work has been modelled. The earliest specimens of this writing were found in early native literature in Konkani embodying versions of the Indian epics of 'Ramayana' and 'Mahabharata'. This book contains a very important specimen of Konkani prose at the zenith of its development in the seventeenth century, which was followed later by a period of persecution, relaxation and downfall.

---

* i) *Tratado dos Milagres de Santo Antonio* - 1655. (One copy in Biblioteca Nacional, Lisbon and another in the library of Marquis de Abrantes)

ii) *Rosas e boninas deleitosas do ameno Rosal de Maria, e seu rosario*, traduzidos e compostos com proveitosos moraes para bem das Almas - Rachol - no date of print.

iii) *Fruto da arvore da vida a nossas almas e corpos salutifero*, illustrado com varios moraes para proveito das Almas - Rachol - no date of print.

iv) *Vocabulario da lingua Concanica* - Mss.

v) *Beneficios insignes dos Anjos custodios* - Mss.

vi) *Baculo pastoral para administracao dos sacramentos e mais obrigacoes parochiais* - Mss.

**आंतोन्यु द साल्दाञ्या** (1598-1663)- ह्या फुडें येतल्या ग्रंथाचो बरोवपी, आंतोन्यु द साल्दाञ्या हो उत्तर आफ्रिकेंतल्या मोरोको शारांत जल्मलो. हें शार त्या काळार पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आशिल्लें. ताचो बापूय नीज पुर्तुगेज आनी आवय इतालियान वंशाची. 16 वर्सां पिरायेर तो फौजींत भरती जालो आनी गोंयां आयलो. मागीर, अवचितपणीं देवाले आज्ञेन जाल्ले भशेन, फौज सोडून दिवन ताणें गोंयां जेझुयित धर्मसंघांत 1615 वर्सा रीग घेतली. पाद्री जावपाच्या अभ्यासक्रमाचें ताणें सुरवातेचें प्रशिक्षण, तत्वगिन्यानाचें धरून पूर्ण केलें, पुण ताका जाल्ले गंभीर पिडेक लागून, जेन्ना तो कुड्डो जावचे दशेस पाविल्लो, ताका तें वंद दवरचें पडलें. ताणें निमाणेकडेन पाद्रीची दिक्षा घेतली आनी साश्टी-गोंयच्या धर्ममळ्यांत ताका पाद्री आनी प्रवचनकार नेमलो; थंय ताणें व्हड कार्य केलें. त्या धर्मसंघांत ताणें जापसालदारकेचे हुद्दे सांबाळ्ळे आनी रायतुरेचे सेमिनारिचो तो व्हडिल जांवक पावलो. ताका कोंकणी तशी मराठी भोव बरे रितीन येताल्यो. तांतूंत ताणें गद्यांत तशें पद्यांत बरयलें. तशेंच गोंयच्या तिसवाडी आनी साश्टी म्हालांतल्या गांवा-गांवांनी ल्हाय-लोसणी रितीन प्रवचन केलें. तो रायतुरचे सेमिनारींत देझेंब्राचे पंदरावेर,.1663 वर्सा भोव फळादीक कार्य केल्या उपरांत ह्या संवसाराक अंतरलो. ताका 17व्या शेंकड्यांतलो कोंकणीचो व्हडांतलो एक गद्यकार मानतात. ताचे उत्तमांतले कांय ग्रंथ, जशें दियोगु बार्बोझा माशादुन आपल्या 'बिब्लियोतेका लुजिताना' (पुर्तुगेज बरोवप्यां ग्रंथालय), हांतूंत नोंद केल्लें आसा, ते हे:

(i) 'सांत आंतोनिचीं अचर्यां' (1655); (ii) 'जिवित्व-रुखाचीं अमृत फळां' (iii) 'प्रास्सि पाश्तोराल' (iv) 'मरियेच्या धादोस्कायेच्या गुलाब-बागींतलीं गुलाब- आनी हेर सोबीत फुलां आनी तांची माळ.' तांतले पयले तीन सोदून मेळ्ळ्यात, जांतलो पयलो ह्या संपादीत आनी पुनर्बांदून हाडिल्ल्या ग्रंथांत उजवाडाक येता. हेर संपादून पुनर्बांदून जाल्ले ग्रंथ मागीर उजवाडाक येतले म्हणपाची आस्त बाळगितां.



# सांतु आंतोनीचीं अचर्यां - 1655

हांतले कांय वांटे

---

## अचर्ये दुसरें

*भग्ता सांतु आंतोनीन सांगिल्या प्रमाणि, येका ग्रेस्ता सुआर्थियाचो काळिजाचो गोंड्डु, तो मेल्यां उपरांतें, ताच्या द्रव्याचे पेटेंतु, जिवोचि हळाळितु मेळलो.*

ज्या नगरांतु सांत आंतोन्यु वर्ततालो, त्या नगरिं एकु महा ग्रेस्तु प्राण्यो आशिलो; पण महा सुआर्थी लोभी. तो गत जाल्या उपरांतें, ताच्या मरणाचे सुधचार[1] करुंक, तागेल्या सोहिऱ्यां-धायऱ्यांनी येक प्रेगासांव[2] करुंक सांत आंतोनी लागीं मागिलें. तांच्या उतरान, त्या मनुश्याचें मडें इग्रजे मदें तुंबांत[3] आसतना, भग्तु सांत आंतोन्यु प्रेगासांव सांगुंक पुलपितारि[4] गेलो. त्या ग्रेस्ताचे उपचार पळेंवक, अप्रमित लोक मेळलो; त्या समेस्ता लोका लागीं भग्तु सांत आंतोन्यु उधंड सांगिल्या उपरांतें, येणें प्रमाणिं उलोंव लागलो :

अहो श्रुत्यांनो, स्पीरिता सांतान[5] म्हळां : (Ubi est thesaurus tuus, ibi et cor tuum erit.) जंय तुजें द्रव्य, भांडार आसा, थंयचि तुज्या काळिजाचो गोंडूय आसा; त्या समेस्ता लोकाक ह्या उतरांचो अर्थु सांगिल्या उपरांतें, आणी सुआर्था निमतिं आत्म्याक कितुलें नाशिक जाता, तेंवंय सांगिल्या उपरांतें, त्या मेलल्याच्यां सोहिऱ्यां लागीं ऐसो उलौंव लागलो : “आहो, तुमिं हागेल्यां द्रव्यहोयऱ्यांतु[6] आतां वचा, आणी

---

1. मरणावेळाचे निमाणे न्हावपा-धुवपाचे संस्कार.
2. पुर्तुगेज उतर म्हळ्यार प्रवचन वा सेर्मांव.
3. मेल्ल्या मडया काशांवा वयर सत्रे सारको माटव.
4. प्रवचन करपा खातीर केल्ली इगर्जेंत उठून दिसपा सारकी सुवात pulpit.
5. पवित्र आत्मो, देव-त्रिमुर्तीचो तिसरो जण.
6. जंय द्रव्य-धन राखून लिपोवन दवरतालो, थंयची गुठाची सुवात.

ज्ये पेटांतु हाणें द्रव्य भांगार दवरलां, थंयचि हाच्या काळिजाचो गोंडु जिवोच हळाळित तुमकां मेळत."

भग्ताचिं उतरां आयकूनु, तागेले सोहिरे-धायरे मेलेल्याच्या घरांतू उठाउठीं गेले, पेट उग्ती केली; करुंनु भितरि जरी पळेति, तरी त्या ग्रेस्ताच्या काळिजाचो गोंडु द्रव्यारी आशिललो तांकां मेळलो. तें अभिश्ट देखूनु महा अज्याप जाले, आणी पापाची भ्रांति सर्व मानशिं घेवनु, तो दिसु लेगिन, सुआर्थु वा द्रव्याची आशा सांडूनु, आपुल्या भग्ता सांत आंतोनीक सुवामया परमेस्परान असलें ग्न्यान दिलें म्होणु, कृपाळा परमेस्पराक उधंडां अर्गां दिंवू लागले, पापया संवसाराचें अथिरपण चिंतूनु, ताचें थिरासण[7] मनीं नधरुंच्याक, भग्त सांत आंतोनिच्या पुण्या खातीर, स्वामया परमेस्परा लागीं कृपा, वा ग्न्यान डोळे मागूं लागले, सुआर्था, वा संवसाराची आशा मनीं नधरूंच्याक, भग्ता सांत आंतोनी लागीं मजति मागूं लागले.

## आत्म्याक फळु काडूंक उपशामू

जैसो पळेया (क्रिस्तांवांनो) येकु मोगाळु बापु आपुले प्रतिच्या पुत्राक आपुलो घुट्ट, आपुलें वर्म सांगता, तैसोचि परमेस्परु बापाच्या माया मोगान, जो फुडारु जांवचो आशिलो, तो सांत आंतोनीक जाणैतालो. ताची भग्ति शेवा बरव्ये प्रमाणिं तुमी जरी करिश्यात, तरि ताच्या पुण्यान, परमेस्परु अंतिंच्यो वस्तू तुमकां उगडाप्यो करित, वा ताचें ग्न्यान तुमकां दीतः संवसाराचें सर्व अथिरपण, वा मुग्तिराज्याचें थीरपण,[8] वा कंयचि नसरतलें सर्व सुख, जें अंतिं भोगुंचें आसा, तें सांत आंतोनिच्या पुण्यान, तुमकां कळत. ताच्ये प्रार्थनेन, जी मया संवसारुं तुमच्या मनांतु घालिता, ती तुमीं पोरो घालिश्यात; द्रव्याची आशा, जी सैतान मनिं रिघैत, ती तुमीं धरी नां जावनु, अनंद राज्याची आशा सदां करुंक, हौंशे चडश्यात, पापया सवसाराचें चंचळपण, ह्या सुफळा भगताच्ये मजतिन तुमीं पुरें समजून, ताची आशा जिवीं भावीं सांडिश्यात, आणी ह्या सदैवा भग्ताच्या पुण्य विनंतीन परमेस्पराच्या दरुशेणाक अंतिं पावश्यात.



---

7. थीरपणाचें पर्यायी उतर, जें विरोधालंकारान उपकारावन संवसाराच्या अथिरपणाकडेन ताची सर केल्या, ह्या संवसारांत थिरासण ना, देखून तें आसा म्हणून मनांत धरचें न्हय.
8. तीच गजाल विरोधालंकारान मांडल्या ती नियाळात.

# अचर्यें पांचवें

*भग्तु सांतु आंतोन्यु येका भल्या माणुसाच्या घरांतु आश्रमल्यारि, त्याचि घराच्या घरकारान, भग्तु आश्रमलेल्या कुडांतु, बाळक जेझुस, सांतु आंतोनी लागीं महा प्रजळितु उलयतना, देखिलो.*

मुग्तीपंथा[1] निमितिं लोकाक शास्त्र सांगूंक, येका नगरांतु सांत आंतोन्यु पावलो. त्या नगरांतु येकु भलो, धर्मिक माणुसु वर्ततालो; ताणें सांतु आंतोनीचे बरवे गूण, उत्तमां लखेणां देखूनु, आपुल्या घराडे वस्त्ये रांवक, ताका भोव प्रार्थना केली. ताच्ये विनंती प्रमाणिं, ताच्या घरा वस्त्ये रांवक सांतु आंतोन्यु गेलो. त्या मनुशान सांत आंतोनिक आपल्या घरा उधंडु सनिमानु केल्या उपरांतें, आपुल्या घराचें येक कूड,[2] जें येकी कडे वेगळें आशिलें, तें बरें करुनु शृंघारुनु, नितळ करुनु, सांत आंतोनीक रांवक दिलें. थंय साभार दिवस पर्येंत्र सुफळु भग्तु राविल्या उपरांते, तो भलो मणुसु घराचो घरकारु, आपुल्यां घरांतु, येकी रात्री आयल्या पेल्यान भोंवतालो. भोंवतां भोंवतां सुर्या सारिखें तेज सांत आंतोनीच्या कुडांतु ताणें फांकललें देखिलें. कसलें तेज, वया?[3]

मुखारि पळेंवक जरि वचो, तरि सांत आंतोनीच्या कुडांतु तें तेज फांकललें देखिलें. देखतोंचि, लोहळू, लोहळू मुखारि वचूनु, देराच्यां शिरांतुल्यान हिवांवनु[4] जरि पळे, तरि सांतु आंतोनीच्या लिव्रावरि सुर्या पाशिं महा प्रजळितु, येकु भुरगो ताणें

1. तारण वा salvation सालवासांव, ह्या अर्थान उपकारायलां.
2. तें कूड, आकाराचेर आधारिल्लें कुडीचे आनी कुडाचे मदीं उरतली चार-वंटीं मदली सुवात नियाळात.
3. हें उतर आयज व्हय, व्हे, अशें उपकारायल्ल्या उतरांचें एक रूप.
4. दोळे लावन शिरेंतल्यान पळेवप - to peek or peep into.

देखिलो. आणी तो घडये घडये सांत आंतोनीच्या गळ्याक लागता, आणि सांतु आंतोन्यु ताची गळो-वेंग धरिता, ऐशें ताणे देखिलें. देखतोचि भुरग्याचे स्वरुपायेक लबदूनु, महा अज्याप जावनु पडलो. भुरगो खंयचो, आणी खंयच्यान आपुल्या घरांतु आयलो, ऐशें चिंतितां, दोशिंगारि[5] पडलो.

त्ये रात्री भितरि, मिनिन (बाळक) जेझून सांतु आंतोनीक, जेतुकें घरकारान देखिलें, इतुकेंय जाणैलें. जाणैल्या निमितिं, फांतें जातोचि, त्या भल्या मनुशाक सांत आंतोनीन आपौन हाडिलो, आणी ताका परमेस्पराची आण[6] घालूनु, म्हळें : "जितुकें तुवें कालिच्ये रात्री हांव आशिलल्या कुडांतु डोळ्यांनी देखिलें, तांतुतलें रजमात्र जित्या जिवाक हांव संवसारांतु आसो पर्यंत्र सांगूं नाका; जर सांगशी, तरि तुका परमेस्पराची आण आसा," म्हळें. आपण्याक भग्तान आण घाली देखून, तो घरिंचो घरकार कोणाक कांय सांगनासतनां, वोगोचि राविलो. पण सदैव भग्त गत[7] जाल्या उपरांतें, जितुकें त्या भल्या मनुश्यान देखिललें, येतुकेंय जगलोकाक ताणें प्रमाणमुखिं प्रघटायलें. ह्या पासावत सांतु आंतोन्यु चितारते वेळे, हौ ताचें बावलें घडिते वेळे, ताचे हातिं आशिलल्या लिव्रारि, बाळकु जेझुस चितारताति, हौ केललें बाळक जेझुचें बावलें दवरताति.

## आत्म्याक फळु काडूंक उपशामू

जरि संवसारांतु आसतनां (क्रिस्तांवांनो), इतुलो मया मोगु सांतु आंतोनिक बाळक जेझून करूनु दाखयलो, तरि आतां अनंद राज्यांतु कितुलो ताका करूनु दाखयत? कितुलें सुख परम अनंदु आपुल्या दरुशेणान ताका भोगैत? आणी ताच्या पुण्यान, ताची भग्ति शेवा संवसारांतु करितल्यांक, कितुली मजति बाळकु जेझु करित. बाळकु जेझु लागीं सांतु आंतोन्यु आपुली भग्ति शेवा करितल्यांक दिंवक, कितें मागत? आणी बाळकु जेझु ताका कितें नेदें जायत; सर्व महा संतोसान दीत. असलो सांभाळणारु तुमंकां मेळल्या उपरांतें, सर्व बरवें तुमकां नित्यकाळ मेळत. पण जैसो मोगान मोग चडता, तैसोचि तुमचो मया मोग जरि सांतु आंतोनीन करुंचो आसा, तरि

5. On the horns of a dilemma; हें करचें / येवजुंचें वा तें.
6. सोपूत घेवन / दिवन.
7. मेलो; भायर पडलो.

ताचोय तुमीं बरवे प्रमाणिं करका. तुमी केल्या सरशें,[8] शेतगुणीं तुमंचो तो करित, आणी ऐशें जरि जायत, तरि अप्रमित परमेस्पराचे उपकार भग्ताच्या पुण्यान तुमकां हांगा ह्यां संवसारांतु लाभती, आणी अंतिं परमेस्पराच्या दरुशेणाक ताच्ये मजतिन पावशात चितारताति, हौ केललें बाळक जेझूचें बावलें दवरिताति.

---



8. त्या बरावरीच्या प्रमाणान, त्या मापान.

# अचर्यें सातवें

---

*भग्ता सांतु आंतोनीच्या पुण्यान, दर्यांतुले मिन माशे,[1] भग्ताचिं उतरां आयकूंक, स्वामया परमेस्परान तडी येशे केले.*

आरिमीनु म्हळलें येक नगर आशिलें; ताचो घरवाशी लोकु महा थोरु पापी, शास्त्रद्रुहितु;[2] त्या नगरांतु सांतु आंतोन्यु रिघलो; आणी त्या लोकाक, फेभावार्था निमितिं, वा मुग्तिराज्या खातिर उपदेसूं लागलो. पण तो लोकु मुर्खु, वा अभावार्था पासावत, महा निलखेणु म्होणु, येकुय जाणु पुणु, भग्ताच्या उपशामा, सांगण्यान चेतवलो ना, वा मुग्तिच्या मार्गा लागलो ना. त्या पासावत सांतु आंतोनीक महा थोरु दुख जालें. ह्या निमितिं भौचि अक्रांदूं[3] लागलो. हे अक्रांदण्येन समुद्राचे तिरिं वचूनु, परमेस्पराच्या थोरा विस्वासान, समुद्रांतुल्या माश्यांक उलो दिंवूं लागलो, आणी तांकां परमेस्पराची आग्न्या करुनु ऐशें म्होणूं लागलोः

"ये माश्यांनो, जांकां परमेस्परान मति, ग्न्यान, कान, डोळे, तोंड, हात आणी पांय दिलले, त्याचि स्वामयाची शेवा करुंक आणी ताच्या शास्त्राचो प्रतिवाद आयकूंक, ते शास्त्रा निमितिं मातु गोश्टि सांगिल्यारि, आयकनांति. तुमकां मति कळोकळि[4] जरि ना, तरि ह्या अभावार्थ्यांचें निलखेण[5] फेडूंक, तुमीं वेगीं आपुल्या रचणाराचें उतर आयकुंक, तडी या."

हें सांत आंतोनीचें उतर येत खेविं, मिति नाथिलले माशे, मिन, व्हडां लागीं

---

1. नुस्तें; मासळी.
2. शास्त्राचे आड वावुरपी heretics.
3. दुखांन तक्रार करूंक.
4. समजणी; समजुपाची तांक.
5. सुलखेण (बऱ्या लक्षणांचें) हाचें विरोधार्थी उतर, म्हळ्यार वायट सभावाचें लक्षण.

व्हड, लाहानां लागीं लाहान, आपापुलीं बोडुकां उदका वयरि काडूनु, थंय मेळले. तांकां भग्तु सांत आंतोन्यु, जे स्वामया रचणाराचे उपकार लाभते, ते तांकां अर्थूनु सांगूं लागलो. भग्ताचिं उतरां मिन माशे बरव्ये प्रमाणिं चित्त दिवनु आयकताले. ह्ये खबरेन त्या नगरांतु जितुको लोकु आशिलो, इतुलोय हें नवल पळेंवक आयलो. थंय पावतोचि, परमेस्पराच्ये अपरांपरि[6] प्राप्ती, हुकुमेन, तांचें मन पलटलें.

ती स्वामयाची अविश्ट करणी देखूनु, सदेंव भग्तु सांत आंतोन्यु तांचे लागीं ऐसो उलोंव लागलो : 'ये माणुसानो, हे बुधी, मति नाथिलले मिन माशे आपुल्या रचणाराक वोळखताति, ताच्यां भग्तांक मानु दिताति. तुमकां मति, ग्न्यान, कळोकळि स्वामया रचणारान दिवनु, ताका तुमिं वोळखनांति, आणी स्वामयाच्या उतरांक मानु दी नांति. हे माशे मोने आणी भयरे, परमेस्पराचें उतर आयकूंक तडी आयले. तुमकां कान, डोळे आनी जीब परमेस्परान दिवनु, ताच्या शास्त्राचें उतर तुमकां सांगिल्यारि, तुमि आयकनांति, स्वामयाचीं उतरां कानभायरिं करिताति.'

इतुलें आणी अदिकतोर तांकां सांगिल्या उपरांतें, त्या इतुल्याय लोकान, परमेस्पराचो उजुवाडु तांचे मनीं भेदल्या निमितिं, ग्न्यान घेतलले, समेस्त चेतवले; आणी सांतु आंतोनी लागीं साबारां प्रकारिं गुन्यांव मागूं लागले, फुडलो अभावार्थु थंयचि सांडिलो. ते अणभवले म्होणु भग्ता सांत आंतोनिन उधंडां अर्गां परमेस्पराक दिल्या उपरांतें, माश्यां मछकुळांक आपुलें आश्रवचन दिलें. दीत खेविं, ते मिन माशे महा हर्कु संतोसु करुनु आपापुले स्थानीं गेले. तें महा थोर नवल त्या लोकान देखूनु, सांत आंतोनी लागीं आपण्याकय आश्रवचन दी म्होणु मागिलें. ताणी मागिल्या प्रमाणिं भग्तान तांकां वरुदान दिवनु, तांचे वरि बेंसांव[7] घालें. घालित खेविं, जे अनुभावार्थी शास्त्रद्रुहित जावनु आशिले, ते भावार्थी आणी परमेस्पराचे शेवक तैशेचि जाले. जावनु, परमेस्पराचो उपकारु मानिल्या उपरांतें आपापुल्या घरा महा अनंदु उच्च्याव करुनु गेले. स्वामया परमेस्पराक, वा ताच्या मोगाळा भग्ता सांत आंतोनीक उधंडां अर्गां, वाटे वेतना, महा थोरा अनंदा संतोसान, दीत गेले.

---

6. अनंत मापाची; अंत-पार नाशिल्ली; मापान आटापूंक जायनाशिल्ली.
7. आशिर्वाद वा अश्रवचन, ह्याचें पुर्तुगेज तत्सम रूप.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

अवगुण, क्रिस्तांवांनो, जे आमी सांडुंचे, आणी वरवे गूण जे आमीं आधारुंचे, ते सांतु आंतोनीचे मजतिन, ताच्या आधारान. ती मजति, आणी आधारु, ताची भग्ति शेवा तुमीं जरि करिश्यात, तरि कोणिय वेळे कोणाय वग्ता तुमकां मेळत. तुमचें मन पापा पासावत जरि वज्रा पार्शि[8] निबर जावनु आसा, तरि सांत आंतोनीची भग्ति शेवा केलल्यान, दरवत.[9] ताचे मजतिन परमेस्पराचें उतर तुमी जिवीं भावीं आयका; आयकश्यात तरि परमेस्पराची कृपा, भग्ताच्या पुण्यान तुमकां मेळत. जरि क्रिस्तांवपणाचे उपशाम, तुमकां वायट गूण लागल्या पासावत, मना नयेति, तरि सांत आंतोनीच्या पुण्यान, परमेस्परू तुमचें मन पलटित, आणी ते तुमकां महा उत्तम दिसूनु, तांकां पाळो दिश्यात. जें मागां तुमकां क्रिस्तांवपणाचें समजनां आशिलें, तें भग्ताच्या पुण्यान तैसोचि परमेस्परु तुमकां समजशें करित. आणी क्रिस्तांवपणाचे उपदेस जे सांभाळुंक आणी पाळुंक तुमकां अवगड, संगिन दिसताले, ते भग्ताच्या पुण्यान तुमकां सोंपे दिसती, आणी त्या स्वामयाच्यां उपदेसांक तुमी संवसारांतु मानु, पाळो दिवनु, अंतिं ह्या सुफळा भग्ताच्ये मजतिन, सर्व सुखाच्या राज्यांतु पावशात.

---



8. वज्रापरस; ही उपमा पळेयात;
9. दवरत - कडून, विर्गळून येत.

# अचर्ये नवें[1]

*भग्ता सांतु आंतोनीक मारुंक, जें विख शास्त्रद्रुहितांनी जेवणांतु घालें,*
*तें सांत आंतोनीच्या पुण्यान,परमेस्परान निर्विख जायशें केलें.*

भग्तु सांत आंतोन्यु, क्रिस्तांवपणाचो खांबो जावनु, संवसारांतु आसलो म्होणु पापी शास्त्रद्रुहित ताचेरि म्हारनंव[2] जाताले, आणी महा रागा क्रोधांन तो भूंय घालुंक आणी संवसारांतुलो फेडूंक, मेळ्या नेदुखचारान[3] भोव प्रकारिं चिंतिताले. हें आपुल्ये मनिंचें नश्टपण सिविर्धी[4] घालुंक, येकी दिवशिं सांत आंतोनीक आपुल्या घराडे जेवणाक आपयलो. भग्तु सांत आंतोन्यु मुग्तिच्या उजुवाडा, आपुल्या उपशामान तांकां हाडुंक, तांचे सांगातिं वचूंक गेलो. थंय पावतोंचि जेवणाक बैसल्या उपरांतें, येका रांधवयांतु,[5] त्यां पापयां अनुभावार्थ्यांनी सांत आंतोनीक विख घालें. तें रांधवय खांवक भग्तु सांत आंतोन्यु हातु लांवक वेतोचि, तांतुं विखु आसा आंतोनीन मनांतु घेतललो, त्याच स्वामियान ताचो प्राणु राखिलो, आणीम्होणु, ऐशें परमेस्परान सांत आंतोनीक जाणैलें. जाणैल्या पासावत, त्या शास्त्रद्रुहितांक सांत आंतोनीन शांतपणीं आगरावनु[6] म्हळें : 'आगा, तुमी अकिर्तगुणि,[7] माका जिवीं मारुंक कित्या केलो?'

तीं भग्ताचिं उतरां आयकूनु, आपुलो भेदु सांत आंतोनीक ठावो जालो, ऐशें तांकां सादृश्ट कळलें. कळल्या प्रसंगिं, तांचें तोंड काळें जालें. उताविळ जावनु, देवाच्या

---

1. हो आंकडो कसो बरयला तो नोंद करात; आनी न्हय णव.
2. दुस्मानकायेन उसळटाले.
3. मेळो म्हळ्यार दुस्मानकाय वा वायटपण; नेदुखचार - कुडनाटाय envy.
4. शार्ती पावोंवक; to accomplish.
5. एक रांदपा, जेवणा, परात. dish.
6. आग्रो करून; शिटकावन.
7. बरे किर्ती - गुण नाशिल्ले.

भग्ताक आपुलो सुधवांटो[8] दिवूं लागले : "आमी दातारा, तुका विख घाललें, हय, सत्य. पण तुका मारुंक न्हय, बगर क्रिस्तांवपणाचो सत्यार्थु पळेंवक, कित्या जावळि क्रिस्तांवपणाच्या ग्रंथांतु म्हळां, कि भावार्थी, विख पिलेय तरि, तांकां सर्वथा भेद ना जायत, तावळि तुका भेदत कि नभेदो, पळेंवक जेवणांतु तुका आमीं विख घालें, सत्य."

ऐसो ताणी सांत आंतोनीक आपुलो भांजडो[9] दिलो; आणी म्होणुं लागले, "विख आशिललिं ही रांधवयां, आमचे हुजिर तूं जरि खाशी आणी तुका वाद ना जायत, तरि तुजी शिकोवण सत्याची, आणी क्रिस्तांवपण निजु तडिपंथु[10] म्होणु, सर्व मानशिं आमिं सत्य मानूं." त्या उतराक सांत आंतोन्यु कोबुल जालो.

आणी थोरु परमेस्पराचो विस्वासु मनांतु घेवनु, त्या विस्वासान तांचे हुजिर तीं विखाचिं रांधवयां हातिं घेतलिं, वा तांचेरि सांता क्रुसाची कुरू करुनु, मटमटां[11] खांवूं लागलो. ते पापी अमंगळ शास्त्रद्रुहित, तीं विखाचिं रांधवयां पोटांतु पावत खेविं, सांत आंतोनीचो प्राणु तैसोच वेतलो म्होणु, ऐंशेचि पळेंवनु राबताले. पण ज्या स्वामयाचो विश्वासु सांत त्या विखाचें निर्विख केलें, कित्या अमृत सेविलल्याचे परीं, तें रांधवय खातना, ऐशें सांत आंतोनीक जालें.

तें अभिश्ट देखूनु, ते पापी शास्त्रद्रुहित अज्याप जावनु, शिला पडूनु, खोंचले, आणी खंडा प्रमाणी, आधिलो अभावार्थु, आणी निलखेणपण सांडूनु, क्रिस्तांवपणाचो फेभावार्थु जिविं भाविं आधारिलो. हेरु जितुको लोक थंय आशिलो आणी जो मागिरि ह्ये खबरेक पावलो, तो जें वर्तललें तें अभिश्टशें मानूनु, क्रिस्तांवपणाचो उधंडु, प्रियेव मानूं लागलो, आणी फुडलो आपुलो अभावार्थु वर्जूनु, क्रिस्तांवपणाच्या उजुवाडा सर्व मानशीं आयलो.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

जैशें (क्रिस्तांवांनो) तें विख सांतु आंतोनीक परमेस्परान राखिलो म्होणु, भेदलें

---

8. फोडणिशी - सफायी - कारणां, justification, खऱ्या अर्थान दिसतलीं.
9. तीच फोडणिशी खरेली न्हय पुण फटिंगपणाची जाल्यार, ताका भांजडो म्हणटाले.
10. तारण, salvation; दुसरो अर्थ भायर सरपाची वाट वा सुटका.
11. हापहापपणीं; एकामेकार थांबनास्तना गडगडीत रीतीन gluttonously, ravenously.

ना, तेणेंचि प्रमाणिं, ताची भग्ति शेवा करितल्यांक परमेस्परु राखूनु, तांचे वेलें विखाचें वा आणियेक कसलेंय तरि विघ्न निवारित. पण त्या भितरि, जें पापाचें विख सैतान आमच्या आत्म्यांक घालूनु, माणुसांचो स्वामि जेझु, सांत आंतोनीचे प्रार्थनेन ताची भग्ति शेवा करितल्यां वरि कृपा करुनु, सर्व पापाची, वा अनुभावार्थाची ख्यालि[12] पोरो घालुंक, धीरु दीत. त्या धिरान भावार्थी क्रिस्तांव धिरादीक जावनु, परमेस्पराच्यां उपदेसांक पाळो दिवनु, हांगा संवसारांतु चालती आणी अंतिं परमेस्पराच्या म्हा प्रजळीत दरुशेणाक, सुखीं पावती.

-----------------------------------------------------



12. पातक; व्यसन चूक वा वायट करणी

# अचर्यें इकरावें[1]

*सांतु आंतोनीच्या पुण्यान येकु चेडुं जें मेललें, तें परमेस्परान जिवें केलें, आणी ताचे मायेक, ताका जिवें केलल्यान, संतोसायली.*

सांत आंतोनीचें शास्त्र आयकुंक येकी सजनी स्त्रियेन आपुलें येक चेर्डूं येका पाळण्यांतु निदायलें, आणी देराक खिळि घालूनु, इग्रजेडे धांवत वचूनु शास्त्र आयकिल्या उपरांतें, घरा परतूनु येंवक मार्गा लागली. घरांतु पावतोचि, पाळण्यांतु जरि पळे, तरि आपुलें चेर्डूं निर्जिव जाललें देखिलें. देखिल्या पासावत, जी बोब तिणें केलली, जें रुधन केललें, तें सांगतां नये. आणी त्येचि पावलिं इग्रजेडे परतूनु गेली, आणी सांत आंतोनी आशिलले कडें धांवत वचूनु भग्ताचे चरण धरलें; आपुल्ये मनिचें दुख महा थोरां हिंपुट्यांनीं सांगूं लागली. तिचिं दुखवंतां उतरां सांत आंतोनीन आयकून, त्येचो अखटाव[2] भग्ताक दिसलो, आणी तिका नाना प्रकारिं संभोखूनु, "भियेंव नाका" म्हळे : "तूं घरा परतूनु वच, आणी घरा पावतोचि, परमेस्परु तुजी काकुळति करित."

ह्या उतरान ती चिकेशें[3] बुजावली, आणी आपुलें चेर्डुं परमेस्परु भग्ताच्या पुण्यान जिवें करित म्होणु, भग्ताचो तिका पूर्नु विस्वासु दिसलो; ह्या विस्वासान घरिंचे वाटे लागली. घरा पावतोचि, जें चेर्डुं पाळण्यांतु निर्जीव जावनु आशिलें, ताका जीव भरुनु बैसललें देखिलें. देखिल्या निमितिं जो संतोसु तिका भोगलो, त्या संतोसाक मिति ना, आणी जीं अर्गां परमेस्पराक आणी ताच्या भग्ता सांत आंतोनीक दिंवूं लागली, तीं उधंडां; उपकारु जो मानिलो, तो महा थोरु; आणी तो दिसु लेगीन, दिसानदीसु, सांत आंतोनीची भग्ति शेवा महा थोरी हाणविर्धी विर्जिकेन[4] करुं लागली.

---

1. सारको आंकडो नोंदून घेयात; अकरावें न्हय.
2. चुरचुरे, compassion.
3. मातशी; इल्लीशी.
4. पोटतिडकीन; खतखत्यान; सौंरसान; रैवासान.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

सांत आंतोनीचें चरण (क्रिस्तांवांनो) आपुल्ये गरजे आकांताक आपुल्ये मनिं कोणें सुमरिलें? आणी कोणाक सांत आंतोनीन उपेखिलो? तें तुमीं माका सांगा! ताचो विस्वासु मनांतु पुरो जरि धरिश्यात, आणी त्या विस्वासान ताच्यां चरणांचें सुमरण जरि करिश्यात, तरि तुमचे मनिचें, तो सिध्दी पायत. तुमंचेरि मरण मुखे जरि आयलें, तरि तो तें चुकैत, कित्या मरणावरि मुखे स्वामया परमेस्परान आमंच्या भग्ताक प्राप्ति हुकुम दिल्या, आणी त्या भितरि पापा पासावत जें मरण आत्म्याक जाता, तें चुकौंच्याक आमचो भग्तु महा किर्तिवंतु चुकौणारु आसा, संवसारांतु, आणी आतां मुग्तिराज्यांतु आसतना, आपुल्ये विनंती प्रार्थनेन उधंडी वेळ नाशिवंता आत्म्याचें मरण भौतेकां वेळे ताणें चुकयलें, आणी सधांकाळ चुकैत; कुडिचें मरण जें आसा, तें कधिंचि चुक ना. मागां फुडां येतलेंचि, काय येका भग्ताच्या पुण्यान थोडे काळ पर्यैत्र परमेस्परु जरि चुकैत, तरि तें दुसेरिं येणार, कोणाक चुक ना. आत्म्याचे मरण माणुसाक, पापा पासावत संवसारांतु जरि जायत, आणी कांय येक भग्ताच्या पुण्यान परमेस्परु नचुकैयि जरि जायत, तरि माणुसु सासणाक नासलो. असलें नाशिक तुमच्या आत्म्याक नभोगुंच्याक, कृपाळा भग्ता सांत आंतोनीची भग्ति शेवा सधां करका; तो तुमचो शाखारी परमेस्परा लागीं जरि जायत, तरि आत्म्याचें मरण तुमकां सवर्था लाग ना जायत, आणी ताच्या पुण्यान परमेस्परु तुमकां आपुल्या दरुशेणाचें अनंत सुख मेळशें करित.

---



# अचर्यें सतरावें

*जायेपणिच्या[1] येका पांगुळ्या चेड्याक, चमकणें जें नाशिलें, तें सांत आंतोनिच्या पुण्यान मेळलें.*

अचर्येवंता सांतु आंतोनिन लोकाक येका नगरांतु, शास्त्रा निमितिं मातु गोश्टि केल्या उपरांतें, आपुल्या बिडाराडे सदैवु भग्तु येंवक येतालो. वाटेरि येकि बायल ताका रावताली; तिच्या गोपांतु येकु आपुलो भुरगो, जायेपणिचो पांगुळो आशिलो. भग्ता सांत आंतोनिक ती बायल देखतोचि, वेगिं वेगिं मुखारि धांवनु वचूनु, आपुल्या गोपांतु आशिललो तो पांगुळो भुरगो सांत आंतोनिच्यां चरणांडे घालूनु, भग्ता हुजिर साश्टांग[2] भूमी वरि घालूनु घेतलें, आणी स्वामया जेझू खातिर, ह्या पांगुळ्याच्या माथ्यारि हात दवरुंनु , दातारा, सांता क्रुसाची कुरु ताचेरि करि, म्होणु भौतां प्रकारिं मिनति मामूलु[3] करुं लागली.

सांत आंतोन्यु, लिणुवाये आश्रित, पांगुळ्या चेड्यारि हात दवरी नां आशिलो, वा सांता क्रुसाची कुरु तर्केकी[4] मस्तकारि नकरि आशिलो. भग्तु आपुलो हातु दवरी ना, ऐशें ती बायल देखूनु, भौचि प्रार्थू लागली: "कृपाळा जेझू खातिर, तूं, दातारा, ह्या पांगुळ्याच्या मस्तकारि हात दवरि. तुजो हातु तूं जरि दवरिशी, तरि पांगुळ्या भुरग्याक हात पांय जावनु, बरो नीटु जायत, ऐसो माका मनिं पुर्नु विस्वासु दिसता."

ती भोव खणपटी[5] लागल्या पासावत, आणी सांत आंतोनिच्या सांगात्यान तिचे खातिर भोव प्रार्थिलें म्होणु, भग्ता सांत आंतोनिक तिची काकुळति आठवली. आणी

1. जल्माक थावन अशें जाल्लो.
2. ही काणी आमचे संस्कृतायेंत बसोवपाचो हीं उतरां उपकारावन केल्लो प्रयत्न.
3. विनंती, मागणी, प्रार्थना, भीक-मागणें.
4. कितेंच केल्यार (in no way).
5. फाटीक लागचें, भौन भौन मागचें (importunation; persistent pleading).

बों जेझु[6] स्वामयाचें नांव त्या भुरग्यारि उचारूनु, ताच्या मस्तकारि सांता क्रुसाची कुरु केली. करित खेविं, वा सांतु आंतोनिचो हातु भुरग्याच्या मस्तकारि लागत खेविं, भुरगो जो पांगुळो आशिलो, तो बरो निटु जावनु, संतोसाच्यो उडक्यो दिवूं लागलो. ताची माय तें अपूर्व देखतोंचि भोव अनंदली, भौव संतोसूनु रैवासली. सांत आंतोन्यु आणी ताचो सांगाती, जेझु स्वामयान त्ये बायलेचो भावार्थु आणी विस्वासु देखूनु, तिचेरि येदी थोरि कृपा केली म्होणु, भौव संतोसलो.

ती आपुलो भुरगो लागीं घेवनु, परमेस्पराक वा ताच्या भग्ताक अर्गा दिल्या उपरांतें, आपुल्या घरा वचूंक गेली. पण घरा वेते वेळे, तिचे लागीं सांत आंतोन्यु आपण संवसारांतु जिवो आस पर्येंत्र, हांगा जें वर्तललें अचर्यें, तें जित्या जिवाक तूं सांगूं नाका म्होणू, भोव प्रार्थूं लागलो. कित्या ह्या नवलाचो मानु, किर्ति स्वामया परमेस्पराक सर्व प्रकारिं फावो. "ज्या स्वामयान तुज्या चेड्याक बरो केलो, त्या स्वामयाचो उपकारु तूं सधांकाळ मानि." भग्ताचिं उतरां महा लिणवायेचिं ती बायल आयकूनु, आपुल्या भग्ताक असले बरवे गूण दिले म्होणू, स्वाम्या परमेस्पराक अर्गा दिवूं लागली.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

संवसारांतु आसतना, क्रिस्तांवांनो, इतुली हुकुम आणी प्राप्ति परमेस्परान सांत आंतोनिक जरि दिली, येदी थोरि काकुळति मया लोकाक बरें करुंक ताका जरि आशिली, तरि आतां सर्वय सुखाच्यां राज्यांतु परमेस्परचें दरुशेण नित्यकाळ भोगितां, ताका कितुलीं प्राप्ति, आणी हुकुम अससलीं अचर्यां करुंक जायत? कितुली मया आणी काकुळति आपुली भग्ति शेवा करितल्यांची ताका आठवत, कितुल्या अनंदा संतोसान आपुलें सुमरण करितल्यांक, मजतिक पावत! ताची भग्ति शेवा तुमीं करका, आणी ह्या उतराक तुमींचि साखि जाया. कित्या परमेस्परु जे उपकार सगळ्याक सांत आंतोनि खातिर दिसान दिसु करिता, ते अप्रमित, आणी हो संवसारु आस पर्येंत्र, परमेस्परु आपुल्या मोगाळा भग्ताच्या पुण्याक करितोंचि रावतलो.

ताचि भग्ति शेवा तुमिं करका, आणी ताचे अगणित उपकार घेया. ते तुमकां लाभुंच्याक फेभावार्थु, वा पूर्नु स्वामयाचो, वा ताच्यां भग्तांचो विस्वासु त्यें बायलेचे

6. बों म्हळ्यार बरो, पुर्तुगेज भाशेंत - बरो, मोगाळ जेझू.

देखिन, तुमी धरका. फेभावार्थु, आणी पूर्नु विस्वासु मनिं जरि ना जायत, तरि परमेस्परु, आणी ताचो काकुळतिसारु भग्तु आमकां पाव नां जाती; तो जरि जायत, तरि कृपाळु भग्तु सांत आंतोन्यु, मुखारि सरुनु, तुमंचे खातिर विनंती करित. ताचे विनंति प्रार्थनेन स्वामि परमेस्परु उधंड उपकार तुमकां करुनु, मुग्ती राज्यांतु पावशे करित.

---



# अचर्यें इकुणतिसावें

*सांत आंतोनिच्या पुण्यान, पावसु जो सगळ्याक पडतालो, तो फ्रादिंक खांवक कांय नाशिल्या पासावत, तांकां भाजी व्हरतल्या येका चेडुवारि, कांयचि पडलो नां.*

येका अटुका अरण्यांतु, येकु मुस्तेयरु सांत आंतोनिन बांदिललो, तांतूं आपुल्या रेलिज्योझां सैत परमेस्पराची भग्ति, सेवा वा उधंड प्राचित, आणी उग्र तप करी. येके दिवशिं फ्रादिंक खांवक निस्संग[1] नाशिलें, नां पोरसुवांतु,[2] नां घरांतु. आपण्याक अतूर[3] पडलें देखूनु, सांत आंतोन्यु लागीं आशिलले येकी पुण्यादिकी स्त्रिये लागीं कांय येकि पोरसुवांतुली भाजी फ्रादिंक रांदवय करुंक, मागूं धाडिली. म्हणयारे तिच्या घरांतु गेले; सांत आंतोनिचें सांगणें पायलें.

तांच्या सांगण्या प्रमाणी, सांत आंतोनिक, वा तागेल्यां फ्रादिंक वरौवाची[4] तुंटपणी[5] जाल्या, ऐशें त्ये बायलेक कळलें.

ती खबर आयकूनु, ती दुखवली; बापुड्या फ्रादिंचो अखटाव करुं लागली; आणी वेगिं वेगिं येक आपुलें रावयललें चेडूं आपयलें, आणी ताका पोरसुवांतु धाडूंनु, फ्रादिंक पुरोशी भाजी हाडूं सांगिली.

सायविणिचो निरोप आयकतोचि, चेडुवान जाप दिवनु, म्हळें : "आगे सायविणी, पावसु तरि शिळाधारिं[6] पडता, वारें तरि महा प्रचंड येता, ताचे लागीं कोणाच्यान उभें

1. कुस्कटाचें; निखालुस; कांय एक.
2. पोरसांत; वारव्याच्या मळ्यांत.
3. गरजेक सांपडले; आकांतात पडले.
4. जेवणा-ग्खाणाच्यो वस्तूं पुरवठो.
5. उणाव; टंचाय shortage; scarcity.
6. हरांधारिंनी; घसघश्यांनी.

रावव नां. असल्या पावसा, वाऱ्यांतु कोणी प्रमाणीं जिनांतु वचूं? देरा भायर पांव घलवोचि नां मं?"

चेड्डुवाची जाप आयकतोचि, सायविणिन म्हळें : "आगो, गेल्या बगर सरोचि नां. कोणिय बुधिन तूं वच. फ्रादिंक महा अतूरपण पडलें. रांदवय जायशी थोडी भोव भाजी तांकां आमिं जरि धाडी नां जांव, तरि थंयचि ते उपवाशिं मरती."

सायविणिचें उतर आयकूनु, चेड्डुवान परमेस्पराचो विस्वासु मनांतु धरुनु, वेगिं जिनांतु वचूंक गेलें.

ताका वेतनां सायबिणिन म्हळें, "आगो, भाजी कातरुनु मुस्तेयराडे व्हर, आणी फ्रादिंक दिवनु वेगीं घरा यो."

सायविणिच्या उतरान पोरसुवांतु चेड्डूं गेलें. फ्रादिंक पुरो जायशी भाजी कातरली, आणी भाजेक वेंग मारुनु, मुस्तेयराडे वचूंक गेलें. पण वेतनां आणी येतनां अविश्टाचें येक नवल वर्तलें; कित्या अप्रमित पावसु पडत आसतां, येकूय थेंबो त्या चेड्डुवाच्या आंगारि पडलो नां.

चेड्डुवाची सायबिणि, आपुल्या चेड्डुवाचो अखटाव घरा करिताली; बापुडें चेड्डूं थापडें[7] जायत, सगळें तिमत,[8] ताची वाट पळेताली. इतुल्यारि तें चेड्डूं घरा आयलें. घरा पावतोचि ताचिं आंगावलिं, सायविणि जरि पळे, तरि सुकिंचि देखिलिं. तें अपूर्व देखूनु, ती महा अज्याप जाली. आणी त्या चेड्डुवा लागीं सर्व वर्तमान विचारुं लागलि.

सायबिणिच्या उतराक चेड्डुवान म्हळें, "आगे सायबिणि, घरांतुलें भायर पडलें लेगिन, आणी घर परतूनु ये पर्येंत्र, अप्रमितु पावसु पडलो, हय सत्य. पण आसरावणें[9] माका नासतनां, येकूय थेंबो पुणु मजेरि पडलो नां."

त्या चेड्डुवाचें उतर आयकूनु, सायविणिन अबिश्ट मानिलें, आणी परमेस्पराक, वा ताच्या भग्ता सांतु आंतोनीक ती आणी त्या घरिंचो समेस्तु लोकु अर्गा दिंवुं लागलीं, आणी परमेस्पराच्या शेवकाक सधा धर्मु[10] करुंक आपुल्या मनांतु निर्धारु करुनु, सांत आंतोनिच्या पुण्या खातिर, परमेस्परा लागीं मजति मागूं लागलिं."

---

7. पावसान भिजून चिचिपिल्लें.
8. भिजून सगळें ओलें जायत.
9. आसरो घेवपाचो उपाय, सत्री सारकेलो.
10. दान-धर्म, दुडवां वा हेर मदत.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

थोडी भोव शेवा करितल्यांक (क्रिस्तांवांनो) येदी थोरि मजति सांत आंतोनिन जरि केली, तरि ताची अदिकि भग्ति शेवा करितल्यांक कितुल्या प्रकारिं सांभाळित? तांचेवेलें कितुलें विघ्न, आणी अकांतु निवारित. कणिवळु भग्तु सांत आंतोन्यु, ताचे खातिर आमिं कितें करितांव, पळे ना, बगर कोणा त्या चित्तान, कोणा त्या मये मोगान आमिं करितांव, तेंचि पळेता. बरव्ये खोश्येन, बरव्ये दये मायेन, इदुली ताची शेवा केल्यारि, इतुलो सांभाळु त्या चेडुवाक भग्तान जरि केललो, तरि अदिकि शेवा करितल्यांक, कितुलो करित? समेस्तां भग्तां भितरि भग्तु सांत आंतोन्यु भोव उपकारी, कोणाचो उपकारु ठेय नां, तैसोचि बावडिता. इतुलें ताच्या नांवान केल्यारि, सहस्त्रगुणिं ताचो उपकारु मानुनु, महा थोर परमेस्पराचे उपकार तांकां लाभशे करित. ताच्ये शेवे भग्तिक, येक कोणय जरि वेचित, तरि येकेकाक शेत गूण[11] तो मेळशें करित.

---



11. शंवर पटीं; शंवर फावटिच्या मापान.

# दुसरो भागु

## अचर्यें पयलें

*अचर्येवंता भग्ता सांतु आंतोनिन येका कोश्ट्या[1] माणुसाक कोश्टा व्रहित केलो, आणी आपुल्या अभावार्थाच्या पापा पासावत,[2] जें कोश्ट येका अभावार्थ्याक लागलें, तेंवय भग्तान फेडिलें.*

येका ग्रामांतु भोव काळ पर्येंत्र, येकु माणुसु बव्लिकेन रेंजतालो; ताच्या सर्वांगारि कोश्ट व्यादि जालली. त्या पासावत भौचि कश्ट, दग्द पावतालो. त्ये काळिं, सांत आंतोनिच्या पुण्यान उधंडां अचर्या संवसारांतु परमेस्परु करितालो. तीं त्या रेंजतल्यान आयकूनु, परमेस्परु सांतु आंतोनिच्या पुण्यान आपणाकय अनमान करित म्होणु धिरु घेतलो; हौंशे चडलो.

इतुली आशा ताणें मनांतु धरुनु, आपुल्या येकां सोहिऱ्यां लागीं ज्या सेपुलक्रांत[3] सांत आंतोनिक पुरलली, त्या सेपुलक्राडे आपण्याक व्हरा म्होणु, भोव प्रकारिं ताणें प्रार्थिलें. ऐशें तो रेंजतलो भोव खणपटी आपण्याक लागल्या पासावत, तागेले सोहिरे ताका उभारुनु, सांत आंतोनिच्या सेपुलक्राडे व्हरुं लागले. वाटे वेतना, येकु शास्त्रदृहितु हेरेजि[4] तांकां भेटूनु, तुमिं खंय वेतातिं, म्होणु विचारुं लागलो.

“सांत आतोनिच्या सेपुलक्राडे ह्या आमंगेल्या सोहिऱ्याक व्हरतांव, ऐशी ताणिं ताका जाप दिली. जैसो अप्रमितां बव्लिकेच्याक भग्तु अनमान करिता, तैसोचि कोश्टा व्यादी व्रहित, हाका करित म्होणु, ताका आमिं व्हरतांव.”

1. कोड जाल्लो मनीस; कोड = कोश्ट = कुश्टरोग.
2. कुडीक लागिल्लें कोड आनी आत्म्याक पोखरतलें कोड - हांतली उपमा पळेयात.
3. थडगें, पुर्तुगेज उतरांतल्यान उपजल्लें.
4. पुर्तुगेज उतर, त्या आदल्या उतराचें समानार्थी heretic.

तांचिं उतरां आयकूनु, तो शास्त्रदृहितु तांकां हांसूं लागलो, आणी चोत्रायेन म्हळें, "जरि सांत आंतोनिच्या पुण्यान हाचें कोश्ट भायर पडत, तरि तेंचि कोश्ट व्यादि माका लागूं." इतुलें तांकां सांगिल्या उपरांतें, वचूं नाकाति म्होणु तांकां वारितालो.[5] पण त्या शास्त्रदृहिताचिं उतरां, ते आयक नां जावनु, मुखारि वचूंक गेले.

इग्रजेडे पावतोचि सांतु आंतोनिच्या सेपुलक्रा मुखारि तो रेंजतलो कोश्टी तागेल्यां सोहिऱ्यांनि उबो केलो. करित खेविं, ताका निद्रा आयली. निद्राभितरि सांतु आंतोन्यु ताका दृश्टी पडूनु, कोश्ट्याक म्हळें, "तुजी विनंति, प्रार्थना हांवें आयकिली; तुजो भावार्थु देखिलो. तूं वेगिं उबठ आणी सुखी कोश्टा व्यादी व्रहित जावनु, घरा वच."

त्या उतरान तो उबटलो. आणी ज्या फळ्यां वरि ताका सोहिऱ्यांनि उभारुनु हाडिललो, तीं फळिं आपुल्या खांदावरि घेवनु, महा अनंदु संतोसु लोका हुजिर करुनु, आपुल्या घरा वचूंक गेलो. वाटे वेतनां, जो शास्त्रदृहित ताका वचूं नाका म्होणु वारितालो, आणी जरि सांत आंतोनिच्ये मजतिन तुजें कोश्ट भायर पडत, तेंचि आपण्याक लागूं, ऐशें जो म्हणतालो, तोचि कोश्टान वेस्टललो,[6] तांकां मेळलो. तोचि रडतालो, कुयतालो,[7] आणी काकुळती येतालो; सांत आंतोनि लागीं गुन्यांव भगसूनु मागतालो.

ताणें मागिल्या प्रमाणिं, तो पापी हय, पण सांतु आंतोन्यु काकुळतिसारु म्होणु, ताचिय काकुळति सांत आंतोनिन करुनु, ताकाय कोश्टा व्यादी व्रहित केलो. आपुल्ये आंगिचें कोश्ट सांत आंतोनिच्या पुण्यान भायर पडलें, त्या कोश्ट्यान देखूनु, कृपाळा भग्ताचो उधंडु उपकारु मानिलो, आणी सर्व आपुलें दृहितपण सांडूनु, भाविकु क्रिस्तांव जावनु, परमेस्पराक अर्गां दिवूं लागलो.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

जरि आपुल्यां वैऱ्यां वरि सांतु आंतोनि इतुली कृपा करिता, तरि मये-मोगान ताची भग्ति शेवा करितल्यांवरि कितुली करित? गरजे अकांताच्या वेळा, देवाच्या

---

5. आडायतालो.

6. वळवळून पिडेंत रोंवून आसलो.

7. बोबो-हुयेली, किळंच्यो मारतालो.

भग्ता सांतु आंतोनिक तुमिं सुमरा.[8] तो तुमंच्या सुमरणाक तैसोचि पावत, आणी तुमंच्या अकांताक पावल्या उपरांतें, सर्व विघ्न निवारित, आणी जे तुमकां कश्टयती, वा सांतु आंतोनिची भग्ति करुंक आडवारिती, तांकां तो बुधि सांगता, कोश्टा व्यादिचो वोसो[9] जैसो भोव लागता, तैसोचि पापाचो वोसो, म्हणजे वायटि देखि, हेरा माणुसांक तैसोचि लागता. ती तुमकां नलागुंच्याक, भग्ता सांत आंतोनिची दिसान दिसु थोडी भोव भग्ति सेवा केल्या बगर, सुनों[10] दिसु तुमिं वचूं दिंवूं नाकाति; आणी जरि तुमकां अविचारिं लागत, तरि वेगिं सांत आंतोनिचें सुमरण करका, ताका मजतिक आपैया. तो तुमकां जरि पावत, तरि पापा निमितिं तुमंच्या आत्म्याक लागललें सर्व कोश्ट, ताच्या पुण्यान भायर पडत.

---



8. मान दिवन प्रार्थना करा - pray reverentially.
9. तेंकून स्पर्शून लागिल्ली पिडा वा दुयेंस infection; कुडीची आनी अत्म्याची पिडा, हांचें विरोधालंकारान मांडिल्लें रूपक नियाळात.
10. शुन्य, ह्या उतरा वेल्यान घडयल्लें 'सुनो', हें कोंकणी तद्भव पळेयात.

# अचर्ये इकरावें

*सांत आंतोनिच्या पुण्यान सुकलले बेल, जे येकी अनुभावार्थिनी बायलेच्ये हातिं आशिले, ते जिवे लवलवित जावनु, फूला, फळा पावले.*

येका ग्रामांतु फेभावार्था निमितिं, दुभाव धरनु येकि निलखेणि वायल आशिली. तिच्या मनांतु फेभावार्थु नाथिल्या पासावत, सांत आंतोनी कारणें जीं विपरितां सगळ्याक परमेस्परु करितालो, तीं सत्य मानी नां आशिली. येकी दिवशिं, भौतेकां जाणां सैत कोणी येकी कडें ती आशिली, थंयचो लोकु सांत आंतोनिच्या पुण्यान जीं अचर्यां सगळ्या संवसारांतु परमेस्परु करितालो, तांचे निमितिं मातु गोस्टि करुं लागलो. तांची मातु तिणें आयकूनु, निलखेणपणिं त्या समेस्ता लोकाक हांसूं लागली; आणी तिच्ये हातिं येका डाकांचे[1] सुकलले बेल जे आशिलले, ते त्या लोकाक तिणें दाखौनु म्हळें, "सांत आंतोनी वरौनु, हे सुकलले बेल जरि मज्ये हातिं जिवे जाती, आणी आतांचि मज्या हातांतु आसतनां, फुला फळा जरि पावती, तरि सांत आंतोनिचिं अचर्यां हांव सत्य मानिन, हरशें सत्य नमानिं."

ऐंशी ती हुजिर आशिलल्या समेस्ता लोकाक सांगूं लागली. पण परमेस्परु सांत आंतोनिचो मानु जैसो कोणिय कडें राखतालो, तैसोचि ह्या निमितिं राखिलो. कित्या तिचे हातिं जे सुकलले बेल आशिले, ते अवचितोचि जिवे जाले आणी फुला फळा पावले. तें अविस्ट हुजिर आशिललो लोकु देखूनु, आपुल्या मोगाळा भग्ताच्या पुण्यान, अविस्टां सगळ्या संवसारांतु करुनु दाखयता म्होणु, परमेस्पराक अर्गां दिवूं लागलो.

ती निलखेणि वायल तें अपूर्व देखिलल्यान, महा विस्मित जाली, आणी तिची सर्व मति विगरुनु[2] परमेस्परा, वा सांत आंतोनी लागीं गुन्यांव भगसूनु मागूं लागली.

---

1. डाको वा धाको वा द्राक्षां बेल वा वाल grape-vine.
2. कड्डन येवन वा दरवून वा विर्गळून.

आणी तो दिसु लेगिन आपुलें निलखेणपण जिविं भाविं सांडूनु, भाविकि क्रिस्तांवि जाली, आणी सांत आंतोनिची भग्ति शेवा नित्य काळ करुं लागली, आणी जें अबिस्टांचें वर्तमान आपण्या लागीं वर्तललें, तें सर्वय लोकाक सांगूनु, असल्या कृपेवंता भग्ताची शेवा करका म्होणु, मुखारि मेळल्या लोकाक महा सौंरोसान[3] उपदेशिताली.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

येणे प्रमाणिं (मज्या भावांनो), आमंचो भग्तु सांत आंतोन्यु सगळ्या संवसारांतु हाचे सारिखिं उधंडां अचर्या केल्या प्रसंगिं प्रकासता. ताची भग्ति शेवा तुमि जरि करिशात, तरि परमेस्परु आमंच्या भग्ताच्या पुण्यान उधंडि मजति तुमंकां करित, आणी सांत आंतोनी सांगातिं अंतिं आपुलें दरुशण तुमंकां दाखैत. कित्या सांत आंतोन्यु, कुडिचे गरजेक जरि वेगिं पावत, तरि भौतेकां प्रकारिं आत्म्याचे सोडवणेक पाव नां! वेगिं पावत! आणी आपुल्यां भग्तिवंचळांक उधंडि स्वामयाची कृपा ह्या संवसारांतु लाभशी करुनु, अंतिं मुग्तिचें राज्य, वा परमेस्पराचें दरुशण मेळशें करित. कांय अनुभावार्थु, कांय दुभाव भग्ताच्यां नवलां निमितिं तुमच्ये मनिं जरि जायत, तरि सांत आंतोनिच्या पुण्यान, परमेस्परु तो फेडित, आणी तुमंकां बरें मतिग्न्यान दीत.

कित्या फेभावर्थु जो आसा तो क्रिस्तांवपणाचें मूळ. तो मनांतु दृडु जरि जायत, तरि हेर सर्व सुफळ जायत; तो मनिं जरि थिरु नां, तरि हेर सर्व माणुसाचें निर्फळ जाता. हें आमंचो कृपाळु भग्तु जाणो जावनु, आपुल्यां भग्तिवंचळांक ह्या निमितिं भोव मजति करिता. अभावार्थारि सर्वथा तांकां पडूं नेदे, आणी जरि अविचारिं पडले, तरि वेगिं तांकां नानां प्रकारिं मजति करुनु, तांच्ये मनिचो अभावार्थाचा अंधकारु[4] भायर पडसो करित.



3. खोश्येन.

4. हें रूपक नियाळात.

## अचर्यें बारावें

*भग्ता सांत आंतोनी वरौनु, येका शास्त्रदृहिताचे डोळे, जे उसळूनु भायर पडले, ते बरे जाले.*

ज्या नगरांतु सांत आंतोनिची पवित्रि कुडि निखेपिलली, त्ये नगरिं कांय येक महा थोर पापी शास्त्रदृहित आशिले; ते सांतु आंतोनिच्या पुण्यान, जीं विपरितां परमेस्परु करितालो, तीं सत्य मानि नां आशिले, आणी इतुलेंय नपुरो जावनूय, आमचेरी त्यां अचर्यांक चेस्टा, चोत्राजेस्त करिति.

येकि दिवशिं, ह्या निमितिं, मातु गोस्टि आणी चोत्रायो तो आपण्या भितरि करितनां, तांच्या भितरल्या येकान म्हळें : "हो लोकु सांत आंतोनिचिं अचर्या सत्य मानिता, तो सुधो पिसो जालो. असलें पिशेपण तांच्या मनांतुलें फेडूंक आमिं येक करुं या. हांव येक लुगट रग्तान तिमौनु, तें डोळ्यांवरि घालितां. समेस्ता लोकाक मजे डोळे भेतले म्होणु, ऐशें हांव सांगन. तुमिं माका सांत आंतोनिच्या सेपुलक्राडे दिस्टि मागूंक, रडत व्हरा. थंय पावल्या उपरांतें, सांत आंतोनिच्या पुण्यान माका दृश्टि मेळ्ळी, हांव लोकाक चोत्रायेक सांगन, मागिरि आशिललें आमिं लोकाक सागुं. तें आयकिलल्यान, लोकु सांत आंतोनिचिं अचर्या सत्य मानि नां जायत."

इतुलो श्रापुंक फावो निछेव आपण्या भितरि ते खेळाक करुनु, सांत आंतोनिच्या सेपुलक्राडे वचूंक गेले. थंय पावतोचि, जाणें रग्तान भरललें लुगट डोळ्यां वरि घाललें, तो बोब शिंयाडे दिवूं लागलो : "सांत आंतोनी, माका दिश्टि दी. कृपाळा भग्ता, माका पाव."

ऐशी मिनति मामुले करुं लागलो. हेर जे लागीं आशिले, ते आपणें चिंतललो तो चोत्रायेचो निछेव सिविर्धी घालुंक मुखारि सरले, आणी ताचे लागीं विचारुं लागले : "तुका सांत आंतोनिन दिश्टि दिली गा, कि नां?"

ताणें दिली म्हळें.

तें आयकूनु रग्तान भरललें लुगट जें डोळ्यां वरि ताणें बांदिललें, तें सोड्डुंक ताचे सांगातीं जरि वचति, तरि दोनिय ताचे डोळे भायर उसळले, आणी लुगटाक लागलले देखिले. तें देखूनु सुकले. आणी जिवाक जिव ना जावनु, भेयान थडथडां कांपूं लागले, आणी आपुल्या पापा पासावत, सांत आंतोन्यु आपण्यारि कोपत, कांय यादल दाखैत, आपुले मनिं भियेंवूं लागले.

त्या भेयान सांत आंतोनिच्या सेपुलक्रा हुजिर उधंडि दुखि संतापु मनांतु घेवनु, गुन्यांव भगसूनु मागूं लागले. देवाच्या भग्ताक पांयां पडूनु, सपाट भूंय घालूनु घेवनु, ह्ये वेळे तुं आमकां राख, कृपाळा भग्ताक प्रार्थूं लागले. आणी मुखारि आशिलल्या इतुल्या लोका हुजिर, आपुलें पाप, आपुलो वायटु निछेव सांगूनु, सांत आंतोनिक ऐशि प्रार्थना करुं लागले : "देवाच्या भग्ता, हो गुन्यांव तूं आमकां जरि दिशी, आणी आमंच्या सांगात्याक जे डोळे उसळूनु पडले, ते जरि बरे जैशे करिशी, तरि आजि लेगिन आमिं भाविक क्रिस्तांव जांव, तुजी भग्ति शेवा करुं."

तांची विनंति कृपाळा सांत आंतोनिन आयकूनु, जाचे डोळे उसळूनु भायर पडलले, ते आपुल्ये सुवाते पुणतिं बैसशे केले. तें हेरांनि देखूनु, उधंड्डु संतोसु मनांतु मानिलो, आणि स्वामया परमेस्पराक सांत आंतोनिच्या पुण्यान येदी थोरि मजति आपण्या वरि केली म्होणु, अर्गां दिवूं लागले. जाचे डोळे उसळूनु भायर पडले, तो सांत आंतोनिचें येस किर्ति सर्वय लोका हुजिर वाखाणूनु, आपण्यारि जी कृपा भग्ता सांत आंतोनिच्या पुण्यान स्वामया परमेस्परान केलली, ती सर्वय लोकाक आपुल्या जिवाच्या महा थोरा संतोसान सांगूं लागलो.

## आत्म्याक फळु काड्डुंक उपशामु

आपुल्या वैन्यांचो, येणे प्रमाणिं, जरि सांत आंतोन्यु सांभाळणारु जालो, तरि आपुली भग्ति सेवा करितल्यांक कितुल्या प्रकारिं सांभाळित? ताचो सांभाळु तुमकां जरि जावो, तरि ताची सेवा तुमिं, क्रिस्तांवांनो, सांड्डुंचि नाकाति. ताची तुस्ति पवाडे सधांकाळ वर्निका, पूर्नु ताचो विस्वासु मनांतु धरका. जरि ध्यांनिं मनिं धरिशात, तरि तुमंचो सारथी सांभाळणारु सांत आंतोन्यु जावनु, राखत; उधंडि स्वामयाची कृपा तुमकां लाभशी करुनु, सांभाळित. त्ये कृपे वरौनु, क्रिस्तांवपणाचे तुमकां बरवे गूण लाभती;

वा सर्व कोंकणेपणाचे अवगूण, झांकि, जळपु[1] भायर पडत. आपुल्या वैऱ्यांक सर्व गुन्यांव भगसूंक आणी तांकां मजति करुंक जी देखि दयाळा भग्ता सांत आंतोनिन आमकां दिल्या, ती तुमिं घेंवक आणी त्ये देखि प्रमाणिं चालूंक, तोचि सभागी भग्तु तुमंचे देखिन परमेस्पराक विनंति करुंक स्वामयाची कृपा तुमकां लाभशी करित.

---



1. भैरो-जळप.

# अचर्यें अठरावें

*भग्ता सांतु आंतोनिचें मडें पुरुंक व्हरतनां, अप्रमितां अचर्यां स्वामया परमेस्परान ताच्या मानत्वाक करूनु दाखयलिं, आणी जो दिसु सांत आंतोन्यु निजु परमेस्पराचो भग्तु म्होणु, क्रिस्तांवपणाच्या शिरोमण्यान सर्वय लोकाक जाणैलो, त्याचि दिवसा लिश्बोआ म्हळल्या नगराच्यो घांटो आपुश्योचि संतोसाच्या वाजपान, वाजूं लागल्यो.*

आरसेला म्हळल्या नगरांतु भग्तु सांतु आंतोन्यु गत जालो म्होणु, पादुआ म्हळल्या नगरिंच्या लोकाक खबर पावतोचि, त्ये नगरिंचो समेस्त लोकु महा थोरा अखंपान मेळलो, आणी आपुल्या भग्ताचि पवित्रि कुडि आपुल्या नगरांतु हाडुंक गेलो. हेरा शाराचो लोकु तर्केकी व्हरुं नेदे आशिलो. पण त्ये नगरिंचो बिस्पु, त्या दों नगरिंच्या लोकांचो संवादु आयकिल्या उपरांतें, पादुआ नगरांतु सांत आंतोनिची पवित्रि कुडि व्हरुंक फावो, ऐशें ताणें निवडिलें. ताच्या निरोपा प्रमाणिं, पादुआ नगरिंचो लोकु महा थोरा अनंदा, रैवासान, संतोसा, वा आटापा दबाज्यान, सांत आंतोनिची पवित्रि कुडि लागीं घेवनु, आपुल्या नगरांतु वचूंक गेले.

त्ये खबरेन, अप्रमित थोंटे, पांगुळे, भैरे, आंदळे, आणी हेर वेवेगळ्यां व्यादिंचे व्यादिश्ट, वळ्ळिकेचे आपण्याक सांतु आंतोन्यु अनमान करित म्होणु, थोरा भरवंश्यान धांवत आयले. येक तांबाक[1] हात लायतोचि अनुमान जायति; हेर सांतु आंतोनिच्या पांयांची उमा घेतोचि, तैशेचि बरे जायति. असलिं महा विपरितां देखूनु, लोकाच्या अनंदाक मिति नां जाली. कित्या पैस जे आशिलले, ते लोकाची खेटि[2] भोव जाली म्होणु देखतोचि, ती खेटि दाटी फाळुंक, वा मुखारि वचुंक, तांकां टांक ना जाल्यारि,

1. तांब्याक; सांत आंतोनिच्या भेंडाक बांदिल्लो तांब्या-कुडको.
2. लुटी-गर्दी; लोकाचो हरपांजर (गर्दी-तांडी).

"सांत आंतोनी पाव," ऐसो उलो दित खेविं, थंयचिं सर्वांगिची व्यादि फिंटूनु, बरे जायति.

तीं अप्रमितां अचर्यां सांत आंतोनिच्या पुण्यान परमेस्परु थंय करितालो, तीं त्या शाराच्या लोकान देखूनु, क्रिस्तांवांच्या शिरोमण्या, सुम्मो पोंतीफिसि म्हळल्या लागीं आपुले हेजिब धाडिले, आणी तीं समेस्तां अचर्यां ताका जाणैलिं. तीं बरे प्रमाणिं ताणे मना हाडूनु पळेलिं. पळेल्या उपरांतें, त्यां अचर्यां प्रमाणिं, सांत आंतोन्यु निजु परमेस्पराचो भग्तु, ऐशें सूम्मु पोंतीफिसिन निवडिलें. निवडित खेविं, सांतु आंतोनिचे जल्मभुमिचें लिश्बोआ म्हळलें येक नगर पुर्तुगाल राज्यांतु आसा, त्या नगरांतु जितुक्यो घांटो आशिल्यो इतुक्योय आपुश्योचि संतोसाच्या नादान, कोणाचो हातु लाग नासतनां, रेपिकार[3] जांवूं लागल्यो. घांटांचो महा हर्किंतु नादु आयकिल्या पासावत, समेस्तु लोकु महा संतोसा अनंदान नाचूं, उडूं लागलो.

थोड्या काळा भितरि, त्या नगरिं खबर पावली, सांतु आंतोन्यु परमेस्पराचो भग्तुसो म्होणु सुम्मु पोंतीफिसिन नांवाडिलो[4] म्होणु. त्ये खबरेन त्या शाराच्या लोकान दिस लेखूनु जरि पळेलें, तरि ज्या दिवसा घांटो आपेआपोचि रेपिकार जाल्यो, त्याचि दिवसा सुम्मु पोंतीफिसिन सांत आंतोन्यु महा थोरु परमेस्पराचो भग्तु म्होणु, रोमा नगरिं नांवाडिलोसो, ऐशें समेस्तांक दृश्टी पडलें. ही संतोसाची खबर सगळ्या राज्यांतु तैशिचि फांकली. राज्याचो सर्वय लोकु महा थोरु संतोसु मानूनु, असलो आपुल्ये जातिचो सारथी भग्तु आपण्याक सांभाळुंक स्वामया परमेस्परान दिलो म्होणु, त्याचि कृपाळा स्वामयाक अर्गां दिवूं लागलो.

## आत्म्याक फळु काडुंक उपशामु

सांत आंतोन्यु (क्रिस्तांवांनो) जिवो आसतना, आणी मेल्याय उपरांतें, सर्वय लोकाचो सांभाळणारु जावनु आसा. कोणय ताचें सुमरण जरि करित, गरजे अकांताक कोणय जरि मजतिक ताका आपैत, तरि कोणाचें समुरण तो उपेखी नां, कोणिय प्रमाणिं मजति करुनु सांभाळित. आणी तोचि परमेस्पराचो मोगाळु भग्तु म्होणु, ताचो मानु स्वामयान तागेल्या निजा नगरांतु घांटां वरौनु जैसो केलो, ताची भग्ति शेवा तुमिं

3. भौन भौन वाजताल्यो, पुर्तुगेज उत्तर.

4. नांव जाहीर करून पर्गटायलो.

जरि करिशात, तरि परमेस्परु सांतु आंतोनिच्या पुण्यान तुमंचो सांभाळु करित, आणी अदिकतोरि ह्या सुफळा भग्ताची शेवा, मया मोग दिसान दिसु करुंक, तुमंचेरि कृपा करित. आणी त्ये कृपेच्या बळान महा थोर पुण्य तुमिं संवसारांतु जोड्डनु, अंतिं सांत आंतोनी सांगातिं परमेस्पराच्या महा प्रझळिता दरुशणाक पावशात. जैसो पादुआ म्हळल्या नगराचो लोकु आपुल्या नगरा भग्ताची कुडि व्हरुंक आपुल्ये मनिंची भग्ति दाखयतालो, तैशेचि तुमिं, ताची देखि घेवनु, आपापुल्या मनांतु ह्या भाग्यवंता भग्ताची शेवा सधां करुंक बरें मन धरका. तुमंच्या बऱ्या मना सरिशें भग्तु तुमंकां पावतलो आणी सर्व विघ्न निवारुनु मजति करितलो.

---



**Miguel de Almeida (1604-1683)**- Born in Gouveia, Portugal, in 1604, he came to Goa, with a wish to serve in the Eastern mission, and joined the Jesuit religious Order in Goa, on 12th September, 1625. He was promoted to be the Jesuit Provincial of the Indian Province, after being Rector of the famous College of St. Paul, reputed as the University of Goa, in the city of Goa (now Old Goa) and served also as the parish priest of Chicalim village in Goa.

He is known to have composed many works in 'elegant' Konkani, the best of them being the 'VONVALYANCO MOLO' (Garden of Shepherds), taking inspiration from St. Thomas Aquinas' *Summa Theologica*, in five voluminous tomes, published in 1658-59, on being printed at the Jesuit Press at Rachol, Goa. It is rated as the masterpiece of that 'golden age'. Unfortunately, the presecution that the Jesuits suffered at the hands of an anti-clerical government of that time, resulted in the dispersal of these works. Vol. I (557 printed pages) loaned by Rev. Canon Francisco Vaz of Anjuna, Goa, to the Calcutta-based Jesuit historian, Henry Hosten, was analysed by him in articles published in the Bombay 'Examiner' (1922), but has not been traced so far. Vols. III and V of this massive work have been located , the former in the Central Library, Panjim, and the latter in the library of the School of Oriental and African Studies, London, and brought home by me. Vol. III has been reconstructed and edited by me and is being published now, as appended to this work, while Vol. V will be worked on and taken up later for publication.

In this volume and others, Konkani is revealed as a rich and versatile language, with a variegated and unique vocabulary and turns of speech and picturesque expression which have been employed very effectively by this writer in this work of a philosophical

and theological import. The descriptions and imagery in the book are embellished with the hyperbolic, cumulative and ornamental characteristics of the Baroque style prevalent in the Europe of that time, adapted to the situations in the Goan landscape, making generous use of the rich and versatile Konkani vocabulary and idiomatic phrases prevalent during that period in Goa.

**मिगेल द आल्मेयद** (1604-1683) पुर्तुगालाच्या गौवेया गांवांत 1604 वर्सा जल्मलो. उदेंतेच्या धर्ममळ्यांत वावुरचे खातीर म्हणून तो गोंयां आयलो आनी ताणें 1625 वर्साच्या सेतेंब्राचे 12-वेर जेझुयित धर्मसंघांत प्रवेस घेतलो. मागीर ताका भारतीय जेझुयित प्रांताचो व्हडील नेमलो. ताचे आदीं कोलेज्यु द सां पौल हे विश्वविद्यालय म्हणून गाजिल्ले संस्थेचो तो मुखेली जाल्लो, तसोच गोंयचे चिकले गांवचो पादिगार. ताणें खंय 'सोबीत' कोंकणींत साबार ग्रंथ रचले. तांतलो सगळ्यांत उत्तम म्हळ्यार 'वनवाळ्यांचो मळो.' तो बरोवपाक ताणें सां तोमाज आकीनु, इर्गजेच्या ह्या व्हड जाणकारांच्या 'सुम्मा थेयोलोजिका' (ब्रह्मविद्येचो आपरोस)- आंतल्यान स्फूर्त घेतल्या. तो पांच-खंडी ग्रंथ 1658-59 वर्सा रायतुरा (गोंय) छापून उजवाडाक आयलो. त्या 'भांगरा युगांतलो' तो सर्वोत्तम ग्रंथ मानतात. दुर्दैवान त्या काळावेल्या पुर्तुगेज सरकाराकडल्यान जेझुयित धर्मसंघाच्या वांट्याक आयिल्ले पिडापिडेक लागून, हो आनी हेर ग्रंथ हांगा-थंय शिंपडून, शेणून गेल्यात. तांतलें पयलें खंड (557 छापिल्लीं पानां) गोंयच्या हणजूण गांवांतल्या कोन्न पाद्री फ्रांसिश्कु वाज, हाणें कलकत्ता शारांत वस्ती करून राविल्ल्या हेन्री हॉस्टेन ह्या जेझुयित इतिहासकारा कडेन उसणे दिल्ल्यान, ताणें ताचो चिकत्सक अभ्यास करून मुंबय थावन उजवाडाक येतल्या 'एक्झामिनर' नेमाळ्यार (1922) कांय लेख बरयल्ले. पुण त्या खंडाचो सध्या पत्तो लागलो ना. ह्या ग्रंथाचीं III & V खडां सोदून मेळ्यांत आनी घरा हाडिल्लीं आसात, जांचेर वावर जातलो. III खंड आतां आमी पुनर्बांदून हाडलां आनी संपादलां, जांतले कांय वांटे ह्या ग्रंथांत नव्या रुपान फुडें दिल्यात.

ह्या आनी हेर खंडांनी उपकारायल्ली कोंकणी भास आनी तिच्यो वेगवेगळ्यो मोडी, वाक्प्रचार आनी अलंकारीक गिरेस्तकाय ह्या ग्रंथाच्या बरोवप्यान आपलो ब्रह्मविद्येचो आनी तत्वगिन्यानीक प्रवंध भोव अखेपायेन मांडपाक यशस्वी यत्न केला. वर्णनां आनी अलंकारीक चित्रभास भोव अतितायेन आनी मातोवन सांगिल्ले बारोक शैलींत मांडल्यांत.



# वनवाळ्यांचो मळो - 1658-59

## तिसरें खंड - हांतले कांय अंश

## स्वामया जेझु क्रिस्ताच्या पवित्र जल्माची
### पयली शिकवण

आमंची सधा आंकुवारि स्वामिणि, नाझरेथ[1] ठावनु चमकत येतां, थोर संकश्टिं बेल्या[2] शारांतु पावली आणी थंय आश्रमो करनु रांवच्याक बिडार[3] नमेळो देखूनु, त्ये रात्रिची वेळ काडुंच्याक शाराच्या दुर्गा[4] सरिशें[5] येक कनिश्ट[6] किरकोळ खोंपट[7] जें आशिलें, जंय येकाद वेळ कांय येक परदेशी वा गांवचे आश्रम्या रावति, त्या खोंपटांतु स्वामिणिक वच्चे पडलें. ह्या रावळारांतु[8] भोडुव्यांची[9] राणी प्रवेसली. ही कनिश्ट, वा किरकोळ सुवात, निजु गोरवांचो गोठो, स्वर्गु संवसाराचो राव, वा रचणार स्वामि

1. आयच्या इजरायेल देसांत उरतलो एक गांव वा नगर; मरी आनी जुझे, हांचो मूळ गांव.
2. बेलें वा बेथलहेम शार, हे धर्तरेवेलो जेझुचो जल्मा गांव. भाकित केल्ल्या प्रमाणें हो गांव हे व्हड घडणुके खातीर वेंचून काडिल्लो.
3. बिराड, हाचें पर्यायी उतर; रावपाची-जियेवपाची सुवात.
4. कोट वा किल्लो. ह्या उतरावेल्यान दुरिग, हें उतर उपजलां.
5. लागसार; तेंकून आशिल्लें.
6. दुबळें, सकयल्या पांवड्याचें.
7. खोंपटी; ल्हान खोंप.
8. राजमहल; राजवाडो; खोंपटाक रावळाराचो पांवडो फावो जाता जेन्ना भोडुव्यांची राणी, म्हळ्यार मरी, थंय प्रवेसता. तांतलो विरोधालंकार नियाळचो; तशेंच रूपक.
9. सर्गावेले देवदूत; angels in heaven.

जल्मुंच्याक वेंचिलो. ही सुवात भग्त जुझेन तांकता तेणेप्रमाणिं, झाडूनु वेळूनु[10] सरी केली. ह्ये सुवाते आमंची आंकुवारि स्वामिणि देवान आपणाक ऐसलो फकीरू थारो[11] दिल्या निमितिं, भुमीरि डिंवयो[12] घालनु, दोनीय हात जोडूनु, देवाक अर्गां[13] दिवनु, आपुलें चित्त अंतस्करण स्वामयारि ठेवनु, प्रार्थना करित आशिली.

इतुल्यान तिणें हें घडललें देखिलें. आणी सभोंवतें मुग्तिच्या भोडुव्यांचें म्हा उत्तम, वा मंजूळ गायन आयकूनु, आमंची आंकुवारि[14] स्वामिणि डिंबयो घालल्ये कडें आसतां, आपुल्या पांयांडे[15] जरि चोयि, तरि म्हा सुंधरू बाळकु जेझु, निजु देवाचो पुत्र, भोडुव्यां, वा मनुश्यांचो रचणारू, राव, वा तारकु,[16] स्वामि जल्मललो आपुल्यां डोळ्यांनिं देखिलो. देखत खेविं[17] व्हडी लिणत्वाये[18] वा हुर्मतिन[19] आपुलो देवुसो वळखूनु, ताची भजना केली, आपुलो रावसो मानूनु, ताच्या पांयांची उमा घेतली, आपुलो स्वामिसो लेखूनु, ताच्या हातांची उमा घेतली, आपुलो पुत्रुसो म्होणु, ताच्या मुखकमळाची[20] उमा-बोंची[21] घेतली, ताची गोळोवेंग धरनु, ताका आपुल्या आंकुवारत्ना व्रुधया सरसो

10. हो वाक्प्रचार नोंदचो.

11 फकीराक फावो जातलो थारो वा विसव घेवपाची कनिश्ट सुवात. transferred epithet- on her knees.

12. दिंवयो; दिंवयेर पडून, खातलीकायेचें प्रार्थनेन genuflection.

13. दिनवास, उपकार मानून; अर्गां फकत देवाक दिताले.

14. दादुल्याचो संग नाशिल्ली; तरीय देवाचे आज्ञेन, पवित्र आत्म्याचे कृपेन, देवाचो पुत, जेझु क्रिस्तु ह्या नांवान हे धतेरेर मनशाचो अवतार घेंवचे खातीर, तिका वेंचून काडिल्ली, आनी तिच्या निश्कळंक कुसव्यांतल्यान जेझून जल्म घेतलो. ही एक गुडार्थ गजाल एक मिस्तेर्यु. तिका सधा आंकुवारी, ever Virgin, म्हणटात.

15. पांयांकडें; पांयांतळा.

16. सोडवणदार; भासायल्ल्या प्रमाणें, देवाचो पुत, मनशाचो अवतार घेवन, मनशां भाशेन सगळें सोंसून, कश्ट-दग्द भोगून मरतलो आसलो आनी ह्या मरणा उपरांत पुनर्जिवंत जावन सर्गार वेंतलो आसलो, आनी अशी आदंव-एवेन, पयल्या आवय-वापायन, केल्ल्या आधिपापांतलो मनशाक सोडवण वा तारण फावो करतलो आसलो - देखून ताका तारक म्हळा.

17. त्याच खिणा; देखतनांच.

18. खालतिकाय, नमळाय, नम्रताय.

19. देवाक वा भोव मानादीक मनशाक दिल्लो मान; reverence.

20. ह्या सोवीत उतराची आयची दुर्दशा नियाळात.

21. उमो Kiss.

पवित्रां स्तनां लागीं काडूनु व्हडी भग्ती वा संतोसान ताका म्हणो : "ये, केण्या[21A] राशी मज्या पुत्रा ! ये मुग्तिच्या निधी-भांडारा! ये भोडुव्यांच्या आनंदा उलासा ! ये सर्वय सगुणा, वा स्वरूपाच्या आरूश्या! तुजें येणें ह्या संवसारांतु सुफळ हौं, तुजे विण हो संवसारू सर्व प्रकारिं हारपललो, तुजें वरौन, ह्या संवसाराक उपाव जायत, तूं देवा वा मनुश्यां भितरि स्वस्त रचलोशि, तुज्या जल्मा, येण्या प्रसंगिं संवसारिचे मनुश्य मुग्ति पावती."

व्हडी भग्ति वा हुर्मतिन हीं उतरां म्हणून ती उमा दिता सदैव बाळकाक, येकि निश्कळंख पोरण्या गोठ्यांतु आशिलल्या सुक्या तणारी दवरनु, ताचें मुखकमळ निहाळनु, ताचें सुमरण चिंतन करूं लागली. हो ऐसलो पलंगु मनुश्यपण घेतलल्या देवान, मनुशांचे सोडवणे खातिर, आपण्याक विसंवच्याक संवसाराु वेंचिलो.[22]

तरि क्रिस्तांवांनो ! हांगा जो ह्या तणारि वोटांगला,[23] तो आमंचो देव, आमंचो तारकु, वा स्वामि. व्हडी दये, मये, वा भग्तिन ताची भजना करूंया, ताची सेवा करूंच्याक स्वर्गिंचे भोडुवे हांगा उतरताति, वनिचें[24] गोंवाळे[25] गोपाळ मेळूनु, ताका मानु, पाळो[26] देवनु, आपुलो रचणारू सो वळखूनु, आपापुली भेट हाडूनु दिताति; तिचि ती मोनजाति[27] आपुलो स्वामिसो मानूनु, ताका मानु, हुर्मति दिता, कित्या ह्ये अलंगुली[28] सुवाते येकु बैलु, वा येक वेंसर[29] गाढव, तीं आशिलिं, तीं आपुलो खोडु[30] सांडूनु, डिंबयो घालनु, ताची भजना करूं लागल्यांति. तुमीं आमीं ह्या अग्न्यांनिं मोनजातिं पाश्ट जांवचें न्हय. क्रिस्तांवांनो, हांगा आमीं आमंच्या स्वामयाची सेवा भग्ति भजना करूंया, हांगा आमीं आमंच्या तारकाक वळखुंया, जो आमंचे सोडवणे प्रसंगिं आपुल्ये मुग्तिचे

---

21A जेवण खाण - Food.

22. हे दोनूय परिच्छेद आनी तांतली बार्रोक शैलीची सोबीत चित्रभास नियाळात.

23. आड पडून विसव घेता.

24. रानांत भोंवतले; गांवटी.

25. गोंवळी, गोरवां-राखणे; गोंवाळो गोपाळ, ही मातैल्ली उतरावळ पळेयात, बार्रोकाचें. लक्षण.

26. सांगता तें आयकून; obedience.

27. मोनी जात म्हळयार जनावरां.

28. सुपुल्ली; ल्हान; चिरंगटिल्ली.

29. गाढवाचें पोर.

30. बांदिल्ल्यो सांकळ्यो वा दोरी.

घरवासु सांडूनु, संवसारांतु आमकां सोदूंक आयला, कित्या त्या सदैव बाळका ठांय आमीं भौतेक देखुंचें आसा.

लीया[31] म्हळल्ये स्त्रियेन आपुल्या पर्थमल्या पुत्राक रूबें नांव घालें (gen. 29) म्हणजे filius visionis. देखिल्यारि इतुलो स्वरूपु सुंधरू, की ताचेवेली दृश्टि काडव नजो जाय; पळेंवचो तरि ऐसल्या लावण्य पुतळ्याक[32] पळेंवचो. येणेंकर्ता, ती ताची माय ताका आपुल्या कमरारि घेवनु, मुखारि मेळल्या इतुल्यांकय दाखैत वचो. आणी ऐशें म्हणो "Videte filium ह्या बाळकाक चोया, हाची स्वरूपि सुंधरि रूपनिळा पळेया, माका हें नवरत्न[33] लाबलल्या प्रसंगिं, मजें व्हड भाग्य वा सदैवपण लेखका."

संधेवा विण आमंची आंकुवारि स्वामिणि ऐशेंचि म्हणती, आपुलो पुत्रु बाळकु जेझू आपुल्या गोपांतु धरनु, समेस्तां गोंवाळ्यांक दाखयती, ताची भग्ति भजना करूक आयलल्यांक भेटयती, ताका पळेंवक, ताची भेट घेंवक आयलल्याच्यां हातांतु वोंपिती. समस्त ताची स्वरूपि, सुंधरि, रूपनिळा देखूनु, अज्याप विस्मित जावनु पडत, आणी ताका आपुल्यां डोळ्यां मुखावेलो आणियेकी कडें व्हरू नदेत, ताकाचि देखतां, वा चोयतां, ताचे ठांय अदिकतोरिचि देखुंचें, वा पळेंवचें आशिलल्या वरौनु समस्तांचें अंतस्करण तृप्त नजतें.

तरणधाकुट्या जोझेपाची गोश्टि करितां, पवित्र्र ग्रंथ सांगूनु दिता, की तो इतुलो स्वरूपु सुंधरू, लावण्य पुतळो हौनु वरतो, की जितुले वेळो आपुल्या घरांतुलो भायर सरो, वा मार्गा बिदिरि[34] दृश्टी पडो, तितुले वेळो समस्त एजिपताचे दादुले, वा स्त्रियो आपापुल्यां घरांच्या दुर्गा दारिवंट्यां, वा दाडाळ्यांरि[35] उबियो रावनु, ताका चोयिति, पळेति,[36] वा तोखेति[37]- filia discurrerunt per muru, ताची चालिबोली, वा

31. बायबलीच्या पोरण्या करारांतलें (Old Testament of the Bible) एक पात्र.
32. हें रूपक नियाळात; आमचे संस्कृतायेंतल्यान घेतिल्लें उतर.
33. हें रूपक आनी हेर अळंकारांची नोंद घेयात.
34. रस्तो, वाट.
35. जनेलां, हें उतर पुर्तुगेजिंतल्यान आयलां हें नीज कोंकणी उतर पळेयात.
36. ही मातैल्लीं उतरां नियाळात. ताचे फुडलेंय वर्णन कितलें सोबीत आनी मातोवन केल्लें आसा, ते बारीक शैलीचें प्रदर्शन पळेयात. कोंकणीचें खाशेले लक्षण, 'आय'-न सोंपिल्लें भाववाचक उतर, जशें स्वरूपाय, लिणत्वाय, हें नियाळचें.
37. तूस्त करून पळेत admire.

सुंधरताय देखुंच्याक हातिंचें, वा तोंडिचें थंयचें थंयचि सांडूनु, उडयो घालूनु, ताका पळेंवच्याक, वा देखुंच्याक येति. जरि तरणधाकुट्या जोझेपची स्वरूपाय, ताची प्रभा, कांति इतुली मिरवो, वा ताचे ठांय इतुलें पळेंवचें, वा देखुंचे आशिलें, तरि म्हा सुंधरा बाळका जेझुची केदी व्हडी कांति, प्रभा, वा स्वरूपाय जायत, आणी ताचे ठांय कितुलें देखुंचें, वा पळेंवचें आसत?

हो स्वामि तरि निर्मळु, नितळु, निश्कळंखु आरूसो[38], अखंडिती, दिपतिची प्रभा, कांति वा स्वरूपाय, मुग्तिची प्रझळिति, वा दिपपंजि दिवटी, अनाधसिद्धा[39] देवबापाचें तत्वादिक[40] स्वरूप, ह्या स्वामया ठांय आमी भोवतेक पळेंवचें,[41] वा देखुंचें आसा. Videamus hoc verbum. कित्या जितुलें अदिकतोर पळेवुं वा देखूं, तितुलेंचि अदिकतोर पळेंवचें, देखूंचें आसा. जें हांव जाणां तें हें : आधिले सुमुर्तिंतु[42] बाळक देवमनुशाचे जितुले रूपकार आशिलेति, ते इतुलेय डोळ्यांनि डांपिललेति.

तो झाकारियस प्रोफेताचो फातोरू क्रिस्ता स्वामयाचो रूपकारू जो आशिलो, ताचेरि सात डोळे आशिलेति. (Exod. 28) तें स्रश्टा सासेर्दोतिचें[43] आंगुलें,[44] जें स्वामयाच्या मनुश्यपणाचें चित्र हौनु मिरवो, ताचेरि सगळ्यारिचि डोळ्यांचो कसदो[45] काडिललो? इझाकियेला प्रोफेताचो रथु, देवमनुश्याचो निजु रूपकारू, सगळोचि डोळ्यांनि भरललो. हें कितें आणियेक कांय न्हय, बगर ह्या दवेबाळका ठांय सगळो संवसारू आपुल्या डोळ्यांनि निरखूनु[46] चोयता. समस्त ताचेवरि आपुले डोळे निरोखितातिं, आपुली दृश्टि ताचेवेली आणियेकी कडे नकाडिति. हांगा अनाधसिद्धु देवबापु ताचेवरि

38. खत पडूंक नाशिल्लो हारसो; हें आनी फुडें येतलें रूपकांनी भरिल्लें वर्णन तोखेवन घेयात.

39. सासणाच्या; eternal.

40. तत्वभरीत; substantial.

41. पळेंवचें, हें रूप पळेयात; हें सारकें रूप, आनी न्हय पळोंवचें, ज्या दुसऱ्या उतराचो अर्थ धांवडावपाचो वा पळोवन घालपाचो जाता.

42. स्मृती, ह्या भारती उतराचो क्रिस्ती धर्माची संकल्पना मांडपाक तद्भव रीतीन उपेग केला.

43. यांज्ञीक ; जो पुरोहीत वा पाद्री यज्ञन वा याग करता.

44. आंगावलें; आंगाचें; कपडे.

45. चित्र वा रूपकार.

46. कोरा करून; दोळे वाटारून; दोळे थिरावन.

आपुली दृश्टि ठशिता.[47] Firmabo super te oculos meos. हांगा मुग्तिचे भोंडुवे ताचेवेली नदर खिणु येकु कडें नकाडिति, म्होणुंच्याक तेंप्लांतु[48] वरूती मान करनु, लव्दादिक[49] हौनु, दों कडें उबे आशिलेति. Versis vultibus in propitiatorium हांगा समग्र मनुश्यकुळ ताचेरिचि दृश्टि देवनु, दोळ्यांचें पातें हालय नासतां आसा. Dominus est occulos hominis. तरि आमिं आमंची दृश्टि, डोळे, वा आमंचें चित्त, मन, अंतस्करण ह्या सदैवा, स्वरूपा, सुंधरा बाळका जेझूरि ठेवूंया. Videamus hoc verbum, कित्या जरि ताका निजा भावार्था, भग्तिन चोवूं, तरि ताचे ठांय आमंका सर्वय वरवें,[50] वा आमंची मुग्ति मेळत.

भग्तु राव दाविद तरि ह्या सुंधरा बाळकाचे दृश्टिन, आपण सदैवु भाग्यवंतु म्हणो! Satiabor cum apparverit gloria tua Pfm . lg. बाळका जेझु लागीं उलौनु भग्तु दाविद राव म्हणो : जावळि, स्वामया, हांव तुका देवमनुश्य जाललो देखन, तावळि सर्वय प्रकारिं आनंदभरितु हौनु, मजें चित्त, मन, अंतस्करण तृप्त जायत; जावळि हांव तुजी मुग्ति देखन, तावळि मज्ये मुग्तिच्या सर्व सुखा पावलोंसो समजन.

भग्ता राया ! जी मुग्ति तूं देखुंच्याक इतुलो आठयताशि, ती कोणि मुग्ति ही? Tunc satiabor cum angustiabitur imago tua : हांव जी मुग्ति देखुंच्याक आठयतां, दाविद म्हणता, ती देव लहानु बाळक हौनु, येका गोठ्यांतु जल्मूनु, कनिश्टां लुगड्यांनिं गुठळावनु, येकी अळंगुली गवणिंतु[51] शिंयान कडकडेत आशिललो देखुंच्याक आठयतां, हें इतुलें हांव मुग्तिशी मानितां. Cum apparuerit gloria tua. ये अखंडिता राया? ये स्वर्गिंच्या स्वमया ! ही मुग्ति सोदुंच्याक तूं संवसारांतु आयललोशि? 'हय' म्होणू प्रतिजाप[52] दिता : ही मुग्ति नित्य हांवें आठयली, नित्य वेंचिली, तीचि आतां ह्या गोठ्यांतु भोगितां. बेलेंच्या गोठ्यांतु बाळकु जेझु, येदी व्हडि मुग्ति, इतुली दिप्ति प्रभा, इतुली थोरिव प्राप्ति, वा सुंधरत्त्व भोगिता, की समग्री मुग्तिक वास[53] व्हरूं नदे.

---

47. थिरायता; येकाग्रतायेन वसयता.
48. देवमंदीर; येवदी प्रजेचें देवुळ, तेंप्पलु म्हणून संबोधताले.
49. लब्दान पडून; येकाग्र चित्तान, मोगान.
50. वरें; कल्याण.
51. सुक्या तणाचो पुंजो, वा रास manger.
52. जापेक जाप; rejoinder.
53. जागो आडांवक.

ताबोर[54] पर्वतारि स्वामि मुग्तिभरितु हौनु, दृश्टी पडलो; पण देवाबापान तो आपुलो पुत्रुसो दाखौन देंवच्याक देवा बापाचो शब्दु, वा साखि[55] कारण जाली. Hic est filius meus dilectus. हो जो आसा, तो मजो मोगाळु पुत्रु. हें कितें, देवा बापा, हो तुजो पुत्रुसो दाखौंच्या सत्यार्थाक, ही ताची मुग्ति, ही दिप्ति, प्रभा, हो संभ्रमु[56] नुपुरो जालो? 'नुपुरो' म्होणु देवबापु प्रतिजाप दिता : हांवें प्रघट करूंचें पडलें, साखि खुण दिंवची जाली, hic est हो मजो पुत्रु. इतुलेंय नम्हणतां, बेलेंच्या खोंपटांतु, देवपुत्रान आमंचें मनुश्यपण घेवनु, मनुश्य जावनु, आमंचे भितरि वर्तलो. Verbum caro factum est, et habitavit in nobis. ताचो संभ्रमु, ताची दिप्ति, प्रभा, ताची थोरिव, प्राप्ति, ताचें उत्तमपण, सुंधरताय, वा मुग्ति येदी व्हडि जाली, की कोणाय येका डांगिन्या[57]वा साखि विण तो देव, देवबापाचो निजु पुत्रुसो दाखौनु दिलें. Vidimus gloria ejus gloriam quasi unigeniti apatre.

ह्या सुंधरा बाळकाक, आमिं येका खोंपटांतु जल्मललो देखत खेविं,[58] तैसोचि ताका मुग्तिचो रावसो वळखिलो; हो बाळकु आंकुवारी मरियेचो पुत्रुसो देखत खेविं, तैसोचि ताका निजु देवाचो पुत्रसो म्होणु मानिलोः तो येका दिवसाचो बाळकुसो देखत खेविं, ताच्या मुखकमळाची प्रभा, कांति स्वरूपाय प्रज्ञळित खेविं, तैसोचि तो अखंडिती मुग्तिचो डायजी, वा तोचि तो निजु देवसो दृश्टी पडो. इतुली ताची मुग्ति देखिल्यारि, भग्तु सां सिरिलु आलेशांद्रिन[59] म्हणता, की तिचे प्रसंगिं, तो सत्यवंतु देव हय न्हय सो, कोणाय येकाक संधेव दिस ना जाय : mentis compos alijquam

---

54. ताबोर पर्वतार जेझु आनी ताचे वेंचिक पट्टशिस प्रार्थना करताले तेन्ना, जेझुचें रूपांतरण (transfiguration) जालें. तांकां मोयझेस आनी एलियस, हे आदले भाकणार वा प्रवादी वा प्रोफेत दिश्टी पडले आनी हे सगळे झगझगीत उजवाडान भरिल्ले तेन्ना सर्गावेल्यान देवाचो ताळो आयकूंक आयलो : हो म्हजो मोगाळ पुत्र, म्हणून. हे घडणुकेचो हांगा उल्लेख येता.

55. साक्षी, ह्या उतराचें तद्‌भव रूप.

56. दिव्य-भव्यताय - majesty, solemnity.

57. पेरगांव वा धोलकास बडोवन केल्ली सांगणी.

58. देखतनांच; आक्ताक; त्याच खिणा; हाचे मुखार येतलें कितलें मातोवन केलां तें नियाळात, बारोक शैलीचें अतितायेचें फुलतें रूप.

59. इगर्जमातेचो देवशास्त्राचो एक जाणकार.

unigenito filio convenire illam fateretur. ये सुंधरा, सुलखेणा[60] देवबाळका, इतुली स्वरूपाय वा मुग्ति तुका ह्या गोठ्यांतु आसा वा भोगता, ह्या सुक्या तणारि पौडलो आसतां, तूं सर्व हुकुमदारू, वा सर्व प्राप्तु, मुग्तिभरितु देव हौनु, स्वर्गिं नंदताशि म्होणु आमिं सत्यमानितांव.

ज्या दिवसा स्वामि जैतवंतु हौनु स्वर्गिं वोळगललो,[61] त्या दिवसाच्या सुखा, संतोसा, आनंदा, उलासा, मुग्तिची गोश्टि हांव तुमकां कितें म्होणु सांगुं ! येदी व्हडि मुग्ति ! की त्यांचि त्यां भोडुव्यांक विस्मित[62] करनु घाले; पण भग्तु सां पावलु[63] सांगतलो जाल्यारि, समग्रि हेब्रेवांक[64] बरयलल्ये येकी पत्रिकेच्या लाहाना अधेयांतु, थोड्याचि भितरि आटापून सांगूनु दिली. 8. Capitulum super ea quae dicuntur talem habemus Pontificem qui consedit in dextra sedis. हें कितें भग्ता आपोस्तला[65]! स्वामि स्वर्गि वोळगलल्या दिवसाची सर्वय मुग्ति, येकी पत्रिकेच्या लाहाना अधेयांतु आटापूनु सांगताशि? हय, तरि बाळका जेझुच्या जल्माची मुग्ति कित्यारि बरोवन घालिशित? हौ ह्या कार्यार्थाक अदिकतोर लागत, अदिकतोरि सुवात जाय?

---

60. सोबीत सगळीं लक्षणां आशिल्लो; लक्षणाचें लखेण म्हणून तद्भवीकरण जाल्लें पळेयात.

61. चडलो; वयर सरलो; मेल्या उपरांत, पुनर्जिवंत जावन संवसारांत रावल्या उपरांत, जेझू लोकां मुखार सर्गार चडलो (ascended into heaven), हे घडणुकेचो उल्लेख.

62. तटाकून उडयले; अज्यापान घाले.

63. पावलु क्रिस्तावांक पिडापीड दितालो; दामास्कुस वचपाचे वाटेर ताचेर जोगलावणेचो उजवाड पडून, तो बशिल्ल्या घोड्यावेलो पडलो आनी ताची दोळ्यां-दिश्ट गेली; तेन्ना सर्गावेल्यान जेझुचो ताळो आयकूं आयलो : 'म्हाका कित्याक पिडापीड दिता व्हय?' कोण उलयता काय म्हणून पावलून विचारल्यार जाप मेळ्ळी. तो सांगिल्ल्या प्रमाणें वचून, ताका दिश्ट मेळून, क्रिस्तांव धर्मात भितर सरलो आनी जेझुचो व्हड प्रेशीत जालो. सगळ्या ग्रीक लोका मदें चड करून ताणें धर्मप्रसार केलो. तांकां आनी येवदी लोकांक बरयल्लीं ताचीं पत्रां भोवूच फामाद.

64. हेब्रेव म्हळ्यार येवदी प्रजा, जी आपल्याक देवान वेंचून काडिल्ली म्हणून मानताली, आनी सोडवणदाराची वाट पळेताली. पुण जेन्ना जेझु क्रिस्ताच्या रूपान तो सोडवणदार आयलो, तांणी ताका मानून घेतलो ना, पुण खुर्सार खिळायलो, आनी ताची जबाबदारी आपणाचेर आनी आपल्या भुरग्यांचेर पडची, अशें म्हळें.

65. पावलु जरी मुळांत आपोस्तलु म्हळ्यार बारा जाणांतलो एक पट्टशिस न्हय, जाल्यारूय ताका उपरांत तें बिरूद फावो जालें.

Sume tibi librum grandem, et scribe in eo velociter. Isai 8 इसायियासा[66] लागीं उलौनु देव म्हणताः प्रोफेता, येकि कागताची फोलि न्हय बगर उधंडी फोली[67] घे, येकु व्हडु लिव्रु,[68] येक सगळेंचि पुस्तक घे. Sume tibi librum grandem. आणी ताचेरि बाळका जेझुचें पवित्र नांव बरयः जरि येकाचि तुज्या नांवाक, मोगाळा जेझु, इतुली मुग्ति, येदो व्हडु संभ्रमु जो आसा, तो बरौंच्याक येदो व्हडु, वा सगळोचि लिव्रु जाओ, तरि जी समग्रि मुग्ति, जो येदो व्हडु संभ्रमु, सर्वय प्राप्ति, हुकुम, वा तेंचि तें ताचें समग्र देवपण, जें ह्या खोंपटांतु आशिलल्या सुक्या तणा खालुतें लिप्तु आसा, ताची आतां हांव कितें म्होणु गोश्टि करूं ? जें एवांजेलिस्त[69] सांव जुआंवान आपुल्या एवांजेलाच्या[70] शेवटारि म्हळलें, तेंचि म्हणतां : Nec ipsum arbitror mundum capete posse eos, qui scribendi sunt libros, तुजे मुग्तिची थोरिव, वा समर्थपण जें ह्या खोंपटांतु, ह्ये दुर्बळिकांतु, ह्या अनाथपणांतु दाखैताशि, तें आटापूनु धरूंच्याक हो सगळो संवसारू इदुलो[71] वा लाहानु.

सधा सर्वधा स्वर्गि अनाधसिद्धा देवा बापा हुजिर, जी मुग्ति स्वामयाक भोगो, ती व्हडि मुग्ति, पण आजि आपुल्ये पवित्री मायेच्या गोपांतु, तोचि स्वामि जी मुग्ति आमकां दाखैता, तिचे ठांय येक अदिकतोर कितेंशें मिरवता, ती आपण्या सांगातिं भोव करनु आमचें चित्त, मन, अंतस्करण हिरौनु[72] व्हरता. मुग्तिचे सदैव भोडुवे, आपुल्यां डोळ्यांची दृश्टि समग्री सांतिस्सिमा त्रिंदादी,[73] देवतत्वा अशेपणारि ठेवनु, डोळ्यांचें पातें हालय नासतां, ताचे प्राप्ती, म्हयमेचे अकळित पार विवेखूनु, नित्यकाल निरखूनु चोयताति, तरीय पुणु आपुलें उतर, वाच्या धरनु, मोने जावनु पड पर्येंत्र, विस्मित

66. हो एक भाकणार, प्रवादी, प्रोफेत, अशें (prophet) जाणें जेझू विशीं भाकित केल्लें.
67. एक कागद, फुडलें आनी फाटलें पान धरून - A sheet of paper (two pages).
68. पुस्तकाक पुर्तुगेज उतर.
69. शुभवर्तमानकार ('येवांजेल' ह्या पुर्तुगेज उतरा वेल्यानं) चौगजाणः लूक, माथेव, मार्क, जुआंव, जाणीं जेझु क्रिस्ताची 'बरी खबर' वा कार्याचें आपापले रितीन वर्णन केलां.
70. एवांजेल म्हळ्यार तांचें हे विशीं बरोवप वा सांगणें, पुर्तुगेज उतरा वेल्यान.
71. इल्लोसो; हाचें आदलें भाळयतलें एक रूप.
72. झोंबून, हालोवन, ओडून व्हरता.
73. पुर्तुगेज उतर आसा तशेंच तत्सम रूपांत दवरलां. तें म्हळ्यार पवित्र तृत्वी वा त्रिमुर्ती; जशी हिंदु धर्मांत ब्रह्मा, विष्णु, महेश ही त्रिमुर्ती.

नजति, स्वामयाची तुस्ति, वाखाणें करूच्या प्रसंगिं, तांची जिब मेकळी उरता. येणे करतां रात्रि दिवसु नम्हणतां, सधा सर्वधा उशिरा व्रैत, ताची प्राप्ति, म्हयमा, वा समर्थपण वाखाणितातिं. Sanctus, Sanctus, Sanctus, Dominus Deus Sabaoth.

पण बेलेंच्या खोंपटांतु आशिलल्या जेझु बाळकाचे दृश्टी हुजिर, सर्वय रचना इतुली अतोज[74] पावता, इतुली विस्मित जाता, की उतर वाच्या धरनु, मोनी जावनु पडता. Deus ab austro veniet आबाक प्रोफेतु तें म्हणता et Sanctus de monte Pharan, म्हणजे देव बेल्या शारांतु आयलो ab austro, कित्या तें शार पूर्व दिशेकडेच्यान पडता, आणी फारान म्हळल्या पर्वताचो जल्मलो, हौ शास्त्रपुरूसु मेंदोंसा. म्हणता, तेणे प्रमाणिं, उंब्रोसु म्हळल्या पर्वताचो निपजलो, जो आंकुवारी स्वामिणिचो रूपकारू, स्पीरिता सांताचे[75] सांवळियेन डांपललो सदैव पर्वतु. Virtus altissimi ob umbrabit tibi. देव येकी आंकुवारिचे कुशिंचो, बेल्या शारांतु जल्मलल्या वरौनु कितें अर्थता? हेब्रेवी भाशेन, सेला म्हणजे मोहनः तरि प्रोफेतान ऐशें म्हळल्याचे परीं जालें. देव मनुश्य जाला ! तरि कोणाय येकान कधिंकाल देखो, वा आयको नाथिलल्या विपरिता नवला हुजिर आमंच्यान कितें करवत?

जीब चाबूनु, मोहन[76] धरनु, वोगेंचि राविललें बरें. देव लाहानु बाळकु जावनु जरि जल्मला! तरि आमिं मोहन धरूया. देव येका खोंपटांतु सुक्या तणारि पौडला? मोहन धरूया. देव मोनजाती मधें वर्तता, ह्या इतुल्यांय निमितिं, रजमात्र उतर काडुंचें नलागो. हांगा मोहनोचि कारण, हें अभिश्टांचें अभिश्ट, नवलांचें नवल, संवसारांतु वर्तनांशिलली अपुर्वि, अभिनवि करणी, देवाचे अगम,[77] वा अकळित पार, तोचि देव जाणां, आणियेक कोणाक ठावके नांति. Quo sermone, भग्तु सांव जेरोनिमु म्हणता, qua voce speluncam tibi possumus salvatoris exponere, et illud praesepe in quo infantulus vagit silentio magis, quam in simo sermone honorandum म्हणजे बेलेंच्या गोठ्याचें वर्तमान सांगुंच्याक,

---

74. अज्यापान तटाकून पडटा.
75. पवित्र आत्मो (हाचें पुर्तुगेज रूप).
76. मौन धरपाचें मागणें, कितलें अतितायेन केलां तें नियाळात.
77. लिपून आशिल्ले, सोदूंक मेळनाशिल्ले.

तांतुल्या तणाची गोश्टि करूंच्याक, थंयचे हास्कार हुस्कार सांगुंच्याक, बाळका जेझुचें रडणें, वा ताचे पवित्री मायेचिं दुखां आळांवच्याक,[78] भग्ता जोझेपची दुर्बळिक वाखाणुंच्याक, माका कोणि जिब, वा कैसलिं उतरां कारणशिं तुमकां दिस्ता? हांव मजोचि उचारू करनु म्हणतां, की ती इतुलीय दर्बळिक, वा अनाथपण देखूनु, वाय वाच्या ना जावनु, आणियेक करूंच्याक माका टांकलें ना, बगर अज्याप जावनु मोहन धरनु, वोगोचि राविलों!

हें विवेखूनु, ह्ये सुवातेरि कार्दियाल पेद्रु दामियांव म्हणता, fit lingua elinguis, immemor memoria, sensus insensibilis, म्हणजे हो शास्त्रपुरूसु सांगूनु देता, माका उतरा विण जिब आसा, उगडासा व्रैत यादि उरल्या, शर्मा विण विसाये[79] आसति, हांव सगळोचि अज्याप हौनु, अतोज पावनु, विस्मित जावनु पडलां.[80]

भग्तु सां सिप्रियानु ह्या हौनु अदिकतोर सांगन म्हणता, in caeteris mirabilibus aliquae satisfaciunt rationes, म्हणजे स्वामयाच्यां हेरां अभिनवां ठांय, माका जाप, सजाप[81] देंवच्याक आसत, भायर भितर सरूंच्याक, वाट, प्रवेसु, रिग मेळत, आयकन, उलयन, प्रतिजाप देन, अज्याप जावनु नपडो जायन, पण ह्या येकाचि समग्रा अभिनवा वरूत्या,[82] देवमनुश्य हौनु बाळपणिं वर्तलल्या अभिनवा ठांय हांव भोव विस्मित जातां, भोव अतोज पावतां, solus me complectitur stupor, माका आणयेक कांय टांक नां, बगर मोहन धरनु वोगोचि रावन; आणी जरि येणेप्रमाणिं प्रतिश्टितल्यां भग्तांचो आमिं विस्वासु नमानूं, तरि त्या बेलेंच्या गोठ्यांतु रिगूं या, थंय आमकां ह्या इतुल्याचोय हयकारू येत, येक म्हा थोर मोहन दृश्टी पडत. ह्या पवित्रा गोठ्यांतु उलयललेंशें येक उतर मुख्य पवित्रा एवांजेलांतु नमेळो.

बाळकु जेझु वोगोचि आसा, आंकुवारि स्वामिणि येक उतर मुख्य उलयना, भग्ता जोसेफान मोहन धरलां, गोंवाळे येकामेकाक चोवनु अज्याप जावनु वोगेचि आसति. भग्त राय इतुलें देखूनु, अतोज पावनु, लब्दादिक हौनु कायंचि उलयनांति. मुग्तिचे

78. गावन दाखोंवच्याक; आळाप, हें भारतीय संगितांतलें खाशेलें उतर आपणायलां.

79. इंद्रियांचें अस्सल कोंकणी उतर - Five senses.

80. हें मातोवन केल्लें वर्णन नियाळात.

81. जापेक जाप दिवपाचें आनीक एक उतर (प्रतिजाप).

82. वयल्या पांवड्याच्या.

भोडुवे स्वामया सोभंवते रावनु, येक उतर मुख्य नकाडिति, समस्तांनि मोहन धरिलां, समग्र अज्याप जावनु पडल्याति, येकु बैलु वा येक वेंसर, ह्यो दोगी मोनजाती, ज्यो त्या गोठ्यांतु आशिल्योति, त्यो मुख्य हें इतुलें देखूनु, तोंडिचो ग्रासु थंयचि सांडूनु, भिलल्याचे परीं बाळका जेझुक चोयताति. ह्ये वेळे समग्री पखि जाती संवण्यांनि आपुलें गायन वर्जिलें,[83] समस्ति मोनजाति आपुल्ये कडें वोगिचि राविली; रूखां रूखस्थळांचें[84] येक पान मुख्य हाल नास्तां, सर्व थंड पडलें, झरिं, व्हाळां, न्हंयेच्या उदकाचे नाद थांबले : वान्यान आपुल्या झडा- मोडाचो गर्झरू आडवार्नु धरलोः सर्वय रचना आपापुल्ये कडें, आपापुल्ये रितुचें भ्रमण[85] खळूनु,[86] स्वस्त सवकास हौनु वर्तली. हें इतुलेंय पवित्रि इग्रज सांगूनु देता, dum medio silentium tenerent omnia et nox in suo cursu medium iter haberet omnipotens sermo tuus Domine a regalibus sedibus venit. ये अनुपमी मुग्ती ! ये अंतुपारू नाथिलल्ये प्राप्ती! ये अनंतपणि नंदतल्या संभ्रमा! ये सर्वय गुणिं संपुर्ना देवबाळका, जाचे दृश्टी दरूशणा हुजिर सर्वय रचना अतोज पावता : Dominus in templo sancto suo, प्रोफेत आबाखून म्हळें : स्वामि आपुल्या शारांतु पावला, बाळकु जेझु आपुल्या गोठ्यांतु उतरला, आपुल्ये प्रेजेपिंतु[87] वर्तता : हें व्हड अपूर्व : sileat afacie ejus omnis terra. ह्ये इतुलिये मुग्ती हुजिर सर्वय रचना विस्मित जावनु पडूं !

ये देवबाळका, तुका देखिल्यारि कोणाचें चित्त, मन, अंतस्करण, तुज्ये प्रती, मोगान सगळेंचि मेणाच्ये अथवा लोणयांचे परीं दरवनास्तां[88] उरत? तूं मुग्तिची प्रझळिति दिवटी, तुज्या कांतिप्रकासाच्या आधारा व्रैत जियेववत ! तूं भोडुव्यांची सुंधरताय, तुजें स्वरूप सुंधर मुखकमळ निहाळिल्यारि, तुका सांडूनु तुजे विण येकि अर्दि घडी वर्तुंच्याक कोणाचें मन रावत, अथवा धरत? ये आमंच्या रचणारा, वा

83. सोडून दिलें; ताचे पसून मेकळे जाले.
84. रूखांच्या जम्याचें रासवळ उतर - केदें भव्य वर्णन तें नियाळात.
85. भोंवडी; अचलचाली.
86. बंद पडून; पिड्डेर जावन; होगडावन.
87. नातालांक करतात तें गोठ्याचें प्रदर्शन - पुर्तुगेज उतर.
88. कडून वचनास्तना; मेणाचें आनी लोणयेचें प्रतीक नियाळात. फुडलीं रूपकां आनी अलंकार पळेयात.

तारका, तुजेरि दृश्टि नठेयतां, आणियेकी वस्तुक चोंवचे भाशे,[89] आमकां हे डोळेचि नाकाति, स्वामया.

पुर्तुगालिच्या राज्यांतु दोना जुआना म्हळली दुसऱ्या दों जुआंव रायाची येकि राजकुमरि आशिली. ती व्हडां शगुणांचे देखिन, आणी पुण्यपुरूशार्था,[90] किर्ती म्हयमेन येका मोस्तेरांतु[91] जिली, वा मरणा पावली. ही भग्तिवंचळि राजकुमरि नित्यकाल येणे प्रमाणिंची भग्ति करी, की रात्रिचे वेळे जावळि आपुल्या आश्रम्याच्या कुडांतु निद्रेक वचो, तावळि आपुल्या हातांतु येक जेझु क्रिस्ताचें बावलें घेवनु, आपणाक निद पड पर्येत्र आपुल्यां डोळ्यां मुखारि धरीः येणे कर्तां रात्रिची निमाणी दृश्टि स्वामया जेझु क्रिस्तारि ठेयल्या व्रैत सर्वथा निद्रा[92] नकरी जाय. तेणेचि प्रमाणिं सकाळिं जागृत जायत खेविं, डोळे उगते करूंचे फुडेंचि दिसाची प्रथमली दृश्टि, स्वामया जेझुरि घालुंचे प्रसंगिं, उंश्याडे आशिललें तेंचि तें स्वामयाचें बावलें हातांतु काडूनु, आपुल्यां डोळ्यां मुखारि धरनु, डोळे उगते करनु ताका चोयि. येणे प्रमाणिं दिसान दिसु पयली, वा[93] निमाणि दृश्टि जेझु क्रिस्तारि ठेयल्या व्रैत, तिणें निदेंवचें, वा उबठंवचें[94] नां आशिलें. आणी जी क्रिस्ता स्वामयाक दिवसाचे आरंभिं, वा शेवटारि देखो, ती ताका दों पारांरि कोणाय येका वेळा, वा सधा सर्वधा देखोः आणी जी नित्यकाल देखो, तिका ताचे ठांय दिसान दिसु नवगतीं,[95] अदिकोचि पळेंवचें, वा देखुंचें दृश्टी पडो; कित्या ह्या पवित्रा स्वामयाचे दृश्टी हुजिर, भग्तु सां सिप्रियानु म्हणता, जितुलें प्रझळित आसा, जितुलें अमोलिक[96] हौनु वर्तता, जितुलें सर्व संपूर्णपणिं शृंघारूनु मिरवता, तें इतुलेंय अदृश्ट जावनु वेता. Ornamenta quande erant siad essent non haberent oculos in inspectores.

येणे कर्तां, जरीय बेलेंच्या खोंपटांतु, सगळ्या संवसारा मधें, आस्त्यांकु व्हड

89. ताचे बदला; ताचे परस; आयजूय चलता.
90. भारतीय संस्कृतायेंतलें हें उतर आपणायल्लें पळेयात.
91. पुर्तुगेज उतर = मठ वा माद्रिंचो वा पाद्रींचो कोंवेंत.
92. हें तत्सम उतर; आनी निद तद्‌भव, दोनूय उपकारायल्यांत.
93. 'वा' ह्या उतराचो अर्थु म्हळ्यार 'आनी' (and) आनी न्हय आतांचें वा (or).
94. आड वा निदेल्लेकडचें उठून उबें जांवचें.
95. नव्यान, नव्या नेटान.
96. मोल करूंक जायनाशिल्लें; चड मोलादीक.

मोला, वा प्रियेवाचिं परिकरां,[97] वा संपनिकां वस्त्रां, आणी हेर सर्वय अमोलिक शृंघार हाडनु लायले, तरीय तें इतुलेंय बाळका जेझुचे दृश्टी हुजिर कांयच न्हय दिस्ता, कित्या हो स्वामि येणेप्रमाणि लाहानु, वा उगतो बाळकु जालोय तरि, आपण्याक चोयतल्यां, वा देखतल्यांचे डोळे, विसाये, वा अंतस्करण, आपण्या सांगातिं हिरौनु व्हरता.

Quia praesentia ... आणी प्रास्तायान भग्तु सां सिप्रियानु म्हणता, कित्या ताचे येकाचि ठांय सर्वय रचिललें, वा अरचित बरवें देवान आपुल्ये सर्वय प्राप्तिन मेळयलें, वा येकवटिलें, तें कुटुक्यांनि[98] ताचे ठांय सोदुंचें नलागो, कित्या तो आमंचे सोडवणे निमितिं इतुलो लिणु जालो, की येकु लहानु बाळकु हौनु वर्तलो; येदी व्हडि लिणत्वाय आधारिली, की आपण तेंचि तें देवग्न्यान जावनु, ह्या गोठ्यांतु येक उतर मुख्य उलौंच्याक नेणो आशिलो. मोयझेस देवा हुजिर आपुली व्हडि लिणत्वाय दाखयतलो जाल्यारि, ताणें आपण उलौंक नेणो म्हळें. Non sum eloquens impeditioris, et tardioris linguis sum. स्वामया हांव जिबटु[99] न्हय, उलौंक नेणो, मजी जिब भोव जडि, हांव कोणाय येका कार्याक उपकारा नपडो. आणी येणे प्रमाणिं, आपण भोव लिणु हौनु वर्ततासो मोयझेक दिसो. आह ! केदी व्हडि लिणत्वाय, जी आजि बाळकु जेझु, बेलेंच्या गोठ्यांतु दाखयता ती! तो तंव येक उतर मुख्य उलौंक नेणो Est verbum... ऐशें भग्तु सां बेर्नार्दु म्हणता, बाळकु जेझु भायल्यान उलैना, पण ताचें उलौणें अभ्यांतरिं, अंतस्करणिं भेदता; भौतेकां उतरां नांति, पण करण्यांची अखेपाय[100] आसा : कानांतु गोडिवेच्यो मातु[101] सांगुंक नेणो, पण आमंच्यां अंतस्करणां, वा खोशिंयेरि राज्य, वा सायबिक करूक जाणां.

ह्ये लिणत्वायेक आणियेक मेळैया, हो देवबाळकु आमकां दिस्ता तेणे प्रमाणिं जरि उलौंक नेणो, तरि भोव बरें रडूंक जाणां, की एझाकियास राव, इसायियास प्रोफेता वरौनु, आपुल्या मरणाची खबर आयकूनु, येकी वेळे रडटालो जाल्यारी, Convertit facie sur ad pariete (Isay .88) वोणतिक तोंड परतिलें, आणी

---

97. सोबीत; परिश्कृत; मोलादीक.

98. कुडके, हार्चे आदलें रूप.

99. चड उलोवपी; बडबडपी.

100. फळादीकपण - effectiveness, efficacy.

101. गजाली; गजाल-मात.

रडलो : कित्या आपणायेदो व्हडु राव जावनु, आपुल्ये समग्री प्रजे देखतें, रडुंचें म्हळ्यारि, ताका व्हडि कांकटेणी,[102] वा लज दिसली. पण तूं, ये मुग्तिच्या राया ! स्वर्गा वा संवसारा हुजिर मनुशां, वा भोडुव्यां देखतां, ह्ये लिणत्वायेची बेपर्वा नकरिशि, सर्वय रचने मुखारि, तूं आमंच्यां पातकां खातिर रडताशि! पण रड, स्वामया रड : समग्रा संवसारा देखतें रड, कित्या हीं तुजि दुखां जीं आसति, तीं अमोलिक माणिकां,[103] जीं आमंचे सोडवणेचें मोल हौनु वर्तताति, तीं समस्तांनिं देखिललिं बरीं, जीं दुखां दाविद राव विखरायि, lachrymis meis...

भग्तु सां जुआंव क्रिझोस्तमु तांकां अमोलिक माणिकां म्होणु नांवाडिता. Erant Prophetae lachrymae... कितुल्या अदिकतोरा प्रास्तायान तुजीं दुखां, देवबाळका, अमोलिकां माणिकां म्होणूंक फावोति; कित्या तांचे ठांय अगणित मोल आटापलां, ज्या वरौनु, तूं, तुज्या अनाधसिध्दा देवा बापाक आमंच्यां पातकांचें देणें देवनु फारिक करितालोशि. आंकुवारि आमंची स्वामिणि, आपुलो देवबाळकु रडललो देखूनु, ताका आपुल्या गोपांतु धरी, आणी ताचे सवें उलौनु म्हणो : "हें कितें, मज्या अंतस्करणाच्या पुत्रा ! हें तूं कितें करिताशि, मज्या भरवंश्याच्यो आडिखिळ्या ![104] हाका नांव कितें, मज्या देवा, वा मज्या स्वामया ! हीं कैसलिं दुखां विखरायताशि ! हे कैसले हास्कार हुस्कार[105]सोडिताशि ? ये, मज्या पुत्रा, हांव तुका आजि कैसो दुर्बळु, वा अनाथु देखन ? मागां, तूं भोडुव्यांच्या पाखुट्यांनी उडूनु ह्या अंत्राळारि भोंवतां, जो तुका इसायियास प्रोफेतान देखललो, तें तुजें शिंहासन खंय ? वीजु झोंपावनु, माथ्यारू गडगडु पडनु, व्हडा संभ्रमान सिनाय पर्वतारि,[106] तूं जो मोयझेक दृश्टी पडललो, तें इतुलेंय खंय ! ह्ये कनिश्टाये ठांय, तें सर्व तुवें पलटिलेंशि! ह्ये दुर्बाळिके वारिये, तें इतुलेंय वेचिलेंशि? त्या इतुल्याकय, हें अनाथपण विकतें ठेयलेंशि !"

जितुलें स्वामिणि अदिकतोर उलैयि, आणी जेझु बाळकु आयको, तेतुलेंचि माय वा पुत्रु येकामेकांक चोवनु रडति; Irrigum superius et irriguum inferius?

---

102. खांकडेपण; उणेंपण.

103. हें सोबीत रूपक नियाळात, दुकांक अमोलीक माणकांक सर केल्या.

104. ही रूपकभरीत भास नियाळात; आडखिळो म्हळ्यार मोख (target).

105 भितर घेवपाची आनी भायर सोडपाची वाफ वा स्वास.

106. मोयझेक सिनाय पर्वतार प्रार्थनां करतना, देवान धा उपदेस उज्यान कांतयल्लीं फातराचीं फळीं दिल्लीं.

(Jud.1)-........वेलें उदक सकल्या उदकांतु येकवटो, स्वर्गिंचें उदक संवसारिच्या उदकांतु मिसळो, स्वामिणिचिं दुखां, देवबाळकाच्यां दुखांतु भरसति. ह्या दुखांच्यां झरिं, व्हाळांचें[107] कितें निपजतशें तुमकां दिस्ता? येकु दुखांचो व्हडु सागरू, संवसारू विभाडुंच्याक, वा भंगुंच्याक न्हय, बगर पुनरपिं सरसावनु,[108] उदरगती पांवच्याक. जाणातलेति कित्या पासावत? जितुली स्वामिणि अदिकतोरि आपुल्या पुत्राक बुकायि, तितुलोचि तो अदिकतोरि रडो ! हांव तुमकां सांगन.

जावळि जोसुवेन इजरायेलिच्यां पुत्रां लागीं खंडु[109] केलो, की कधिंचि देवारि चुकि नकरितिशे म्होणु, तावळि पवित्रु ग्रंथु म्हणता, की ह्या इतुल्याचे साखी, वा यादिक येकु व्हडु फातरू उभारिलो, posuiter Cum subter quereum... हौ हेब्रेआ ग्रंथीं आसा तैशें subter Terebintum. तेरेबिंतु म्हळलो येकु रूखु जो आसा, तो क्रिस्ता स्वामयाचो रूपकारू, कित्या जैसो हो रूखु, भग्तु सांतु औगुस्तिन्यु म्हणता, तेणे प्रमाणिं, medicinale lachrymema exudeta... आपुल्ये आंगिचो प्रतेवादिक[110] वोशदाचो डिकु, अथवा दुखां फुटयता, तैसोचि बाळकु जेझु, जीं दुखां गाळिता, तीं आमंच्या बळ्ळिकांक[111] व्हडा प्रतेवा उपायाचें वोशद. जावळि स्वामिणि बाळका जेझुक आठव करी, कोणी प्रमाणिं समग्र भावार्थी ताच्ये भग्तिक लागतलेतिशे, समस्त, बेलेंचें खोंपट पर्येंत्र ताका सोदूंक येवनु, ताची भजना करितलेतिशे, आपुल्यां सर्वय गरजां आकांतां विग्नांक उपाव, मजति मागतलेतिशे ? तावळि बाळकु जेझु, ऐशें म्हळल्याचे परीं भोभोवचि रडोः

"जरि समग्र क्रिस्तांव आपुल्ये गरजे आकांताच्या वग्ता, मजे लागीं उपाव मागूंक येतलेति; जरि आंदळे, भैरे, थोंटे, पांगुळे, वा सर्वय बळ्ळिकेचे मज्या धिरा, आधारा सरतलेति, तरि तांकां पांवच्याक हांव उपायांची सामग्री करनु रावतलों. मजिं दुखां व्हडा प्रतेवाचें वोशद. जे कोण ह्या गोठ्यांतु माका सोदुंच्याक येतित, तांकां वांटूनु देंवच्याक, हांव रडनु, तीं दुखां मेळौंचे धंदलिरि[112] आसतलों."

ऐशेंचि तुवें केलें, मज्या मोगाळा जेझु : तुं भोव रडलोशि, तुं समस्तांक

107. ही प्रतिमावळ, चित्रभास भोगून घेयात.
108. नवें, सारकें, दुरूस्त, रसरशीत करून.
109 करार (contract).
110. जाचो बरो फळादीक परिणाम जाता; अखेपायेचो.
111. पिडेक; दुर्येसाक.
112. वावर, कार्य, काम-धंदो.

पावताशि, समस्तांक उपाव दिताशि, समस्तांक अनिमान[113] करिताशि. हो तुजो येदो व्हडु उपकारू, ही तुजी येदी व्हडि प्रति, जी तुं ह्या गोठ्यांतु ठावनु करिताशि, ती कैशी, वा कित्यान बावडूं? बगर ह्ये तुज्ये दुर्बळिकेची प्रति करनु, ह्ये तुज्ये लिणत्वायेचो प्रियेव मानूनु, ह्या तुज्या अनाथपणाक मानु हुर्मति दिवनु, तुज्ये सांगातिं रूधन करनु, तुज्ये भग्ती भजनेक फुडारानु, आणी तुजी कृपा मागूनु : ज्ये वरौनु स्वर्गिं अखंडिति मुग्ति भोगुंच्याक, जंय आमां तुमां समस्तांक देव व्हरू.

---



113. बरें नाशिल्ल्यांक बरे करता; भलायकी परती दिता. आदले कोंकणींत, कोणूय आदीं दुयेंत आशिल्लो भेटल्यार, ताका संबोधतना, 'तुमी अनिमान आसा मू' म्हणटाले. आनी सदांच बरे भलायकेन आसतल्याक संबोधतना, 'तुमी प्रणामु आसा मू' म्हणटाले.

# पयल्या मार्तिरि, भग्ता सांतु इश्तेवांची

## पयली शिकवण

कालिचे दिवशिं, आमिं मार्तिरिंच्या[1] राया, स्वामया जेझु क्रिस्ताच्या जल्माची परवण[2] संवसारांतु केली : आणी आयचे दिवशिं संवसारांतुलो भायर सरलल्या पयल्या मार्तिरिची[3] परवण करितांव. कित्या जो अमरू हौनु वर्तता, ताणें मृत्यादिकांक[4] जिणि देंवच्या निमितिं पयलें आमंचें मनुश्यपण घेंवचो प्रस्ताव आशिलो : आणी उपरांतें, मरणादिका मनुशान, अमरा देवा खातिर मरणाक फुडारूची निति, वा परमार्थु. म्होणुंच्याक सेवका पासावत[5] मरणा पांवच्याक आणी सेवकान स्वामया खातिर मरणाक फुडारूच्याक, हो स्वामि जल्मलो. इश्तेवांव स्वर्गिं चडुंच्याक, जेझु क्रिस्तु संवसारांतु उतरलो. ह्या भग्ताची ससारि[6] जिणि[7] एवांजेलिस्त सां लुकास 'आक्तुश' म्हळल्या आपोस्तलांच्या पुस्तकांतु लिहूनु ऐशें म्होणु सांगता :

---

1. पुर्तुगेज उतर = हुतात्मे; जे धर्मा खातीर वा आपल्या ध्येयां, वा सिध्दांतां खातीर आपलो प्राण वेचताले.
2. परब, फेस्त, उत्सव. Celebration
3. क्रिस्त मरून, पुनर्जिवंत जावन, सर्गार गेल्या उपरांत, ताणी शिकयल्ल्या धर्मांत येवदी आनी हेर लोक भितर सरूंक लागले. तांतल्या एकल्याक, इश्तेवांक, जाका ह्या धर्माचो प्रेशीत म्हणून वेंचून काडिल्लो, ताका दुसमानांनी लोकान फातरावन मारलो. तो ह्या धर्मांतलो पयलो मार्तीर वा हुतात्मो.
4. मरणादीक वा मर्णाक बळी पडप्यांक.
5. हें रूप अजून दक्षिणेचे कारवारी मोडींत चालता. गोंयांत 'पासत' जालां.
6. पुराय, सगळी comprehensive, complete.
7. जीण, जिवीत.

की स्वामया जेझु क्रिस्ताची इग्रज[8] अदिकतोरि चडत वेतां, ताच्यां भावार्थ्यांचो जमो, मेळु दिसान दिसु भौभोवचि चडत वचो; जांकां त्ये कालिं स्वामयाचे शिस[9] म्होणु नांवाडिति, कित्या देवाच्यो करण्यो ज्यो आसति, त्यो जळत्या, वा सांदकलल्या[10] उज्याचे परीं. जो वाऱ्याच्या बळा प्रसंगिं, भौभोवचि सांदकता, वा चडता अथवा सोवर्ना[11] सारिखें, जें आगिट्यांतु घालल्या निमितिं, भौभोवचि चोख जावनु अदिकतोर कसा चडता, तैशें जे स्वामया जेझु क्रिस्ताक सत्यमानिति, त्यां भावार्थ्यां क्रिस्तांवांचो मेळु, वा भारू,.जम्या, वा धड्या ठांय अदिकतोरू चड, येकोचि न्हय, बगर भग्ती, वा संपुर्नाये ठांय, येणें प्रमाणिं वाडत वचो, की ते इतुलेय भावार्थी क्रिस्तांव आपुलें सर्वस्व विकूनु, ताचें मोल हाडनु आपोस्तलांचे पांयांडे घालिति : ताणिं तें देवा खातिर दुर्बळ्यां धाट्यांक दाना धर्माक वांटूनु देंवच्याक.

येणे कर्ता, ते समस्त भावार्थी, आपुलें द्रव्य दाना धर्माक वांटूनु देंवच्याक, भग्तां आपोस्तलांनि आप करनु घेतल्या निमितिं, आपण्यांरि व्हडु उपकारू केलासो दाखौनु दिति. कोणा येका लागीं, कोणीय येकि वस्तु आपुलिशी नांशिली, समस्तांलें सर्व समग्रांक येकतारा भोगो : कित्या तांतुंल्या कोणाय येकाक जें जाय, तें इतुलेंय, हो अथवा तो नम्हणतां, गरजे पुरतें वांटूनु दितिः दुर्बळ्यां धाट्यांच्या सांभाळा निमितिं, भोव करनु अनाथिं, वा गरजेवंतिं विधंविंच्या प्रतिपाळा प्रसंगिं वरोवा,[12] कणवट्या,[13] वा हेरि वस्तुंची सामग्री व्हडि हाणविर्धी,[14] दये, वा काकुळतिन करिति. आणी जावळि भावार्थ्यां क्रिस्तांवांचो जमो मेळु व्हडु जालो, आणी दान धर्मु वांटूनु देंवच्याक जांचे आदिन केललें, ते जावळि समस्तांक सरशेंचि[15] वांटूनु नदे जालेति, तावळि ग्रेसिया म्हळल्या शारांतु जल्मलले हेब्रेव, आपुल्या वंशवर्गाच्यां विधंविंक जुदेया राज्याच्यां

---

8. हांगा इग्रज म्हळ्यार पवित्र सभा म्हळ्यार क्रिस्तांव लोकाचो जमो वा समुदाय.
9. शिष्य, हाचें तद्‌भवीकरण.
10. पेटिल्ल्या; भगभगीत जळटल्या.
11. सुवर्ण वा भांगर.
12. जेवणा-खाणाच्यो वस्तू, भाजी-पालो, तांदूळ आदी.
13. सगळे तरेच्यो घराच्या गरजांक लागतल्यो वस्तूः जेवणा-खाणाच्यो, न्हेसण-पांगरूणाच्यो तश्योच हेर म्हाल तयार करपाच्यो - supplies; raw material.
14. पोटतिडकीन; खतखत्यान; with zeal.
15. सगळ्यांक सारकें, फावो तितलेंच, गरजे पुरतें.

विधंविं बराबरि दान धर्मु नकरिति देखूनु, आणी त्या निमितिं आपण्याक अपमानु बेहुर्मति[16] भोगताशी समजूनु, ह्या इतुल्याची निंदा करनु, गाराणें[17] देवूं लागलेति. भग्तां आपोस्तलांनिं ह्या गाराण्या, वा निंदेक उपाव दिंवच्याक, वा तिचें मूळ मुख्य हुमळुंच्याक[18] अनुमानिलें : आणी ह्या इतुल्याक ह्ये विलाथेच्यां[19] समस्तां भावार्थ्यां क्रिस्तांवांक आपौनु हाडूनु, तांकां म्हळें : कुडिंक खाण देंवच्या निमितिं, आत्म्याचो चरौ[20] दवेशास्त्र, सुमुर्ति, वा बरवी शिकवण आत्म्याक देंवची सांडिललें बरें न्हय म्होणुंच्याक तुमिं तुमंचे भितरले सात जाण, न्हय भोव वृध्द, न्हय भोव तरणधाकुटे, बगर हो दाना, धर्माचो कणिवळु व्यापारू, कश्ट, घाशि घेवनु चलौंच्याक, भलाय, वा सग्ति बळ आशिलले बरे भले, सुकृती, शगुणी, स्पिरिता सांताचे कृपेन भरलले, वा समेस्तांक सरशेंचि वांटूनु दितले मनुश्य वेंचूनु काडुंच्याक भग्तां आपोस्तलानिं तांकां फर्मायलें.

ही भग्तां आपोस्तलांची अर्दास,[21] वा परमार्थु समस्तां भावार्थ्यां क्रिस्तांवांक बरो दिसलो, आणी समग्र येका जम्या मेळनु, ताणिं आपण्या भितरले, बरे भले शगुणिं, वा सुकृती सात जाण सत्वादिक मनुश्य वेंचूनु काडिले, आणी भग्तां आपोस्तलां हुजिर व्हरनु भेटयले : आणी सदैवां आपोस्तलांनी तांकां तेचि खेविं, मिसाचे सोसेरदोत करनु, व्हडी दये, वा काकुळतिन समस्तांक सरशेंचि दान धर्मु करूंच्याक भोव करनु वोडमाडिले,[22] येकोचि न्हय बगर समग्रांक पवित्रि दौत्रिनि, वा मुग्तिची वाट शिकौंच्याक तांच्यां हातांतु वोंपिलें: समस्तांच्यां कुडिंचो सांभाळु करूंचोचि व्यापारू तांकां दिलो न्हय, बगर भोव करनु तांच्यां आत्म्यांचोय प्रतिपाळु, वा धांदो तांचे आदिन केलो.

ह्यां सातां जाणां वेंचलल्यां भितरलो, आस्त्यांतु स्त्रश्टु, अदिकतोरू सगुणी, वा स्पिरिता सांताचे कृपेन भरललो जो आशिलो, तो सदैवु भग्तु सांत इश्तेवांव : हो

---

16. हुर्मती आड - irreverence.
17. भारतीय संस्कृतायेंतलें उतर = तक्रार; मागणी.
18. ही सोबीत चित्रभास नियाळात.
19. देसाच्या; विलाथ म्हळ्यार हांगा देस, ह्या अर्थान हें उतर उपकारायलां.
20. प्रतिमा नियाळात; जसो चरौ, खाण कुडीक दितात, तशें आत्म्याक लागतलें खाण-जेवण म्हळयार देवशास्त्र आदी.
21. मागणी; निमगिणें.
22. फर्मायले; सुचैलें; फुसलायले.

समस्तां फुडें व्हडी हाणविर्धी धांद्या, वा हुस्क्यान आपुलो व्यापारू अभ्यासुं[23] लागलो, येदये व्हडी निति प्रस्तायान समस्तांक दान धर्मु वांटी, की कोणीय येकी निंदे, वा गाराण्या व्रैत समस्त खोशी हौनु वर्तति : आणी ह्या कणिवळा व्यापारा ठांय असो संपूर्णपणिं चालो, की हेर समग्र ताचे शगुण, वा देखि घेति. ह्याय उपरिं हो मुग्तिवंतु भग्तु सांत इश्तेवांव, आत्म्यांचे शिकवणे ठांय, नव्या क्रिस्तांवांक मुग्तिच्या मार्गा लांवच्या कार्या निमितिं, इतुल्ये हाणविर्धी, रैवासान[24] प्रेमभरितु हौनु चालो, की ह्ये प्रसंगिं आपुल्या अंतस्करणांतु जो वसो, आपुल्ये मुखवचनी जो उलौन दिसान दिस उधंडां अचर्यां करी आणी त्या वरौनु अपरांपरू लोकु, जो स्वामयाच्या फेभावार्थाक हाडी, तो सत्यवंतु देवसो दृश्टीक दाखौनु दी.

भग्तु सांतु इश्तेवांव इतुलो पुण्य पुरूशार्थु आचारी, स्वामया जेझु क्रिस्ताचे फेभावार्था वळखिक अगणित लोकु हाडितासो अनुभावार्थ्यां दृश्टांनि देखूनु, ताका आपुल्ये सुमुर्तिचो व्हड्डु दृश्टु दुसमानुसो मानूनु, ताचो व्हड्डु दुमालो[25] करू लागलेति, आणी ताचे लागीं भोवतेकी वेळु शास्त्र, समुर्तिचे प्रतिवादु[26] मांडिल्यारि, जावळि ताचे अंतस्करणिं स्पिरित सांतु वसो, आणी ताचे मुखवचनिं उलैयि, तावळि तो येणे प्रमाणिंचो संवादु मांडी की ते इतुलेय प्रतिजाप दिंवच्याक नेण जावनु पडनु, नित्य आमंचो भग्तु आमंच्या फेभावार्था[27] निमितिं जैतवंतु हौनु वर्तो. ह्या वरौनु ते समस्त अनुभावार्थी, फेभावार्थाचे दृश्ट, लज, वा अपमाना पडनु, जरि आपण्यांच्यान ताका जिखवव नजो, तरि जिविशिं मारनु पुणु, ताचो स्वड्डु[28] घेवूं म्होणु, ह्या इतुल्याक वेळ, वा समयो पळेंव लागलेति.

फुडां ते अनुभावार्थी, आमंच्या फेभावार्थाचे दृश्ट, आपण्यांनि चिंतितललें कार्य सिध्दी पांवच्याक, मुग्तिवंता भग्ता सांत इश्तेवांरि आड, लटिकि गोवाय, साखि

---

23. वेव्हारांत हाडूंक; कार्य करूंक.
24. खतखत्यान; उर्बेन.
25. पिडापिड; अपजायणें; त्रास.
26. भासाभास; उतराक उत्तर - discussion, debate.
27. फे, हें पुर्तुगेज उतर म्हळ्यार धर्म वा स्त्रद्धा, भावार्थ, हें कोंकणी उतर; दोनूय जोडून, हें उत्तर तयार केलां, इंकिजिसांवाच्या भेयानशें दिस्ता.
28. सूड, हें त्या उतराचें आयचें रूप.

सोदिलेति, आणी येणे प्रकारिं ताका धरनु, स्क्रिबां फारिझेवां[29] लागीं व्हेलो, जंय आणियेक उधंड लटिक गोवाय, साखि हाडूनु, येक ताचेरि मुदाय[30] रावनु, आपण्याक जाय तेणे प्रमाणिं उलौनु, ताचें गाराणें दिवूं लागलेति.

तावळि मनसुभिदारां[31] फारिजेवांनि गोवाय म्हणताति, तें इतुलेंय सत्य काय म्होणु भग्ता लागीं विचारिल्यारि, तो मुग्तिवंतु भग्तु, त्यां मनसुभिदारां हुजिर, वा समस्तां अनुभावार्थ्यांच्या दळभारा देखतें, येक येदें व्हड उत्तम, वा पवित्र शास्त्र सांगुंच्याक आरंभलो; आणी निती प्रस्ताया, वा अचर्यानिं येकिचि, स्वामया जेझु क्रिस्ताची सुमुर्ति, निजि, वा सत्यवंतिशी दाखौनु दिली, आणी आण्येकु सत्यवंतु देव नां, बगर जेझु क्रिस्तु, ताचिचि शिकवण, वा फेभावार्थु आयकुंच्याक, वा सत्य मानुंच्याक फावो, ह्ये सुमुर्ती भायर कोणाय येकाक मुग्ति ना, वा कोणाय येकाच्यान स्वर्गिं प्रवेसु करव नजो, बगर जे कोण येकाचि स्वामया जेझु क्रिस्ताक सत्यमानिताति, ताची पवित्रि सुमुर्ति, वा उपदेस सांभाळिताति, तेचि सर्व सुख मुग्ती पाववितशे. हें मुग्तिवंतु भग्ताचे मुखिचें सत्यवंत शास्त्रपठन, त्ये सभेच्यां समस्तां अनुभावार्थ्यानि आयकत खेविं, अज्याप जावनु भिलेल्याचे परीं, भग्ताच्या तोंडाक निरखूनु चोवूं लागलेति, आणी ताचें मुखकमळ इतुलें मुग्तिभरित, इतुलें प्रझळित, वा तेजपंज देखिलें, की मनुशाचें तोंड दिसना जाय, बगर येका दिप्तिवंता भोडुव्याचें मुखकमळ दिसो.

कित्या स्पिरितु सांतु जो ताच्या अंतस्करणांतु, वा आत्म्यांतु वसो, तो भायर फांको, आणी आपुलिं दिप्तिभरितां किर्णां, ताचे कुडी ठांय भायरपणिं फांकुंच्याक धाडी, आणी जावळि भग्तु सांत इश्तेवांव गुनेया व्रैत, निरपराधी हौनु वर्तो, आणी स्वामया जेझु क्रिस्ता खातिर कश्ट, वा मरण सोसुंचो समैयो मेळुंच्याक भोव करनु आठैयि, तावळि त्या इतुल्यांय दृश्टां दुसमानां हुजिर इतुलो खोशी हौनु, इतुली भरकमाय धरनु उबो आशिलो की स्पिरितु सांतु जो ताच्या अंतस्करणांतु वसो, तो ताच्या आत्म्या ठांय आशिललें, सर्व मुखकमळारि दाखैयि : अभ्यांतरिं[32] आशिलली अनुपम सौरूपाय भायले कुडिक फांकैयि : मनिंचें निर्मळपण कुडिच्या भायल्या आकारा

29. दोनूय येवदी पुरोहीतांच्यो जाती, पयलो शास्त्र बरोवन दवरताले आनी ताचें पठण करून समजणी-फोडणिशी दिताले; दुसरे मनन, किर्तन करताले, मनसुभी दिताले.
30. बगलांट घालून, आरोप करून फुडें येतलो गवाय.
31. न्याय करपी; न्यायदीश.
32. भितर्यां; खोलायेंत.

ठांय मिरवो : अंतस्करणांतु लिप्ति आशिलली दिप्ति, प्रभा, आरूशांतु निहाळिलल्याचे परीं निडळारि[33] दृश्टी पडो : पण जो निर्लेपाये,[34] वा शगुणां प्रसंगिं आत्म्या ठांय, तोचि तो निजु भोडुवो हौनु वर्तो. जो स्पिरिता सांतान भरितु जावनु, कुडि नांशिलल्याचे परीं, भोडुव्यां सारिखो हौनु, तांच्या शगुणा, वा निर्मळत्वाची सरि टांकी,[35] तो मुखकमळा ठांय भोडुव्या सारिखो दिसलल्यान कोण नवल! आणी मोयझेन सिनाय पर्वतारि ठावनु आधिले सुमुर्तिचे पाटे[36] हाडिल्या निमिर्ति, ताचें तोंड जरि सुर्या सारिखें प्रझळलें, तरि आमंच्या मुग्तिवंता भग्तान, तिचि ती निजि स्वामया जेझु क्रिस्ताची सुमुर्ति मुखिं उचारनु जनलोकाक शिकयलल्यां प्रसंगिं, ताचें मुखकमळ भोडुव्या सारिखें दिसललें कोण नवल !

इतुल्या मधें मुग्तिवंतु भग्तु सांत इश्तेवांव त्या इतुल्यांय अनुभावार्थ्यां, फेभावार्थाच्यां दृश्टां,[37] दुसमानां भितरि उबो आसतां, वरूती मान करनु, दोनीय डोळ्यांनिं स्वर्गाक जरि निरखूनु चोयि, तरि तो स्वर्गु दों भागिं उगतो जावनु, क्रिस्तु आमंचो तारकु आपुल्या अनाधसिध्दा देवबापाच्या उजुव्या हाता, भग्ता सांत इश्तिवांचे मजतिक धांवत येतल्याचे परीं, आपुल्या फेभावार्था खातिर, भग्तान प्राणु करित खेविं, ताका आपुल्या गोपांतु धरनु, सर्व सुखा, मुग्ति व्हरूच्याक स्वर्गिंच्या दारिवंट्याडे उबो आशिललो ताणें देखिलो. हो दृश्टाव भग्ता सांत इशतेवांक जालो, आणी तांतुं स्वामि जेझु क्रिस्तु जिवंतु दृश्टी पडलो, कित्या हो स्वामि मनुशां खातिर क्रुसारि जोडनु, मरण पावलोसो, ह्या भग्तान जनलोकाक प्रघट करनु सांगिल्यारि, थोडोचि कालु जालल्लो : आतां, मुग्तिभरितु हौनु, स्वर्गिं अनाधसिध्दा देवबापाचे उजुव्ये हातिं बैसलोसो, समस्तांक प्रघट करूच्याक, जिवंत ताचे दृश्टी पडता. आणी स्वामि जेझु मुग्तिच्या दारिवंट्या लागीं उबो रावनु, आपुल्या फेभावार्था खातिर प्राणु वेचितल्या[38] भग्ताक आपुली कृपा, धिरू, आधारू, बळ सग्ति पुरौनु, ताचे लागीं उलौनु, ताणें ताका ऐशें म्हळेंशें केलें :

---

33. कपलार, तकलेर.
34. लेप वा खत नाशिल्ली स्थिती.
35. देखादेखीक लागो; वडावडीक पडो; अनुकरण करी.
36. फातराचीं फळीं, जांचेर देवान दिल्ले धा उपदेस कांतयल्ले stone tablets containing the Ten Commandments.
37. दुसमान वा देवा-धर्मा आड वावुरपी.
38. भेटयतल्या; अर्पण करतल्या.

"इश्तेवांव, मजे खातिर प्राणु देंवच्याक भियेंव नाकाशि : कित्या हांव तुका, मज्या देवबापा हुजिर व्हरनु भेटौंच्याक, हांगा राबतां. संवसारू सांडुंच्याक तुं भियेंव नाकाशि, कित्या स्वर्गु तुका आपण्या ठांय आप करनु घेंवच्याक, भोव अत्रिखेता.[39] तुं तुजी जिणि सांडुंच्याक भियेंवनाकाशि, कित्या अखंडिति मुग्ति भोगुंच्याक येशित.[40] ह्या इतुल्याक स्वर्गिंचे दारिवंठे उगते जाल्याति : आनंदभरितु हौनु वयरि चडत यो : कित्या कश्टु सांडूनु सुख संतोसु भोगुंच्याक येताशि, तुजो दुमालो करतल्यां मनुशांक सांडि, आणी तुका देखिल्यारि सुख संतोसु पावनु, खोशी जातल्यांची संगति आधारूच्याक, वेगिं, वेगिं, यो."

भग्तु सांत इश्तेवांव स्वामया क्रिस्ताक स्वर्गिंच्या दरिवंठ्याडे उबो आशिललो देखिलल्यान, इतुल्या सुखा, संतोसा पावलो, ताचें अंतस्करण इतुलें उलासलें, की आपण स्वर्ग उगते जालले देखतां, आणी जेझु क्रिस्तु आपण्याक स्वर्गिं व्हरूक मुग्तिच्या दारिवंठ्याडे राबता, ऐशें म्होणु हाक दिल्या व्रैत, ताचें अंतस्करण धर नां जालें.

हीं उतरां जुदेवानीं आयकत खेविं, ते, ताका जिविशिं मारूच्याक जावळि कालु, वग्त, वा समैयो सोदितलेति, तावळि ह्यो वेळे पुरती वेळ नांशि देखूनु, ते इतुलेय अनुभावार्थी, आमच्या फेभावार्थाचे दृश्टे, येकिचि भारिं उभटूनु, बोब हाक शिंहाडे देवनु म्होणुं लागलेति : ह्या देवदृह्या दुसमानाक जिविशिं मारका, जिवघातु करका, ऐसल्याक ठेवूं नाकाति, कित्या आपण येदो व्हडु भग्तुसो दाखौनु, येदी व्हडी आपतुस्ति[41] करिता, की स्वर्ग उगते जावनु स्वर्गिं व्हरूच्याक देवपुत्रु आपण्याक राबता म्हणता. येणे करितां ते इतुलेय निश्टूर अनुभावार्थी भग्तारि थोरा कोपा, क्रोधा चडूनु, चडफडेवनु, यद्ये व्हडी निश्टुरायेन ताका फातरावूं लागलेति, की येका खिणा भितरि ताचें सर्वांग फातरवार्यां मारनु, घायवट[42] रग्त बेंबळ करनु, ताका जिविशिं मारिलो.

भग्तान हें मरण, संकश्ट इतुल्या सुखा, संतोसा, वा सोसवणेन आप केलें की तो आपण्याक इतुल्ये निश्टूरपणिं कश्टौनु जिविशीं मारितल्यां मनुशांक भगशि म्होणू,

---

39. अत्रेकता; आंवडेता; वाट पळेत आशेवन रावता.
40 विरोधालंकारान मांडिल्लें गद्य नियाळात.
41. आपणाचीच तुस्त वा वाखाण्णी करता.
42. घायाळ; जखमी.

डिंबयो घालनु, स्वामि जेझु क्रिस्ता लागीं मागूं लागलो. ह्या भग्तान आपुल्या दृश्टां, दुसमानां निमितिं, देवाक प्रार्थना करनु, तांचो अपराधु भगशि म्होणूं, स्वामया लागीं मागिल्या उपरांतें, तोचि तो स्वामि जो स्वर्गिंचे दारिवंठे उगते करनु, मुग्तिच्या समग्रां दळभारां सैत राबतालो, त्या आपुल्या रचणारा स्वामया जेझु क्रिस्ताच्यां हातांतु, ताणें आपुलो प्राणु वोंपिलो, आणी ताचे सांगातिं आपुल्यां कश्टांचो उचित फळु, सर्व सुख, अखंडिति मुग्ति भोगुंच्याक स्वर्गिं गेलो.

तीचि मुग्ति, येकभाविं ह्या स्वामयाक सत्य मानूनु, ताची पवित्र सुमुर्ति, वा उपदेस संपूर्णपणिं साभाळितल्यां निजां क्रिस्तांवांक लाबत.

---



## दृश्टां दुसमानांक भगसुंची गोश्टि केल्या भग्ता सांत इश्तेवाची -

## तिसरी शिकवण

मुग्तिवंतु भग्तु सांतु इश्तेवांव, प्रथमलो मार्तिर, जो आपुल्या दृश्टां दुसमानांच्या मेळ्या, दुसमानिके वायलो हौनु, तांचे ठांय मयेमोगान चालो, आणी तांकां सर्व मनशिं भगसूनु, तांचे खातिर स्वामया देवाक मिनति करीः ताची देखि घेंवच्याक जांचे अंतस्करणिं पेल्याचो मेळो, वा दृश्टचारू वसता, ताणि उपशामा[1] येवनु, भगसुंक शिकुंच्याक, थोडे भोव विवेख ह्ये सुवातेरि लांव या :

पयलो विवेखु जो आसा, तो हो : जाचे अंतस्करणिं आपण्याक दुखयलल्या कोणाय येका मनुशाचे दुसमानिकेची टाळणी आसा, ताणें सर्वय वस्तूं फुडें विवेखु करूं काज; की मनुश्यु जैसो आसा, तैसोचि, जरिय भोव कनिश्टु, फकिरू जालो, तरिय पुणु स्वामया देवाची रचना, वा ताचो पुत्रु, ताच्या अमोलिका रग्तान उधरिललो, आणी ह्या स्वामया खातिर, त्या मनुशाक भगसुंच्याक जरिय नफावो जालें, तरिय पुणु ताका भगसुंच्याक प्रस्ताव आसा. जाका भगशितांव ताचेरि दृश्टि देंवची न्हय, बगर ज्या खातिर भगशितांव, त्या स्वामया देवारि दृश्टि नदर ठेंवची, कित्या आमकां दुखयलल्या मनुशाक आमिं चोयतां, ताका भगसुंच्याक, जरि प्रस्ताव नमेळो जालो, तरिय पुणु, ज्या स्वामया देवा खातिर आमिं भगशितांव, वा जाका आमिं इतुलें देवें,[2] ताका चोयल्यारि उधंड प्रस्ताये दृश्टी पडतित.

देव स्वामि जो आसा, तो सर्व बरवो देखूनु, जें ताका फावो, आणी जितुले

---

1. देखीवंत सांगणें आयकून - exhortation.
2. देणें आसा, दिंवचें आसा, दिंवक फावो.

उपकार ताणें आमंचेरि केल्याति, ते आमंचे खातिर इतुले, वा येदे व्हड, निश्टूर कश्ट सोंशिल्या प्रसंगिं, आमिं ताका कितुलें देवें, ताचो विवेखु करूया, आणी जाणें आमंचे खातिर इतुले कश्ट सोंशिले, ताचे खातिर जें आमि सोंशितांव, तें भोव न्हयशें दृश्टी पडता. पाप करूक जाणा जालेंव, तो दिसु लेगिन आजि पर्येंत्र अगणित पाप जें देवारि चुकूनु केलां, ताचो विवेखु करका,[3] आणी ज्या स्वामयान तुमकां इतुल्यो चुकी सोंशिल्याति वा येदिं व्हडां पातकां भगशिल्यांति, वा फुडां तुमकां भगशिललिं जाय, तरि ताचे खातिर येदी लाहानि चुकि, येदो लाहानु अपमानु सोसुंचो भोव न्हयसो दृश्टी पडता.

येरवें[4] तुमिं अनितिन आपुली काकुळति करि म्होणु मागताति देखूनु, आणी तुमंच्या आपुल्या पेल्या लागीं काकुळतिन चालनां जाल्यारि, तुमंकां ती काकुळति लाबुंच्याक फावो ना; आणी जरि तुमिं तुमंच्या आपुल्या पेल्याक भगशि ना जाश्यात, तरि देव तुमंकां भगशिनां जायत, कित्या जें तुमिं आपण्याक मागताति, तें पेल्याक नदेति देखूनु; ऐशें स्पिरितु सांतु म्हणता, मनुश्यु पेल्या मनुशा आड दुसमानिक मेळो आपुल्या अंतस्करणांतु दवरिता, आणी जो कोपु आपुल्या पापा आड फावो तो विसरूंच्याक देवाक मिनति करिता, आपुल्या पेल्या ठांय काकुळतिन चाल ना, आणी आपण्याची काकुळति करि म्होणु देवा लागीं मागता.[5]

आमंच्या दृश्टांक भगसुंच्याक, जो उपाव स्पिरितु सांतु आमकां ऐशें म्होणु दिता, तोहि विवेखूनु पळेया. थोड्याचि दिवशिं तुमिं कोणी भोवशे पावतलेति, तुमंची धुळि माती जी जातली, ताचो आठव करका, आणी जावळि मरण तुमकां सोदूंक येत, तावळि कोणिय येकी वस्तुची तुमकां चाड,[6] ना जायत बगर देवा हुजिर ताची काकुळति मेळल्या पुरो म्होणु आठयश्यात; तुमंच्या पातकांच्या भगसण्या व्रैत आणियेकी पोरनिय वस्तुची तुमकां भावना नां जायत. तरि हें ऐशें आसतां, तुमिं सुटावें जाणां की मरणकालाडे देवान आमंचिं पातकां भगसुंच्याक, आणियेकि वस्तुं भितरि, जी वस्तु तुमकां उपकारा पडूं शको, ती तुमिं जें ह्या संवसारांतु पेल्याक[7] भगशिललें तें.

---

3. हें कारवारांत अजून चलतलें पोरणे प्रमाण कोंकणीचें रूप नियाळात.
4. हरशीं-हरशें, otherwise.
5. हांगा संक्षिप्त रीतीन मांडिल्लो तर्क आनी सांगिल्लें तत्वगिन्यान नियाळचें.
6. शीण; तक्रार grievance.
7. दुसऱ्या मनशाक, शेजाऱ्याक-सामाऱ्याक, जांचे कडेन आमचो संबंद येता.

जरि देवा ठांय तुमकां काकुळति मेळलली जाय, तरि तुमंचे ठांय तिचि काकुळति आपुल्या पेल्याक मेळूं; देवा ठांय तुमकां, ताचें मुखकमळ बरें मेळललें जाय, तेंचि तुमंचे ठांय आपुलो पेलो निहाळूं. जरि तुमंच्या मरणकालाडे जीं पातकां तुमि देवारि चुकूनु केल्यांति, तांचो विसरू ताचे मनिं पडललो जाओ, तरि तुमंचेरि पेल्या मनुशान जी कांय येकि चुकि केल्या, ती आतां ताका तुमिं भगश्या आणी विसरा. ह्या व्हडा आचारणाच्या पुण्यफळाचोय विवेखु करका, कित्या पातकांचें भगसणें लाबुंच्याक, व्हडा अखेपाचो प्रकारू जाओ, येकोचि न्हय, पण नव्या पुण्यफळान मनुशाक ग्रेस्तु करूंच्याकय उपेगा येता, कित्या कोणिय येकी करण्ये ठांय, जें पुण्यें निपजता, तें ती करणी संकस्टिं केलल्या निमितिं निपजता.

म्होणुंच्याक जितुलें येक आचारण अदिकतोर खडचर,[8] वा अवगड जायत, तितुलें ताचें पुण्यफळ अदिकतोर व्हड विपत.[9] देखून मार्तिरपणाचें आचरण जें आसा तें येद्या व्हडां कश्टां, वा संगिनायेचें[10] म्होणु, ताचो पुण्यफळु जो आसा, तो व्हडा पुण्यपुरुशार्थाचो. आणी जरि हांगा तुमंकां ऐसल्या अवगडां कश्टांचो समयो फुडारता, तरि तेणेंचि प्रमाणिचें पुण्य, वा उचितु लाबत. येणे करतां, जरि तुमिं भावार्था निमितिं मार्तिर जाले नांति, तरि दये काकुळती प्रसंगिं, मार्तिर जाश्यात; कित्या भग्तु सां ग्रेगोरयु म्हणता तेणे प्रमाणिं, हातयारा, वा उज्या व्रैत आमिं आमंच्या अंतस्करणांतु सत्यभाविं सोसवण धरलल्या वरौनु, मार्तीर जांवये. ह्या शगुणाची महिमा, वा मोल विवेखूनु पळेया, हो शगूणु आमकां येकी उत्तमी प्रकारिं, स्वर्गिच्या दयाळा बापाच्या अंतस्करणाचे देखिचे पुत्र करनु दवरिता; तो बापु बऱ्यां, आणी वायटांक सारिखोचि पावनु, नितिवंतां, वा पापयांरि आपुल्ये कृपे, करूणेचो मेगु[11] वरूसाविता.

जरि वायटाचे भ्रांती हौनु, तुमिं बरव्या भल्याच्या मयेमोगान दरवनांति,[12] तरि ह्या पापाची व्हडि वायटिवशी विवेखूनु पळेयाः ही वायटिव जी आसा, ती येदी व्हडि, की भग्ता सां जुआंवान तिका परघाताची सरि दिल्याः जो कोणु पेल्याक जिविशिं

---

8. निबर; कठीन, tough - तांतूंत देख दिल्लें तत्वगिन्यान मना हाडात.
9. उपजत; भायर सरत; outcome.
10. कठिनाय; खडचराय; 'आय' सोंपतलें कोंकणीचें खाशेलें लक्षण.
11. मेघ, ह्या उतरा वेल्यान आयिल्लें कोंकणी तद्भव, म्हळ्यार पावस घालतलें कूप. - हांतली चित्रभास पळेयात.
12. कडून; विर्गळून वचूंक.

मारूक चिंतिता, ताणें देवाचे मनुसुबिये हुजिर ताचो घातु केलो जाता. येणे करतां, हें पाप येदे व्हडी वायटिवेचें जालल्यान, जैश्यो गाळी, श्राप, वा आणियेकां पातकां विसरताति, तेणेंचि प्रमाणिं, जरि तें पाप केल्या उपरांतें विसरते, तरि लाहान पाप जातें. पण ऐशें न्हय, बगर दुसमानिक, वा मेळो जो आसा, तो उधंडी पावटीं येक, दोनि, वा भोवतेकां वरूसां मनिं वसता. येणे करतां, हो घाव जो आसा, तो हातयाराच्या घायाचे परीं न्हय, बगर भालिच्या घायाचे परीं, ज्या घायांतु लोखंडाची भालि उरलल्या निमितिं, सर्वथा पेख ना जावनु, नित्यकाल दुरगंदि, वा राशी व्हांवता.[13]

ह्या लागीं आणियेक व्हड वायट येकवटता, तें जें आसा, हें: तें पाप आणियेकां पातकांचो जमो, भारू आपुले सांगातिं हाडिता: आणी तीं समग्रां पातकां, ताचे लागिंचिं सर्वथा कडे सर नांति; कित्या कोणाय येका मनुशाची दुसमानिक जायत खेविं, ताच्यो सर्व करण्यो आमकां वायटी दिस्ताति : आमंचे अंतस्करणिं, कोपु, क्रोधु, नेदुखचारू,[14] निंदा, माव, भेदु, निपजूनु, वायटारि वायट चडता, आणी ह्या इतुल्यांय हौनु जें अदिकतोर वायट आसा, तें हें: आपण आपुल्या दृश्टाक वायट देखिलल्यानंचि खोशी नजो, बगर हेरांय समस्तानिं ताचे ठांय वायटिवेन चालिललें जाय. जरि तुजें अंतस्करण दरौंच्याक हें इतुलेंय नुपुरो, तरि विपाय,[15] ज्या स्वामयाक येका क्रुसारि जोडनु, मस्तकारि कांट्यांची कोरोआ[16] घालूनु, जाका फारानिं सगळोचि घायवट, वा येकु दुखिचो सागरू[17] केलो, ताचे देखिचो पुणु विवेखु करिः आणी तो हें इतुलेंय आपुल्ये सदैवी माये हुजिर सोंशित आसतां, प्रथमलें उतर जें त्या अशग्त जालल्या अंतस्करणांतुलें वोडित उलयलो तें हें : बापा! तुं ह्या मनुशांक भगशि, कित्या ते जें करिताति, तें अग्न्यानपणिं देखूनु.

तरि हो ऐसलो मयेमोगु, वा भगसण्याचे देखिचो फळु, जो क्रिस्ता आमंच्या तारकान आमकां इतुलें वोडमाड्नु शिकयलो, तो नघेतां, निर्फळु केलल्या हौनु आणियेक व्हड अंदकपण[18] आसा! हें जें आसा, तें आमिं आमंच्यां अपमानां ठांय

---

13 रूपकां आनी उपमांनी भरिल्ली ही जबरदस्त प्रतिमा पळेयात.

14. निर्दुखाय, कुडणाटपण, envy, jealousy.

15. उणें म्हळ्यार; निदान; at least.

16. पुर्तुगेज उतर = मुकुट.

17. हें रूपक पळेयात.

18. कुड्डेपण; जाणा जावन दोळे धांपल्या.

विवेखुंचें : आणी येणे प्रमाणिं ते अपमान आमकां इतुले गोड जातित, की जी आमंच्या दृश्टाची वायटि करणी आसा, ती त्या दृश्टां शिंवाच्या तोंडांतु अमृताची घागरी[19] हौनु वसता. शेखिं[20] जे आपुल्यां दृश्टां, दुसमानांक भगशिनांति, ते कोणा त्या तोंडा, वा सत्यान आमंच्या बापाचें ओरासांव[21] करूं शकति? जैशें आमिं पेल्याक भगशितांव, तैशिंचि आमंचिं पातकां भगशि म्होणु, तांच्यान कैशें मागवत? जरि ऐशें म्हणताति, तरि प्रत्येक्य दृश्टी पडता, की ते आपण्यांरि आड फर्माण दितातिः आणी मनभाविं, वा सुकृतिं देवसुमरण नकरिति, बगर लटिका[22] अंतस्करणान, वा फटिकिन्या तोंडान जपताति.[23]

तरि ताणिं कितें करूंचें? येकु भ्यां भ्रांती पडनु, जरि आपण तीं उतरां म्हणन, तरि आपण्यारि आड फर्माण जायत, वा आपुलिं पातकां भगसो नां जातितः आणी हें ओरासांव देव नऐको जाल्यारि आण्येंकां ओरासांवां, वा अर्दासो केलल्या निमितिं, आयकत म्होणु, जरि सत्य मानित, तरि ह्या इतुल्या ठांय पापी आपणपेंचि नाडवतः कित्या तो क्रिस्ता स्वामयाच्यां शिसांचे परीं चाल ना, बगर तांकां खुति[24] काडूनु, आपण्याचे बदिन[25] तांतुलिं उतरां उणिं करिता देखूनु. ह्या वरौनु दृश्टी पडता की अनाधसिद्धु देव बापु, जें पाद्र नोसाचें[26] सुमरण ओरासांव आपुल्या पुत्रान शिकयललें तें न्हय देखूनु, सर्वथा आयक नां, वा आप नकरी जायत. आणी आपण्याच्या तोंडान आपण्यारि आड आपणें फर्माण दिलल्याची भ्रांति धरनु, अंतस्करणा वरौनु, आपण्याचेरि आपणें खेव हाडिलल्याची शंख्या भ्रांति[27] नधरितां, तोंडानोंचि म्हळलें देव समजता, अंतस्करण ताका ठावकें नांशें भासूनु,[28] आपणपेंचि आपण नाडवता.

---

19. ही सोबीत प्रतिमा पळेयात.
20. निमाणेकडेन; आखरेक; ultimately.
21. पुर्तुगेज उतर = मागणें, प्रार्थना.
22. पाखंडी; फटिंग.
23. जप करतात; भारतीय संस्कृतार्येंतलें हें उतर पळेयात.
24. उणेंपण दाखोवन; खत काडून; दोश लावन.
25. आपल्याक लागता तशें.
26. Padre Nosso म्हळ्यार पुर्तुगेजींत आमच्या बापा, हें कोंकणी मागणें.
27. शंका, भिरांत, हांचीं तद्भव आनी तत्सम उतरां.
28. भासता; दिस्ता; झळकता; to appear; to seem.

ह्यावरि आमंच्या बापाच्या ओरासांवांतुल्यो हेरी अर्दासो देव आयकता, आणी ती शिरिं[29] सांगिलली अर्दास आयकना जायतशी सत्यमानूनु, नाडबुद्धी पडताः कित्या हेरी अर्दासो ज्यो आसति, त्यो पुत्राच्यो न्हय जातित, बगर वायटा, वा घातक्या शेवकाच्यो, आणी जरिय ती अर्दास नकरी जालो, तरिय देव आयकत. पण हो ऐसलो आपण्यारि चुकि केलल्या पेल्या मनुशाक भगशी ना जालो देखूनु, देवूय ताचिं पातकां माप[30] नकरी जायत.



29. वयर; सुरवातेक, at the head - शीर.

30. माफ करूंक वा भगसूंक;- हांगा उपकारायल्लें तें कोंकणी उतर.

# भगता सां जुआंव एवांजेलिस्ताच्या[1] दिवसाची

## पयली शिकवण

भग्तु सांव जुआंव एवांजेलिस्त जो आसा, तो बरव्या जेझुचो मोगाळु शिसु हौनु वर्तलो. हो भग्तु आपुल्या भावा दियोगा, वा झेबेदेव म्हळल्या आपुल्या बापा सांगातिं, येका लाहाना तारूवारि बैसूनु, मासळी पागुंचिं आपुलिं जाळां शिंवत आसतां, स्वामया जेझून तांकां आपयले, आणी आपुल्ये पाठीं मागिल्यान येंवच्याक तांकां फर्मायलें. त्या दोगां भावांनिं क्रिस्ता स्वामयाच्या उतराक येदो व्हडु पाळो दिलो की तेचि खेविं आपुलें तारू, जाळां, व्यापाराचो अभ्यासु,[2] घरदार, मायेबापु, वा सर्वय हेर थंयचि सांडूनु, स्वामया सांगातिं, ताची सेवा भग्ति भजना करूंच्याक फुडारले. ह्या वरौनु आमिं कोणी त्ये हाणविर्धी, वा ताकितिन,[3] क्रिस्ता स्वामयाच्या उतरा बोला, वा आपवण्याक पाळो दिवनु फुडारूंचें, वा कोणी प्रमाणिं ह्या भग्ताची सरि टांकूनु, ह्या स्वामयाची सेवा, भग्ति करूंचिशी, आमकां देखि लायली.

हो भग्तु सां जुआंव एवांजेलिस्तु लाहानु, वा तरणधाकुटो आसतां, इतुल्ये अखेपायेन स्वामया-देवाची सेवा भग्ति करूं लागलो, आणी येणे प्रमाणिं ताणें स्वामयाचें चित्त जोडिलें, की हेरां समस्तां आपोस्तलां भितरि, स्वामि ताची अदिकतोरि प्रति करिःआणी तो आपुल्ये प्रतिचो शिसु देखूनु, ताचो व्हडु विस्वासु मानूनु, आपुले सर्वय घुठ ताचे लागीं वोंपी; स्वर्गिं ह्यो समग्री वस्तु ताका उगडाप्यो करनु सांगोःजितुले कडें

1. जाणें येवांजेल बरयला,पट्टशिसां मदलो सगळ्यांत ल्हान, जेझुचो लागींचो; दुसरो जुआंव बाप्तिस्त, जो जेझुची वाट तयार करून, जोर्दांव न्हंयेच्या उदकान बावतीज्मु वा पवित्र स्नान दितालो.
2. कामाक लागतली सामग्री, मुस्तायकी, दुरूस्तीचें सामान.
3. रोखड्या - रोखडें; ताकतिकेन; ताकेत करून.

स्वामि वचो, त्ये इतुलेय ठांयिं आपण्यां सांगातिं ह्या आपुल्या मोगाळा शिसाक व्हरो.

येके दिवशिं क्रिस्ता आमंच्या तारकान, ह्या भग्ता सां जुआंवांक, वा ताच्या भावा सां दियोगाक, वा सां पेद्रुक आपण्या सांगातिं, ताबोरा पर्वतारि व्हेले, आणी तांचे हुजिर, ते आपुल्ये अदिकतोरी प्रती, मोगाचे देखूनु, जी मुग्ति आपुल्या पवित्रा आत्म्याक भोगो, तिका आपुल्ये कुडी ठांय प्रकासुंच्याक निरोपु दिलो. आणी त्या तेगांय शिसां आपोस्तलांनिं स्वामया जेझु क्रिस्ताची पवित्र कुडि, येद्ये व्हडी दिप्ती, प्रकासान प्रझळलली देखिली, की ताचे इतुल्ये कांतिच्या भारान, तांच्या डोळ्यांची दृश्टि मावळूनु, तेगय आंदळे जावनु पडलेति, आणी तो सगळो पर्वतु इतुल्या तेज प्रकासान भरलो, की येकु आनंदभरितु स्वर्गु दिसूं लागलो.[4]

ह्ये समयिं स्वामया जेझु क्रिस्तान आपुल्या प्रतिच्या शिसा सां जुआंव एवांजिलिस्ताक स्वर्गिंचे व्हड अभिनव नवलाये दाखौनु दिलेति; ताणें मुग्तिच्यो उधंडी अगमी वस्तु देखिल्योति, देवकर्तव्यां मिस्तेरयांचे अकळित पार समजलो, वा शिकिलो. पण आस्त्यांतु व्हडु उपकारू, जो स्वामयान ह्या भग्ताक केलो, अदिकतोरू प्रियेव, प्रति, वा दुलबाय, जी ताचे ठांय दाखैली, ती आपुल्या दुखभरिता पायशांवा[5] फुडें, सांतिसिमु साक्रामेंतु[6] उप्राशिलल्ये पवित्री रात्री, स्वामि जेझु आपुल्ये पवित्री पंकतिरि[7] बैसललो आणी ताचे सरिसो, ताचे लागिंचि, जो बैसूनु आशिलो, तो हो ताचो मोगाळु शिसु, सां जुआंव एवांजेलिस्तु. आणी स्वामयाक ताची इतुली प्रति, वा मोगु आशिलो, की तो आपुलें मस्तक स्वामयाच्या हध्र्याक टेंकूनु वोटंगलो[8] आसतां, ताका त्या पवित्रा हर्देकमळारि,[9] येकि येदी व्हडि देवकळेची निद पडली, की त्ये निद्रेंत समग्र स्वर्गिंचे देवगुठ वा आमंच्या फेभावार्थाच्या कर्तव्यां, मिस्तेरयांचे अकळित पार समजलो. स्वामयाच्या हृधयेकमळा ठांय, ताणें म्हा पवित्रु पावनु[10] सांतिस्सिमा त्रिंदादिचो मिस्तेरयु देखिलो; कोणी प्रमाणिं अनाधसिद्धा देवा बापाचो, देवपुत्रु प्रसंवललो,[11] आणी देवबापा, वा

---

4. स्वामी जेझु क्रिस्ताच्या परजळीत रुपांतरणाचो (transfiguration) उल्लेख.
5. पुर्तुगेज उतर, कश्ट-दग्दग - Passion.
6. पवित्र संस्कार, जो ते रातीं निमाण्या जेवणा वेळार जेझून घडयलो.
7. पंक्तिर बसून जेवण; भारतीय पद्धतिचें हें उतर.
8. आड पडून विसवलो.
9. हें सोबीत रूपक उतर पळेयात, हध्र्याक कमळाची सर केल्या.
10. भारतीय संस्कृताये उतरावळ पळेयात.
11. प्रसूत जावन जल्माक हाडिल्लो.

देवपुत्रा पासौनु स्पिरितु सांतु कोणी प्रमाणिं वर्तो, अथवा निगो, ऐशें प्रत्येक्यपणिं तो जाणा जालो. ह्या येद्या व्हडा उपकारा वयरि आणियेकु हाच्याकय अदिकतोरू व्हडु उपकारू, जो क्रिस्ता आमच्या स्वामयान आपुल्या मोगाळा शिसा सांव जुआंवंक केलो, तो हो :

स्वामि क्रुसारि जोडिलो आसतां, ह्या प्रतिच्या शिसाक त्याचि त्या जेझु क्रिस्ताचे सुवातेरि, सधा आंकुवारी स्वामिणी लागीं उलौनु, हो जुआंव तुजो पुत्रु म्होणु, तिच्यां हातांतु वोंपिलो : आणी जुआंवांक म्हळें, ही सधा आंकुवारि स्वामिणि जी आसा, ती तुजी माय. ही स्वामयाची प्रति प्रियेव वा दुलबाय, जी आपुल्या मोगाळा शिसा जुआंवा ठांय दाखयली, ती येदी व्हडि जाली, की तो, त्याचि त्या स्वामया जेझु क्रिस्ता सारिखो हौनु वर्तलो; दोगय भावशे म्होणुंक फावो आशिले; कित्या दोगय जे आसति, ते सधा आंकुवारी स्वामिणिचे पुत्र म्हणति. स्वामयाच्या मरणा उपरांतें, हो ताचो मोगाळु शिसु आपुल्या देवगुरून फर्मायलल्या प्रमाणिं, सधा आंकुवारी, आमंचे स्वामिणी, सांगातिं वर्तूनु आशिलो, तिका आपुली मोगाळि मांय, आपुली स्वामिणी, वा आपुली राणीशी मानूनु, व्हडा माना, हुर्मतिन आपुली समग्रि जिणि, तिची सेवा भग्ति वा फर्माण पाळूनु वर्तलो.

सधा आंकुवारी स्वामिणीन हो आपुल्या पुत्राचो मोगाळु शिसु पुत्राचे सुवातेरि आशिलल्या समग्र काला भितरि, ताका इतुल्या उपकारांनि भरलो, ताची इतुली प्रति, प्रियेव, वा दुलबाय केली, की कोणाय येकाच्यान जिबेन अर्थूनु सांगव नजो : कित्या जरि स्वामिणि आपुल्या धिरा, आधारा, आलाशिऱ्या सरनु, आपुली सेवा चाकरी करतल्यां पापयां ठांय, थोरी दये काकुळतिन चालता, तरि ती भग्ता सां जुआंव एवांजेलिस्ताक कितें करिती? तो तंव येदो व्हडु भग्तु, आणी ताच्या पुत्राचे सुवातेरि आशिलोः जरि स्वामिणि आपुल्यां सेवकां ठांय इतुल्ये उधारपणिं वर्तता, तरि कितुल्ये उधारयेपणिं भग्ता सां जुआंवां ठांय चालती, जाका तिणें आपुलो सेवकुसो करनु घेतललो न्हय, बगर आपुलो पुत्रु. क्रिस्ता आमंच्या तारकाच्या मरणा उपरांतें, भग्तु सां जुआंव एवांजेलिस्तु सधा आंकुवारी स्वामिणिचो निरोपु घेवनु, जेझु क्रिस्ताचो पवित्रु फेभावार्थु जनलोकाक प्रघट करूच्याक, वेगवेगळिं शारां, पुरां, नगरां, पाठणां हिंडो, इतुल्ये हाणविर्धी, वा प्रेमभग्तिन शास्त्र सांगो, की थोड्याचि काला मधें, आमंच्या फेभावार्थाक असंख्यात लोकु मेळौनु, स्वामयाचे वोळखी हाडिलो.

पेद्रु द रिबादानेयरा म्हळल्या पाद्रीन आपुल्या Flos Sanctorum म्हळल्या पुस्तकांतु नांवाडिललो मेताश्रश्ट सांगूनु दिता, कीं भग्ता सां जुआंव एवांजेलिस्तान उधंडां अचर्यां केलिं, भोंवतेकां मनुशांचे आंगिचे भोवतेक सैतान दंवडिले,[12] भोंवतेकां बळ्ळिकेच्यांक अनिमान[13] केले, भोवतेकां मेलल्यांक पुनर्जिवित्व[14] दिलें, आणी आणियेकां उधंडां अभिनवां, अचर्यां आचारलिं : त्या भितरलें येक जें आसा, तें हें :

दोमिसियानु म्हळल्या इंपेरादोरान,[15] भग्ता सांव जुआंव एवांजेलिस्ताक, जेझु क्रिस्ताचो पवित्र फेभावार्थु जनलोकाक प्रघट करनु सांगिलल्या प्रसंगिं, कडतल्या, अथवा खतखतेतल्या तेलान भरलल्या, येका व्हडा गंगाळांतु[16] घालनु जिविशिं मारूच्याक फर्माण दिल्यारि, भग्तु सां जुआंव- एवांजेलिस्तु, उज्यान कडतल्या, वा उमाळे दितल्या तेलाच्या गंगाळांतु, जेझु क्रिस्ताच्या फेभावार्था खातिर, व्हडी खोश्ये, वा संतोसान प्रवेसलो. प्रवेसत खेविं, तैशेंचि उज्याचें बळ मोडलें, आणी जें तेल तापूनु, कडनु उमाळे देत आशिलें, तें शेळशितळ जालें. आणी त्या गांगाळांतु, तो भग्तु लासूनु वळवळेवनु, ताचो भातकडो येंवचे सुवातेरि, येकी निर्मळा उदकाचे तळियांतु न्हालल्याचे परीं, ताचें सर्वांग नितळ निश्कळंक हौनु वर्तलें, आणी त्या धगधगीत जालल्या तेलान ताच्या पवित्रा आंगाची येकि लंव मुखे बावली ना. हें येकोचि न्हय, बगर भोव करनु फुडेल्या पाशिं आदिततोरू स्वरूपु, संधरू, वा दिप्तिभरितु हौनु तांतुलो भायर सरलो.

ह्या उपरांतें त्याचि त्या इंपेरादोरान, भग्ता सां जुआंव एवांजेलिस्ताक पात्मोस म्हळल्या येका जुंव्यारि देसभ्रश्टु करनु घालो. जंय क्रिस्ता आमंच्या तारकान ताची इतुली प्रति प्रियेव, वा दुलबाय केली, की थंय वर्ततल्या काला भितरि, भोवतेकी वेळो स्वामयाची सुफळि दृश्टि, वा पवित्र दरूशण भोगी, ताचे सवें वर्तो, उलैयि, बोल, मात गोश्टि करी, स्वर्गिंच्यो व्हडी अगमी वा अकळिती वस्तू देखो. उधंडी वेळो ह्या भग्ताचो निर्मळु आत्मो, स्वर्गिंची आनंदभरितु मुग्ति पळेंवच्याक वचो, जेणे प्रमाणें आमिं हांगा, येकामेका भितरि उलयतांव, बोलतांव, तेणे प्रमाणिं, मुग्तिच्यां भोडुव्यां सांगातिं उलौनु, बोलूनु, मातु गोश्टि करनु, जिये.

---

12. धांवडायले; तांच्यांतले काडले; exorcised.
13 बरे नाशिल्ले ते बरे केले.
14. नवें जिवीत; पुनर्जिवीत.
15. (पुर्तुगेज उतर) सम्राट, रोम साम्राज्याचो.
16. मडक्यांत; हांड्यांत; in cauldron.

ह्या सदैवा भग्ता जुआंव एवांजेलिस्ताक स्वर्गीरि इतुलो रिगु आशिलल्या निमितिं, भोडुव्यां लागीं इतुली चालि, वा सन्यधान[17] आशिलल्या वरौनु, वा क्रिस्ता आमंच्या तारका ठांय इतुलो सरिपाडु[18] आशिलल्या प्रसंगिं, ताचे ठांय येदो शगूणु, प्राप्ति, वा सासाय[19] वसो, की तिचे वरौनु, अपरांपरां[20] अचर्यां आचारी. रचन वस्तुंचो सैंबपलटु[21] करी; जेणें प्रमाणिं वनिच्यां रूखां झाडांच्या पानांचें चोख सोवर्नु केलें, आणी गुंड्यां फातरांचिं अमोलिकां माणिकां करनु दवरलिं : अश्टप्रजेच्या मागण्या, वा मिनतिन, येकी मेलल्ये विधंविक[22] जिवंति केली, येका तरणधाकुट्याचे मेलल्ये कुडिक जिवदान दिलें : येक महा निश्टूर विख पिल्यारि, ताका कांयचि वायट भोगलें नां : तेंचि विख हेरांनिं चाखत खेविं, समस्त मरण पावले; पण भग्ता आपोस्तलान तांकां पुनरजिवित्व दिलें. हें इतुलेंय प्राद्रि पेद्रु द रिबादानेयरा आपुल्या 'फ्लोस सांतोरू' म्हळल्या पुस्तकांतु, ह्या भग्ताचे जिणिची गोश्टि करितां सांगूनु देता. आणी मैदानिंच्या तणा पाल्याचेंय सोवर्न केलल्याचें अचर्यें येणे प्रमाणिं सांगताः

येकु ग्रेस्तु कुबेरू,[23] संपनिकु क्रिस्तांव आशिलो. तो आपुली सर्वय ग्रेस्ताय भोगूनु जितां, निर्भाग्य मुखारि सरनु, व्हडी दुर्बळिके पडलो, आणी इतुल्या रिणान बुडलो, की कोणीय येकी प्रकारिं फारिक करूंच्याक सग्ति उपाव ना जावनु पडलो. सर्वय कडेच्यान धनि वोडि[24] करिति; आणियेका लागीं रिण मागिल्यारि, नदें जायति, देखूनु हो दुर्बळो बापूडु, इतुल्ये चिंते, खंती, विग्ना आकांता कश्टांच्या वोळश्या पडनु बुडलो, की तडि घेंवच्याक,[25] आण्येकु उपाव दृश्टी नपडलल्ये प्रसंगिं, ताणें अपघातु करनु मरूंच्याक चिंतिलें. आणी ह्या इतुल्याक त्ये विलाथांतु येकु ज्युदेव, व्हडु घाडी जो आशिलो, ताचें घर पर्येंत्र वचूनु, ताचे लागीं, येक म्हा विखाचें पिवण आपण घेत खेविं आपुलो प्राणु वचो-सो, आपण्याक दी म्होणु मिनति करनु मांगिलें. ज्युदेवान ताका

17. सहवास; इश्टागत.
18. बरोबरी; सरी करपा सारको; equation with; equal to.
19. देवाची कृपा, आशिर्वाद, आसर्णे.
20. सर करूंक जाय नाशिल्लीं, जायतीं.
21. सैबाचो, प्रकृतीचो बदल वा रूपांतर.
22. विधवा.
23. धन-गिरेस्तकायेचो देव; गिरेस्तकायेचें प्रतीक.
24. फाटीक लागिल्ले; अन्नून धरताले.
25. ही सोबीत प्रतिमा नियाळात.

दिलें, तें तो क्रिस्तांव आपुल्या घरा व्हरनु आपुल्ये संवयिं सरशें, ताचेरि पयली सांता क्रुसाची कुरू करनु, पिलो. पिल्यारि तें विखाळवंत पिवण, सांता क्रुसाचे सत्ये वरौनु, निर्विख जावनु, ताका कांयचि बादलें ना.

दुसरिये पावटीं, तो क्रिस्तांव त्या ज्युदेवा लागीं येवनु, आपण्याक निश्टूर विख देंवचे सुवातेरि, नाडि करनु अल्प विख दिलें देखूनु, ताचेरि कोप चडूनु आणियेक ताच्याकय म्हा निश्टूरा विखाचें पिवण मागलें. ज्युदेवान ताका येक म्हा विखाचें विख सोदूनु पिवण करूंक दिलें. क्रिस्तांव तें विखाचें पिवण हातिं घेवनु, मरणाच्या भेंयान कडकडेत, फुडल्ये परीं प्रथम ताचेरि सांता क्रुसाची कुरू करनु जरि पिये, तरि अज्याप करणी वर्तली. त्या विखान ताका कांयचि वायट भोगलें नां, कित्या त्या म्हा विखाचें बळ, सांता क्रुसाचे सत्ये, वा प्राप्तिन, मोडनु, निर्विख करनु घालें.

क्रिस्तांव अज्याप जावनु, व्हडी दुखी, वा संतापान पुनरपिं ज्युदेवा लागीं वचूनु, ताणें ताका वर्तललें सांगिलें. ज्युदेव जो आपणें क्रिस्तांवांक पियेंवक दिलल्या विखाचें बळ जाणां आशिलो, आणी तें कोणाय येकान पिल्यारि, सैंबपणिं जिवव नज-शें, ताका प्रचिति[26] आयलली, तावळि ह्या इतुल्याचे साखिक ज्युदेवान त्या क्रिस्तांवा हुजिर, त्याचि विखाचें येक रजमात्र[27] येका सुण्याक खावूंक दिलें; सुण्यान तें गिळत खेविं, तैशेंचि हात पांय सांडूनु थंयचि मेलें.

इतुलेंय नम्हणतां ज्युदेवान त्या क्रिस्तांवां लागीं, तें विख पितां कितें केलें, वा कोणी प्रमाणिं पिललोसो, पुशि[28] घेवनु विचारिलें. क्रिस्तांवान तें विख पियेंवचे फुडें, पयली क्रिस्तांवांचे रितू प्रमाणिं, ताचेरि सांता क्रुसाची कुरू करनु, पिललो म्होणु सांगिलें. तावळि तो ज्युदेव समजलो, की सांता क्रुसाचे प्राप्ति, वा सत्येन, विखाचें बळ मोडलल्या वरौनु, तो क्रिस्तांव जिवंत उरलोसो; आणी ह्या अचर्या निमितिं अज्याप जावनु, देवकृपेन ताचें मन दरवत[29] वचूनु, मुग्तिवंता आपोस्तला सां जुआंव एवांजेलिस्ता लागीं गेलो, आणी सपाट ताच्यां पायांडे घालनु घेवनु, आपण्यांक क्रिस्तांव करि म्होणु ताचे लागीं मागिलें. आणी ह्या इतुल्याक कोणु प्रस्ताव जालोसो, सर्व भग्ता आपोस्तलाक सांगिलें.

---

26. अणभव; परिणामाची वळख.
27. चिमटी-भर; इल्लेंशें.
28. चौकशी; वासपूस.
29. मोवाळून; ओडून; विर्गळून.

भग्तान व्हडी दये काकुळतिन ताका आप करनु, आमंच्या फेभावार्थाचे मिस्तेरी शिकौनु, बावतिजार केलो; आणी भग्ता आपोस्तलान त्या क्रिस्तांवा लागीं खबर विचारितां, तो दुर्बळो, वा गर्जवंतु आणी आपुल्ये व्हडी कनिश्टायेचे कश्ट सोंसव नजो जालल्यान, अपघातु करनु मरूच्याक, इतुलें केलेंशें समजूनु, ताका फर्मायलें : "तूं रानिं, डोंगरिं, मैदानिं वच, आणी जें तुका हाइंक टांकता, तितुल्या तणा, वा पाल्याचो भरो घेवनु यो."

भग्तान फर्मायलल्या प्रमाणिं ताणें केलें. तण वा पाल्याचो येकु भरो बांदूनु, भग्ता सां जुआंव एवांजेलिस्ता हुजिर हाडनु दवरिलो. भग्तान समस्ता लोका हुजिर, त्या तणा वा पाल्याच्या भन्यारि येकि सांता क्रुसाची कुरू करनु, आपुलें येक अश्रवचन देत खेविं, त्या इतुल्याय तणा वा पाल्याचें चोख सोवर्न जालें. तावळि भग्तु आपोस्तलु त्या मनुशाक चौनु, म्होणू लागलोः "मनुशा ! तूं ह्या सोवर्नान तुजें समग्र रिण फारिक करि, आणी जें उरता, ताणें तुज्या घराचो सांबाळु वा पिंडपोशण जोगय. आणी सांत क्रुसा वरौनु तुका मरणांच्या हातांतुलो स्वामयान सोडयलल्या निमितिं, देवाक उधंडां अर्गां दी; ह्या फुडां, ताचेरि तुजो सर्वय भरवंसो वा विस्वासु ठेय, कदिंचि ताचेरि चुकूं नाकाशि."

हें आणी आणियेकां उधंडां अचर्यां आमंच्या भग्ता सांव जुआंव एवाजेलिस्तान केलिं, तीं इतुलींय जरि हांगा सांगुंचिं जातिं, तरि भोव दिस लांवचे पडतेति. येकोचि सांगतां की हो भग्तु जो आसा, तो आपुल्यां भग्तिवंचळां, गर्जवंतांची सर्वय गर्ज टाळुंच्याक प्राप्तु भग्तु, सर्वय बळ्ळिकांतुले निवारूंच्याक ताका प्राप्ति, वा सत्या आसा; जे कोण जिवंत भावार्था, वा निजी भग्तिन ह्या भग्ता लागीं सरती, ताच्या धिरा, आलाशिन्या रिगती, त्या इतुल्यांकय हो मुग्तिवंतु भग्तु सर्वय ठांयिं पावत, वा मजति करित, आणी ह्या संवसारांतु उधंडि देवकृपा लाबैत, ज्ये वरौनु, अंति सर्व सुख, मुग्ति भोगुंच्याक, जंय आमां समस्तांक देव स्वामि व्हरू.

---



# निरपराध्यां भग्तां बाळकांच्या मार्तिरपणाची

# शिकवण

येका व्हडा कोपा, क्रोधा सरशें, आपुल्ये प्राप्ती हुकुमेन, कोणाचेय आडवारने व्रैत, आपण्याक जाय इतुलेंय करूंच्याक टांकतल्या येका निश्टूरा निसांचरा[1] हौनु अदिकतोरि निश्टूरि, वा निसांचरि कोणिय येकि वस्तु अथवा मोनजाति ना. हो निसांचरू जो आसा, तो येका सांदकलल्या हौ पेटलल्या उज्या सारिखो, वाऱ्याच्या बळान हांकारा[2] चडनु, डोळ्यांचें पातें लंव पर्येंत्र सर्व लासूनु, भाजूनु, भस्म करनु घालिता. हौ येकि व्हडि व्हाणि[3] लागलल्ये येकी न्हंयेचे परीं, जांतूं जितुलें पडता, तें कोणांय येकाच्यान सांवारव नजतां, तो आपुल्या बळान सर्व लोटूनु व्हरता. ह्या इतुल्याचो सत्यार्थु बाळघातक्या राया हेरोदिचे निश्टुराये ठांयिं दृश्टी पडता. जाणें बाळकु जेझु आपुली राजकाठी, वा राजमुकुटु काडितसो, संधेवा पडनु, आपुलें राज्य आपण्या ठांय स्थिरपणिं तरूंच्याक, बेल्या शाराचे मारूंच्याक फर्मायलें.[4]

बाळकु जेझु, संवसाराचो तारकु, बेलेंच्या खोंपटांतु जल्मलो. येक नवें नखेत्र स्वर्गिं उदेलल्या सामकारा, वा खुणेन, पुर्वदिशेचे तेग राय येवनु जेरूझाल्या शारांतु प्रवेसूनु, सांप्रत[5] जल्मललो, ज्युदेवांचो राव, जाचें नखेत्र ताणिं, पुर्वदिशे कडें उदेललें देखिलें, तो खंय आसा म्होणु विचारूं लागलेति. राव हेरोदि आपण राज्याक राव

1. क्रूर; मनीसपणा-भायरो.
2. हांवकार; हांवकार-बडीवार; अहंकार, हाचें तद्‌भव; ह्या वाक्यांतलो चित्रभास नियाळात.
3. व्हांवती; हुंवार; हांतली प्रतिमा पळेयात.
4. हेरोद राजा, जुदेया प्रांताचो येवदी राजधर; हाणें जेझूक मारचे हेतूत सगळ्या दोन वर्सां सकयल्या भुरग्यांक मारूक फर्मायल्लें.
5. निकतोच; हालिंच जाल्लो; थोड्या तेंपाचो.

आसतां, आणियेका नव्या रायाक विचारिललें आयकूनु, सगळोचि थरकांपलो, आणी ही वार्ता सुटावी ठांयिं घालुंच्याक, वा तो नवो राव जेझु क्रिस्तु कोणी कडें जल्मलासो जाणुंच्याक आपुल्या राज्यांतु आशिलल्या समग्रां जाणां शास्त्रप्रविणांक आपौनु हाडूनु, तांचे लागीं ह्या इतुल्याची पुशि घेवनु, विचारिल्यारि, ताणिं, प्रोफेतांच्यां भविश्यफुडारा प्रमाणिं, बेल्या शारांतु, म्होणु प्रतिजाप दिली.

तावळि हेरोदिन, पुर्वदिशेच्यां तेगांय भग्तां रायांक येकांतिं पावनु, तांचे लागीं भोव करनु, ताणिं देखिलल्या नव्या नखेत्राचें वर्तमान विचारिलें, आणी कोणु त्या काला दृश्टी पडलेशें ठांयिं घालनु, जल्मलल्या नव्या बाळकाक सोदुंच्याक बेलें शारा पर्येंत्र टांकूनु वचा म्होणु तांकां निरोपु दिलो; आणी बाळकु मेळत खेविं पुनरपिं जेरूझाल्या शारांतु परतूनु येवनु, तो कोणि कडें आसासो, आपणाक जाणपजाण[6] करका म्होणु तांचे लागीं मागिलें, आपणूय ताची भजना करूंच्याक, थंय पर्येंत्र वेतलों देखूनु.

हें इतुलेंय हेरोदी राजान नाडी भेदा वा कपटपणिं म्हळें : कित्या तो बाळका जेझुची भजना करूंच्याक नचिंती आशिलो, बगर हो देवबाळकु आपुलें राज्य काडुंच्याक आयलासो संधेवा, वा भ्रांती पडूनु, ताका जिविशिं मारुंच्याक पळेतालो. जेरूझाल्या शारांतुले भग्तिवंचळ राय भायर सरनु, आपुलो मार्गु चमकत वेतां, बेलेंच्या खोंपटांतु पावले, जंय भग्ता जोझेफ, वा सधा आंकुवारी स्वामिणी सांगातिं बाळकु जेझु तांकां मेळलो; आणी ताका देखत खेविं, तो सत्यवंतु देवसो वोळखूनु, ताची भग्ति भजना केली, वा आपापुल्ये विलाथेच्यो वस्तु, ज्यो ताका भेटौंच्याक हाडिलल्योति, त्यो समर्पूनु दिल्योति.

आणि हें वर्तमान हेरोदी रायाक जाणपजाण करूंच्याक जेरूझालेंच्या मार्गान परतूनु वचूं नाकाति, बगर आणियेका मार्गान आपापुल्ये विलाथे वचा, म्होणु येका स्वर्गिच्या भोडुव्यान तांकां सांगूनु दिलें. भोडुव्यान फर्मायलल्या प्रमाणिं भग्तिवंचळां रायांनिं केलें.

फुडां तो हेरोदि राव, जो ते भग्त राय आपण्याक बळकाची खबर सांगुंच्याक परतूनु येतलेशे, विस्वासूनु राबतालो, ते नयेतिशे देखूनु, ताणिं आपुली बेपर्वा केलिशी समजूनु, मनिं भोव दुखलो. पण ताका दिसलें, की तो बाळकु तांकां नमेळल्या पासावत, लजेन ते पुणतिं ह्या मार्गान परतले नांतिशे. पण जावळि ताणें आयकिलें की बाळकु

6. कळीत करपाची सोदून काडिल्ली खबर; वा म्हयती.

जल्मल्या उपरांतें, चाळिसा दिवशिं जेरूझालेंच्या तेंप्लांतु व्हेलो, आणी सिम्यांव म्हळल्या येका भग्तिवंचळा म्हालगड्यान ताका अपुल्या गोपांतु धरनु, ताच्यां उधंडि अभिनवि करण्यांचें भविश्य फुडार सांगूनु, तो संवसार-तारकुसो वोळखूनु, ताणें ताची भजना केलिशी ठावकें पडलें, तावळि भग्ता रायांनिं आपुलि बेपर्वा केलिशी समजलो, आणी वाळकु जेझु जल्मलासो सुटावो प्रतेव[7] आयलो.

इतुल्यान आपुलें राज्य भायर पडतलेंशें भ्रांति धरनु, म्हा उग्रु, वा उचंबळु हौनु, आपुल्या कोपा, क्रोधाची कडियाळी सोडनु,[8] त्या देव बाळकाक जिविशिं मारूचें मनस धरिलें. आणी आपणें चिंतिललें कार्यें सिद्धी[9] पांवच्याक, वा तो आपुल्या हाता चडुंच्याक संवसारिक सर्वय उपाय, प्रकार, प्रबंद, वा बसतन्यो[10] सोदिल्योति. पण जावळि देवान निर्मिलल्या आड कोणाचें कांय चाल ना, तावळि ताणें उप्राशिलले सर्वय प्रकार निर्फळ हौनु वायां गेलेति, कित्या अनाधसिद्धा देवाबापान स्वर्गिंचो येकु भोडुवो धाडनु, बाळका जेझु, वा ताच्ये सदैवी माये सैत एजिप्तांतु वचूनु, (आपणें पुनरपिं सांगो पर्येंत्र) थंय रांवच्याक, भग्ता जोझेफाक सांगणें पायलें.

हेरोदि राव आपणें चिंतिललें इतुलेंय कार्यिंचि सुफळा पडना देखूनु, आणी बाळकु जेझु बेल्या शारांतु, अथवा ताच्ये शिमे भितरि लिपूनु आसासो भासूनु, ताणें येक कदिंकाळ, कोणें देखो, वा आयको नांशिललें मुर्ख, अविचार, वा निश्टूर निर्वाण धरिलें, आणी दों वरूसां खालुतिं जितुलिं बाळकां बेल्या शारांतु, वा ताच्ये शिमे भितरि मेळतित, तीं इतुलींय खर्गधारिं जिविशिं मारूच्याक फर्माण दिलें. येणें करतां बाळकु जेझु, जो ज्युदेवांचो राव जातलो, तो त्यां भितरि नचुकुंच्याक रायानि सांगिलल्यां दिवसा वयरि, दों वरूसांचो कालु चडयलो, आणी बेलेंच्या शारा वयरि अदिकतोरि सुवात हाकायली;[11] सर्वय प्रकारिं आपणें चिंतिललें कार्यें संपूर्णपणिं सिद्धी पडुंच्याक.

इतुली निश्टुराय चिंतूनु, आपुल्यां लछकर्यां, पायकांक[12] आपौनु, तांकां म्हळें : "तुमिं बेल्या शारांतु वा ताचे शिमे भितरि वचा, आणी दों वरूसां खालुतिं जितुलिं

---

7. रूजवात; clear evidence.

8. हें रूपक, प्रतिमा नियाळात; घोड्याक बांदिल्ली कडियाळी जशी.

9. तडीक व्हरच्याक; शार्ती पांवच्याक; to accomplish.

10. कपटी मांडण्यो; गुठाच्यो वांकड्यो हालचाली.

11. थारायली; निश्चित केली; हाक - आपय.

12. शिपायक; पायक footsoldiers; peons.

बाळकां आसति, त्या इतुल्यांचिंय नांवां बरौनु घेया, कित्या ह्या दों वरूसां भितरि समग्र वेल्या शारांतु कितुलिं बाळकां जल्मल्यांतिशीं हांव समजतलों, आणी त्या इतुल्यांचिंय नांवां बरौनु जमो केल्या उपरांतें, तांकां येका थाऱ्या मेळौनु, येक पुणु नचुकतां, समेस्तांक खर्गधारिं जिविशिं मारका म्होणु, तांचे हातिं आपुलें फर्माण दिलें. हें निश्टूर, वा दारूण फर्माण घेवनु चाळवलल्यां व्याग्रां, शिंवाचे[13] परीं, म्हा उग्र हौनु, ते निश्टूर, वा निसांचर लछकरी हेरोदिन फर्मायलल्या सरशें त्या भोळां कोर्देययरांच्या[14] धणारि[15] चालिले, त्या निरपराध्यां बाळकांरि उपिले, तांचें रग्त पियेंवक तानेलल्याचे परीं हातयारां, खर्गांनि, सुरियां, पेस्कात्यां, खंजिरांनि तांचि मधुरां, सुंधरां शिंसां कातरुनु, थथंय जिविशिं मारनु घालुं लागलेति.

ह्या निश्टुरा बाळघाता ठांय जें वर्तलें, तें भग्तु सां ग्रेगोरियु, वा भग्तु सांत औगुस्तीन्यु वरयता, त्या मारेकारां लछकर्यांची निश्टुराय, त्यां बाळकांच्या मायेबापाचें रूधन, विळाप[16] दुखि, वा संतापु त्यां निरपराध्यां, नेणारां बाळकांचे घाये, वा मरणां; आणी त्यां निर्मळां, वा तरण्यां कोर्देयरांचें रग्त, जें सर्वय कडेंच्यान व्हारवो, त्या इतुल्याचेंय सविस्तर सांगूनु दितात‍ि : तीं कितुलिं बाळकां मरण पावलिं, तैसो तांचो सुटावो जमो आमकां ठावको पडललो ना.

पण सालमेयरांव म्हळलो जेझुचे कोंपान्येचो[17] येकु म्हा प्रविणु पाद्रि, जाणें पवित्रा एवांजेलांरि इकरा पुस्तकां बरयल्यांति, तांतुल्या तिसऱ्या पुस्तकांतु सांगूनु दिता, की निश्टुरा राया हेरोदिच्या फर्माणान, जेझु क्रिस्ता खातिर चौधा हजार निरपराध्यां बाळकां मरण पावलिंति. त्या इतुल्यांनिय मार्तिरपणाचो मुकुट जोडिलो, कित्या आपुल्याचि पवित्र रग्तांतु तीं निरपराध्यां सदैवां बाळकां बावतिजार[18] जालिंति, आणी संवसारिकी जिणिची गोडिव भोगूंक आरंभुंचे फुडेंचि, स्वामया जेझु क्रिस्ता खातिर मरण पावलिंति देखूनु.

---

13. ह्या वाक्यांतली कडकडीत उपमा नियाळात.
14. पुर्तुगेज उतर उपकारायलां-शेळी - lambs रूपक सुपुल्ल्या भुरग्यांक लेखून.
15. जमो; हिंड, पंगड - रासवळ नांव; तशेंच धडें, ह्या आदीं आयिल्लें उतर.
16. रडणें, चड करून भितरल्या भितर फोफेवन आयिल्लें.
17. संघाचो; म्हळ्यार जेझुयित धर्मसंघी.
18. पवित्र स्नान घेतलें; हो पयलो संस्कार जाचे वरवीं उदका स्नानान एक भुरगें वा मनीस क्रिस्ती धर्मांत प्रवेस करता; ताणी रग्तान स्नान घेतलें.

येणें करितां भग्तु सांत औगुस्तीन्यु ह्या वाळकां लागीं उलौनु, ऐशें म्हणताः भाग्यवंतां, वा सदैवां वाळकांनो ! तुमचें भाग्य, वा सदैवपण कोणाच्यान अर्थूनु सांगव नजो, कित्या तुमिं संवसारिकी जिणिचें वरें भलें, वा सुख, संतोसु भोगुंचे आधिंचि देवाची मुग्ति भोगुंच्याक आरंभलिंति; कांय येकु गुन्यांव, वा चुकि करूच्याक तुमकां प्राय[19] नांशिली, पण कश्ट, दग्द सोंसुंच्याक सोंसवण आशिली : स्वामया जेझु किस्ताक वोळखुंच्याक अध्याप गिन्यान नांशिल्लें, पण ताचे खातिर प्राणु दिंवच्याक निर्वाण आशिलें; संवसारांतु चलुंच्याक शग्ति, वळ, धिरू नांशिलो, पण स्वर्गिंच्या रावळारांतु भोंवच्याक मतिप्रकासु आशिलो, कश्ट, घाशि, अपद सोंसुंच्याक, पुरो ऐशी कूडि नांशिली, पण आमच्या फेभावार्थाच्या सत्यार्था निमितिं विखरांवच्याक रग्त आशिलें.[20]

तोचि भग्तु सांत औगुस्तीन्यु म्हणता : जेझु क्रिस्ता खातिर बाळकां मरताति; निती पासावत निरपराधु मरणा पावता. त्या निरपरध्यां बाळकांची प्राय केदि सदैवि, वा भाग्यवंति हौनु वर्तली! कित्या अध्याप जेझु क्रिस्ताक उचारू नेणतां, ताचे खातिर मार्तिरपणाचो मुकुटु भोगुंच्या दैवा पावलिं. त्या बाळकांचो जल्मु केदो सदैवु जालो! कित्या ह्ये दुखभरिती जिणिंतु रिगत खेविं, अखंडिति जिणिं भोगुंच्याक, तैशिंचि तांतुलिं भायर सरलिंति. जियेंवच्याक आरंभत खेविं, तैसोचि तांचे जिणिच्यां कश्टांचो शेवटु पावलो. पण संवसारिकी जिणिंचो शेवटु सदैवी, वा अखंडिती जिणिंचो आरंभु हौनु वर्तलो; आपुल्यां जनान्यांच्यां गोपांतुलिं देवदृश्टी, दरूशणा हुजिर पावलिं; बाळपणिंच्या पाळण्यांतुलिं भोडुव्यांच्या बैशिंकांरि व्हरनु दवरिलिं. माका दिस्ता की तुमिं समस्त, त्या निश्टूरा बाळघातक्या हेरोदिक कोणु शेवटु भोगलोसो जाणुंच्याक आठयताति. येद्या व्हडा पापा निमितिं, इतुल्यां बाळकां ठांय येदी व्हडि निश्टुराय आचारिलल्या प्रसंगिं देवान ताका, कोणि, वा कैसली यादल दिली?

कित्या ताणें चिंतिललें सर्व निर्फळ जालल्या वयरि, आणी बाळकु जेझु मेळुंच्याक, वा ताचो प्राणु घेंवच्याक जितुले प्रकार सोदिललेति, ते इतुलेय वायां गेलल्या हौनु, आस्त्यांतु व्हडि दुखि, वा संतापु, जो ह्या निश्टुराचे मनिं संचारलो, तो

---

19. पिराय; वय; संवसारगतीचे ख्यालींनी पडपाक तांकां आयुश्य मेळूंक नाशिल्लें. फुडलें कथन नियाळचें.
20. हांतलो सोबीत रीतीन मांडिल्लो विरोधालंकार पळेयात.

स्वामि जेझु आपुल्या हाता नचडलल्या निमितिं, हेरां बराबरि ताचें गर्धन नमारिलल्या प्रसंगिं, सगळोचि सायाभंगु[21] जावनु पडलो; ह्या निमितिं आपणें घेतलले सर्वय कश्ट, चिंतिलले सर्वय प्रकार, घुडशिलल्यो[22] सर्वय बस्तन्यो, अनुमानिललिं सर्वय तंत्रां, उप्राशिलले सर्वय विरमार, वेचिललो सर्वय आंगकिळोसु, लायलली सर्वय हाणविर्धी उपेगा नयेतां, निर्फळि हौनु, वायां गेलली देखूनु, शिरिंचि सुकलो.[23] घडये घडये कोपा, क्रोधा चडूनु दांत करेकरां खायि, ताचें अंतस्करण ऐशें वोळश्या पडललें, की पाळां, लाहारां, खोळुसां[24] उमटूनु येकु उचंबळु जालला साघरू, अथवा पावस-कालिचें येक अदभुत वादळ, वा मोड दिसो, ज्या वरौनु सगळ्या रावळारा वा राजवटाचो वोळसो करी : कोणाय येकाच्यान ताचे कश्ट सोंसव नजो आशिलेति. येणे करितां ताचे घरिंच्या लोकाच्यान मुखे ताका दोळ्यांनिं देखव नज आशिलो, येकचि न्हय, बगर समग्रा राज्याचो लोकु ताचो व्हडु कांटाळो धरनु चालो. देवान निर्मिलल्यारि आड आपणाच्यान येववतशें ह्ये आग्निपुरिंचे मोनजातिक[25] दिसलें. क्रिस्तु आमंचो स्वामि आपुलें राज्य काडुंच्याक आयलासो, ताका भासलें. राजवटाचे आशे, वा सुआर्थान स्वामया आड झुज आधारिलें; देवारि आड संग्रामु केलो; स्वर्गारि आड रणमैधानिं चालिलो.

पण तूं, निश्टुरा, वा मुर्खा राया! भग्तु सांत औगुस्तीन्यु म्हणता, ही तुजी निश्टुराय तुका कोणा उपेगा आयली? जरिय तुवें तुका जाय तेणे प्रमाणिं बेलेंचिं समग्रां बाळकां मारिलिंति, तरिय जेझु क्रिस्तु सर्वथा तुज्या हाता चड ना; तुका दिस्ता की संवसाराचो तारकु तुजें राज्य काडुंच्याक आयलासो, हें सर्वथा घड ना, कित्या तो कोणाचेंय राजवट काडुंच्याक स्वर्गिं हौनु संवसारांतु आयलो ना. पण समस्तांक मुग्तिचें राज्य दिंवच्याक आयला; प्रथुमिची ग्रेस्ताय सोदुंच्याक आयललो ना, बगर समस्तांक स्वर्गिंची ग्रेस्ताय वांटूनु दिंवच्याक आयला. कोणायं येकाचो मानु, मानत्व काडनु आपण्याक घेंवच्याक आयललो ना, बगर समस्तांक मानुपदा पांवच्याक आयलाः मनुशांक वायट करूंच्याक आयललो ना, बगर बरवेंचि : प्रथुमिचें राज्य भोगुंच्याक

21. लजेन तकली सकला घालची पडली. crestfallen.
22. कपटान मांडिल्ल्यो.
23. शीर वा तकली पिड्डेर जाली; तांतलें सगळें सुकलें - हो वाक्प्रचार पळेयात.
24. वेगवेगळ्या आकाराचीं दर्याचीं ल्हारां आनी- हें आनी फुडलें चित्रमय रूपक नियाळात.
25. अग्निकोंडाचे वा यमकोंडाची मोनजात- म्हळ्यार सैतान - रूपक.

आयललो ना, वगर जितुले आपण्याक सत्यमानिती, आपुली प्रति, मोहो, भग्ति, भजना करिती, त्यां इतुल्यांकय स्वर्गिचें राज्य भेटौंच्याक आयला.

ह्या निश्टुरा निसांचरा राया हेरोदिचे येद्दे व्हडी वायटिवे निमितिं, ताणें केलल्या पापाचे ख्यास्ती, यादलेक, स्वामया देवान ताका येकि महा अदुभुति बळ्ळिक दिली, हौ समग्री बळ्ळिको येकवटूनु ताचे आंगिं वर्तश्यो केल्योति. ताच्ये कुडिक सर्वय प्रकारिं जाळ, वळ, कश्ट, दग्द, दुखि, घाशि दंडणा भोगयली. कित्या जोसेफु म्हणता तेणे प्रमाणिं, अभ्यांतरिं येकि व्हडि अग्नि संदकूनु, ताचें अंतस्करण भोव जळो, केललें इतुलेंय नांचि जावनु, भुकेन वळवळेवनु मरो; येदी व्हडि तान ताका उमटो, की कितुलेंय उदक पिलोय तरि, तानेन भौभोवचि ताळो सुको : ताच्या काळिजा, पोपुसां, वा समग्रां आंतांक रूवां, वोणां, चौवंदां पडनु, कुसूनु, नाखिं, तोंडिं दुर्गंदि सुटो; समग्री कुडिच्यो सर्वय घडनो अश्टांग नित्यकाल उसळेतिः पांय सुजूनु दोन जाललेति,[26] सर्वांगाच्यो शिरो वोडलल्योति, वा सुकलल्योति; हास्कार हुस्कार वर्जललोः सर्वांगाक किडे पडललेति; आणी इतुलें कुसलें की ताची घाणि कोणांच्यान घेंवव नजो जायि.

आणी तोंचि हेरोदि आपण्याची घाणि दुखि, वेदन, जाळ, वळ सोसव नजो जावनु, आपण्याक इतुलो कांटाळेलो कि जिणिची आश्या निरास करनु आपण्या लागीं आशिलल्या, येकाच हातिचो येकु खंजिरू उपूनु घेवनु अपघातु करनु मारूच्याक, आपुल्या आंगा, वा पोटारि खोंचूनु घेत आसतां, येका तागेल्या नातवान तो खंजिरू ताच्या हातांतुलो काडनु घेतलो. इतुलो संतापु, तागेल्या कोपा, क्रोधाचे जाळ ताचे पोटिं वसताति की आपण मरूचे फुडें पांच दिस ताणें आंतिपात्रु म्हळल्या आपुल्याचि पुत्राक जिविशिं मारिलो.

आणी आपुल्या मरणान समग्रि प्रजा भोव सुख संतोसु पावतलिशी भासूनु, आपुल्या राज्याच्या समग्रां व्हडां, स्रेश्टांक कपटपणिं आपौनु हाडनु, बोंदोडी[27] घालूनु, आपुल्यां लछकर्यांक फर्मायलें, की आपण मरत खेविं, त्यां इतुल्यांय सरधारांचिं गर्धनां मारनु घालका, तांच्या मरणान, आपुल्या मरणाचे आचार, उपचार[28] फेडुंच्याक, आणी समग्र राज्याच्या दुखा वोळश्यान, आपुल्या मरणाचो संतोसु जो मानितले

26. हें आनी फाटलें-फुडलें जिवंत वर्णन पळेयात.

27. बंदखणींत.

28. भारतीय संस्कृतीक उतरावळ पळेयात.

आशिलेति, तो असंतोसु जावनु, समस्तांक दुख पडशें करूच्याक. पण तो निर्भागी मरत खेविं, तडवणे[29] आशिलल्यां इतुल्यांकय, तैशेंचि सोडनु भायर घाले : आणी त्या निश्टुराच्यां हातांतुले आपण इतुल्यान सुटलेशे देखूनु, समस्त आनंदभरित हौनु, ताणिं येकि म्हा थोरि परवण केली.

क्रिस्तांवांनो! तुमि विवेखु करका, कोणी प्रमाणिं देव, पापयांक तांच्या पापा प्रसंगिं ख्यास्ति यादल लायता! हेरोदिक कोणु शेवटु भोगलो, आणी त्या निरपराध्यां बाळकांक कोण सदैवपण भोगलें पळेयाः येकाच्ये कनिश्टायेरि, आणी हेरांचे नंदनिकेरि[30] दृश्टि देया. हेरोदिचे कश्ट, दग्द, दंडणा, घाशि विवेखूनु पळेयाः आणी भग्तां बाळकां मार्तिरांची मुग्ति निहाळका. कोणु तो हेरोदी सवें राज्य केलल्या पाशिं, जेझु क्रिस्ता खातिर मरूचें कितुल्यान बरें म्होणु आपुलो प्राणु नदेत? हो निर्भागी हेरोदि जेझु क्रिस्तु आपुलें राजत्व काडितलो म्होणु भिये, आणी तें सांडव नां जांवच्याक, इतुलिं निरपराध्यां बाळकां जिविशिं मारिलिंति : आणी इतुलेंय नम्हणतां राजवट सांडवलें, प्रणामु भलाय सांडवली, जिणि जिवित्व सांडवलें, आणी आत्मो सांडवलो, जो अखंडित काल नसरतल्या आग्निकोंडिच्या उज्यांतु लासूनु, भाजूनु, वळवळेवनु आसत.[31]

ह्या वरिं तागेले समग्र पुत्र, नातु, वा सोहिरे थोड्याचि काला मधें सरनु गेलेति. पण सदैवां बाळकां अखंडितपणिं जिताति, मनुशांच्या उगडासाचि ठांयिं न्हय, पण भोडुव्यां सांगातिं.[32] संवसारांतु जंय वरूस प्रति वरूस पर्वण करिताति थंयचि न्हय, वगर स्वर्गिं, जंय देवाची निर्मळि दृश्टि, दरूशण भोगिताति, ताचे हुजिर दिप्तिभरितां, स्वरूपां, सुधरां हौनु मिरवताति. आपुल्या भग्तिवंचळां खातिर, तांकां आपण्या सांगातिं मुग्ति लाभुंच्याक देवा स्वामयाक प्रार्थना करित आसति.



29. आडावन, आळाबंदाक आशिल्ल्यांक = कैद्यांक.
30. खोशी; अपुर्वायेचो मोग.
31. हें उल्लेखनीय वर्णन नियाळात.
32. विरोधालंकारांनी केल्लें वर्णन पळेयात.

# आमंचे आंकुवारी स्वामिणिच्या निर्मळपणाच्ये परवणेची कथा
## वा
## **पयली शिकवण**

ह्ये म्हा दिप्तिभरिती परवणिंतु, त्या मुग्तिभरिता दिवसाची पवित्रि परब करितांव. ज्या दिवसा संवसाराचो निजु उजुवाडु, आमंचे खातिर जल्मललो देवबाळकु, चाळिसां दिवसां उपरांतें, तेंप्लांतु व्हरनु स्वामिणिंच्यां पवित्रां हातां वरौनु, अनाधसिद्धा देवाबापाक भेटयलो, आणी वृद्धा भग्ता सिमयांवान, आपुल्या गोपांतु धरनु, स्पिरित सांताचे प्रेम कृपेन भरनु, तो कोणुसो वोळखूनु, संवसाराचो उजुवाडु म्होणु, गायन करनु प्रघट केलो. ह्या प्रस्ताया निमितिं, आमिं वृधा भग्ता सिमयांव, वा दाविदा प्रोफेता सांगातिं, आजि मिसांतु ऐशें म्होणु उचारितांवः स्वामया तुज्या तेंप्ला मधें, आजि आमकां तुजी काकुळति लाबल्या, आणी जळत्यो वाती आमिं हातांतु धरिलल्या निमितिं, तुजे हुजिर, आजी हो उजुवाडु तुका भेटयलोसो उचारितांव : ह्या उजुवाडा वरौनु समस्तां अश्रवचनां निपजतातिशिं दाखौंच्याक ह्यां वातिंरि अश्रवचन बेंसांव[1] दितांव.

आमंची आंकुवारि स्वामिणि तेंप्लांतु रिगूनु संवसाराचो उजुवाडु, आपुलो पुत्रु, देवबापाक भेटौंच्याक, आपुल्या म्हा पवित्रा प्रसुतपणा उपरांतें, चाळिस दिवस जी थांबिली, ती कित्या पासावत तुमकां दिस्ता! हेरिं स्त्रियांचे परीं, मोयझेचे सुमुर्तिक[2] पाळो दिंवच्याक, तिका कायदो आशिलो काय? जी सुमुर्ति पुत्रु प्रसंवलल्ये स्त्रियेक चाळिसां दिवसां विण, वा कन्या प्रसंवलल्ये स्त्रियेक ऐंशीं दिवस भरल्या व्रैत तेंप्लांतु

1. पुर्तुगेज तत्सम उतर, त्या आदल्या अश्रवचन उतराचें समानार्थी = blessing.
2. म्हळयार येवदी धर्मांची सुमुर्त, जांतूंत ती आस्पावताली.

नरिगुंच्याक फर्मायि, कोणिय येकी प्रकारिं ह्ये स्वामिणिक त्ये सुमुर्तिक पाळो दिंवचो कायदो नांशिलो. कित्या तिचि सुमुर्ति प्रत्येक्य सांगूनु दिता, आणी त्ये सुमुर्तिची तिका वायली करिता, ऐशें म्होणुः पुरुससंगा निमितिं प्रसंवलल्यां स्त्रियां विण, आणियेकी कोणिय येकिक त्ये सुमुर्तिक पाळो देंवच्याक कायदो ना.

तुमिं येक जाणुंचें, की जितुल्यो स्त्रियो मनुश्यप्रकृती सरश्यो प्रसुत जाताति, त्या इतुल्यांकय इग्रजांतु नरिगुंच्याक फर्मायलल्या निमितिं, पापाची अळशिक, वा कांटाळो आसुंच्याक, देवान ही समुर्ति उप्राशिली, आणी हें इतुलेंय भोव करनु आधिपापाचे अळशिके प्रसंगिं, जांतु समग्र आदांवांचे पुत्रु, स्त्रिये वा दादुल्या वरौनु जल्मताति, आणी जावळि आधिपापाचें मूळ प्रथमलें पाप, ज्यांतु आमिं निपजतांव, तें स्त्रिये वरौनु घडललें, वा तिणें पाप करूच्याक दादुल्याक वोडमाडिलो,[3] तावळि कन्या प्रसंवलल्ये स्त्रियेक दूणि यादल दिवनु, ऐशीं दिवस तेंप्लांतु नरिगुंच्याक फर्मायलें, आणी पुत्रु प्रसंवलल्ये स्त्रियेक चाळिस दिवसांची आग्न्या केली.

हें इतुलेंय स्वामि देव आमकां उपशामा[4] हाडूनु, आमिं पापाची अळशिक, वा कांटाळो धरूच्याक करी, आणी स्वामया देवारि चुकि केलल्या हौनु, आणियेकि पलिति, वा कनिश्टि वस्तु नांशी वोळखुंच्याक, ऐशें फर्मायि. हांगा तुमि देखश्यात, मज्यां भावांनो, स्वामि देव पापाची केदी अळशिक, वा कांटाळो धरितासो. आणी ह्या निमितिं, म्हा पातक देखिल्यारि, कोणी प्रमाणिं पळुंचेंशें, तुमंचे दृश्टी पडत, कित्या लाहाना जल्मलल्या बाळकाचें पाप, म्हा पातकाचे वोपारिक भोव लाहान आसता, वा आदांवान केलल्या पापाची समख्या,[5] सांवळी जावनु, तांकां येदी व्हडि ख्यास्ति यादल लायता देखूनु.

ह्या वरौनु आमंची स्वामिणि, निर्मळि आंकुवारी, ह्ये सुमुर्तिचे मर्यादे वायली जावनु आशिलिशी सादृश्टपणिं दृश्टी पडता, कित्या स्पिरिता सांताचे कृपे निमितिं, गर्भु संभौनु, तेंचि तें निज भग्तिचें मूळ, वा निर्मळपणाचें रत्न,[6] देवबाळकु, प्रसंवली देखूनु; पण आपखोश्येन त्ये पुरूससंगान प्रसुत जालल्यां स्त्रियांचे सुमुर्तिक तिणें पाळो दिलो,

3. एवेन देवान आडवारिल्लें फळ खाल्लें आनी आंदांवांक, आपल्या घोवाकूय खावपाक फुसलायलो; हें करणेचो हो उल्लेख, जांतल्यान आधीपाप सगळ्यांक लागलें.
4. उपदेसाक; देखादेखीक.
5. सारकाय; रूपकार; खुणा.
6. हें रूपकांनी भरिंल्लें चित्र पळेयात.

लिणत्वायेन देवसुमुर्ति पाळुंची देखि समेस्तांक लांवच्याक; जेणे प्रमाणिं आपुलो पुत्रु, बाळकु जेझु, सिरकुसिसांवाचे सुमुर्तिक पाळो दिवनु, चालिलो.

सुमुर्तिंतु फर्मायललें की कोणिय येकी स्त्रियेरि जरि पुत्रफळ जायत, तरि चाळिसां दिवसां उपरांतें, देवतेंप्लांतु व्हरनु, देवाची वस्तु देवाक भेटौंची, आणी कांय येक मोल दिवनु, विकतो ठेवनु सोडयल्या विण, परतूनु घरा नहाडुंच्याक आग्न्या[7] केललीः कित्या स्वामया देवान तांचे खातिर एजिप्ताचे समग्र म्हालवत जिविशिं मारनु, जावळि तांकां दासत्वांतुले सोडयले, तावळि त्या उपकाराच्या दिनवासाक, ज्युदेवांचे समस्त म्हालवत आपण्या आदिन करनु दवरलले.

तरि यो, स्वामिणी, आणी तुजो पुत्रु देवतेंप्लांतु हाडनु, आमां समस्तां वारिये, स्वामया देवाक भेटय, कित्या आमंचे ठांय देवाक समर्पिशी युग्ति, वा बरी वस्तु नां. जरि आमचे आत्मे भेटौं, तरि ते आमंच्या पापाचे पलिताये वरौन, जी बावतिजमाचे कृपेची स्वरूपाय लाबलली, ती हारापूनु, भोव कुरप, विकट जावनु पडल्यातिशे संधेव दिस्ता. जें आदांवाच्या पापाचें खत आमकां डायजाक फावललें, वा आमंचे मायेचे कुशिंतले विकट हौनु जल्मललेंव, तें स्वामयान बावतिजमाच्या पवित्रा उदका वरौनु धुवूनु, आमंचे ठांय आपुलें स्वरूप प्रकासशें केलें; आणी आमिं अनउपकारि, वा अंदक हौनु, पुनरपिं पापा वरौनु, ताचेरि सैतानाचें पलित रूप काडूनु, विकट करनु घालें.

म्होणुंच्याक, स्वामया, आमंची कूड तुका भेटौंच्याक, आमकां निर्वाण ना. जरि आमच्यो कुडी तुका भेटौं, तरि कनिश्ट भेट, कित्या जरि सांव पावलु आपुल्ये कुडी ठांय सरिशी वस्तु ना म्होणु, म्हणो, जी आमंच्यां आत्म्यां हौनु पवित्रि जावनु वर्तो, तरि तिचे वोपारिक आमच्यां कुडिंचो कोणु हिशेबु? जरि ताका आमंच्यो करण्यो भेटौं, तरि त्यो येणेप्रमाणिंच्यो, की दाविदा सांगातिं, आमिं भोव करनु हाक देंवच्याक फावो, स्वामया. मज्या पातकांवेली तुजी दृश्टि, तुजें मुखकमळ परतिः जरि बरव्यो करणियो करितांव, त्यो भेटौं, तरि त्यो चुकी, वा नुपुरवणेन इतुल्यो भरल्याति, की इसायियास म्हणो, तेणे प्रमाणिं, तांकां खतां पडलल्या म्हेळ्या वस्त्राची सरि दिलली बरी. म्होणुंच्याक स्वामिणी, आमंचे वारिये, हीं अनंतां निच्छाळपणां, ये अमोलिका मोलाची भेट भेटय; ती येकिचि अनंतपणिं अनाधसिद्धा देवबापाक मानता; आणी आमंच्यां अंतस्करणां वा करणियांची भेट निर्मळि, वा निछळि करूंच्याक, त्येचि भेटेक टांकता.

7. आज्ञा, हाचें हें तद्भव रूप पळेयात.

ह्या प्रस्ताया निमिर्तिं, आयच्या मिसाच्या एपिस्तोलांतु इग्रज आमंची माय, मालाकियास म्हळल्या प्रोफेताच्या भविश्य फुडाराचें लिहित वाचितां, तांतूं आमंचे पासावत भेटैलल्या देवबाळकाक उज्याची वोपारि दिता : जो उजो सोवर्ना, रूप्याक निर्मळ, चोख करनु दवरिता, कित्या आमंच्यां अंतस्करणां, वा करणियांचे किडे, वा खतां पोरां घालुंच्याक, त्याचि त्या स्वामयाक टांकता देखूनु. शेखिं, स्वामिणी, आमंचे वारिये, तुजो येकुचि पुत्रु, अनाधसिद्धा देववापा लागीं आमंचे खातिर, क्रुसारि मरनु, ताचे, वा आमंचे भितरि स्वस्त[8] करी पर्येंत्र वोपूनु दी.

आणी जाका भेटोंच्याक स्वामिणि जी भेट हाडी, वा भेटैयि; ती जरिय सर्वय प्रकारिं, वा सर्वय ठांयिं, ताचे सारिखी अनंति, वा अनंता मोलाची, तरिय पुणु सुमुर्ती प्रमाणिं संवसारिकि भेट, दोग कवडे अथवा येक पारूव्यांचे जोडें व्होरूचें सांडी नां. सत्यभाविं म्हा अर्थादिकि भेट : कवड्यां अथवा पारूव्यांचें गायेनु आणियेक कांय न्हय, वगर विळाप,[9] रूधन, ज्या वरौनु, ह्या दुखभरिता परदेसांतु कोणु अभ्यासु करनु वर्तुंचें, कोणी जिणिन जियेंवचें म्होणु, स्वामि आमकां शिकैता. ती जीणि आणियेकी कोणिय प्रकारिंची न्हय, वगर नित्यकाल आमंच्या पापांचें रूधन, विळाप करनु वर्तुंचें. वायटि टाळण्यां, वा जिणिच्या जळजोखा, विग्ना, आकांता मधें आटापलल्या निमितिं, हास्कार हुस्कार सोडुंचे. देव अथवा मुग्ति अंतरत म्होणु, चिंता भ्रांति धरूची, आणी मुग्तिच्या बापाची सुफळि भेट चिंतूनु, आमंच्या निजा घरा मुग्तिस्थानाची गोडिव सुमरूनु, तिचि घोंकणी[10] करूचीः भोव करनु जावळि आमिं स्वामयाच्या तेंप्लांतु रिगतांव, तावळि ह्ये परिंच्या गायनाचो अभ्यासु करूचो : मुग्तिचो भरवंसो मानूनु, चुकिं गुन्यांवा निमितिं, रूधन विळाप करनु, देवाचें सुमरण चिंतन मांडुंचें.

ह्या वरि एवांजेलिस्तु सांगता की जावळि स्वामिणिन बाळकु जेझु तेंप्लांतु भेटैलो, तावळि थंय येकु सिमयांव म्हळलो वृध्दु मनुश्यु आशिलो. तो नितिवंतु, वा देवभ्रांति आशिललो वा समग्री प्रजेचें हित, बरवें, वा सोडवण चिंतितालो, वा ताच्या आत्म्या, अंतस्करणांतु स्पिरितु सांतु वसो. एवांजेलिस्तु ह्या उतरांनि भग्तु वृध्दु सिमयांव सर्वय परिंचे भग्ती ठांयिं संपूर्नुसो दाखौनु दिता. पयलोचि ताका नितिवंत म्हणता, म्हणचे

---

8. सवस्तकाय; शांती; शांतताय.

9. दुखा, वळवळयांचें खतखतीत रडणें.

10. भौन भौन तिचेर ध्यान थिरांवचें, नियाळ करचो, प्रार्थना म्हणची.

अंतस्करणिं उतरां, वा करणिंयां ठांय, कोणाय येकाक दुखय नासतां जितलो मनुश्यु, आणी ताचो आत्मो नितळु, वा निश्कळंकु म्होणु दाखौंच्याक, देवभ्रांति आशिललो मनुश्यु म्हळें, आणी ताच्या मयेमोगाची व्हडिव अर्थूनु सांगुंच्याकः जो संवसाराचो तारकु, वा बुजावणारू, आपुल्ये प्रजेक संबोखुंच्याक स्वामि देव धाडितलो आशिलो, ताका देखुंचे व्हडी खोश्ये, वा भरवंश्यान राबो म्होणु चडैलें.

कटकटाः जंव पर्येंत्र आमंच्यो वस्तु आमकां जाय तैश्यो बरवेपणिं चालताति, तंव पर्येंत्र आमंचेरि कोणाच्या बरव्या, वा वायटाचें धरललें नां. ह्या निमितिं, आमचे ठांयिं, येकामेकांची प्रती मोहो नांसो प्रत्येक्य साखि[11] येता, कित्या मयेमोगाचो व्यापारू जो आसा, तो समस्तांचें बरवें आठौंचें, सगळ्या संवसाराची सोडवण चिंतुंची, रडतल्यां लागीं रडुंचें, हांसतल्या लागीं हांसुंचें. ह्ये बरव्ये वासने वरौंनु, ह्या वृध्दा भग्ता सिमयांवांक संवसाराचो तारकु आपुल्यां डोळ्यांनीं देखिल्या बगर मरण नपावो म्होणु, स्पिरिता सांताची ताका बोलु भास[12] लाबली. आयचे दिवशिं देवपुत्रु सगळ्या संवसाराचो तारकु देवतेंप्लांतु देखशी म्होणु सांगूनु, स्पिरिता सांतान ताची खोशी पुरैली. व्हडी खोश्ये, वा आनंदान वृध्दु भग्तु सिमयांव देवतेंप्लांतु येवनु, जितुले तेंप्लांतु रिगति, इतुल्यांकय डोळ्यांनि निहाळनु चोयि. इतुल्या मधें शेंधुचें नखेत्र,[13] स्वामिणि, आपुल्या गोपांतु सत्य सुर्यु स्वामि जेझु क्रिस्तु घेवनु, देवतेंप्लांतु रिगली.

तेचि खेविं स्पिरित सांतान ताचे अंतस्करणिं, संवसाराचो सोडवंणारू, आपुल्या गोपांतु धरनु जी हाडिता, ती आंकुवारि, देवान वेंचिलली देवपुत्राची माय, म्होणु ताका प्रघट केलें. आंकुवारि स्वामिणिं, ती अमोलिकि भेट आपुल्या गोपांतु धरनु, आल्तारी लागीं वचूनु, अनाधसिध्दा देवबापाक भेटैतां, भग्ता वृध्दा सिमयांवान स्वामिणिचो निरोपु[14] घेवनु, बाळकु जेझु आपुल्या गोपांतु धरिलो, आणी सगळोचि देवकृपे भरितु जावनु, व्हडा आनंदा, संतोसान देवा स्वामयाक अर्गां दिवनु, येक म्हा दुलब, वा मंजूळ गायन करूं लागलो.

स्वामया! आतां हांव आनंदभरितु हौनु स्वस्तपणिं मरण पावन, तुवें, स्वामया, तुज्या शेवकाक आतां ह्ये कुडिच्यां बंदपासांतुलो सोडौं ये. आतां माका कोणिय येकि

11. साक्षी, हाचे नद्भव जाल्लें कोंकणी उतर.

12. आश्वासन वा दिल्लें उतर - promise.

13. हें रूपक नियाळात, कितली दिव्य-भव्य नखेत्राची सर स्वामिणी मरियेकडेन केल्या.

14. परवानगी घेवन.

वस्तु देखुंची आशा उरली ना. कित्या जो संवसाराचो तारकु तुवें धाडिला, तो मज्यां डोळ्यांनि देखिलो : जो उजुवाडु समस्ता अभाविकांक प्रकासुंच्याक, समस्तां क्रिस्तांवांक बुजावनु मुग्ति दिंवच्याक इग्रजांतु फांकला, तो आजि मजे दृश्टी पडलो देखूनु.

क्रिस्तांवांनो! नित्यकाल तुमिं यादि करका, की जेझु क्रिस्तु जो आस, तो निजु उजुवाडु, जो समस्तांक उजवाडिता; तुमिं समस्त ताचेरि दृश्टि देया, ताची शिकवण आयका, ताची सुमुर्ति सांभाळका, ताच्यां उपदेसांक पाळो देया, कित्या येणे प्रमाणिं भग्ता सिमयांवांची देखि घेश्यात, आणी आंकुवारि स्वामिणी सांगातिं स्वर्गिं तिच्या पूण्य पुरूशार्थाचे भागेली जाश्यात, जंय हो देवबाळकु अपरांपरी आपुल्ये काकुळतिन आमां समस्तांक व्हरूं.-



# Pratica terceira da mesma Festa. Tratase da Excellencia da pureza. E da baixeza da luxuria

## निर्मळपणाच्या शगुणांची तुस्ति, वा कामत्राची वायटिव सांगूनु दिल्या

## तिसरी शिकवण

कुडिचें निछळपण वा निर्मळत्व, भोव करनु आंकुवारपण जें आसा, तें व्हाराडिके[1] समंधा पाशिं अदिकतोर उत्तम हौनु मिरवताः कित्या आंकुवार जे आसति, ते ह्या संवसारांतु भोड्डुव्यांची जिणि जितातिः वा आपुल्ये निर्लेपाये, निछळपणा निमितिं, स्वर्गिं देवदुतां सारिखे हौनु वर्तताति, कित्या कुडिच्यां करणियां विण, कुडिंतु जियेंवचें जें आसा, मनुशाचो गूणु न्हय, बगर भोव करनु भोडुव्यांचो शगूण. हो येकुचि शगूण ह्ये सुवाते, वा ह्ये मृत्यादिके कालिं, त्या सदैवा शाराची रितु परवडि पाळिल्या वरौनु मुग्तिचे अमरी जिणिंचें आशेपण दाखौनु जंजंय व्हाराडिक संमंधु नां, आणी तोचि शगूण संवसारिकां मनुशांक, त्ये मुग्तिच्यां भोडुव्यांचे संगतिची वोळखि, वा प्रचिति येशी करिता. त्या शगुणा वरौनु, स्वर्गिं, नफर्गतीः व्हड उचित, व्हड मुकुटु, येदो व्हड्डु शगूणु भोगिलल्यां आंकुवारांक लाबता; जाची गोस्टि करनु, भग्तु सां जुआंव, आपोकालिप्स म्हळल्या ग्रंथांतु म्हणताः

हे जे आसति, स्त्री संगा निमितिं भश्ट, अपवित्र नजतां, नित्यकाल आंकुवारपण सांभाळनु जिले. हे जे आसति, इतुले भग्तिवंत, की पवित्रा शेळियेच्या पिला, भोळा कोर्देयरा, क्रिस्ता स्वामया मागिल्यान, जंजंय तो वेता, थंथंय ताका पांवूक वेताति.

1. लग्नाचे धर्मीक आनी समाजीक विधी धरून केल्लो संस्कार.

कित्या आंकुवार देवा वा क्रिस्ता आमंच्या तारकाची देखि घेवनु चालतातित, कित्या तो जावळि केवल आंकुवारू, तावळि ते, तेणेंचि प्रमाणिं, ताचे सांगातिं आंकुवारपणिं जिले. ह्या संवसारांतु आंकुवार आमंच्या तारकाची देखी वा गूणां ठांयिं सारिखे जावनु, हेरां मृत्यादिकां मनुशांक वास व्हरू नेदेतां वर्तले. म्होणुंच्याक अंतिं हेरां सांगातिं, आपुल्यो अविनाशी, अमरी कुडी घेवनु, आनंदभरित हौनु, भोव सोंपेपणिं ताचे लागीं सरती; हेरां भावार्थ्यांच्यान तांची प्राप्ति, हुकुम भोगव नजो, कित्या ते सर्व मान्य हौनु वर्तति; पण आपुल्यां बंदववर्गाक येदी व्हडि सत्या, प्राप्ति भोगलली देखूनु, म्हा प्रेमभरित जातातित.

विवेखू करका, मज्या भावांनो, आत्म्या वा कुडिचें निछळपण जें आसा, कितुलें उत्तम, कितुलें निर्मळ, कितुलें सुंधर, वा कितुलें देवाक मानता, पळेया. मनुशांक भोडुव्यां सारिखे करिता, ताणिं आपुल्ये अंतस्करणिं स्पीरिता सांताक प्रवेसु दिंवच्याक युग्त करनु दवरिता, कित्या स्पीरितु सांतु जावळि निछळपणाची भोव प्रति करिता, तावळि केद्योय आणियेकी व्हडी ख्याली जरि जाल्यो, तरि कामत्राचे ख्यालिक पळता, तैसो कोणी येकी ख्यालिक पळ ना; आणी निर्मळां, निछळां आत्म्यां ठांय आनंदभरितु हौनु वासु करिता तैसो, आणियेकी कोणीय कडें राव ना. म्होणुंच्याक स्पीरिता सांताच्ये करण्येन मनुश्यु जालल्या देवपुत्रान आंकुवारपणाचो इतुलो मोहो करनु, ताका इतुल्या मानुपदा पायलो, की आंकुवारी मरियेचे कुशिंचो, ती सदा आंकुवारी आसतां, जल्मलो, आणी महा निर्मळा भग्ता सां जोझेफाक आपुलो बापस्थानिकु करनु घेतलो, जाणें नित्यकाल आपुलें आंकुवारपण सांभाळिलें.

पण तुमंच्या भितरल्या कोणाय येकान जरि अविचारिं देहधातुच्या पापा वरौनु आपुलें आंकुवारपण सांडिलां, तरि त्या पलिता मायणांतुले[2] उबट्टनु, जिणिं पलट्ट करका, पुणतिं पाप नकरूंचो निछेव धरनु, सांडवललें बरवें सोदका. देवाक शरणा वचूनु, केलल्या पापाचें भगसणें लाबुंच्याक ताचें सुमरण मांड्डनु, पुण्यपुरूशार्थु जोडका, आणी तुमीं तुमंच्या पातकांचें प्राचित करूंच्याक, देव आजि पर्येंत्र राबिललो चुकोचि ना. पातकांचें भगसणें लाबुंच्याक नीज प्राचित[3] करनु चाला. कोणी येकि देहधातुची ख्यालि, आपुल्ये कुडी आड पाप म्होणु, सां पावलु म्हणता, कित्या कोणय येक पाप,

2. कोंडांतले; रेव्यांतले - रूपक नियाळात.

3. प्रायश्चित, हाचचें तद्भव; उपरांत पिराजीत जाल्लें, आतां प्राचित केलां.

जें मनुश्यु करता, तें आपुल्ये कुडी भायर करिता. पण देहधातुचें पाप आपुल्येचि कुडीरि आड, जी कुडि (देवान, आपुल्या रग्तान पवित्रु केललें तेंप्लु) अपवित्रु, विकटु, करूपु करनु घालिता. आणी आणियेकि कडें, तोंचि भग्तु ऐशें म्होणु उपशामिताः व्हडी हाणविर्धी, ताकितिन देहधातुच्या पापाक वा ताच्ये पलितायेक येणे प्रमाणिं पाठि करनु पळुंचें, की तुमंच्यां कुडींनिंचि ताची संगति सांडुंची, हें येकोचि न्हय, पण जिबांनिं मुखें ताचें नांव उचारू नये, कित्या भग्तिवंचळां पुरूसांनि येणें रितून वर्तुंचें कारण देखूनु.

जावळि हें पलित, वा अळशिकोणी पाप तुमंचिं अंतस्करणां टाळूंक[4] येता, तावळि तुमिं ह्या मुखावेल्यां विवेखां निमितिं ताचेरि झूज दिवनु, ताचें जैत घेवूं ये. मनुश्यरूप, सुंधरताय कोणी त्ये भौशे पावता, तो विवेखु करका, कित्या जाचे प्रती पडनु, तुमिं रमल्याति, हो विवेखु तुमकां ताची वोळखि हाडनु, तुमचे मनिं ताची निराशा पळतशी करित. भग्तु सांत इझिदोरू म्हणता, देहधातुच्यां ख्यालिं, निर्गूणाचें बळ मोडलेल्यांचें जैत घेंवच्याक, ज्ये वस्तुची आंता आपण इतुली प्रति करिता, ती मेल्या उपरांतें कोणी भौशे पावतलीशी, विवेखु केलल्या ऐशी आदायाची वस्तु ना. जितुलें तुजें चित्त, मन, अंतस्करण देहधातुच्या सुखा संतोसारि अदिकतोर ठेवनु, तुजी कुडि त्या खातकोंडांतु वोंपिशी, तितुलोचि अदिकतोरू अपूर्नु वा अतृप्तु हौनु वर्तशी, कित्या हें देहधातुचें पलित सुख मनुशाक तृप्त नकरी, बगर भुकाळु,[5] वा खिवदेस्तु[6] करनु घालिता; कित्या स्त्रियेची प्रति दादुल्याक सर्वथा सांडी नां, बगर येकी वेळे विजवललो[7] मोहो पुन्परिं सांदकता, आणी सांदकल्या उपरांतें जो कश्टवता ताका अशग्तु, निर्बळु करनु घालनु, येणे पर्माणिं ताची मति, ग्न्यान झांकुळशें करिता, की आणयेकी कोणिय वस्तुरि चित्त, मन ठेवूं नदे, बगर दुखवेस्तिता देहधातुच्या सुखा, संतोसारि.[8]

विवेखु करका, भावार्थ्यानो ! देहधातुचें सुख जें आसा, तें खिणाचें, आणी त्या निमितिं यादल जी लावता, ती अखंडिति, महा अंतरादिकु पलटु;[9] येकी घडियेच्या

4. हांगा अर्थ पातकांत घालूंक वा to tempt.
5. खावगो; चड आनी चड खायत रावपी; वसवसो.
6. उचंबळ; ओंडावणेक पेटिल्लो.
7. पालोवल्लो; उजो उणो जावन गेल्लो; हांतलें रूपक नियाळात.
8. देहधातुचे गजालींक लागून मनाचेर कसो परिणाम जाता, हें तत्वगिन्यान बेस बरें मांडलां, ती चित्रभास पळेयात.
9. हो विरोधालंकार पळेयात - ते देहाचें सुख खिणयाळें पुण ख्यास्त अखंडीत, व्हडा अंतराचो पलट करता.

सुखा निमितिं हांगा निर्मळा अंतस्करणा वा बरव्या सुकृताचो आनंदु उलासु हारौंचो, वा अंतिं अखंडिति मुग्ति सांडुंची : महा अंतरादिकु पलटु : आरंभतांचि सरतल्या सुखा निमितिं, सासण भाशे नसरतले कश्ट घाशि सोसुंची. हें देहधातुचें सुख भोव लटिकें, गोडिवे पाशिं विखाच्यो घागऱ्यो[10] वोततातिः सुखा हौनु अदिकतोर दुख मिश्रितः सुखा, संतोसा सांगातिं कश्ट आकांत, विग्नां लागिंचि हाडिता, कित्या किर्ति, मानु होगडायता, कुडिचें बळ, शग्ति मोडनु घालिता, आत्म्याची स्वरूपाय, कुरुपि, विकटि करिता; भलाये प्रणामाक भोव नश्ट, नुकुसान देता, उधंडि व्यादि, रोगु निपजैता; आणी तांतुल्यो भोवतेकी ऐश्यो पलिती, की नांवाडुंच्याक भोव कांटाळो दिसता. तरूण प्रायेचो तनु, तेज,[11] बळ, प्राप्ति उणावशी करिता, जिणि जिवित्व कातरनु, वेगिंचि म्हातारपण हाडिता; ग्न्यानाचो दिप्तिप्रकासु मावळायता; जाणिव, विछखेणाय उणाविताः कित्या तें ग्न्यांन, जाणिव, विछेखेणाय देहधातुच्या स्वामित्वा खालुतीं पडलल्या निमितिं, निति, परमार्था वा कर्ताक[12] थंय सुवात ना जाता. विसायांक कळवळो सुटता; आत्मो अंदकु हौनु, स्वर्गिंच्यां समग्रि वस्तुंचे वोळखी ब्रैत जावनु पडता.

विवेखु करका, भावांनो, केदिय व्हडि वस्ती, विचारू, कितुलीय संपत्ति, धन जरि जालें, तरि तें इतुलेंय कामत्राचें पाप लगलल्ये कडें, विद्वासूनु पोरो पडुंच्याक, खिणु लाग ना, कित्या ह्ये ख्यालिक, आणी पोटार्थाक[13] बरो शेजारू वा संगति आसा. ह्या प्रस्ताया निमितिं जेतुले मनुश्य ह्ये ख्यालिक रमल्याति, ते इतुलेय पोटारे, पोटार्थी, खाणा, वा पिवना ठांय जेतुलें आसा, तें इतुलेंय हारापितातिं. तेणेंचि प्रमाणिं, ह्ये ख्यालिक रमलल्यो स्त्रियो कधिंचि ह्या देहधातुच्या पापा निमितिं.... नजति; जेतुलें आसा, तें इतुलेंय आळांकारां शृंघारां ठांय वेचितातिं, आत्मधातुच्यां इडां, शृंघारां पाशिं, देहधातुच्यां वस्तुंची अदिकतोरि प्रति करितातिं. ह्या इतुल्याचे साखी वा सत्यार्थाक त्या वेचिक[14] पुत्राची साखि पुरोः जाणें ह्ये देहाधातुच्ये ख्याली निमितिं

10. विरोधंलांकारांनी ही कल्पना भोव अखेपायेन मांडल्या, विखाच्यो घागऱ्यो म्हळ्या; आनी ताचे फुडलें वजनादीक वर्णन नियाळपा सारकें.
11. कूड; आंग-पांग.
12. कर्तो; घराचो धनी.
13. पोटाची पुजा करपाची भावना वा आंवडो = greed.
14. वेचीक पूत (prodigal son), हे वोपारीचो हांगा उल्लेख येता; वेचू ( money spent), ह्या कोंकणी उतरा वेल्यान आयलां. खर्च - वेचू (payment & expenditure), आदले कोंकणींत हो फरक दाखयताले.

आपुल्या बापाचो सर्वय म्हालु, जो डायजाक ताका पावललो, तो इतुलोय हारापिलो आणी येदी व्हडि कनिश्टाय भोगुंचे दशे पावलो, की डुकरांचें खाण खावनु, तांचे सांगातिं जिये, वा इतुल्यान पुणु तृप्तु नजो जायि.

तुमकां जरि कांय वायटि कल्पना येत, तरि तुमंच्या अंतस्करणा मुखारि, तुमंच्या राखण्या भोडुव्याक, वा तुमंच्या दृश्टा सैतानाक उबो करका. ते दोगय जे आसति, नित्यकाल जेतुलें तुमिं करितातिं, उलैतातिं वा चिंतितातिं, तें इतुलेंय आपुल्या डोळ्यांनि देखताति, आणी देव, जो सर्व देखता, ताचे हुजिर व्हरनु भेटैताति. येणें करतां, जी वस्तु तुमिं तुमंचे सारिख्या हेरा मनुशा हुजिर आचारूंच्याक कांकटेताति, ती येदी अमंगळि, वा पलिति वस्तु देवा देखतें करूंच्याक तुमकां निर्वाण नां जायत. देवाची निति, वा निश्टूरि ख्यास्ति, अग्निकोंडिचो अंखडितु उजो, जो आमंच्या पापा वरौनु आमंचेरि येता, ताचो विवेखु करका, कित्या उधंडां कश्टांचे भ्रांतिन जरि मनुश्यु, कोणय हेर लाहान कश्ट, लाहान दुख सोंशिता, तरि तेणेंचि प्रमाणिं कामत्राचो उजो अखंडिता अग्निकोंडिच्या निश्टुरा उज्याच्या उगडासान विजवता.[15]

ह्या इतुल्याय उपायां पाशिं आसत्यांतु व्हडु, वा उत्तमु उपाव जो आसा, तो होः क्रुसारि जोडिलल्या क्रिस्ता आमंच्या तारकाची पवित्रि कूडि, ताच्यां समग्रां घायां सैत, आपुल्या डोळ्यां हुजिर दवरूंची, आणी ते इतुलेय घाये, वा मरण, आमंचिं समग्रां पातकां भगसुंच्याक सोंशिले, म्होणु विवेखु करूंचो; आणी जेतुल्ये पावटीं नवगतीं[16] स्वामयारि चुकूनु पाप करूं, तेतुल्ये वेळो पुनरपिं ताका क्रुंसारि जोडूं, म्होणु रूधन मांडुंचें. जावळि सैतानु आमकां ह्या सारिख्यो टाळण्यो हाडिता, तावळि अंतस्करणिं हौनु, स्वामयाक हाक दिवनु, आमकां मजति करनु, जैत दी म्होणु, येणे प्रमाणिं विनौंयाः स्वामया, आमकां मजति करनु पाव, वा तुजेरि चुकूनु पाप नकरूंच्याक आमका तुजी कृपा दीः आणी आमंच्या अंतस्करणारि सांता क्रुसाची कुरू करनु, आंकुवारी स्वामिणी, वा मुग्तिवंता सां जोझेफा लागीं ती वायटि कल्पना निवारूंच्याक आमकां धिरू, आधारू, मजति करका म्होणू मागूं या.



15. पालवता.
16. परतें; नव्यान; दुसरे फावट.

# Pratica pera o dia do Glorioso S. Philippe e S. Thiago
# TRATASE do Vicio da INVEJA
# e dos remedios pera ella-

## नेदुखचाराचे ख्यालिची वा ताच्यां उपायांची गोस्टी केल्या

नेदुखचारू[1] जो आसा, तो येकामेकाचे प्रती मोगा आड ख्यालि देखूनु, देव स्वामि तिका भोव कांटाळेता, कित्या नेदुखचारू म्हणजे पेल्याक बरवें जालल्याची दुखि, वा हेरांचे व्हडिवे नंदनिकेचो संतापु: जेणे प्रमाणिं जे आसति, ते हेर आपण्या वरूते कित्या? लाहान जे आसति, ते समग्र सारिखेचि नजति कित्या? आणी आपण्या सरशें आपण्या बराबरि भुजाक भुज टेंकूनु आसति कित्या? हें इतुलेंय भग्तु सांतु औगुस्तीन्यु म्हणता : ह्या नेदुखचाराचे वायटी जातिचें फळ वा दांवां जीं आसति, तीं मेळो, दुस्मानिक, निंदा, अपमानु, बेहुर्मति, पेल्याक वायट भोगलल्याचो संतोसु, तांच्ये व्हडवियें नंदनिकेचें दुखः येणेप्रमाणिं कायिनान[2] आबेलाचो नेदुखचारू केलो; सावलान दाविदाचो; मोयझेचे भयणी मरियेन आपुल्या भावाचो; जाकोबाच्या पुत्रांनि जोझेफाचो, आणी ज्युदेवांनि क्रिस्ता आमंच्या तरकाचो नेदुखचारू मानूनु, ह्या निमितिं, ताका जिविशिं मारिलो; येदी निश्टूरि ही नेदुखचाराची व्याग्रि,[3] की आपुल्यांचि पेट्यांक[4] मुखे गुजरी ना. हें जें आसा, तें व्हड पाप, जाचेरि पवित्र ग्रथिं अखंडिता मरणाचें फर्माण दिलां.

---

1. मत्सर; कुडणाटाय; envy.
2. आदाव-एवेचे दोग पूत, कायिन(Cain) व्हडलो आनी आवेल (Abel) धाकलो.
3. वागरें; वायटाची भावना.
4. पिलांक; पोरांक.

सैतानान जो आमंचो नेदुखचारू धरलो, त्या वरौनु संवसारांतु मरण प्रवेसलें. येणेप्रमाणिं समेस्त नेदुखचारी जे आसति, ते सैतानाचे शिकवणे देखिचे निर्भागी शिस. ह्या प्रस्ताया निमितिं, सां पावलु आमकां ऐशें म्होणु चेतौविता, आमिं अथिरा संवसारिका सुखाचे सुआर्थी हौनु, पेल्याचो नेदुखचारू करनु, पेल्याच्या बरव्याक झोंबुंचें न्हयः ही ख्यालि मनुश्याचें अंतस्करण आपुल्या तारकावेलें काड्नु कळवळावनु घालिताः आणी क्रिस्तु आमचो तारकु आमंचें अंतस्करण कळवळे नां जांवच्याक आमकां शिकैता, की तो कळवळो संवसारिका अर्थाचे वोडावोडी वरौनु निपजता. म्होणुंच्याक अखंडित बरवें वा देवाच्या घरांतु स्वर्गि उधंडी सुवातो आणी व्यापार जे आसति, ते आमंच्या उगडासा हाडिता, त्यो सुवातो उधंड बरवें, सुख संतोसु, वा उचित, जें स्वर्गिं आसा, तें संवसारिका बरव्या पाशिं, व्हडये घाशी, वा व्हडा निर्धारान जणप्रती आमिं जोडूंये. तरि ह्यो खयालिच्या उपायाक भोव करनु संवसारिका बरव्याच्या पासांतुलें आमंचें अंतस्करण काड्नु, ज्यां वरौनु येकामेकाचिं हाडां चाबुंक[5] पळेतांव, तें स्वर्गिंच्यांचि वस्तूंरि दवरूनु, तांची प्रति मोहो करूनु चालूं काज.

तें स्वर्गिंचें बरवें भोगितले स्वाभागी अदिकतोर देखूनु, उणें नजो, बगर समेस्तांक येक, वा येकेका जणाक समग्र भोगता; आणी तें बरवें भोगितल्यांचो धडो वा जमो जितुलो अदिकतोरू चडता, तेतुलेंचि बरवें अदिकतोर हौनु मिरवता. पण संवसारिक बरवें जितुलें भोगियां भितरि वांटता, तितुलेंचि उणें जावनु अदिकतोर चिंतिलल्याच्या आत्म्याक नेदुखचारू वळवळावनु मारिता. कित्या जें आपण चिंतिता, वा आठयता, तें पेल्याक लाबल्यारि, हौ समग्र ताका चडता, हौ विपाय उणें करिता. येणे करतां आपण जें चिंतितालो तें पेल्याक लाबलल्या वरौनु, स्वार्थ्याक व्हड दुख भोगता. ह्ये ख्यालिचें जैत घेंवच्याक, आस्त्यांतु बरो प्रकारू जो आसा, तो हो : जांचो तुमि नेदुखचारू करिताति, तांकां बरें जांव म्होणु देवा लागीं मागुंचें.

कोणाय येका मनुशाक सर्वथा कांटाळेंव नाकाति, तुमंच्यां इश्टांची मनभावि प्रति करनु चाला, आणी देवा खातिर तुमंच्यां दृश्टांचो मोहो सांडूं नाकाति, कित्या आमिं जणप्रती येकेकु जणु, पैले देवाचे दृश्ट आसतां, देवान येणे प्रमाणिं आमंचो मोहो केलो, की आमंकां आमंच्यां दृश्टां सैतानांचे बोंदडिचे सोडौंच्या निमितिं आपुलो प्राणु दिलोः म्होणुंच्याक तोचि स्वामि, ऐशें म्होणु आमकां शिकैता, तुमंच्या दृश्टांची प्रति करका,

5. ही प्रतिमा नियाळात.

आणी जे तुमकां देखूं नशकति, तांकां बरें करूचें सांडूं नाकाति; आणी जरिय येकु मनुश्य वायट जालो, तरि ताचो कांटाळो धरनु, ताका देखूं नशकुंचो प्रस्ताव न्हयः जेणे प्रमाणिं वैदु वळ्ळिकेच्या ठांय कांटाळो धरूची व्यादि आसतां, ताचो कांटाळो अळशिक नधरी,[6] तेणेंचि प्रमाणिं देव स्वामि आमंचे ठांय चालता. मनुश्याची प्रति, मोहो करिताः पण जें पाप ताचे ठांयिं वसता, त्या पापाचो कांटाळो धरिता.

कोणाय येकाचो बेपर्वो करनु, ताचो मजे लागीं कोणु हिशेबु, ताची कोणि पांगु ताका वळखनां, माका आणी ताका कोणु समंधु! तो कधिंचि माका उपकारा पडलो ना, पण भोवतेकी पावटीं माका दुखयलो, ऐशें तूं तुजे अंतस्करणिं कधिंचि म्होणूं नाकाशि. उगडासु करि, की रजमात्र तुजे वोळखी विण, देवान तुजेर उधंड उपकार केले, आणी तूं त्यां उपकारा वारियें, जे गरजेवंत हौनु कश्टवताति, तांची कणिवळि काकुळति करि वा तांचे ठांय उधारयेपणिं चाल म्होणु, तो तुजे लागीं मागता.

पेल्याक जें बरवें अथवा वायट भोगता, तें आपणाप्याक भोगलल्याचो परीं मानि, आणी पेल्याच्या बरव्याचें सुख आणी वायटिवेचें दुख करि, कित्या समग्र आमिं येकिचि कुडिचिं अश्टांगां; त्याचि त्या निराकारा देवान सुस्कारनु[7] जिवदान दिवनु रचिलले, तेंचि बरवें अथवा वायट आपण्याकय भोगूं शक म्होणु विवेखू करनु रडतल्या लागीं रड. येणे प्रमाणिं जें येकाक भोगता, तें आमकां समेस्तांक भोगलल्याचे परीं सुख दुख करूचें. ही जी आसा, ती येकामेकांचे प्रतिची संपूर्नाय. जें आपण्याक जाय, तें समेस्तांक केललें तिका जाय, आणी जें आपण्याक नाका त्याचि पेल्याकय नयेंवच्याक आठौंचें, पेल्याचें बरवें, आदाव, जोडि जाडि आपुलिशी मानुंची. तांच्या नश्टा नुकसाना पापाक रडुंचें. विवेखू करका, की आमिं समेस्त सैबिं बंद भाव, आमां समेस्तांचो येकुचि बापु आदांव, आणी आत्मधातुय निमितिं, आमिं बंद भाव. देव आमंचो स्वर्गिचो येकुचि बापु, आणी येकिचि माय पवित्रि इग्रज, कित्या ज्या स्वर्गरायाच्या डायजाक आमकां रचिलले तें येकोचि डायज भोगुंच्याक, आमिं समेस्त राबतांव देखूनु, जंय जितां आमिं सर्व सुख भोगूनु, आनंदभरित हौनु वर्तूं. आमच्याचि बरव्या निमितिं न्हय, बगर पेल्याचेंय बरवें देखूनु, सुखा संतोसा पांव, कित्या स्वर्गिं समग्र बरवें येकाचें समेस्तांक, वा समेस्तांचें येकाक लावता देखूनु.

---

6. ही अखेपी उपमा पळेयात.

7 देवान मातये वावल्याक सुस्कार वा फूंक मारून आदांव, ह्या पयल्या मनशाक रचिल्लो.

जरि स्वामयाचे कुर्पेस्तिं आमिं समेस्तां बंद भाव, वा सवेंचि ताचे डायजी, येकिचि कुडिचिं अश्टंगां, ताच्याचि रग्तान उधरलले, त्याचि त्या भावार्था निमितिं तेचि कुर्पे मुग्तिक हांकारिलले भावार्थी, तरि व्हडा प्रस्तायान येका भावान हेरा भावाक बरवें चिंतुंचें, बरवें करूंचे, बरवें देखूंचें, ताच्या बरव्यान खोशी जांवचें; पेल्याच्या वायटा निमितिं, जे खोशी जातातित, ते व्हडा अप्रस्तायान चालतातित. हे जे आसति नेदुखचारी सैताना सारिखे, जांकां मनुश्यांनि बरव्यो करण्यो केल्यारि भोव दुखि दिस्ता, आणी त्या वरौनु मनुश्यांक बरवें लाबल्यारि, भोव जळतातित. तें बरवें मनुश्यांक सांडलेंय तरि सैतानाच्यान जोडवत म्होणु न्हय, पण जंय ठावनु आपण पडल्यातित, थंय मनुश्य चडूनु मुग्ति पाव नां जांवच्याक. तैशेचि नेदुखचारी सैतानांचे परीं पेल्याचें बरवें देखूं नशकति. तांचें बरवें आपण्याक हाडुंच्याक नकरिति, बगर समेस्त आपण्याचे परीं कनिश्ट जालले देखुंच्याक आठयतातित.

विवेखू करका की पेल्याचे ग्रेस्तायेचो जो तुमंकां नेदुखचारू आसा, ती ग्रेस्ताय तांकां नांशिलली, तरि तुमकां सर्वथा लाबती नां, आणी तुमंच्या नश्टा नुकसाना व्रैत जरि तांकां आसा, तरि ताची दुखि, वा नेदुखचारू करूंचो प्रस्ताव न्हय. विवेखु करका, की जंय येकु पेलो मनुश्य बऱ्या भल्या पावनु, येकी कडें वर्तता, थंय तुमंच्या गुनेयान ताका नश्ट नुकसान येशें करूंचें जें आसा, तें व्हड निर्भाग्य, कित्या तुमिं तुमकां नांशिलली ग्रेस्ताय, तांकां आशिलल्या निमितिं, त्ये ग्रेस्तायेचो जरि प्रियेव करित, तरि येणे प्रमाणिं, पेल्याच्या कश्टांचे भागेली हौनु, मयेमोगाच्या प्रस्तायान तिचि ग्रेस्ताय तुमगेली हौनु वर्तती.

विवेखू करका, की नेदुखचारू मनुशाचें अंतस्करण जाळिता, रग्त मौंश आटिता, बुधी मतिक भ्रमु पडसो करिता, सुखा संतोसान जियेंव नदे, कित्या जैसो लाकुडाक निपजता तो किडो[8] आपण निपजललो तेंचि लाकुड पैलें कांतयता, तेणेंचि प्रमाणिं, नेदुखचारू मनुशाच्या अंतस्करणांतु जळूनु, पयलें जें कांतयता, तें आपण निपजललो तेंचि अंतस्करण. शेखिं ही ख्यालि देवप्रती मोगारि वा त्याचि त्या देवारि आड (जो समेस्तांक आपुल्ये उधारियेपणिं स्वर्गा संवसाराचें बरवें वांटूनु दिता) त्या समेस्तांच्या बरव्यारि आड येवनु, नित्यकाल पेल्याच्या बरव्याचो नेदुखचारू करूनु, जाका देव बरें देखता, ताका देखूं शक ना. ह्या नेदुखचाराच्या विखा आड निर्विखी[9] जी आसा, ती

8. नेदुखचाराची किड्याक सर केल्या ती पळेयात; रूपक.

9. विख काडून निवळावपी (निर्विखी).

लिणत्वाय, गर्व हांकाराचो कांटाळो, कित्या गर्वा जें आसा, नेदुखचार्याच्या विखाची झरि,[10] तिचो आरंभु, वा माय देखूनु.



10. अमूर्त गुणांक मूर्त रूप फावो करता; रूपकां पळेयात.

# Pratica pera odia da Festa do Glorioso Apostolo Sam Thiago Tratase dos Tres Inimigos dalma

## भग्ता सां थियागाच्या दिवसाची शिकवण

## आत्म्याच्यां तेगां दृश्टांची गोश्टि केल्या

मनुशाची जिणि संवसारांतु येक झूज वा संग्रामु,[1] ऐशें भग्ता जोबान म्हळें : कित्या ती कधिंचि दृश्टां वा संग्रामा व्रहित नां; म्होणुंच्याक मनुशान अचिरके, हुस्क्या व्रहित सर्वथा रांवचें न्हय, बगर झूजा, संग्रामाक मुस्तायति हौनु आसुंचें. ह्या प्रस्ताया वरौनु आपण्यारि आड आत्म्याचे दृश्ट जे आसति, ते तेग जणशे वळखूनु जाणुंचें : संवसारू, सैतानु आणी कुडि. हे तेग दृश्ट क्रिस्ता स्वामयाच्या दळभारारि नित्यकाल झुज दितातिः हे दृश्ट, समेस्ति टाळणियांचें मूळ, समग्रां पातकांचो समयु, वा आरंभु हौनु वर्ततातिः; कित्या सैतानाक जो देवाचो वैरचारू आस, तो ताच्यान जावळि देवाच्या संग्रामारि चालौनु, ताचो सुवड्डु घेवंव नजो, तावळि मनुश्य, जो ताचो रूपकारू, ताचेरि आड येवनु, आपण्याक टांकता तेणे प्रमाणिं, ताचो सुअडु घेंवच्याक, आपुल्ये नाडी भेदाचे पास मांडूनु, आपुल्या बळाप्राप्तिच्यो भाली मनुशारि विंदिता. हें झूज वा संग्रामु करूच्याक परोंपरिंचे प्रकार जे सैताना आदिन आसति, तें कोणाच्यान सांगव नजति, कित्या संधेवा विण अगणित.

पण नित्यकाल जें चालयता, ते दोनिंचि : हारा, वा शिंवाचें नांव दिवनु, ताचो अर्थु करितातिं. ही दोनीं नांवां, तांकां पवित्रु ग्रंथु दिता : पिंतवेगा निमितिं शिंवु, नाडी

1. हें प्रतीकात्मक रूपक पळेयात.

कपटा निमितिं, हारू.[2] जावळि नाडि कपट करून ठकिता, तावळि हाराचे परीं गुप्तु दृश्टुः जावळि कश्ट घाशि दिवनु पैजा[3] दुमालो करिता, तावळि शिंवाचे परीं जगप्रघट दृस्टुः पण नित्याकाल दोनी स्वभाव येकवटिता. म्होणुंच्याक दाविद राव म्हणता, की आपुल्ये गोलें[4] भितरि लिप्तपणिं शिंवाचे परीं टाळिता. सां ग्रेग्रोरयु अर्थिता तेणे प्रमाणिं, तो देवान वेंचिलल्यां आड झुज दितां, कश्टां घाशिचे पैजेन, अशग्तांचें जैत घेंवच्याक अनुमानिता, आणी लटिकां प्रतिवादां, वा नाडी भेदाच्यां अचर्यां निमितिं, नेणत्यां भोळांक ठकुंच्याक पळेता. आणी सां पेद्रु म्हणता तेणेप्रमाणिं, ह्या प्रकारा निमितिं अग्निकोंड भरूच्याक सगळ्या संवसाराचो भोंवाडो करूनु, घुरकि[5] देवनु, मनुशांचे आत्मे गिळुंच्याक सोदिता. ह्या मनसान उधंड अग्निकोंडिचे सैतान, गिरे म्हारू, जळिं मळिं हिंडूनु, घरान घर रिगूनु, निवृत्या रेलिजियोजां[6] पाद्रिंच्यां गोपांतु मुखे प्रवेसूनु, तांकां संवसारसुख सुमरशें करूनु, तांचें ग्न्यान, मति, विसाये अशग्तायेन झांकुळावनु, आपुल्यां पासांतु पडुंच्याक, सर्वय ठांय आपुल्यो वागुरो[7] मांडितातिं.

येके दिवशिं भग्ता सांतु अंतोनिन, सैतानाच्यां पासां, वागुरांनि सगळी प्रथुमि भरलली देखिली. आणियेका शास्त्रप्रविणान म्हळें, आमकां टाळुंच्याक आमंचे सभोंवतें इतुले सैतान हिंडतातिं, की जरि त्या इतुल्यांकय कुडी आशिलल्यो, तरि तांचे दाटियेन आमंची दृश्टि सुर्यारि पडती ना.[8] तरि इतुल्यां, वा ऐसल्यां नाडां निश्टुरां, दृश्टांनि वेडो घालूनु, मनुशाक मधें घालो आसतां, कोणु तो शुस, हुशारिके व्रहित रावत? आणी ह्या संग्रामा ठांय कुडिची जिणि सांडव नां, बगर आत्म्याची; संवसारिक बरवें हाराव नां, बगर अखंडित स्वर्गिंचें सर्व सुख अंतरता.

संवसारू जो आस, तो आणियेकु आमंच्यां आत्म्याचो महा निश्टूरू दृश्टुः

---

2. हीं दोन प्रतीकात्मक रूपकां नियाळचीं आनी तांचेर आधारिल्लें तत्वगिन्यान.
3. आव्हान; धमकी.
4. शिंवाची धोल; अमूर्त कल्पना कश्यो मूर्त रूपान बसयल्यात हें सगळें चित्रमय वर्णन पळेयात.
5. फुडारीपण; फुडाकार घेवन.
6. धर्मसंघांत, मठांत जियेल्ले पाद्री, धर्मप्रांतांत वावुरतले (secular) पाद्रीं परस वेगळे रितीचे; हांगा म्हातारे निवृत्त जाल्ले पाद्री.
7. जाळीं-जाब्वे; ताळण्यो; रूपकां भरीत प्रतिमा नियाळात.
8. हें अतितायेन भरिल्लें चित्र पळेयात.

आदांवांच्या पापा निमितिं, आमकां भुमिवैंकुंठा भितरले दंवडिल्या उपरांतें,[9] मनुश्यकुळाक येणेप्रमाणिचे अवगूण लागले, वा तांची ग्न्यानमति इतुली मावळली, की ताणि येकी दुखभरिती जिणिचो प्रकारू उप्राशिलो, सैंबप्रकृतिच्यां कश्टां वयरि, आणियेक उधंड नवे कश्ट चडयले, जे मनुश्यमती, अवगुणां निमितिं, उप्रासले. संवसारू आपुल्ये ग्रेस्ताये, वा माना मानत्वाचो करतु, वा आरंभु हौनु, संवसारिक सोदितल्यांक ताणें कश्टां दुखांच्या साघरांतु[10] बुडयलेः देवाचे सुमुर्ति आड लटिकां शास्त्रां सुमुर्ति घडिल्योति; संवसारिकि अथिरि वस्तुंचो व्हड्डु प्रियेव संचरयलो. आमंच्या स्वस्ता सवकासारि जितुलें आड येता, तें आपसैंभीं वायट आसतां, बरें दिसशें केलें. देवशिकवणे वा सत्या आड कुडां[11] मथां, वा अबधी म्हणण्यो शिकयल्योति, आणी येणे प्रमाणिं येकि महा कश्टभरिति जिणि, नां संवसारभोगा ठांय सवकास, नां अखंडिता सुखाची आस, ऐशें करूनु दवरिलें, कित्या देवा रचणाराची शेवा भग्ति करूच्याक सर्वय संवसारिकी वस्तु आडखळि घालितातिं देखूनु. हें समजूनु उधंड शास्त्रप्रविण, ह्ये जिणिचें बरवें त्यागूनु, निती परमार्थाची जिणि जियेंवच्याक संवसारू सांडुंचो, म्होणु उपशामितातिं.

जें बरवें, ग्रेस्ताय, मानु मानत्व, वा कोणिय येकि संवसारान उप्राशिलली वस्तु ह्या इतुल्याकय व्हडि आडखळि हौनु वर्तता, म्हणजे वायटि देखि, पेल्याची निंदा, जी नित्यकाल आमंचे ठांय वसता, त्ये निमितिं असोस्त, वा सर्वय वस्तुंचें अदृडपण दृश्टी पडता. येणे करतां, संवसारा ठांय सैतानाक व्हडा विस्वासाचो येकु इश्टु मैत्रु आस. दोगय लागीं मेळूनु, नित्यकाल आमंचेरि झूज देवनु, आमंच्यां आत्म्यांचें सर्वय बरवें हिरौनु घेंवच्याक मुस्तायति आसति,[12] आणी जावळि ह्या इतुल्याय नश्टाक उपाव करूच्याक देवाचो पुत्रु संवसारांतु आयललो, तावळि तांचे उप्रासणे आड सर्वय वस्तु शिकयल्योः उतरां, वा देखी वरौनु, माना मानत्वा, वा ग्रेस्ताये आड, दुर्बळिक, वा लिणत्वाय शिकयली.[13] ज्ये ग्रेस्ताये वा मानत्वा वरौनु, संवसारांतु गर्व, वा सुआर्थु

9. आदांव आनी येवेक, देवागेली आज्ञा मोडल्या देखून, भुंयवैकुंठांतली भायर घालीं, ते आनी ताच्या उप्रांतल्या घडणुकांचो उल्लेख.

10. सागर; हांतली चित्रभास नोंद करची.

11. लटकीं; फटींग, false.

12. संवसार आनी सैतान (आनी आमची कूड) आमकां नाडटा आनी सर्गार मेळटलें अंतिम सुख भंगयता, हें तत्वगिन्यान हांगा मांडलां.

13. हें जेझून शिकैयल्लें तत्वगिन्यान विरोधालंकारान सांगलां, तें पळेयात.

संचरलो, वा भोवतेक जण अर्थि प्राणिं नाडवले. ह्या प्रस्ताया निमितिं, जावळि आपोस्तला सां थियागाची माय स्वामया लागीं आपुल्यां दोगां पुत्रांक मानु मानत्व मागूं लागली, तावळि स्वामयान तिका नमागुंची वस्तु मागता, म्होणु होळुवटायली, आणी तिच्यां पुत्रांक आपुल्या पिवनपात्राक हाकारिले; म्हणजे आपुल्ये दुर्बळिके, लिणत्वाये, वा कश्टांची देखि घेंवच्याक आपयले. ती शिकवण व्हडी विछखेणायेन[14] भग्ता सां जुआंव वा सां थिआगान आधारिली.

तिसरो दृश्टु जो आसा, कुडि, मनुशांचे विसाये,[15] वा गूण. तो आमंच्यां सैबंप्रकृतिच्यां अवगुणां प्रमाणिं चालतां, निती परमार्थाक सुवात, प्रवेसु नदे जावनु, आपण्या मागिल्यान लोळैत हाडितातिः हो दृश्टु जो आस, तो नित्यकाल आमचो दुमालो करूनु, आमकां अळेताः कित्या सधा सर्वधा तो आमंचे सांगातिं आशिलल्या निमितिं, ताका आमंच्यान सांडव नजो. येद्यां व्हडां विग्नांतु आमंचो आत्मो आसा, की जो दृश्टु आमंकां वायट करिता, तो आमंच्या घरांतु वसता; येकोचि न्हय, पण आमंच्या हाडा, मासाक लागूनु आस. तरि येद्या निसांचरां[16] दृश्टांनि आमचेचि भितरि वसूनु, आमंचे भोंवंतो वेडो घालो आसतां, आमचोचि आमकां हुस्को, वा चिंता नास्तां, निद पडता कैशी? ताचेरि आड मजति वा उपाव दितल्याक सोदीनांव कैशे? जो आमकां पावतलो आस, तो येकुचि देव; आणी ह्या प्रस्ताया निमितिं, ह्यां दृश्टां भितरल्या येकेका लागीं कोणी प्रमाणिं आमिं चालुंशें समजललें बरें.

पयलें, सैताना लागीं आमिं झूज देवनु, ताचें जैत घेवनु वर्तुंचें. दुसरें, संवसारा ठांय, ताचो हिशेबु नधरितां, बेपर्वो करूनु, ताच्या उतरा बोलारि चित्त नठेयतां, ज्यां वस्तुंचो तो प्रियेव करिता, त्यो पायांतळिं घालूनु, ताची लटिकि सुमुर्ति नपाळितां, येकाचि सत्यवंता देवाची सुमुर्ति सांभाळूनु जियेंवचें. तिसरें, कुडी ठांय तिचें सुख संतोसु वर्जूनु, तिचिं उतरां, मातु गोश्टि नअयकतां, तिची वायटि कल्पना वेगिंचि पोरो घालूनु, ह्या निमितिं जितुली देवारि चुकि जांव शको, ते इतुलेय समय सांडूनु पळूनु पर्तुंचें. आणी येकि अचिर्का आसुंची, जरिय हे तेग दृश्ट इतुले प्राप्त जाले, तरिय पुणु आमच्ये खोश्ये व्रहित तांच्यान आमकां कांय करव नजो. कित्या जरि आमंचो कोबुलार्थु नदे

---

14. विवेक बुद्धी - prudence.
15 इंद्रियां; कुडीची आस पर्गटायतले सांधे.
16. दया-माया नाशिल्लो निश्टूर मनीस.

जांव, तरि सैतानाच्यान, संवसाराच्यान, आणी कुडिच्यान मात्र वायट करव नजत, आणी ह्यां दृश्टांच्यां हातांतुले सुटुंच्याक हें आमंचे आदिन आसशें जाणो जाललें बरें.

आमंचो आत्मो जो आस, तो येकु मनुश्य येका दुर्गकोटांतु, दारिवंठे डांपूनु, भितरि आशिलल्याचे परीं वर्तता,[17] ज्या दुर्गकोटाच्यो चावयो ह्या मनुशान आपुल्या गळ्यांतु गांठूनु घाल्याति. येणे करितां भायल्या दृश्टां दुसमानांच्यान भितरि रिगव नजो, आणी भितरि आशिलल्यांच्यान अकिर्त भेदु करूनु, दुश्टां दुसुमानां लागीं वोंपव नजो, बगर ह्या मनुशान आपुल्ये खोश्येन चावयो वोंपूनु दिल्या व्रहित तो सर्वथा वोंप नां. जरि हो मनुश्यु आपुल्ये खोश्येन चावयो वोंपितो, तरि ताका कितें म्हणतेंव? तो कोणारि अपवादु ठेयतो, बगर आपणप्यारिचि. तेणेंचि प्रमाणिं आमंच्या आत्म्या ठांय वर्तताः आमिं आमंच्या आत्म्याचे खोश्येच्यो चावयो वोंपूनु दिल्या व्रैत, कुडिच्यान ताचेरि सर्वथा घातु करव नजोः सैतानाच्यान ताका आपुलो दासु करूनु घालव नजो.



17. ही उपमा नोंद करात आनी तांतली आनी ताचे फुडल्यो प्रतिमां नियाळात.

# Pratica pera odia dafesta de Sancta Anna.
# Tratase da Sanctidade dos Cazamentos

## देवा मातेचे माये पवित्री सांत आनाचे परवणेची शिकवण

## व्हारडिका संमंधी जालल्यांच्या कायद्याची गोश्टि केल्या -

विहाव[1] संमंधु जालल्यांनि स्रश्ट कायदे जे पाळुंचे आसति, ते दोनिः पयलो, आपणप्याचि भितरि; दुसरो, आपुल्या लेंकरूवां वाळां ठांय. ह्या इतुल्याची व्हडि देखि हौनु भग्तु ज्योकिं, वा ताची स्त्री सांता आना वर्तलिं, कित्या देवाचे व्हडी भ्रांतिन स्वस्तपणिं येकामेकाचे प्रती मोगान लागीं जिलिं;[2] आणी दवेमाता सधा आंकुवारि स्वामिणि मरी, तांचे कुशिं जल्मलीः त्ये सदैवी कन्येक देवाचे शेवें व्रहित कधिंचि ठेयली ना, बगर तेंप्लांतु व्हरनु, त्याचि स्वामया देवाक समर्पूनु दिली, थंय सर्वय शगुणांच्या अभ्यासा ठांय वाडुंच्याक.

व्हारडिक समंधु जालल्यांनि आपुल्या प्रथमल्या कायध्यान चालुंच्याक, आपुल्यां डोळ्यां हुजिर नित्यकाल देवाची भ्रांति, ताचो मानु मानत्च, वा ताची शेवा भग्ति हाडूं काज, कित्या विहाव समंदाचो करतु जो आस, तो देव. ताणें आदांव आणी एवा, आपुल्ये कृपे भितरि आसतां, तांचे ठांय तो विहाव संमंधु आरंभिलली.

पण देवभ्रांती विण कोणिय येकि वस्तु बरवेपणिं आरंभ नां, वा सिधी पाव नां. स्त्रिये पुरूसा भितरि प्रतिमोहोय आसुं काजः कित्या भोव करूनु, विहाव संमंधाचो

---

1. विवाह, हाचें त्या काळावेलें कोंकणी तद्‌भव.
2 जियेलीं, हाचें एक पोरणें रूप.

साक्रामेंतु[3] जो स्वामयान उप्राशिलो, तो मनुशां भितरि येकु सर्व संपूर्नु सांगातु जांवच्या निमितिं, त्या सांगाता ठांय निजि मैंत्रिका, वा इश्टागति आटापशी करूंच्याक. ह्या प्रस्ताया निमितिं स्वामया देवान आधिपुरूसु रचिल्या उपरांतें, ऐशें म्हळें : मनुश्यु एकलो आशिललो बरें न्हय; ताचे सारिखो ताका सांगातु देंवुंया. विहाव संमंधु देवान मनुश्यकुळ तरूंच्याक उप्राशिललो; आणी ह्या प्रकारा वरौनु, मनुश्यउत्पति पिडयेन पिडी बरव्ये रितु परवडिन वाडौनु, संवसारू चडौंच्याक. विवेखु करका, की जावळि अस्त्री पुरूसु, आपण्यागेरि पुत्रफळ जांवचे इछेन जिताति, तावळि देवाचो वरू तांकां लाबता, भोडुव्या राफायेलान तोबियस भग्ताक सांगिलल्ये प्रमाणिं. म्होणुंच्याक हो विहाव संमंधाचो साक्रामेंतु बन्या नितळा अंतस्करणांन, व्हडा माना हुर्मतिन देवकृपे भितरि आसतां, आचारूंचो; हें चुकलल्या निमितिं, उधंड विहाव संमंध बरवेपणिं नंद वर्तनांति.

आणी येकि महा विटाळवंति वस्तु, जी अनुभावार्थी मुखे (जरि ते मानत्वाचे तरि) सर्वथा आचारी नांति. विहाव संमंधु करूंच्याक, बोलु भास जाल्या उपरांतें, इग्रजेच्या दारिवंठ्याडे, भृतारान अस्त्री करनु घेंवचे फुडेंचि, ताका आंगमेळु[4] दितातिः आणी इतुल्या थोड्या माना मानत्वाचे बाप आसति, की सुकृता वा देवभ्रांती विण आपुल्या घरांतु देवाक रिगु देंवचे फुडेंचि, सैतानाक प्रवेसु दिताति; आणी आपुली धूव अस्त्री करूनु दिंवचे फुडेंचि, तिचो मानु होगडावनु घालितातिः; आणी उपरांतें आपुल्या घरांतु अस्त्रिये पुरूसा भितरि स्वस्त नां जावनु, सैतानान राज्य केलल्या निमितिं, जे भोव अज्याप जाताति, ताचो प्रस्ताव हो : विहाव संमंधु जांवचे फुडेंचि स्पीरिता सांता आधिं, तांच्या अंतस्करणांतु सैतानु प्रवेसलो आणी व्हारडिक संमंधु जांवचे फुडेंचि आंगमेळु दिवनु, म्हापातक जोडूनु घेतलें देखूनु.

विहाव संमंधा ठांय भावार्थु, आणी विस्वासु आसूं काज, कित्या विहाव संमंधाचो गुणु, वा स्वभाव जो आस, तो उभय वर्गा[5] विण हौं नयेः आणी जितुलें ह्या वरि विपता, तें इतुलेंय परद्वार;[6] म्होणुंच्याक सां पावलु म्हणताः सर्वय वस्तुं ठांय विहाव समंधाक

---

3. पवित्र संस्कार, सातांतलो सातवो.
4. दादल्या-बायलेचो शरिर संबंद वा कुडींचें एकामेकाक मेलप.
5 दोगांय घोव-बायलेची जोडी.
6 परकी मनश्यांकडेन संबंद.

मानु देंवचो, आणी उभय वर्गांचे हांतुळण आणियेकाचो संगु धरनु अपमाना घालुंचें न्हय, कित्या स्वामि परद्वाऱ्यां, वा लंपटांक[7] अखंडिति यादल दितलो. शेखिं अस्त्रिये, वा पुरूसान नित्यकाल घरवासु करूनु लागीं जियेंवचें, कित्या क्रिस्तांवांच्या विहाव समंदाक आणी वेगळोचाराक सर्वथा घड नां. देवान ऐशें म्होणु अर्थूनु सांगिलल्या प्रमाणिं, जांकां देवान येकवटिल्यांति, तांकां कोणाच्यान वेगळाव नजतिः आणी सां पावलु म्हणता, हांव फर्मायतां, पण हांव न्हय, बगर स्वामि ज्ये अस्त्रियेक भ्रतारू परद्वारा निमितिं आपण्या लागिंची पोरो घालिता, तिणें आणियेका लागीं विहाव समंधु करी नास्तां रांवचें; ह्या प्रस्ताया निमितिं, जरि अस्त्रिये पुरूसा भितरि परद्वारा प्रसंगिं वेगळोचारू जालो, तरिय पूणु पवित्री सुमुर्ती प्रमाणिं, जंव पर्येंत्र तांचे भितरलें येक जण मर ना, तंव पर्येंत्र हेराच्यान विहाव समंधु करव नजो.

दादुल्या, वा बायलेन आपुल्या कोपा, क्रोधा ठांय सोसवण आधारूंची, कित्या येणेप्रमाणिं, आमकां सां पेद्रु, वा सां पावलु ऐशें म्होणु उपशामितातिः भावांनो ! तुमंच्यां अस्त्रियांची प्रति मोहो करूनु चाला; जेणे प्रमाणिं क्रिस्ता आमंच्या तारकान पवित्री इग्रजेचो मोहो करूनु, तिचे पासावत मरण पावनु, आपुल्या रग्ताच्या पुण्यफळा निमितिं, पवित्रा वावतिज्माच्या उदकान, तिका निर्मळि करूनु दवरिली, तेणेंचि प्रमाणिं, भ्रतारांनि आपण्याक देखताति, तैशेंचि आपुल्यां अस्त्रियांचो प्रतिमोहो करूंचोः कित्या जो आपुल्ये अस्त्रियेक बरें देखता, तो आपणप्याचो मोहो करिता; आणी अस्त्रिये पासावत, क्रिस्तु आमंचो स्वामि म्हणताः मनुश्यु आपुल्या मायेबापाक सांडित, आणी, आणियेकी सुवाते तोचि स्वामि म्हणता : भ्रतारांनो, तुमच्यां अस्त्रियांची प्रति मोहो करका, आणी कोपा क्रोधा चडूनु, तांचे ठांय निश्टुराय दाखौं नाकाति; आणी सां पावलु म्हणता : भ्रतारांनो ! अस्त्रियो अशग्ती देखूनु, थोरी विछखेणायेन, धिड भिड राखूनु, उलौनु बोलूनु, मानु हुर्मति दिवनु, तांचे सांगातीं वर्ताः आणी तांची चुकि वांकि, वा अग्न्यानपण सोसुंक जाणा; आणी अस्त्रियांक ऐशें म्हणता : अस्त्रियांनो ! तुमच्यां दादुल्यांक सायबांचे परीं, मानु हुर्मति दिवनू, भेयां भ्रांतिन चाला, तांच्या फर्माणा, उतरा बोला खालुतिं जावनु, लिणि हौनु वर्ता, कित्या भ्रतारू जो आस, तो अस्त्रिये, वा सगळ्या घराचो श्रस्टु धनी; जेणे प्रमाणिं, क्रिस्तु आमंचो स्वामि पवित्री इग्रजेचो श्रस्टु शिरोमणी.

दुसऱ्या कायद्या प्रमाणिं चालुंच्याक, लेंकुरूवाळ्या बापान आपुल्यां पुत्रांक व्हडी

---

7. बायलांडे वा नायकिणीं, हेरा बायले वा दादल्याकडेन कुडी संवंद दवरतलीं मनशां.

सुशें[8] हुशारिकेन बरवी रितु परवडी, वा शगूणु शिकौनु देवभ्रांती, वा ताच्या मोगा ठांय वाडौं काज, कित्या जाणतो सालामांव ऐशें म्होणु शिकयता : लेंकुरूवाळ्यां बापांनो ! आपुल्यां पुत्रांक लाहानपणिं लेगिन, देवशास्त्रा सुमुर्तिच्या सांभाळा ठांय वाडैया. तेणेंचि प्रमाणिं तुमंच्यां धुवांक लजे वोजे, कदरेन[9] चालुंच्याक शिकैया; आणी तांकां हांसतें मुख दाखौं नाकातिः आणी स्पीरितु सांतु म्हणता, जो बापु आपुल्यां पुत्रांक अप्रुबायेन वाडयता, तो आपण्यारि दृश्ट जोडूनु घेता, तांचे लागीं कोणुय येकु खेळु खेळता, परोंपरिचे कश्ट, दुख उप्रासता. तांचे लागीं हांसूं, वा रडूं नाकाशि, कित्या उपरांतें कटकटा म्होणु दुख पावशित. प्रायेच्या भारारि कांय धुमाडि[10] नकरूच्याक, तुज्या घरांतु तांचें उतर, वा प्राप्ति चालूं देंव नाकाशि; तांच्या कोपा क्रोधारि चित्त देवनु, त्या निमितिं कितें करूच्याक अनुमानितातिं पळेः लाहान आसतांचि, तांकां तुज्या उतरा बोला खालुतें धरि; साट जेरबंद मारि, व्हड जाल्या उपरांतें, तुजो बेपर्वो करूनु, होळुवटावनु, तुका पांयांतळिं नघालुंच्याक, तूं तांचे बराबरिं कश्ट करि, तांकां बेठे नरांवच्याक[11] शिकय, कित्या बेठेली वरौनु भोवतेक वायट जें निपजता, तें निवारूंच्याक, वा चुकौंच्याक.

आपोस्तलु सां पावलु म्हणता : लेंकरूवाळ्यां बापांनो! तुमंच्यां पुत्रांक कोपा क्रोधान चालूं दिंव नाकाति, बगर सर्वय शगूण अभ्यासूनु, पवित्री दौत्रिनी, वा देवभग्ती ठांय वाडैयाः हाचो फळु जो लेंकरूवाळ्यां बापांक लाबतलो, तो स्पीरितु सांतु, ऐशें म्होणु सांगूनु दिताः जो बापु आपुल्यां पुत्रांची प्रति करिता, तो तांकां उधंडी पावटीं यादल लायता; उपरांतें देरों देरीं हिंडनां जावनु, तांचो अनंदु भोगुंच्याक, जो बापु आपुल्या पुत्रांक बरी बुधि शिकयता, ताका समेस्त ताचे शगूण देखिलल्या निमितिं, मानु हुर्मति दिवनु, ताची तुस्ति करितातिं.

पयली वस्तु जी बापांनि करूंची ती ही : आपुल्या पुत्रांक वायटी मंगतिचे काडुंचे; समग्र खेळ वायले करूंचे, बेठे रांव देंवचेचि न्हय; हें जें आस, तें पुत्रांक पाडा नपांवच्याक मूळ. पाळण्यांतु लेगिन देवाचे भ्रांतिन चालुंच्याक शिकवण देंवची; फटी लटिकाचो कांटाळो धरिसो करूंचो; सर्वय वायटि रितु परवडि मोडुंची, देवाची आण,

8. जतनाय; सांबाळून; लक्ष दिवनु.

9. ही नाजूक गोड भास नियाळात.

10. गडबड; बंडाय; दुमाळो.

11. बेकार रावना जांवच्याक idle.

वा कोणूय येकु सोपुत, प्रमाण देंवची लुळि[12] संवय जांव दिंवची न्हय; खावगे पोटारे, निंदकर हौनु, सैतानाचें नांव मुखिं नउचारूच्याक अग्न्या उपाव करूचो. ह्या इतुल्याकय आस्त्यांतु बरो उपाव जो आसा, तो हो बापांनिं पुत्रां हुजिर उतरां, वा करणियां ठांय अंतर, वा वायटि देखि घेशी वस्तु आचारूची न्हय, बगर भोव करूनु पुण्यपुरूशार्थां, वा भग्तिन चालुंचें: व्हडी हाणविर्धिन आपुल्या पुत्रांक बरपा अखेराचे[13] साळे, वा पवित्रि दैत्रिनि शिकुंच्याक, तूर्त इग्रजे धाडुंचे; लाहानपणिंचि देवाची पवित्रि सुमुर्ति आयकुंच्याक, ताची शेवा भग्ति, सुमरण चिंतन करूच्याक लांवचे; कोणी प्रमाणिं इग्रजांतु रावनु, मिस, वा देवाचें उतर आयकुंचें; येकांतिं बैसूनु देवाचें चिंतन मांडूंचें; वरूसा मधें उधंडी पावटीं कोणी प्रकारिं कोंफेसार जांवचें: हो इतुलोय अभ्यासु करूच्याक शिकौंचें.

बापांनि आपुल्यां पुत्रांक अप्रुबायेन वाडौनु, तांकां आपुल्ये खोश्येचे सायब करूचे न्हय: कित्या तरणेप्रायिं जें बरें, अथवा वायट अभ्याशितातिं, तेंचि नित्यकाल तांचे ठांय लागूनु येता. सर्वय वस्तुंक तो तो अनुमानिललो वेळु कालु आस, तो सरल्या उपरांतें, जे कश्ट भोगितातिं, ते व्हड, वा ताचो फळु भोव थोडो. जो तारवारि बैसूनु वेतलो आस, तो ज्ये घडये शिड दितलो, ती घडी सांडी नां: वस्तिकारू[14] आपुल्ये क्रशिचो[15] कालु बालांडी नाः[16] शेतकामती, वोंपुंचो, शिंपुंचो, लुवुंचो, मळूंचो समैयो भायर पडूं नदे.[17] तेणेंचि प्रमाणिं बापांनि आपुल्या पुत्रांचे लाहानी प्रायेचो समैयो सांडूं नये. लाहान आसतांचि बरी बुधि, ग्न्यान शिकौनु चालौंचे, कित्या ही प्राय सरल्या उपरांतें, तांकां निट, वा शांत करव नजति. येणे करितां लेंकुरूवाळ्यां बापांक जो कायदो आसा, तो चालयल्यारि आपुल्या पुत्रांक चिंतिलल्या बरव्या, मानुपदा पावलले देखती.



---

12. वायट; पाडी - हांतली, ह्या उपदेसांची शिकोवण नियाळची.
13. अक्षर, हाचें तद्भव; साळ आनी न्हय शाळा.
14. भाटकार.
15. शेत खणून रोवपाचें.
16. सोडून वचूंक दिना.
17. ह्यो उपमेच्यो देखी नियाळात आनी तांतली चित्रभास पळेयात.

# Pratica pera odia dafesta do glorioso Apostolo S. Bertholameu
# Tratase da moderacam dos Sinco Sentidos & das mas inclinacoens

## भग्ता सां बेर्थोलामेव आपोस्तलाच्या दिवसाची शिकवण पांचां विसायां, वा सर्वय अवगुणाचे दंडणेची गोश्टि केल्या

भग्तु सां बेर्थोलामेव आपोस्तलु फेभावार्था निमितिं मार्तिरयु भोगितां,ताची पवित्रि काति काडिलल्या प्रसंगिं, ताचे कूडी ठांय जें वर्तलें, तें जे कोण बरव्या जेझुचे निज शिस जांवक पळेताति, त्यां समग्रां आत्मधांतू ठांय वर्तलल्या क्रिस्तांवांचो रूपकारू, जाणिं आपुल्या रग्तमौंसाची न्हेसवणी सोडूनु, आपणप्याकोचि सांडूनु, वर्तूं काज, आणी, जेणे प्रमाणिं, सरपु दों फातरां मधें शिरनु नवी काति भोगुंच्याक, आपुली पोरनी काति सोडिता, तेणेंचि प्रमाणिं, क्रिस्ता तारकाच्या जिवंता फातरा वरौनु, आपुली कुडि दंडौनु, ताच्यां शगुणांची देखि घेवनु, स्वर्गिंच्यां मनुशाची न्हेसवणी न्हेसुंच्याक, संवसारिच्या मनुशाची काति सांडूंची,[1] कित्या आमंच्या प्रथमल्या बापा आदांवाच्या दोशा निमितिं, आमंची सैंबप्रकृति नासूनु, अवगुणां, अवलखेणां वरौनु, मनुश्यु अग्न्यानु, मुडु, मोनजाती सारिखो जालो.

म्होणुंच्याक जावळि देवान ताका पारायीजु तेरेंयाल[2] म्हणजे भूमि वैंकुठांतुलो दंवडूनु, ह्या दुखभरित भूवस्थळांतु घालो, तावळि मोनजातिच्या चामाची न्हेसवणी न्हेसयली. ती आमिं पोरो घालुंच्याक उपाव करूं काज, म्हणजे वायटां लखेणांची वायटि

1. ही प्रतिमाभरीत उपमा नियाळून घेयात.
2. पुर्तुगेज उतर, म्हळ्यार धर्तरेवेलो सर्ग.

भावना आणी विसायांचो[3] वायटु अभ्यासु सांडूंचो. आणी जेणे प्रमाणिं आधिले सुमुर्तिंतु, आणियेकी विलाथेची येकि तर्नधाकुटी आंकुवारि, येका तर्नधाकुट्या देवप्रजेच्या हेब्रेवा लागीं व्हारडिक जातली जाल्यारि, तिणें आधिंचि आपुल्ये विलाथेची न्हेसवणी, आणी नाखुटां, वा केंस कातरनु, इजरायेलिचे प्रजेची रितू परवडिची न्हेसवणी न्हेसुंची आशिली,[4] तेणेचि प्रमाणिं, जो आत्मो देवप्रती दुलबायेचो जांवच्याक आठयता, ताणें जी न्हेसवणी सैतानाच्या गुलामपणा, दासत्वा भितरि आसतां हाडितालो, त्ये आधिल्ये वायटी रितू परवडिची न्हेसवणी सोडूनु पोरो घालुंची; आणी उपरांतें सर्वय प्रकारिंची आडखळि, जी आमकां देवाची शेवा, ताची प्रति मोहो आडवारूंक शको, ती इतुलिय पाठीं घालूनु चालुंचे.

ह्या इतुल्याक आमचिं अवलखेणां, वा निर्गुण, जे आमंच्या आत्म्या ठांय धाडि धुमाडि करूनु, ताका कोणी ते दशे पावयतातिशें विवेखुंचें. पयली, कित्या मनुशाची सैंबप्रकृति विवेखिल्यारि, बुधि मति नांशिलल्यां मोनजातिंचे परीं अवगूणि; आणी त्या निमितिं, आमंचें अंतस्करण, मोनजातिचे परीं, कोणिय येकि वस्तु आचारूंच्याक वोडता; आणी, जरि भूमिवैंकुठांतु निती परमार्था खालुती हौनु चालिली, हय, तरि तें देवाचे आधिकृपे, वा शगुणां निमितिः जेणेप्रमाणिं तिखें घांशिल्यारि झळझळेता[5] वा उपरांतें थोड्यांचि दिवशिं कळंबिन भरता, ती कळंबि तिख्या सांगातिं सैंबिंचि वसता देखूनु. दुसरी, आधिपापा वरौनु, कित्या जरिय पवित्रा बावतिज्मांच्या साक्रामेंता वरौनु तें आधिपाप भगसता, वा गुन्यांवाची धगि काडिता, तरिय पुणु वायटां निर्गुणांचिं दांवां[6] उरताति. तीं आमंचे अंतस्करणिंचिं देव स्वामि नकाडी जालो, त्यां वरौनु आमिं अदिकतोर लिण हौनु पुण्या पुरूशार्थाचो समयो मेळौनु, आपुले निज विस्वाशी वा शेवकशे दाखौंच्याक. तिसरी वस्तु, कित्या येकेकाच्या गुनेया वरौनु निर्गुण उचंबळ हौनु, जरि धाडि धुमाडि करिताति, तरि सर्व हारापता, कित्या जेणेप्रमाणिं शगूण आमंकां स्वर्गि व्हरूंच्याक पाखुटे[7] हौनु वर्तताति, तेणेचि प्रमाणिं निर्गूण, वा ख्याली

---

3. इंद्रियांचो वा देहधातुचो.
4. ही हेब्रेवांचे चालीचेर आधारिल्ली उपमा नियाळात.
5. ही आनीक एक जळजळीत उपमा पळेयात.
6. बीं - वियाणीं.
7. शगूण, हे उडपाचे पाखटे म्हणपाचें रूपक पळेयात.

आपुल्या भारान आमकां खालुते वोडूनु, अग्निकोंडांतु घालुंच्याक भारू होंनु विपताति.

आणी जरिय कोंफिसांवा वरौनु, अथवा कोंफिसांवाच्या साक्रामेंताचे कृपेन, आमंचे गुन्याये भगसताति, तरिय पुणु त्यां गुन्यांवाची लुळि संवय, वा तांची समख्या उरता. जेणे प्रमाणिं येकी घागरियेक लागलली शतुपाणि[8] येकिचि वेळे धुलल्यान नवचो, बगर उधंडि पावटीं नव्ये हाणविर्धिन धूवून पुशिल्यारि वेता. चौथी, सैतानु आमंचो निर्गूण उचंबळ करिता, कित्या येणे प्रमार्णि आमकां विभाडुंक पळेता देखूनु. पांचवी, संवसारू आमंचिं अंतस्करणां आपुल्यां वस्तूं ठांय रमशिं करूनु, नासुंच्याक भोव बळ करिता; म्होणुंच्याक आमिं भोव करूनु, ज्यां वस्तूं निमितिं, देवारि चुकूनु पाप करितांव, तांचिं कंदां मुळां हुमळूनु[9] पोरो घालूंचिं.

आमिं कोर्णा त्यो वस्तु सांडूनु कुडि दंडौंवची, ऐशें बरें समजुंच्याक येकि अचिरका आसुंची, की आमंच्या सैंब लखेणा ठांय दोनि भाग, अथवा दोनि वांटे आसति : येकाक नांव कोंकुपिसिवेल म्हणजे भावनादिकु गूणु, ज्या ठांय सह आचारणां आठापल्यांति, प्रति, खोशी, अनंदु, दुसुमानिक, आडायेपण, वा दुचिताय. दुसरो भागु, जाका नांव इरासिवेल म्हणजे क्रोधचारू, ज्या वरौनु आणियेकां पांच आचारणां निपजताति : क्रोधु, भ्रांति, निर्वाण, अभरवंसो, वा भरवंसोः हे समग्र निर्गुण आमंची प्रकृति नासलल्या निमितिं, आमंचे ठांय वसताति, आणी त्या प्रसंगिं, आमिं संवसारिकिं वस्तुं ठांय रमूनु पडल्यांव. देवाचे सुमुर्ती आड कनिश्टि वस्तुंची प्रति करनु चालतांवः अथिरी वस्तु भोगूनु, पेल्या मनुशाक डोळ्यांनि देखूं नशको जावनु आसांव. जितुलें आपुल्या आदाया प्रवेसाचें न्हय, त्या इतुल्याचिय वाट नकरूः जाचे लागीं हांसतें मुख दाखौंचें, ताचे ठांय दुखि हौनु चालतांव, प्रस्ताया विण कोपा क्रोधा चडतांव, देवाची भ्रांति सांडूनु, मनुशाची शंख्या भ्रांति मानितांव, व्हडा निर्वाणान रचणारा स्वामयारि चुकि करितांव, संवसारिकि वस्तूंरि विस्वास ठेयतांव, वा आमंचे मुग्तिचो अभरवांसो मानितांव.

तरि येदे व्हड अवगूण मार्गा हाडुंच्याक, जो उपाव आस, तो देवाचें सुमरण, वा कुडिची दंडणा,[10] कित्या देवाच्या अधारा सरनु, ताचें सुमरण चिंतन केलल्या निमितिं, आमकां निर्धार येता, की निर्गूणांनि चालिलल्यान, मुग्तिचें सर्व सुख नमेळो,

8. शतुपाणि = उदक व्हांविल्ल्याचें खत. उपमा आनी तांतली जिवंत प्रतिमावळ पळेयात.

9. ही रसरशीत प्रतिमा नियाळची.

10. दंडवण; मागून घेतिल्ले त्रास, mortification.

वगर देव जो आमंच्या सर्वय बरव्याचो निजु शेवटु, ताची प्रति मोहो शेवा करूनु, शगुणांनि चालिल्या प्रसंगिं लावता, कित्या देवा ठांय आमंचें सर्वय बरवें आटापलां. मानु मानत्व, ग्रेस्ताय, सुख संतोसु, वा निजि नंदनिक आसा, आमचे कुडिकोचि न्हय, बगर आमंच्यां आत्म्यांकय. हाचो प्रस्ताव जो आस, तो हो : कित्या जंय व्हडु आणी लाहानु, श्रस्टु अथवा इतरू आसा, थंय इतराची संपूर्नाय ताचे ठांय ना, बगर श्रस्टा ठांय आटापल्या. रचना आपुल्या रचणाराक पाळो देवनु चालता, आणी रेलिजियोजु आपुल्या श्रस्टा मंहताचे खोश्ये खालुतो[11] जावनु आस. आमंचे सैंबप्रकृतिची संपूर्नाय कुडी ठांय नां, बगर आत्म्या ठांय मिरवता, ऐशें राया दाविदान म्हळें, की आपुलो आत्मो, वा कुडि देवा ठांय सुख संतोसु पावता.

ह्या वरि आमिं देहदंडणेच्या आधारा सरू काज, कित्या जरि पातकी आपणप्याच्या विसरा पडूनु ख्यालि निमितिं, ताचो प्राणु कुडि हौनु वर्तलो, तरि कित्या पासावत बऱ्यां पुण्यवंतां ठांय भग्ती शगुणां, वा हाणविर्धी निमितिं कूडि प्राणु हौनु नवर्तत? कित्या हिणु स्वामित्वा पांवच्या पाशिं, व्हडु दुर्बळिके कनिश्टाये पावचें जें आस, तें व्हड, वा महा संगिन.[12] ही निर्गुणांची वैदिका अवचित नजो, कित्या ज्या वायटाक इतुले आड येतले आसति, आणी आमंच्या अंतस्करणांतु वायटिवेचिं इतुलिं दांवां संचारल्यांति, की ताचो उपाव येकिचि वेळेन, येकाचि तंवकान करव नजो, आणी जी वैदिका[13] भोवतेक काल लांवनु करितातित, ती भोवतेकी वेळु प्रत्येवा आदायाची जाता.

म्होणुंच्याक जो आत्मो पातकांतुलो उबटूनु, कृपेचे जिणिंतु येता, ताका चंद्राची वोपारि[14] दिल्या. चंद्रु जो आसा, तो आपण्यावेलिं कुपां कैशिंचि पोरो घाली नां, बगर धिरिं धिरीं. म्होणुंच्याक हो हुस्को, ही हाणविर्धि, सर्व मनशिं आसूं काज, तूर्तातूर्त करनु न्हय, बगर आमंचे समग्री जिणिच्या काला भितरि ह्याचि कार्यार्थारि आसुचें.

आमचें अंतस्करण नितळ जावनु, आमंच्यां निर्गुणांक उपाव मेळत खेविं, सोंपेपणिं आमंचें चित्त, मन, आणी विसाये, देवाचे शेवे ठांय निट हौनु चालतातित. कित्या आमंचे कुडिचे भायले गूण अंतस्करणिच्यां गुणांची आणी मनुशां ठांय परमार्थु वसत

11. सैंबाचे मांडावळीची रीत, ही उपमा दिवन कूड आत्म्या खालती म्हणटा.
12. कठीन; व्हडका ल्हान जावपाक भोव कठीन.
13. वैजकेचे उपाय - medical treatment.
14. सगळें तत्वगिन्यान आनी देखी उपशामु वोपारींनी वा उपमे-रूपकांनी सांगल्यात.

खेविं, तो सर्व चालयता. दों वस्तुंक कुडिचे भले गूण म्हणजे विसाये आत्म्याक उपेगा येती. पयलो, जांचे वरौनु दारिवंठ्या भितरि जितुलें संवसारंतुलें आत्म्या, वा कुडिचे जिणिक जाय, तें इतुलेंय पांवच्याक डोळे जे आसति, ते सैंबप्रकृतिचि वस्तु देखुंच्याकः कान प्रकृती वरूत्यो वस्तु आयकुंच्याक, कित्या भावार्थु कानां वरौनु अवगता. पण पापयांक कुडिचे विसाये जे आसति, ते मरणा वा पापाचे दारिवंठे, जांतुल्यान पाप आकारि वस्तुंच्ये सावळियेची खोळ[15] घालूनु, तांच्या अंतस्करणांनि रिगता.

ह्यां वस्तु निमितिं, उधंड जण आपुल्ये कुडिच्या सुखा, संतोसा ख्यालिंक वोंपताति. ह्या शारांच्या दारिवंठ्यांची जतन, वा राखण करूया. झूज झगडें ... पडलल्या वग्ता डांपूनु ठेवूंया, कित्या तांतुल्यान मरण भितरि रिगता देखूनु; आणी विसायांच्या दारिवंठ्यान[16] आत्मो संवसारांतुल्यो वस्तु निहाळूनु, ताचें सुख संतोसु भोगुंच्याक भायर पडता, आणी तो इतुल्ये पावटी भायर पडललो बरें न्हय, वा बरें दिस ना, कित्या घराक खान घालुंच्याक फुरसति दिता. म्होणुंच्याक येका क्रिस्तांवान आपुल्यां डोळ्यांचे दृश्टी ठांय चित्त दिवनु वर्तुंचे, संवसारिका बरव्याची स्वरूपाय देखिलल्या निमितिं, सैतानान आपुलें अंतस्करण चोरनु नव्हरूंच्याक, आणी रचणेरि दश्टि दिलल्यान, येका खिणा भितरि रचणाराक नसांडूंच्याक, वायटां पलितां, वा निंदकरां उतरां कान देवनु आयकुचिं न्हय, बगर पवित्री वस्तु, वा देवाचिं उतरां आयकूनु वर्तुंचें.

खाणा पिवना ठांय पंचामृतां सोदूनु, पोटार्थां पडूं नाकाति; त्या वरौनु आत्मो, वा कुडि नासता, कित्या उधंडि विडा, वेथा, बळ्ळिक मुखारि सरनु, मरणादिकि बळ्ळिक जावनु, भलाय प्रणामु सरता; कित्या खर्गां भाल्यांनि मेलल्या हौनु, भोवतेक जण पोटार्थां पासावत मरताति.[17] कुडिचें स्परूशण, वा अटमटवळाचें सुख जें आस, ताका आमिं भोव करनु आंग काडूनु पळुंचें, कित्या कोणाय येक देहधातुचें सुख (विहाव समंधा भितरि वर्तता, तें वेगळें करूनु) महा पातकः म्होणुंच्याक थोरी हाणविर्धिन कुडि दंडौनु, व्हड प्राचित करनु वर्तुंचें, त्या निमितिं आत्म्याक व्हड्डु फळु भोगता. पातकां

---

15. चड फोडून; भोंव घालून; बुराक करून.
16. अंतस्करणाचे दारिवंटे म्हळ्यार विसाये वा इंद्रियां, हें कितले सोबीत चित्रभाशेन मांडलां तें नियाळात.
17. हें खरेलें तत्वगिन्यान कितले सोबीत रीतीन मांडलां तें पळेयात.

गुन्यांवाचें देणें फारिक जाता, नवगतीं पातका नपडुंच्याक उपाव लाबता, उधंडि देवकृपा जोडता, आत्मो दृडावता, देहधातु ठांय कुडिक बंदु जावनु, तिचो तनु, तेज, बळ मोडता. आत्मधातुचे जिणी ठांय भग्तिवंचळु, वा प्रेमभरितु हौनु वर्तता.

Finis Laus Deo

सोंपलें. देवाक अर्गां दिंवूंया.



**Joao de Pedrosa** (1615-1672), son of Joao Fernandes and Antonia Pedrosa, was born in Coimbra, in the diocese of Leiria, Portugal in 1615, and came to Goa as a young man, having joined the Society of Jesus and been ordained a priest in Goa. He served for many years in the mission of Salcete, Goa and rose to become the Rector of the major Seminary of Rachol, (Raitur) Goa during which latter period he planned programmes of studies for the Jesuit novices with a tilt towards the study of Konkani and directed the work of evangelisation in the area. He died in Goa on 10th May, 1672.

His main claim to fame lies in his Konkani translation of the European classic of that time, Bernardino de Vilhegas' Castillian (Spanish) work entitled 'Soliloquios Divinos'. It was rendered into Konkani as *Devachim Ekangr Bolnnim*, and was published in Goa in 1660, the last of the Jesuit works of remarkable excellence to be brought out in that age.

Only a substantial part of it (and not in its entirety) is being included in the present publication, for constraints of space and economy as well as on account of the enormous difficulty in deciphering his complex sentences mutilated in the process of printing, which is not clear in patches. as a specimen of this type of writing, The publication of the entire work may have to wait for a later date.

**जुआंव द पेद्रोझा** (1615-1672), जुआंव फेर्नांदिश आनी आंतोन्या पेद्रोझा, हांचो पुत, पुर्तुगालाच्या लेयरिया धर्मप्रतांतल्या कोंयिंब्रा शारांत, 1615 वर्सा जल्मलो. तरणाटो आसतना गोंयां आयलो आनी ताणें जेझुयित धर्मसंघांत प्रवेस घेतलो आनी उपरांत पाद्रिची दिक्षा जोडली. ताणें गोंयच्या साश्टी धर्ममळ्यांत जायतीं वर्सां

वावर केलो आनी रायतुरचे सेमिनारिचो, वा पाद्रीं-प्रशिक्षण संस्थेचो व्हडिल जांवक पावलो. ह्या कार्यकाळांत ताणें पाद्री जातल्या जेझुयित धर्मसंघाच्या तरणाट्यां खातीर कोंकणी-प्रधान अश्यो अभ्यास-येवजण्यो आंखल्यो आनी त्या वाठारांतल्या धर्मप्रसाराच्या कामाचें संचालन केलें. तो गोंयां 1672 वर्साच्या माय म्हयन्याचे १०-वेर अंतरलो.

ताच्या वावराक किर्त फावो जाल्या ती भोव करून 'देवाचीं एकांग्र बोळणीं' ह्या 1660 वर्सा गोंयांत छापून उजवाडायल्ल्या ग्रंथा पास्वत. जेझुयित धर्मसंघी बरोवप्यांचो हो निमाणेकडेन उजवाडाक आयिल्लो उत्तम असो ग्रंथ जावन आसा. तो म्हळ्यार बेर्नार्दीन द विल्येगस- हांणी मूळ काश्तेल्यान (स्पेनिश) भाशेंत बरयल्ल्या "Soliloquios Divinos," ह्या ग्रंथाचें केल्लें कोंकणी भाशांतर. हांतलो चडसो वांटो (आनी न्हय सगलो) सुवातेच्या आनी काटकसरिच्या संकड्यांक लागून तसल्या साइत्याचो एक म्हत्वाचो नमुनो म्हणून ह्या ग्रंथांत उजवाडाक येता. त्या भायर कांय सुवातींचेर ताची छापणावळ निगूत अशी उठून येंवक ना, जाका लागून कांय कुडक्यांनी तांतलें मुळ बरोवप पालोवन गेलां वा बरें वाचूंक येना. हे पुराय साइत्यकृतीचें उजवाडावप फुडाराक दवरचें पडटलें.



# देवाचीं येकांग्र बोलणीं - 1660

(हांतले कांय वांटे)

## येकांग्र बोलणें पयलें

### आवस्परू पयलो

*स्वामया जेझु क्रिस्ताच्या पुण्यफळा खातिर आपुल्या अपरादांचो गुन्यांव भगशि म्हणु, आत्मो प्रार्थिता.*

दुलबा जेझु, तुज्या गुणा सारिखे मजेवरि उपकार करिशी म्होणु, विस्वाशिं तुजे आधारिं आयलां, तुज्यां कणिवळां नेत्रांची[1] नदर मजेवरि करि गा, स्वामया, आणी मजो सांभाळु करूच्याक, तुज्या डोळ्यां सरिशे हात जावूं दी. तुं मजो वकिलु, आणी राखेकु, मज्या प्राणाचो जामिनी.[2] तरि, स्वामया, मज्या भगसण्या[3] खातिर तुज्या बापाक अखेपि मिनति करि, ह्या पासावत केती लाबु आमां दोगांकय येत, तुका अकळु[4] न्हय.

हांव अपरादी[5] आणी मुदलीं रिणी[6] देखूनु, तूं जामिनी, मज्या दोशांचो परिहरू[7] करूक उभो राविलोशि म्होणु : ये अनाधसिध्दा बापा, ये सर्वहुकुमदारा देवा! तुज्या

---

1. तत्सम; दोळे.
2. फियांस, सुरक्षा म्हणून रावता तो = surety.
3. पातकां निवारूक वा माफ वा माप करूक.
4. नकळो; खबर नाशिल्ली.
5. पातकी वा अपराद करपी.
6. मुदलाचोच रिणांत आशिल्लो कित्याक पातक केलां म्हणून.
7. पुसून उडोंवक; माफ करूक.

चरणावरि मस्तक ठेवनु तुका शरण आयलां, मजें पाप माप[8] करि, दातारा; आणी, जरीय तुज्ये अनंती करूणे दयेन मजेवरि कृपाळु हौनु, मजिं पातकां भगशि म्होणु, वेळोवेळिं हांवें तुजे लागीं मागिलेंय तरि, आतां खरी निति, वा नितिधर्माचो ठसो मागतां. तुं बरवो जाणांशि, अनुपमा स्वामया, की तुजो येकवतु[9] पुत्रु, वा मजो स्वामि, जेझु क्रिस्त, आपणाप्या पासावत न्हय, बगर मज्या पातकां खातिर मरण पावलो. म्होणुंच्याक तें ताचें रग्त जें आस, तें मजें, तें ताचें पुण्य माका फावो, आणी तेंचि रग्त, वा पुण्य मज्ये सोडवणेचें मोल जांवचें कारणे, आपुलें डायज थिर करूनु माका दवरिलां.

स्वामया, मज्यां अपरादांच्या भगसण्या बदला, तें तुं पति[10] करून घे, कित्या जें तुं माका दिताशि, त्याचि हौनु सहज हांव तुका दितां; हांवें मागिलल्याय परस, अदिकतोर तुका अर्पितां; देण्यांय पाशिं अमित बावडितां.[11] तरि स्वामया, तुज्या पुत्राच्या मोगान माका भगशि, ताचेचि खातिर मजेवरि प्रसन्न[12] जा, आणी ताची अनदिन[13] शेवा मजे ठांय मानि. मज्यां दोशां पाशिं मजो मोगाळु पुत्रु, मजो रचणारू, अदिक सायासलो[14] देखूनु, ताची शेवावृत्ती, आणी तुजी अनंत करूणा, मज्या दोशां पाशिं अदिकि तुळन काय! हय, सत्य तर! तुजी प्राप्ति तुंटली ना, उणी जाली ना, आधिली करूणा सरली ना, तोचि शगुणु, तिचि काकुळति तुजे ठांय सधां नित्य प्रकासता, आणी ह्या गुणिं कितिकांक तुवें भगसूनु कृपेस्ति शृंजिली[15] ! तरि माकाय भगसूनु सुखी करि.

जरि (उत्तमा स्वामया, आणी मज्या प्राणाच्या देवा) ते आधिले शेरणगत, तुज्या मोगाच्या तेजान, हर्कित जावनु, अनंदले होय, तरि आपुलो कोपु निवौनु मजी काकुळति करि, आणी मज्या दोशांचे अगोरिं[16] माका घालूनु, तुज्ये समदृश्टी परतो

---

8. त्या काळावेल्या कोंकणी उतराची नोंद करात.
9. एकलो- एकसुरोच.
10. मानून घे, पुरतें म्हणून.
11. मेजूंक जायनाशिल्लें इतलें फारीक करतां.
12. ही भारतीय संस्कृतायेंतले रीतीचें उतर पळेयात.
13. सतत रीतीन केल्ली.
14. निर्धारान वावुरलो.
15. न्हेसयली; नेटयली.
16. पातकां कोंडांत -हें आनी हेर रूपकां कितल्यो प्रतिमा आकाराक हाडटात त्यो नियाळात.

जांवूं दिवूं नाका. Interperaverunt Patres nostri.... तेदि कालिं, आणी आतां तुं तोचि तो स्वामि, आणी तिचि हुकुम, वा करूणा तुका आस; युगां वरूसांय तुजें तत्व पळटी नांति, विविदां परिंचो वेळु काल तुजे ठांय पलटूनु नकरी.

ये सवंसार तारका ! ये करूणे दयेच्या वापा, तुजें चरण माका हातासल्या विण, तांचे जंवळिंचो उपेखुं नाका. ये मज्या जिवाच्या जिवना! वैंकुंट नाथा! स्वर्गिंच्ये संपनिकाये, वा सदैवपणा, येद्या संपनिका आश्रम्यांतु कितिकां अती कुबेरां जावन गेलिं आसतां, हांवोचि चिंताक्रांतु, अनाथु हौनु आसां, ऐसल्या दैवाक चुकुंच्याक निर्मूं नाका. तरि, मज्या देवा, उत्तमी झरी लागीं माका आपौवण केल्या संमंदिं, थेंबो भरि उदक मुखाक लावनु, तिचें अमृत नजेंवचें, आणी पर्तूनु मागुतेन तिचि चांगां लाहारां नमेळुंचिं! येदे निर्देव भोगणार मजे ठांय नदिवूं : ती जिवन झरि, स्वामया, लिपौं नाका, किल्येनय डांपूं नाका, कित्या तुजें अश्रवचन अंतोड पर्येंत्र. जो तुका मालयुध्दी नसोडी आशिलो, त्या मालयुध्या जाकोबाच्यां घरिंच्याक तूं उग्ती, आणी जगसिद्ध करूणेची झरि जाशी म्होणु, पवित्र ग्रंथिं लिहिलां, Latin वाचूंक येना.

त्या जाकोबा सारिखो हौनु, स्वामया, तुजें अश्रवचन माका लाबौवेरि, आणी अखंडिता जिण्याक जें कृपेचें निर[17] माका नपुरो, तें भोगी पर्येंत्र, हांव तुका सर्वथा नसोडिं. मज्या देवा, ही अति निमर्ळि, वा नितळि झरि, सत्रां किलयांनिं जरि डांकूनु ठशिली, तरि ती तुका कोणा फळा येत? तिचें अमृत जळ प्रासन[18] करूनु भोगुंच्या वग्ता, इतुली निश्टूरायेन उपेखुंचे भाशे, स्वर्गिं हौनु स्रुश्टिवेरि थोरें सयाशें, आणी रग्त सुयेदें मुख्य, अश्रमलोशि. कित्या ही झरि, स्वामया, हौ उगडपी करि, आणी आमां तृशाकांतांक[19] तिच्या निजरोदकांन[20] तान निवौंकय पिवन करूं दी, नां तरि तुज्या ग्रंथाची शिरिं बोलिलली भाक[21] वचन भांजि.[22]

जरि झरिकु आपण्या ठांय सुख मेळतें, तरि तिका आणियेकु कांयचि थोरू संतोसु न्हवतो, बगर आपुलेंचि पाणिं पिवन करूनु, सुख घोंट जरि प्राण्ये भोगिती,

17. उदक.
18. ही संस्कृत तत्सम उतरावळ देवाक लेखून उपकारायल्या ती पळेयात.
19. तशेंच तत्सम उतर; तानेल्ल्यांक.
20. नितळ, निर्मळ ताज्जें रसरशीत उदक.
21. भासायल्ली: भाकित केल्ली.
22. पुसून काड; काडून उडय.

तोचि तिचो परिपूर्नु संतोसु : ये जिवन पाणयाचे झरी! तुजें अमृत माका शेवूं दी, आणी त्या स्नेयाळां रत्नांच्यां लोटां मुखारि माका दवरूनु, थंय मजी तान निवय, तूं आपुल्यां शरणगतांक[23] देवमोगाच्यां लोटांनि तृप्त करिशी, म्होणु ग्रंथिं लिहिलां. Torrente volumptatis tuae potabis... जरि, स्वामया, समग्रां तृशावंतांक जी झरि[24] भोगुंच्याक उलो दिवनु अपौवणे करिताशि, तरि हांव आतां तानेन ताळो सुकूनु, दाविदाचे परीं तुजे लागीं आयलां, आणी ही तान मजी जी आस, ती आणियेकि न्हय, बगर तुजिचि,[25] मज्या देवा, तूंचि जिवित्वाची झरि देखूनु. आयो देवा, कदां मजें उधर, ह्ये जरिचें अमृत शेवुंच्याक पावत! आयो, मज्या प्राणा, तिच्या रत्नलोटाच्या मोगान कदां तृप्तु जाशी? Latin...

दाविद आपुल्ये विनवण्ये निमितिं, अंतु पारू[26] नाथिलले उपकार भोगूनु, थोरू दैववंतु[27] जालो, वा त्यांवरि आणियेक नवे उपकार नसोडुंच्याक, तुस्ति, सुमरण करूनु म्हणता, की फाल्यां ते पुणतिं मागतलो म्होणु. Latin. तरि हें कैशें सोंसवत, स्वामया, हौ कोणी सुमुर्तीक ऐशें योग्य, की अतितांक उधारू हौनु, मजेचि ठांय आखूडु[28] जाशी! आणी समेस्तां ठांय मिति माप नाथिलले तुज्ये करूणेचे खेळ[29] प्रकासौनु, मजेचि ठांय तुजे उधरिंचें प्रसवण कैसो सुकयताशि? समेस्तांक ताणी फुडांरूचे आधिं, आपवणें करिताशि, आणी मजो उलो नआयको जावनु, कान डांपिताशि! तरि, स्वामया, इतुली निश्टूराय धरू नाका, तुजो कोपु शांती येवूं दी, उपेखितोचि रावूं नाका, मजी विनंति चित्त दिवनु आयक. आयक मज्या दयाळा, मजी प्रार्थना विथ्यां[30] करू नाका. ते खिळ्यांनि टोपलले उधार हात उचलूनु, तुज्ये कृपेच्या अश्रवचनाचो वरूशाव[31] मजेवरि करि : ये देवमनुशाच्या हातांनो, तुमिं सगळ्या संवसाराक अश्रवचनाच्यां भरत्यांनि

---

23. शरण घेवपाक आयिल्ल्यांक.
24. देवाच्या मोगाक उदकाच्या आनी रत्नांच्या झरिचो लोट येता, ताका सर केल्या; रूपकां पळेयात.
25. देव भोगून घेवपाची तान; रूपक नियाळचें.
26. शिम-मेर; अंतु आनी पार.
27. भाग्यवंत; नशीबवंत.
28. हात-मूठ धांपून अन्नून दवरतलो.
29. ही चित्रभास नियाळात.
30. फुंकट वचूंक दिवूं नाका.
31. हें अतितायेचें रूपक नियाळचें.

संपूर्नु करूनु, जन गती पांवच्या कारणें क्रुशिं विळंबल्याति.[32] Aperis itu manum tua etc....

तुजो हातु, स्वामया, माका दिवनु, ताची उमा घेवूं दी, तुज्या चरणांवरि कैश्या परीं लोळता पळे ! उछलि, उछलि, स्वामया, तो तुजो सर्व प्राप्तु हातु, आणी माका तुज्या दासाक, दोशां प्रसंगिं दुखवियोगान व्याकूळु, नेत्रगाळु हौनु शोक पडलल्याक, प्रसन्न वरू दी. आयो, जाका तुजें वरूदान लाबलां, तो केदो सभागी ! आणी ह्या वरूदानाचो अनुवांटो[33] नमेळलो, तो केदो निर्भागी. तरि, स्वामया, मजेवरि दयाळु हौनु, माका चोय, मजे विळाप आयक. जरि तुजें वरूदान येदें विस्तिर्न, वा अपरांपर, की श्रश्टिचो किंचित मात्र मुखे हाताशिता, तुज्या किर्णांच्यां जोतिंक, हौ तुका, मज्या प्राणाच्या स्वामयाक, कोणुय लिपसो ना. Non est qui... हेरि रचिलल्यां वस्तुं मधें, हांव तुज्या वरूदानांच्या अनुवांट्याक नरिगतां, येदो निर्भागी दुखरूपी जावनु कैसो वर्तूं! त्यो आघव्यो रचना तुज्या आधारान मानुं भोगितात्ति, आणी मजतिन जितात्ति. हांवोचि तुज्ये मजती विण दुआर्थारि[34] लोळूनु कैसो जियेवूं? आघव्यो तुज्यां किर्णांच्या तेजान,[35] तुज्या आधाराच्या आलाशिन्यान तेजिकी, हौंसादिकी, आणी प्रेमभरिती जातात्ति, हांव येकलोचि तेजा विण अल्पशक्तु, त्या उजवाडा परूतो,[36] अंदकारें व्यापूनु, आणी मरणाच्यां अदभुतां काळ्यां कुपां मुखारि रावनु कांपतां, ऐसलो निश्टूर संखेतु मजे ठांय विपसो करुं नाका, मज्या स्वामया, चिंतनिं नाका, मज्या देवा, तूं सर्वय प्रकारिं बरवो, आणी तुज्यां अनंतां गुणां सारिखो आसतां, मजेरि कृपाळु जा, आणी जरिय ह्ये वेखिं[37] नघडो, तरि मजे, वा तुजे दृश्ट गर्वान मातूनु, उलासान कपटि देवशिती, की तुका मज्या आधारा, वा मजतिक घेवनु, हांव विस्वाशिं जिलो आसतां, अक्रुणें[38] पडलों म्होणुंच्याक, ऐशी निंदा नहौंच्याक, मजी काकुळति करि... Respice & exaudi me Domine Deus : ne quando dicat inimicus meus, prevalui adversus cum. Ps. 12.

32. हुमकळत रावल्यात; क्रुशिं म्हळ्यार खुर्सार.
33. फावो तितलो वांटो; आपणाक पडटा तितलो वांटो.
34. दों अर्थ-येवजण्यो नियाळून, कांयच थारावणी घेनास्तना.
35. ही आनी फुडली चित्रभास भोगून घेयात.
36. पेल्यान भायरो beyond; out of bounds.
37. हे विशीं, हाचें एक रूप.
38. दुर्भाग्य; वायट; अदृश्ट. misfortune; disgrace.

तरि स्वामया, त्या दुर्जनांच्यो चकटायो निवारूंक, तुजी कृपा माका दृड्डु करूं, ताची निसंचराय निवारूंक, तुजो मोहो माका धिर्येवंतु करूं, ताचें बळ निवारूंक तुजो प्राप्तिवंतु हातु माका राखूं, ऐशें करि मज्या देवा, ऐशें करि. ज्या कारणें तुका विनौवितां, तें दी, कळाव करूं नाका, थोडें माकां नपुरो, चड, आणी तुर्त दि. Velociter exaudi me. पळे, स्वर्गिंच्या राया, की कनिश्टायेन, दर बांदूनु,[39] आपुलें दान दिंवच्याक, तुका, वा तुज्या मानापदाक योग्य न्हय, बगर राजम्हयमेच्ये व्हडिव्येन, तुका माप नाथिललें, महा समर्थ दान दिंवचें. तुज्या उत्तमा नांवा सारिख्यो करणियो, चांगी किर्ती सारिखे प्रकासवंत खेळ, आणी तुजी अनंति हुकुम जगि प्रसिध्द हौंच्याक, ऐशें करूंचें कारण; ऐशें करि, अपरांपरा, कित्या तुजे हातिचें वरूदान लाहान न्हयेचि, बगर येदें व्हड, की मागिलल्याय हौनु अप्रमित दिताशि म्होणु, स्वर्गु प्रथुमि तुका वोळखूनु नित्यकाल तुजें स्तवन करूंति.

---



39. हात कवळून; उण्या मापान.

## आवस्परू चौथो

*ज्या पापियांच्या मोगान करूणावंता जेझुचें मन व्यापता, त्याचि स्नेया खातिर, आत्मो ध्यानिं मनिं भगसणें प्रार्थिता, लालेणी करिता.*

तुज्ये कृपेच्या आधारा जरि माका येवूं दी नांशि, स्वामया, तरि किर्ते करूंचें म्होणूनु सांग; कोणाच्या पोटांतु वचूं?[1] कोणा लागीं माका धाडिताशि? तूं वेगळो करूनु, कोणु तो मजी प्रति करितलो? हौ जाचो हांव अदिकु देणेकारू, तो केवीं तुजे हौनु आणियेकु मेळत काय? कोणु तो ग्न्यानु, आणी मोगाळु वैध्यु, तुजे पाशिं, मज्या दोशांचे घाय पेखौं जाणों; कोणु तो मज्यां वायटां कुकर्मांच्या विखांरि निर्विखी जायत? तूं तरि बरें जाणशि, की आपण वेगळो करूनु, दुसऱ्या लागीं, मज्या अपरादाच्ये वेथे पिडेक वोशद नमेळुंच्याक तुवेंचि निर्मिलां. ऐसो जरि माका उपेखूनु पोरो घालिताशि, स्वामया, तरि मज्या प्राणाचो अखंडित नासु, आणी मरण अत्रिकेतसो दिसताशि.

जें पवित्र पुस्तकिं लिहिलां, आणी तुवें आपुल्या नांवाच्ये निशाणीयेन लिहिलां, तें आतां उपराटें विपतशें दिसता, कित्या तांतूं पातक्यांचें मरण न्हय, बगर तें आळाबंदा येवनु, कृपेच्या मार्गा आयल्या पुरो म्होणु तूं इछिताशि, ऐशें लिहिलां. तरि, तुज्ये कृपेच्या मार्गा माका हाडि, तुजे ठांय सधां जिवो हौनु जियेंवच्याक, शांता जेझु, ह्ये वेळे काकुळतिसारू हौनु तुवें गुन्यांव भगसुंचो. येणे प्रमाणिं, इश्टागतिन चालूं या, तैसो तुका प्रति करितल्यां आत्म्यांचो सुफळु फळु भोगूं, आणी ह्ये प्रमाणिं, ते ऐशे तुज्याच मोगान व्यापूनु, तुजोचि प्रियेव करूनु, तुजी भग्ति शेवा करुंति. ये, कृपे भितरि आशिलल्यां आत्म्यांच्या कांता, ये मनुश्यातीच्या मोगाळा कर्था, जें हांव अखेपिं पातक्यांच्या मोगा कारणें तुजे लागीं लालेणी करूनु मागतां, तें जरि दिशी, तरि कैश्या परीं मनुशांनि तुजेरि विस्वासूं ये, साखि प्रतेव येता. मजी प्रति करि, आणी तुजी माका

1. हो कोंकणींतलो खाशेलो वाक्प्रचार नियाळात.

करुं दी, दातारा; येणे परीं म्हा पापरूपीं तुका शरण आयल्या पुरो, अनाधसिद्धिं तांचो संगु ताका, आणी तुजो तांकां भोगल्या पुरो.

सदैव सां पावलाच्या पुण्यान, जाका दुमालदाराचो[2] येकु पुण्यशिळु आपोस्त्लु केला. भग्तिणी मारिया मागदालेनेच्या पुण्यान, जी फुडें पापिणि वर्ततां, तुज्ये शिकबुद्धिन, अथवा धर्मान, पातकांचो कांटाळो मनिं धरूनु, तुजी ग्न्यानिं शिसि जाल्या. सांत आगुस्तिनिच्या पुण्या खातिर, जाका पातकांच्या अंदकारांतुलो, कृपेच्या उजुवाडा हाडूनु, इती कांतिवन्तु केलो, की सगळीये इग्रजेची दिप्ति जोति जालो, वा जैसो सुर्यु नखेत्रां माजिं[3] प्रकासता, तैसो शास्त्र प्रविणां माज मिरवता. तरि स्वामया, हांच्या, वा ह्यां सारिख्यां पापयाच्यां पुण्यान माका पखि,[4] माका सांभाळि. ये मज्या आत्म्याच्या मोगाळा कांता, मजो आठव करि, मजी माया अनाधसिद्धिं आसूं दी; कणिवळा जेझु स्वामया, माका उपेखुं नाका, उधासु करूं नाका. ये स्वामया, आपुलो कबुलार्थु दी, जांव म्हण, तुजेरि सुआडलां[5] म्हण, सधां मजें दरूशण भोगिशी म्हण, स्वामया; ऐसो मजो प्राणु तुज्ये शेवेक लागून, तुजो सधां जाल्या पुरो. येणें परीं आमां दोगांचें मनरथ संपूर्न जावनु, पुरवल्या पुरो.-



2. पिडापीड वा दुमाळो दिवपी.
3. माजार; मदेकत; ही झगझगीत उपमा नियाळात.
4. राख आनी सांबाळ to protect.
5. बरें करूंक येवजितां.

## आवस्परू पांचवो

*आपुलो सर्व विस्वासु जेझु, ह्ये करुणेरि[1] आत्मो ठेवनु, अखेपिं ताचे लागीं उदरगति मागूनु लालेता.*

जेझु मोगाळा, आणी मज्या आत्म्याच्यां सर्व बरव्या; जैशिं समुद्र क्रमवितलिं पाळांच्या[2] बळान बुडूनु, तळा वचनां जांवच्याक, थोरी कडे उतरतातितैसो हांव टाळणीयांच्या उचंबळा साघरांतु पडन म्होणु, भियेवनु, तुज्या मनाच्ये थिरी पेंठेरि विस्वासूनु, तुका शरण आयलां.[3] तरि तळा पडनां जांवच्याक, मज्या आत्म्याक प्रकासाय, आणी उतरदिशेच्या नखेत्राचे परीं[4] गतिची वाट दखय. ये, मज्या ग्न्याना गुरू, मज्या अग्न्यानपणाचो अंदकारू फिंटौनु, मजेवरि प्रकास[5] करि, आणी कोणि ती वाट, तुजी भेट माका जांवच्याक माका शिकय. येणेप्रमाणिं, मज्या भरवंश्याचें तारू निराशेच्या साघरांतु पडना जांवच्याक, आपुल्या हातगुणान[6] सांभाळि. पण, मज्या स्वामया, कितें करूं? कित्या सैतान, मजे जल्मवैरी, कानांतु मातूनु, तुज्ये करूणेरि अविस्वासूंक, माका भगसणें, वा काकुळति सर्वथा नमेळोचि म्होणु सांगतोचि आसति. Multi dicunt animae meae non est salus ipsi in Deo eius.

कोणि ती जाप दिवूं, स्वामया? कित्या, ते जाप दिवूं सांगतातिनां तरि माका जिविशिं मारूक दाव राखतातिपण मज्या आंगा मासाचे शेत कुटुके, रवे केलेय तरि,

---

1. हें जेझुचें प्रतीक नियाळचें.
2. ल्हारां; हें उतर अजून गोंयचे दक्षिणेक घोळणुकेंत आसा.
3. आमचे भोंवतणेक लागतलें हें सोबीत रूपक नियाळचें.
4. उपमा पळेयात; जशें उतर दिशेच्या नखेत्रान बेलें शाराक बाळका जेझूक सोदूंक येतल्या रायांक वाट दाखयल्ली, तशी दिशा मागता.
5. हें विरोधालंकारान मांडिल्लें रूपक पळेयात.
6. ही आमचे संस्कृतायेंतली उतरावळ आनी हांतली प्रतिमा नियाळची.

तुजेरि सधा विस्वासान, दृश्टांचे दळभार मजेरि चालिलेय तरि, मजें मन धस्को ना जायत. तुजेरिचि विस्वासु ठेयन, मज्या तारका, कित्या तूं मजो मोगाळु जेझु, मज्या प्राणाचो तारकु. तुजोचि विस्वासु माका आशिल्यारि, अखंडिता शिला पडनां जायन. In te Domine speravi non confundit... तरि स्वामया, मजो सोडवणकारू जा, हौ तुजे जंवळिं माका घेवनु पखि, कित्या तूं मजें वोडण जाल्यारि, माका भें खंयचें? इंफेरनाचे[7] दळभार मजेरि चाललेय तरि, हांव तांकां भिये नां जायन. Liberame Domine... Job. 17...

स्वामया, पळे, तुवें माका नितिकर्थु हौनु अगतीं[8] घाल्या पाशिं, जरि दयाळु हौनु उधरगती पायशी, तरि तुजी अदिकि किर्ति प्रकासत : माका इंफेर्नांतु, मज्यां अपरादांक फावो ती ख्यास्ति दिवनु, घालुंक फर्माण दिल्या पाशिं, अदिकु मानु, सर्वय रचना तुका दिती. जरि उधारियेपणीं दयाळु हौनु, माका गति दिवनु, तुज्या अनंदा राज्यांतु माका पायशी, कित्या दया काकुळति तुज्ये प्रकृतिची करणी ख्यास्ति मज्यां करणीयां सरिशी माकाचि फावो, तूं जल्म दयाळु, आणी तुजे मनिं काकुळति वाडैया म्होणु, कोणाक अगम्यां?[9] मज्यां अपरादां, मज्यां दोशांनि तुजें मोगाळ मन मजेरि निबर, निश्टुरशें केलें, नां तरि तूं निबराय, आणि निश्टुराय नेणतोशि; तरि, स्वामया, मज्यां अपरादांचें जैत तुज्ये कृपे ठांय घेंव दी आणी तुज्या दयाळा मनाची काकुळति मज्या उण्या अंतस्करणाचे वायटिवे पाशिं बळकटि जावूं दी.

दाविदा रायान लिहूनु म्हळां तेणें प्रमाणिं, तुज्यां गुणां भितरि, दया श्रेश्टि हौनु वर्तता; तरि, मजे ठांय ती काकुळति, श्रेश्टाय, आणी मज्या मनाच्या कोटारी[10] जैताची गुडी, तुज्ये करुणेक उभौं दी.

स्वामया, आपुली कृपा, आतां येथें, आणी तेथें, अंतिं आपुली गति माका दिल्या पासावात, तुका किर्तें अंतरत? तुज्या अनंद राज्यांतु येकु मनुश्य मुग्तिभरितु हौनु पावल्यावरि, तें राज्य उणावत काय? की येकु पापी अदिकु इंफेरनांतु पडल्यावरि, ताच्ये ख्यास्ती निमितिं कोणु आदाव तुका मेळत, विश्वव्यापका? येकाचो थोडो हिशेबु,

---

7. पुर्तुगेज उतर, म्हळ्यार नर्क; नरय; यमकोंड.
8. गती नास्तना; गती मोडून.
9. अगमो - फोडूंक जायनाशिल्लो गुठ.
10. ही प्रतिमा नियाळात; कॉट हें कोंकणी उतर किल्लो, ह्या अर्थाचें.

विशेसु नां, अंतर इदुलें, तुजो लाब अल्पुसो दिसता, पण मजेरिचि सर्व प्रकारिं पडता, माकाचि सर्व लाबु, आणी सर्व नासु, मज्या अनाधसिद्धा बरव्या. साबारां पापयांक, जिवो आसतनां, ह्ये संवसारीं, तुजे साबार, पावला गणिके,[11] दुसमान जालेय तरि, तें नम्हणतां, तांकां गती तुवें दिल्या, आणी आपुल्यां सभांतु उंची सुवातेरि तांचिं शिंहासनां स्थापिलिंय तरि, हांव तुजो इश्टु, तुजो शेवकु, तुजो दासु जांवक ध्यानि मनिं अत्रिकेतां म्होणु, थंय तुज्यां अनंदराज्यांतु इदुइदुलो[12] कोणुसो,[13] कित्या माका दी नां जाशी?

तरि, स्वामया, आपण्या खातिर, तुज्या मोगाळा मना खातिर, हें करि, माका बोलु दिल्या विण, तुज्यां चरणांकडेचो उभट नां जायन, चांट नचलों: ऐशें घडो; हय म्हळ्या बगर तुका सोडी नां, हय म्हण दाखौनु, माका खोशी करूनु धाडि; ना तरि, तुज्या पवित्रा तोंडाचें येक बरें उतर, म्हणजे, तुका गति जायत. तें आयकुंच्याक, हांवें कितें करवें पडटा, सांग, मज्या बापा.-

------------------------------------------------



11. कणकणीं; गणिके हें आंकड्या विशीं आनी मणिके, हें सारकाय दाखोवची वा उपमा दिवन.
12. हें नाजूक उतर भोगून घेयात.
13. कोनसो, हाचें साश्टींतले रूप.

## आवस्परू सातवो

*देवनिति आत्म्यारि येता देखूनु, तो जेझु क्रिस्ता लागीं, आपुलो जमानी जा म्होणु, प्रार्थना करिता.*

ये मनुश्यातिचो मोगु करितल्या देवा, ये जेझु कणिवळा, आणी विश्वतारका! मज्यां पातकांच्या रिणा निमितिं, तुज्या बापाची निति मजेरि चालताशी मना हाडि, आणी रिणाची तिदवणी[1] करूंक माका शक्ति ना, बगर निराळो जावनु पडलां म्होणु, आणी मजो जिव मज्यां पातकांचें रिण तिदौंच्याक नपुरो देखूनु, निती प्रमाणिं, तूं मजो जमानी म्होणु, तुजे ठांय निति करूनु, तुजो प्राणु घेंवूं पळेता. तुज्या बापाच्ये निती लागीं रिणपांगु खंडूनु माका सांभाळि. पण कटकटा, मज्या प्राणाच्या जेझु मोगाळा, हांवें केललिं पातकां तुजेरि पडलिं. आपुल्या रग्तान तांचिं खतां भांजूनु, तुवें माका राखवो पडता, नां तरि कोणाच्या पोटांतु हांवें वचूंचें? सिरकुसिदार जाते वेळे मज्ये सोडवणेच्या मोलाचो पयलो अनुवांटो आपुल्या रग्तान दिशी, जेत्समानी म्हळल्या मळ्यांतु मरणादिकी घोंकण्येन व्यापूनु, रग्ताच्ये हुमेन सर्वांग भिजूनु, दुसरो अनुवांटो जायत. खांब्याक बांदिललो जावनु, पायांच्या बळान, रग्तव्हाळ व्हांवनु, तिसरो जायत. तुजें म्हा पवित्र मस्तक तिखट कांटे जावळि टोपिले, चौथो जायत. शेकिं, तुज्ये माणिक कुडिंतु जितुकें रग्त आस, इतुकेंय क्रुशिं जोडिललो जावनु वरूशावनु, मज्या पातकांचें रिण संपूर्न तिदौंवत.

ये जेझुच्या अनंता मोगा! ये देवाच्ये खऱ्ये निती, पेल्याच्यां पातकां वरौनु जेझुरि ताचिंचि जाल्लयाचे परीं, कैशीं चालताशि? जरि जमानी कांयचि देवें नां आसतां, येवडी थोरि ख्यास्ति पावता, जावळि खऱ्ये देवनितीचो हातु यादले निमितिं ताचेरि पडता, कोणा आकांताक ताका पावत, वया? आयो देवा, ह्याचि आठवान सुधो सुकत वेतां,

1. बावडणी; फारीक करपाचें कार्य.

रग्त सोंसता, मन मुरछ्यागत जावनु पडलां, आणी प्राणु धस्कला? जेझु मोगाळा, ये मज्या आत्म्याच्या प्राणाचे प्राणा, ज्या वरौनु प्राणु वायु माका भोगता, आणी जाच्या आधारा वेगळो जायत खेविं निर्जिव जातां, केदळां येवडी मोगाची साखि, इतुल्यो इश्टागतिच्यो खुणो, वा तुज्या पवित्रा रग्ताचे येवडे वरूशाव, जाच्या येका येवलमात्र थेंब्याक अंतु पारू नाथिललो प्रियेव फावो, हें इतुकें केदळां सोल्व त्ये रितून, बावडिन? समग्री तुज्यो रचना आनंद संतोशिं तुजी तुस्ति करूति, आणी मजी जिव्हा उतिर्न बावडण्याक अंता विण तुका वंदूं. Benedicam Dominum in omni tempore... ऐशें स्वामया सधांकाल करिन, रात्रि दिवसु तुजे पोवाडे वानितोचि[2] रावन. ये अमरसभे ! ये केरूबिंस, आणी सेराफिंस म्हळल्यां देवदुतांनो, देवाची तुस्ति आणी प्रति मजे वारिये करितोंचि रावा, आणी ज्या मोगाच्या केंडांनिं तुमि व्यापल्याति, ताची माका येकि किटि पुणु दिवनु मजें मन जळशें करका.-[3]



2. तुस्त गांवक.

3. ही चित्रभास पळेयात.

# येकांग्र बोलणें दुसरें

---

## आवस्परू पांचवो

*देव विश्वकर्तु आपण्याक अंतरलेति म्होणु दुखां गाळूनु, आत्मो रूधन करिता, आणी ताचो कोपु निवौंच्याक आपण्याक ख्यास्ति लाय म्होणु लालेण्येची प्रार्थनाचि करूनु रावता.*

आनंद वार्ता, दुलबा जेझु, आनंदि खबर, कित्या हांव शेकौनु तुका शरण येतां; तूं दूर पैसांतर आशिल्यारि, मजें जिणें सुफळ जाय नांः तुजे वेगळो जावळि जातां, कुडि जिवी आशिल्यी तरि, प्राणु कृपे वायलो जावनु मरण पावता, येणेपरीं सर्वय प्रकारिं मरता. तुज्यां डोळ्यांकडेचो कडें सरलों; ते तरि दोनि सुर्ये आणी मजे टेंकणे,[1] तुका देखुंक प्रकासूनु, गतीचो सुफळु मार्गु माका दाखैति. तांच्ये कांतिक चुकत खेविं, अंदकु जावनु, अंदकारांतु पडूनु, गति पंथु[2] देख ना जालों, आणी अंदारांतु चालतल्या अंदकाचे परीं अवाटे पडलों. मजें तत्व, मजें भाग्य, दैव दशा, गूण, लखेण, सर्वय व्रथ्या गेलें, कित्या जाका तूं अंतरताशि, तो सर्वय ठांय तुंटकु जाता, ताका जिवो आनंदु, उछयाव, हरिकु उलासु, संतोसु, तुजे विण खंयचो? तुजे वेगळो पाड जाता; ताका हेरी समग्री वस्तु भोगिल्योय तरि, तो येकलोचि, हौ शुन्यु जावनु पडता; तुजे विण संवसारू शुन्यु; जाका तूं अंतरताशि, तो दैनूय निर्भागी, फकिरू, भिकारी, सर्वय अतूरपणा खालुतो पडता.

आयो, मज्या प्राणाच्या देवा! आयो, दुलबा आत्मकांता, आशिल्ये चिंतेन गात्रां मोडूनु, थरथरां काळिज कांपता. तुजे विण कितें करूं? तुवें माका पैस केल्यारि

---

1. दोन रूपकां - सुर्या आनी टेंकणो - हांकां दोळ्यांक सर.
2. पथ; वाट; मार्ग.

कोणाच्या आलाशिऱ्या वचूं? मजो देव माका पाव नां जाल्यारि, कोण पावत? मज्या जेझुच्या आधारा खेरिज जाल्यारि, कोणु माका पखित, वया? कटकटा, माका पापयाक इंफेर्नाच्ये सर्व यातने पाशिं, तुजी वेगळिक जडि. स्वामया, माका उधासु करूं नाका, मज्या आत्म्याच्या कांता, वचूं नाका, माका तुजे वेगळो सर्वथा जांव दिंव नाका; जो वेळु तुज्ये कृपे वायलो जावनु पायलो, तो निर्फळु जावनु विर्थ्या गेलो म्होणु, मज्या मनाच्यां अंतापांक मिति नां. तुज्ये वेगळो जायत खेविं, लोपलों, मजें सर्वस्व माका अंतरलें, आणी ज्यां ईडांनी तुवें मजो प्राणु शृंगारिलो, तिंवय अंतरूनु, कुकृपा जालों.

आयो, देवा, संवसारा राज्यांची प्राप्ति, हुकुम, ग्रेस्ताय, आणी संभ्रमु माका अंतरलोय तरि, तूं माका अंतरनासल्याचे वोपारिक रजमात्र माका संतापु दिस नां जातो. कटकटा, केवडें मजें वेडेपण? केवडें मजें दैन्य? कोणें, तूजेरि चुकुंक, आणी तुज्यां उपकारांनि, तुजेरि संघ्रामु मांडुंक नवें मन हिमती घालें? स्वामया, हो अपरादु खेमा[3] करि, कित्या अंदकु म्होणु चुकलों, अंदकु न्हय जाल्यारि कैसो येका स्वामयारि, जाच्ये हुकुमे खाल मजें सत्व रचलां, चुकतों? तुज्यां उपदेसां आड मजें चरण कैशें चालतें? आणी मजे हात कैशे हालते झोलते?

कटकटा, ज्ये वेळे हांव हरामकोरू शेवकु जावनु देवारि शिंतरलों,[4] ती वेळ केती निर्देवी जाली? जीं वरूसां हांव देवारि चुकलों, तीं नजालिं बरीं आशिलिं. देवकृपे व्रहित जिणें, आणी दुकृत, इंफेर्नु आणी सुधें मरण,[5] ऐशें मानुंचें. मज्या हांकाराच्ये हौंशे निमितिं, आतां नेत्रगाळु[6] जावनु, ताचें खत भांजुंक रूधन करूंक केवडो प्रस्ताव? अंतु नाथिललें रूधन माका फावो, कित्या उण्ये रचनेच्या मोगाक लब्दूनु, आणी घातक्या ज्युदाची सरि टांकूनु, देवाक विकृत करूनु, ताची माणिक-कृपा माका अंतरली. ये, मज्यां निर्भाग्यां दोळ्यांनो, तुमिं रूधन करका, आरो पोरो दुखां घाळूनु, आपुल्या संतापाची साखि दित, रात्रि दिवसु मजो देव खंय आससो माका सांगो पर्यंत्र, रूधनाचो विसव घेंवूं नाकाति. Fuerunt mihi lacrimae panes die acnoste Deum dicitur mihi quotidie : ubi est Deus tuus.

आयो, मज्या देवा, मज्या जेझु दुलबा, मज्या प्राणाच्या प्राणा! मज्यां पापदोशां,

3. क्षमा, हाचें तद्भव.

4. बंड्ड केलें; फितूरी केली.

5. ह्यो उपमा नियाळात.

6. जाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात.

वा निर्फळां जालल्यां वरूसांचो आठु माका आठवत खेविं, मनाच्या चुरचुऱ्यांनु व्यापूनु, जीव थाऱ्या ना जावनु, मरूच्याडे पावतां, जिवाची आशा नां जावनु घोंकण्ये पडतां, मति भ्रमता, आणी मजो आत्मो कुडिंतुलो भायर सरूक इछिता. ये सर्व बरव्या मज्या स्वामया! माका इती संगीन, आणी दैन्यवंतु कालु वर्तलो, ज्यांतु आवग्यां वस्तुं भितरि ज्ये वस्तुचो उणो किग्न्यानु प्रियेव हांव करि, ती तूं अनंता सुंधरपणा आशिली मुं? ऐशें घडूंये?

तो कालु मजेरि काळा पाशिं निश्टूरू. तावळि मजी खोशीं[7] आणी यादि तुजेरि कौटालां रचुंच्ये आशेन व्यापूनु, दोशांची झरि जावनु अविटी कल्पना, विटाळवंतु पापाचो उगडासु आणी अथांगि[8] आशा मजे मनिं निपजायता. ये मज्ये निर्भागिणी खोश्ये, जावळि देवाची प्रति मोहो करी नाथिलिशि, तावळि तुजी व्हडी व्याप्तीकोणि! आणी तूं मज्ये यादी जावळि देवा रचणाराचो आठव पाठीं घालिताशि, तावळि कोणि तुजी येरजारि, कोणु तुजो हुस्को आणी उगडासूय, हाची साखि आणी अनंदती[9] दी. ह्या अद्‌भुता अनार्थाचो कोणु तो भांजडो तुमच्यान दिंवं येत? ये मज्यां आत्म्यां शक्तिनो, कोणा त्या सुधवांट्यान तुमिं आपुल्या रचणारा, आपुल्या तारका, आणी आपुल्या बापरि रचिलल्या अदृश्टाचें पाप भांजिश्यात? मज्या देवा, उधंडा प्रस्तायान तुजे मनिं कोपु मजेरि व्यापला, निती वरूतोसो तुजो कोपु उचारिता.

माका यादल निबरि लाय; कोणीयि तरि ख्यास्ति निश्टूरि जालीय तरि, मज्यां अपराधांच्ये वोपारिक अल्पशी[10] माका दिसता, इंफेर्नाच्ये स्थाने, दग्दांच्याक अदिकतोरि याचना मज्यां पातकांक फावो. तरि, स्वामया, निभरि ख्यास्ति लाय, कित्या हांव कोबुल. माका कश्टावनु, मज्या मांवश्याचे रवे करूंचे. निति प्रस्तायिं दृश्टी पडत म्होणु जाप दिंवक, वाच्या नां, पण येकोचि तुजे लागीं लालेवनु प्रार्थितां, ह्ये यादले वरौनु तुज्या मनाचो कोपु निवौनु, शांतु, आणी दये काकुळतिसारू जा, दातारा; मज्या दूर्विखा, घाशीन तुज्या मनाचो कोपु निवतलो. तरि मज्या देवा, आणियेकी मातूंचें कारण आस? माका दंडय, हांव तुज्यां पवित्रां चरणाडे सपाट घालूनु घेवनु, लीण हौनु, तेंचि लालेतोचि आसं, दुखी विण माका ख्यास्ति लाय, हाण, जाळि, लाशि, आणी दुखी हौनु

7. खोशी आनी यादी, ह्या अमूर्त भावनेंक मूर्तरूप दिवन मानविकरण केल्लें पळेयात.
8. थाव, खर नाशिल्ली; दर्याची चित्रभास अमूर्त कल्पना सजयता.
9. हें घडयल्लें उतर पळेयात.
10. उणीशी; थोडीशी.

मजें भस्म करि, कित्या मज्यां पातकांचेरि तुवें तुजे मनिचो कोपु संचरसो केलो म्होणु, त्याचि पासावत दुखवतां.

जरि मज्यां कश्टां, मज्ये घाशी, ख्यास्तिन तुजो कोपु निवत वचव नये, संतोसु जा, कित्या होचि मजो सर्वसंतोसु, आणी मजेरि तूं कोपारि आस पर्येंत्र, हांवय आसंतोसारि रावनु रूधनोचि करिन. हांव गुन्यांवकारू म्होणु माका हाणूनु जिविशिं मारूनु फोडि, हांवेचि आपणप्यान पाप जोडूनु घेतलें Ego sum qui.... तूं, स्वामया, जरि कोपु धरूंचो सांडूनु, शांती येवनु मारू बरो देखशी, इंफेर्नाची याचना माका गोड दिसत, हौ याचना न्हय जावनु, मजें भाग्य, मजें दैव जायत.

---



# येकांग्र बोलणें तिसरें

## आवस्परू दुसरो

*देव आपुलो आठौ करी नां देखूनु, आत्मो अखेपिं ताकाचि गाराणें करिता.*

अनंता स्वामया, तुका आठौ नां! कैश्या परीं इजायियास प्रोफेता वरौनु माका लाहानु लेगिन वृदप्राय पर्येत्र, आपुल्या खांक्यांतु घेवनु व्हरतलो आशिलोशि, म्होणु बोल दिला? Usque ad... आणी तुवें माका उदास करूनु, मजो आठौ करी ना जालोशि म्होणु, हांव तुका पुत्राच्या मोगान, गाराणें सांगत आसतां, तुवें प्रतिउत्तर दिवनु, ऐशें म्हळें : आपुले उधरिंच्या पुत्राचो आठौ मायेच्यान सांडव नां, आणी ती पुत्राचो उगडासु जर करीं नां जाती, तूं सधां मजो आठौ करितो म्होणु, मजें नाम ग्राण आपुले हातिं, आणी आपुले मनिं लिहूनु दवरिलें म्होणु. Et si illa oblita fuerit ego tamen non... तरि स्वामया, तुजें उतर कैशें सुफळ जालें? तें तुवें कैशें रूज केलें? ज्या पुत्राच्या मोगान आपण इती व्यापतां, ऐशें म्होणु तुवेंचि म्हळां, ताचो आंठौ प्रघटाय नांशि? मजो विसरू तुजे मनिं पडुंक, कैश्या परीं विपतां?

तुवें तरि मजें नांव आपुल्या हाताच्या ताळथांतु लिहूनु दवरिलां, आपुल्या मनांतु ठेयलां, आणी ज्ये लिखण्येन हें लिहित लिहिलां, ज्यां खिळ्यांनि तुजे हात टोपिले, वा ज्या भाल्यान तुजें म्हा पवित्र कडवळ उगतें केलें, ती आणी ज्ये मशिन[1] हें मोगाळ लिहित जावनु आमंचे भितरि प्रियेवंतु खंडु[2] जालो, मजो आत्मो तुगेलोचि, आणी तूं मगेलो अडळकाल पर्येत्र रांवच्याक, ती मशि तुजें अमोलिक रग्त मुं? ह्या पारा मज्यां

1. मशि - मन लावन केल्लो कश्टी वावर - ताचेर आधारिल्लीं रूपकां पळेयात.
2. करार; कबलात; ताचे वेल्यान खंडाक दिलें on contract उलट दिसवड्याक on daily wages.

दोशांनिं माका पायलो : ह्ये अकृपे पाशिं आणियेकि संगिनि मजेरि येवव नां जालीः ये स्वर्गमंडळांनो, मजे सैत मज्या दैन्याक रडा, आणी तुमिं, तारांगणांनो, मज्या विळापांक आपुले अश्रुपात येकत्रूनु, अंतु पारू नाथिललें रूधन करितोचि रावा; कित्या मागां देव मज्या मोगाची साखि दिवनु, इतुले उपकार माका करित आसतां, आतां मजो आत्मो अकृपाये आणी विसरा पडसो करूनु, ताचेवरि नदर करूंक पूणु काकुळति आठवो नां.

आहो जी, स्वामयां, दयाळा डोळ्यांनि माका निहाळि, इश्टा, आणी मोगाळा कांताच्या वेखान आपुलें हलाळित मुख माका दाखय. मज्ये कनिश्टायेक तुज्ये श्रेस्टाये ठांय रिगु जांवच्याक. तूं हलाळु, मोगाळु, आणी रिगु दितलोसो दाखौनु, मजे ठांय चाल, कित्यां, तूं अनुपमु, अपरांपरू, आणी हांव कनिश्टु, लाहानुसो विवेखूनु, तुजे लागीं उलौंक, बोलुंक माका काळिज ना. दुलबा मज्या जेझु, माणुसां परीं मजे ठांय चालः मज्या मोगा आणी हिताक मनुश्यु जालोशि म्होणु : मज्या मोगान जळंबूनु, आपुली व्हडिवी डेंवंवनु, जैसो मजो भाव बंदु, मजो कांतु पति, मज्या प्राणाचो इश्ट मैंत्रु, आणी प्रति स्नेह्याचो संगी, सांगाती जालोशि, तैसो आतां तुजे लागीं ध्यानस्तु जावनु, उलौंक, बोलुंक, ती व्हडवी डेंवय, थोरिव उतरि.

ये स्वामया, माका चोय, निहाळि, पळे, पाठि दिंव नाका, माका आपुलें मुखकमळ विमुख करूं नाका; कित्या आपुलें तोंड जरि माका लिपयशी, तरि मजेरि मरणाचें फर्माण दिलेंशें जायत, माका आपुल्ये अमृत दिश्टिन जरि चोय नां जाशी, तरि हांव मरण पावन, मेलल्याचे सुधचार माका करिती. Ne avertas faciem tuam ame... मजेवरि आपुल्ये अमृत दिश्टिन चौनु, आपुलो हातु माका जरी दिशी, तें नवल दिस ना जायत, तुज्यां हातांची करणी हांव देखूनु, आणी आपुल्या हातांच्ये करण्येक करणारू सैंबगुणी तोखेता. ज्या माणुशान द्रखेवेलिंचो[3] उदेगु केला, तो फुलत आणी फळत वेता देखूनु, आनंदें करितां प्रेमभरितु जाता, त्या कारणें बेत कातरूनु, सोलव तो वाळाव दिता,[4] खणूनु ताची कृशिकामायस करिता, त्यो वाली नाश वच ना जावनु, कोण फागुर येवनु, बरें फळुंच्याक.

3. द्राक्षांचो वा दाखांचो मळो, तांतल्यो वेली आनी ताचो उद्देग; हाची उपमा दिल्या ती पळेंवची.

4. सांकाळून वाडपाक उत्तेजन - आनी हेर दाखां मळ्याची बारीकसारीक वावराची खबर दिवपी बरोवप्यान केल्लो अभ्यास नियाळचो - बेल, वेल आदी.

तरि स्वामया, हांव तुजो द्रखे मळो देखूनु,[5] तैशी कृशि करि. Attende Domine de caelo & visita vincam istam quam ... हांव कनिश्टु आणी कृपाफळस्तु जांवच्याक, तूं कृशि करि, स्वामया, मना येता, तेणेंचि प्रमाणिं, वाळाव कातरि, माना, प्राणामा, आरोग्यपणाचो, हौ इश्ट-मैत्रांचो वाळाव कातरितलोशि, तरि जांव, हांव संतोसु सुखी, तरि हौं, हांव कृपा- फळस्तु जांवचे भाशे, दुखभरिती जालोय तरि, आणी तुजी हालारकोरि जोडुंचे भाशे साटी, संकिर्नु जालोय तरि, अथवा मरणय पावलोय तरि, कांय विशेसु ना. तुजे हातिं, तुजेरि चुक नां जांवच्याक, तुज्या मनगताची पुरवण पुरौंक, माका जरि मरण भोगत, तें सुफळ अनंदभरितु माका दिसत; असलो मृत्यु माका लाबल्या पुरो, कित्या तैसो पुण्यवंतांचो पारू, तुजी प्रति, स्नेहो करितल्यांक तैसलें मरण जेवां मेळत, तेवां जिणि आपण्याक मेळताशी मानितातिं. Moriatur anima mea morte justorum. Num. 23.-

---



5. हें रूपक नियाळात आनी फुडें फुलून येतली प्रतिमावळ.

## आवेस्परू पांचवो

*मनाच्या चुरचुऱ्यान विश्वलोकिका, वा रगतमौंशाच्या सुखाक लब्दूनु, ठेकौनु नाडवलो म्होणु, आत्मो रूधन करिता.*

आयो देवा, विश्व चाकरिये, आणी ताच्या लोकिका निमितिं, कांयचि मनुशांक जोडि, लाब नां; लाब लोबु ये नां म्होणु, माका ठौकें जालें देखूनु, ताका धार दिवनु, तुका शरण आयलां. इती पर्येत्र संवसारभोग, रगतमौंश्याचें सुख आत्म्याक दुखि दितातिं, की तांच्ये सोधिक लागलल्या मनाक तिखटां कांट्यांचे परीं आयल्या पेल्यान टोपूनु दुखभरित करितातिं.[1] ये वेड्या संवसारा, तुजो विस्वासु माका निर्फळु, हौ विखफळस्तु जालो म्होणु, माका केती आतां गमता. तूं दिन म्हळल्या ठांय केती ठकु ? तुजिं दिव्यदानां केती हिणां? तुजो दबाजो केती उणो जावनु, विर्थ्या वेता? तुजे भोग केवडें अतूर माका भोगा जायशें करितातिं? तुमंचो प्रियेव केती मजे मनिं उणावलो? येंवक कितुलो विळंबु लायतातिं, आणी वचूंक धुंवराचे परीं उबतातिं, हें कैशें? ऐसो परिहरू संवसारू आपुली चाकरी करितल्यांक दिता; अथांग जिणें ऐशें फळता, जें अमृत पिवन सवर्न कुपी भरूनु, बाबिलोनिची कामतुरि स्त्री आपण्याक भुलतल्यांक दिता,[2] तें ऐशें कठूर[3] जाता.

ये मज्या प्राणा, केती निर्फळा काजाक माका आपुलो मोगु तुवें लायलो? ये मज्ये जिणिच्यां वरूसांनो, इती अथांगां निर्भाग्यां सायबांच्ये चाकरियेक लागूंक माका कित्या भोगलें? ये मनुशांच्या पुत्रांनो, कंय पर्येत्र मजेरि नाडिवेन व्यापूनु, असत्य आधारिश्यात आणी लोकिकाक भुलश्यात : Filli hominum usque quo gravi corde ut

---

1. ही सगळी अलंकारीक चित्रभास नियाळात.
2. पोरण्या करारांतले घडणुकेचो उल्लेख आनी ती उपमा नियाळात.
3. विलय; पिड्ड्यार, पाड.

quid diliga.... mendacium. पिसाळा संवसारा, बरे प्रमाणिं मजी नाशिलि नकरवी शेवा बावडल्या, तुजेरि विस्वासलों म्होणु, फावतलो फळु माका भोगता. तुका, मज्या सख्यांता देवाक, पाठी दिवनु, पेल्यां देवांक अनुसरलों म्होणु, तांची शेवा माका ऐशी फळता.

आयो, मज्या देवा, कैसल्या निर्दैवा पावलों? मज्या देह्या हौ आत्म्याचो येकु पुणु गूणु घायेलु नजललो नां, कित्या समग्रा मजीं गात्रां आणी आत्म्याचे गूण माका पातकां सोडुंक, आणी तुजेरि चुकुंक सयासल्याति; तुका, मज्या देवा, पाठि दित खेविं, ह्ये अचांगी सांतांतु[4] व्यारा[5] निमितिं गेलों, हेंचि विश्वशेवेचें इनामः विश्वा आणी कुडिची शेवा करूंचे आशेन तुजेरि शिंतरूनु, अदोगती[6] पडलों म्होणु, ऐसली ह्या नश्टा नकुसानाची बावडण माका लाबली. कटकटा, केती निर्भागी जालों, तुका मज्या देवा पाठी दिंवक कोणें माका हिमती घालूनु, मजें ग्न्यान चोरूनु व्हेलें? मजें शर्म जावळि ऐश्यापरीं विलया[7] गेलें, तें तावळि खंय आशिलें? काळोखाक तोखूनु उजुवाडाक भितालों, दिवसु अचांगु, आणी रात्रि चांगिशी मानितालों? जिणि असंतोसु, आणी मरण संतोसुसो म्हणतालों? इशी इशी विश्वसुखा, शी शी रग्तमौंश्याच्या विटाळवंता भोगा, तुमंचो खेव जांवः ह्यां मुखडां मरण पावलोय तरि, तुमंचे वाटे वचचि ना जायन, चुकलों, स्वामया, चुकलों, मजी करूणा करि, आतां तुज्ये कृपेन माका दिश्टि जाली म्होणु, मजे निर्गूण वोळखूनु, तुजेरि केलल्यां दोशां निमितिं अंतापूनु, आपुल्यें हर्धें आणी दोनिय पोले, दोंहि हातांनि भेतूनु,[8] अंतु नाथिललें रूधन, मजें पाप परिहोर[9] जाय पर्येंत्र, करितोचि रावन.

पण, स्वामया, हें इतुकें नम्हणतां, फुडां जरि मजी येवडी अशक्ताय विपत, की तुज्यां उजुवाडाच्यां किर्णांनिं मजे नेत्र झांकुळती, इतुल्यां उपकारांक अनुपकारी जायन, मज्या देवाक पाठि देन, मजें सर्वय बरवें दुरायन,[10] आणी पळूनु वचन. तरि मज्यां

4. सांत = बाजार; तिंटो.
5. वेपार.
6. त्रासांत.
7. पाड; विभाड.
8. फोडून मारून.
9. माप, ना-नपश्च्यात.
10. पैस करीन.

प्राणाच्या गोंवाळ्या, माका राख; माका खोशी आशिलिय तरि, अदोगती वचूं दिंव नाका, वारिलल्या[11] चरवाक रिगु दिंव नाका, कित्या ताच्या स्परूशेणान, माका मरण दुभाव विण लागत.

आणी तुका पाठि दिवनु जरि हिंडपूटु जायन, तरि माका शेळावणी[12] मारि. येका आयकूं ये ऐश्या मोगाळा शब्दान माका आपय, आणी तुज्ये मोगाळी शेळावण्येक परतूनु, पाळो दी नां जाल्यारि, मज्ये पाठिं घेवनु, हातीचो टोणुपो उडंानु, घटी मारि; माका घायेलु केलोय तरि, फार अमित मारि; हें विग्न माका भोगल्यारि, तूं गैंवरू नाका, मज्या जेझु तारका, चिंतवत्यां अवघ्यां बरव्यां पाशिं, हें माका दैवशें मानि, स्वामया, कित्या तुगेलो जांवचे भाशे, आणी मज्या गोंवाळ्याच्या हिंडा भितरि चरूचे भाशे,[13] येवड्या हुस्क्या धांद्यान, आणी हाणविर्धिन मज्या हिताक सयास त्रास कांटितां, तुवें माका दंडयलोय तरि, घायवटु[14] केलोय तरि, कोणु विशेसु? दग्द, परम गती दिसती, ख्यास्ति इनामशें मानिन, माका कश्टय, दंडि, शिख्या लांवक गैंवरू नाका, ती शिख्या हांव आळाबंदा येंवचे भाशे, आणी तुजी प्रति मोहो अदिकतोरा सौंरोसु रैवासान हांवें करूंचे भाशे.-

---



11. आडवारिल्ल्या; शिटकावन मना केल्ल्या.
12. शिळोणी; पिल्लूक.
13. चरवाचों, गोवळ्याचीं, हिंडाचीं चित्रां नियाळात.
14. त्रास, घाये, दंडणांची सांकळ रूपकांनी दिल्ली नियाळात.

# येकांग्र बोलणें पांचवें

## आवस्परू सातवो

*देवारि चुकूनु अद्‌भुतु अन्यार्थु केलो देखूनु, आत्मो हिंपुटेवनु[1] रूधन करिता, आणी फुडां ताची प्रति करूनु सर्वथा पाप नकरि म्हणु दृडु निछेव धरिता.*

ये मज्या प्राणा, येकामेकां भितरि, आमिं दोगय हिशेबु मांडूं या, इती अपूर्वु देवमोगु, येवडिं दिव्यदानां, वा अगणित उपकार, जे देवा स्वामयान तुका केल्याति, आणी दिनप्रती करितोचि आसा, ते तुवें कैश्या परीं बावडिले? सांग, झडती दी. आयो जेझु मज्या, आयो मज्या प्राणाच्या सर्व बरव्याः ह्या आठवान, ह्ये चिंतेन व्यापूनु सुधो सुकूनु मरूच्याडे पावतां, केती अचांगु, तमगुणी, केती तुज्या मोगाक अनउपेगी जावनु इश्टागतिचे रितू खेरिज वर्तलों; कित्या उपकार अकृतान बावडिले, आणी मोगु नाटकायेच्या अपमानान बावडूनु, तुज्या दिव्यदानांचे भाले तुजेरि विंदूंक केले. तूं मज्या स्वामया, सगळो, मजो मोगु करूच्ये व्यापतिरि आशिलोशि आणी मजी सर्व व्यापति तुजेरि चुकुंक आशिली; तूं माका सधां नित्य उलो दिवनु आपयतोचि रावतालोशि, आणी हांव कानभायरें करितालों. तूं माका निहाळूनु दिश्टि दितालोशि, आणी हांव निर्भागी, तुका विमुखु जावनु पाठि दितालों. तूं सर्व रचने पाशिं उधंडी हाणविर्धिन मजो सांभाळु करितालोशि, आणी हांव अद्‌भुती वायटिवेन तुजी प्रति, तुजी भग्ति, शेवा, आराधूंक विसरबूलु[2] जातालों; मज्या रचणारा, तुजी शेवा करूंची सांडूनु, रचनेची चाकरी आनंद संतोसान करितालों.[3]

---

1. हुंडके-हुंडकेत रडून - sobbing.
2. विसरभोळो; विसर पडिल्लो = forgetful; absent minded.
3. चित्रभास, खास करून विरोधालंकार नियाळात.

हो अद्भुतु अन्यार्थु तुज्या देवारि तुवें आधारिला, मज्या प्राणा, त्या निमितिं ओजियास म्हळल्या प्रोफेताच्ये लिखणियेन, त्याचि देवा स्वामयान तुजें गाराणें लिहिलां, ऐशें म्हणू : Diligit Dominus filios Israel. ये भोडुव्यांनो (देवान म्हळें) ह्या अन्यार्था सारिखो अन्यार्थु तुमिं कदिंचि देखिलो? जो मोगु बापु आपुल्ये धुवेचो करिता, आणी जो स्नेहो कांतु आपुल्ये मोगाळी कांतेचो आचारिता, त्याहि हौनु आत्म्यांचो मोगु हांव करितोचि आसतां, तें मज्या दोळ्यांतु माती घालितात. हांव तांची प्रति करितां, आणी ते मजी दुसमानिक नित्यकाल करितोचि आसतिः हांव तांचि सोधि करितां, ते माका धिकरितातिः; असलो अन्यार्थु कदिंचि कोणें देखिलो? येवड्या अभिनवा मोगारि, येवडो जाललो अनउपेगु कोणें देखिलो?[4]

पण आयो देवमोगाच्या अभिनवा? हांव ताच्या मोगारि इती हरामकोरू, ताच्या शास्त्रारि अभावार्थी, ताचे उपदेस सांभाळूंक इती हठरू,[5] मंदु जालोय तरि, हें इतुकेंय नम्हणतां, देव मज्या आत्म्याक मज्या मयेमोगान जळंबूनु, आपौनु ऐशें म्हणतोचि आसा : मजेरि फिरूनु हरामकोरू जावनु अनउपकारी जालोय तरि, माका शेरण येवनु सर्व मनशिं अंतापूनु, गुन्यांव भगसूनु जरि मागशी, आणी हांव तुजो बापु, आणी कांतुसो उचारिशी, तरि तुज्यां पातकांचिं खतां भांजती,[6] Ergo faltm amods...

आहो जी म्हा पवित्रां सेराफिनांनो,[7] जे देवमोगाच्या उज्यान सधा लासतातिं, आणी तुमिं ग्न्यानवंतां कोरूबींनांनो,[8] जे अदिका प्रकासवंता उजुवाडा माजिं सुर्याचे परीं मिरवतातिं, तुमंच्या रचणाराचें भलेपण आणी उधारियेपण विवेखूनु कैसो तुमकां भ्रमु लाग नां? ज्या अभिनवा मोगान व्यापूनु मज्या आत्म्या ठांय देव वर्तता, तो विवेंखूनु, तुमिं कैशे अतोज पाव नांति! हांवें सर्वय अप्रसतायिं अवघें शास्त्र उलंगूनु, ताका पाठि देवनु दूर केलो, पण तो मुकें मनिं नधरितां, मज्या मोगाचो तृशवंतु जावनु, परतूनु आपुली प्रति करि म्हणू, मजे लागीं प्रार्थिता, आणी आपुलो बापुसो मानूनु, ताचे लागीं जरि गुन्यांव भगसूंक मागन, तरि तो सुखी अनंदा प्रेमभरितु हौनु, मजिं पातकां खेमा करूनु, माका आपुलां पुत्रसो मानित म्हणू, बोलु दिलो. Ergo falten amods voca me Pater meus.

4. विरोधालंकार पळेयात.
5. हट्टी teimoso.
6. पुसून काडू न उडयतात.
7. सर्गावेले आंज-भोडवे - seraphim - तांचो एक पंगड.
8. हेर भोडवे जे बुद्धीन् भोवूच तीख आसतात.

तुंचि, मज्या स्वामया, मजो दयाळु, कृपाळु बापु, मजो मोगाळु कांतुसो सर्व मानशिं जिविं भाविं उचारितां, आणी आजि पर्येंत्र तुज्या मोगारि अनउपेगी जरि जालों, आणी सोल्व त्ये रितूनु तुजी भग्ति शेवा जरि केली नां, तरि आजि लेगिन तुजीचि भग्ति शेवा करितोचि रावन, आस इतुक्या आत्म्याच्या शक्ती धिरान, उतरां, करणियां वा मनशिं तुज्या मोगाची सादृश्टि साखि जगत्राक दाखयन, तुज्ये खोश्ये प्रमाणिं नित्यकाल चालूनु, इदुलो दोशु पुणु, तुजेरि आचार ना जायन, आणी तूं मजो बापु, मजो मोगाळु कांतु, मजो देव, मजो रचणारू, मजो दुलबु तारकु म्हणू, वा समेस्तां हौनु तुकाचि मोगु फावो म्हणू, रात्रि दिवसु तुजी भग्ति शेवा वा प्रति करिन. ये मज्या देवा, आपण्या खातिर, आणी मज्या हिताक, इतुले सयास कांटिले म्हणू, वा आपुल्या बरवत्या निमितिं, मजी प्रति करि आणी आपुली प्रति माका करूं दी. ये मज्या कांता, मजो स्नेहो करि, आणी आमि दोगय इश्टागतीन चलूंया, मजो अनंतु मोगु करि, आणी पर्वगतीच्यान अनंदराज्यांतु एकामेकाक गोळो-वंग देवनु, येक अनंतपण परिर्येत्र येकामेकाचो मोगु करूनु, सुखी सुखार्ति, तूं मगेलो, आणी हांव तुगेलो जावनु नंदूं या.

---



# Hortus Indicus Malabaricus - 1675

(मलबारांतली भारतीय बागायत) ह्या ग्रंथांतलें
20 आब्रिल, 1675 दिसा दिल्लें
**कोंकणी प्रमाण-पत्र**

"स्वस्ति श्री शालिवाहन शक १५९७ राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ १० कोचि राजपाटणीं बैसिके रंगभट तथा विनायक पंडित, आपू भट, तेग वैद्य तानीं कोचिचो कुमदोर आंड्रिकि फांड्रे, त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतु आशिले औषधमात्र वृक्षवालि झाड खंड ओळखतल्या मनुश्याक मुसारो देवनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद आणवून त्यां त्यां झाडांचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरि संपादून तीं तीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमीं आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघुंटा प्रमाणीं त्या त्या औषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांचीं नांवां पळेवनु आजि दोन वर्ष सकाळीं सांजे आमिं लागिं रावुनु हो लिव्रु संपादून दिला. तें लटिक म्हणुंच्याक नज अशिं म्हण्णुं आमि आमंचि निसाणि कर्णु दिली. हें सत्य म्हण्णुं मानुचें जाइद म्हण्णुं नागर बरपान हें बरवुनु दिलां. निशाणी - श्री. रंग भट्टु, विनायक पंडित, आपुचे ओप..."



# GLOSSARY

## OF SELECT OLD KONKANI VOCABULARY

culled from the old Konkani texts

(Old Konkani, Modern Konkani and English)

### अ

**अकळित** = नकळ आशिल्लो = unknown

**अक्रांदुंक** = दुखाची तक्रार करूंक = to wail against

**अकृर्न** = वायट दशा = disgrace; misfortune

**अखटाव** = चुरचुरे = compassion

**अखेर** = अक्षराचें तद्भव = letter of alphabet

**अखेपाय** = परिणामकारक; प्रभावीपण = effectiveness; efficacy

**अगम** = फोडुंक जायनाशिल्लो गुठ = impenetrable secre

**अगणित** = मेजूंक जायना इतले = countless number

**अग्निकोंड** = उज्याकोंड; यमकोंड; नरक = hell

**अग्निपूर** = नर्क = hell

**अर्गा** = धन्यवाद = thanksgiving

**अचलचाली** = वांकड्यो चाली; कर्तुपां; करण्यो = bad actions; activities

**अचर्यें** = चमत्कार = miracle; wonder

**अचर्येंवंत** = अचर्यें करपाची तांक आशिल्लो = miraculous; miracle-worker

**अचिरकाय** = लक्ष = attention; notice

**अजगळाय** = लापिटपण = mischief

**अजिरांवर** = अमर; चड औख्य = long; immortal life

**अजूग** = दुख-त्रास = tribulation

**अटमटवळ** = अप्रामाणिकपण = dishonesty

**अडळ** = अदृढ; अस्थिर = not firm; infirm

**अडळकाळ** = बदलतो; थीर नाशिल्लो काळ = changing; unstable time

**अणखूंक** = तोंडार मारूंक = to throw on one's face; to fling

**अतिबारी** = आडो; आडबारें = obstacle

**अतुस्ती** = अवमान = dishonour; bad name; defamation

**अतुर** = अन्दिल्ली स्थिती; कातरींत पडिल्ली स्थिती = tight position

**अतोज** = अज्याप = surprise

**अर्थावणी** = फोडणिशी = interpretation

**अथिरपण** = अस्थिरताय = instability

**अर्थि** = अपुर्बाय = esteem; affection

**अदिकतोर** = चडूच; भोवूच = additional; surplus

**अदृडी** = दृड नाशिल्ली = infirm

**अर्दास** = मागणी = request

**अनमधु** = भरपूर जेवणा-पुर्वण आशिल्लो = affluent in food supply

**अनळै** = रंजन; मौज = entertainment

**अनाधसिद्ध** = सासणाचो = eternal

**अनिमान** = भलायकेन बरो नाशिल्लो बरो जावप = to heal; to restore to health

**अनुवांटो** = फावो तो वांटो = applicable share

**अनुपराधी** = अपराध नाशिल्लो = innocent

**अनुमानूंक** = बेत करूंक; येवजूंक = to intend; to propose

**अनंतपणीं** = अंत जायनासतना = infinitely

**अपजांवक** = त्रास दिंवक; भौनभौन तुकलांवक = to harass

**अपरंपार** = सुमाराभायलो = infinite in quantity

**अपाळो** = उतराक पाळो दिनाशिल्लो = disobedient

**अप्रस्तायिं** = संदबंद नासतना = irrationally

**अप्रुबि** = अपुर्बायेची = endearing; affectionate

**अबद** = फाव न्हय तें = reprehensive; inappropriate

**अबिश्ट** = अज्याप; अचर्यें; नवल = wonder; miracle

**अभरवंसो** = भरवंसो सोडिल्ली स्थिती = hopelessness

**अभ्यांतरिं** = भितरल्यान; पैशिल्ल्यान = from the inside; from a distance

**अभ्यासु** = भौनभौन केल्ली करणी = practice

**अभ्यासु** = कामाक लागतली मुस्तायकी; साधन-सामुग्री = accoutrements; equipment

**अभिनवी** = दाखौन दिवपाची नवलां करणी = exhibitionist act

**अमित** = मेजूंक जाय नाशिल्लो = innumerable

**अमोलीक** = जाचें मोल करूंक जायना असलो = invaluable

**अमंगळ** = वांकडे चालीचो; अपवित्र = ill-behaved; profane; irreverent

**अरचित** = रचूंक नाशिल्लें = not created as yet

**अलेणें** = भौन भौन मागूंक; बेजारूंक; तुकलांवक = importunation (frequent)

**अवकळा** = अपमान = affront; indignation

**अवकाळु** = वायट मौसम (वातावरण/ हवामान) = bad weather

**अवचित** = अकस्मात = all of a sudden

**अवाटे** = आड वाटे = irregular path

**अविटु** = हळशिकावणी = filthy; dirty

**अशिरू** = अरुंद = narrow

**असमसास** = गर्दी; लूट = crowd of people

**असुध** = रगत = blood

**असंख्यातु** = मेजूंक जाय नाशिल्लो = innumerable

**अळंगुली** = ल्हान-सान; सुपुल्ली = tiny; restricted

**अंताप** = दुख-कश्टान बेजारिल्ली स्थिती = affliction

**अंतुपारू** = निमाणी शीम = limit

**अत्रिखेंवक** = आंवडेंवक = to yearn; to pine for

**अत्रिल्लें** = closed in a fist

## आ

**आखुड** = धांपिल्लो = enclosed

**आग्र** = तोंक; पोंत = point; end

**आगरावंक** = आगरो करून सांगूंक = to insist
**आचारण** = चलणूक; वागणूक = behaviour; demeanour
**आचारूंक** = करूंक; वागूंक = to do; to behave
**आटापूंक** = भितर घेंवक; आस्पांवक = to include; to incorporate
**आडखिळो** = मोख = target; aim
**आडवारणी** = आड घालतली करणी = forbidding action
**आत्मधातू** = अध्यात्मीक बळ = spiritual substance
**आत्मजु** = निजाचो; कायद्याचो = legitimate
**आदाव** = फायदो; येणावळ = profit; income
**आदाय** = आदार = assistance; help
**आदिनपण** = स्वादीनताय = independence; freedom
**आधिपाप** = आदिम/ पैलें पातक; मूळ पातक = original sin
**आपतुस्ति** = आपणालीच तुस्त = self-praise
**आपआदिनपण** = सुवादीनपण = sovereignty; independence
**आप करूंक** = आपल्या पाख्या खाला घेंवक = to take under one's wing
**आपखोशी/श्येन** = स्वताची खोशी = own will; voluntarily
**आयंस** = हांयस = bait
**आयतिका** = वेवस्ता = arrangements
**आराटी** = बदनामी; निंदा = defamation
**आरूडूंक** = घोड्यार चडून बसूंक = to sit on horseback
**आविळतु** = अंदून उरिल्लो = cribbed; squeezed
**आवस्पर** = अध्याय = chapter
**आसरावणें** = आसऱ्याक धांपणें = cover for shelter
**आळांचु** = विचार-विमर्श = consultation
**आंकणु** = जोडियेचो एक भाग (घोव - बायल); आंकडो = link; spouse
**आंकणो** = कांत; घोव = spouse; husband
**आंकुवार** = आंकवार = virgin
**आंगकिळस** = आंगाक क्लेश; कश्ट = bodily pain; suffering
**आंगठाण** = आंगापांगाची आंगलोट = body build

**आंगवतीं** = आंगापांगा सैत = physically; bodily
**आंगुळिं** = बोटां (हाताचीं) = fingers of the hand
**आंगमेळु** = आंगाक आंग मेळप (संभोग) = sexual contact

## इ

**इडां** = वस्ती - दागिने; भांगरा वस्तू = ornaments; jewellery; gold items
**इदुली** = इल्लीशी = a little; wee bit

## उ

**उकळंबांवक** = हुमकळांवक = to keep hanging
**उक्रडो** = कुडीन म्हेळो; बुरसो; हळशिकावणो = dirty; filthy
**उक्रासु** = हापापपण = greed
**उखनेखी** = उस्तून सोदपाची करणी = enquiry; investigation; excavation
**उचित** = फावो तें = appropriate
**उठाउठीं** = ताकतिकेन = hurriedly
**उणांवूक** = उणो जावन वचूंक = to lessen; to diminish
**उदेमु** = वेपाराचे संबंद; वेवसायिक वावर= trade relations; business
**उदेगुंक** = रोंपूंक = to plant
**उधरण** = साफ-सफाय; तारण = clearing away; salvation
**उधरूंक** = तारून हाडूंक = to save
**उपराटें** = उरफाटें; विरोधार्थी = opposite; antonyms
**उपजूंक** = जल्मा येवूंक; वयर सरूंक = to emerge; to be born
**उपशामु** = देखादेखी बोध = edification
**उपेखूंक** = सोडून दिंवक; नाकारूंक = to neglect; to disown
**उबटांवक** = उठून उबो जावंक = to sit up & stand
**उमटावुंक** = वयर ये सारकें करूंक = to arouse
**उलगेंवक** = सांगणेक पाळो ना दिंवक = to disobey; to disregard
**उद्यापन** = माखणी = consecration
**उसरापु** = स्राप काडून घेंवक आनीक एक सांगणी; उःशाप = counter-curse

## ओ

**ओरासांव** (p) = प्रार्थना = prayer (to God)

## क

**कर्क** = घोड्यार बसपाक चामड्या बसका = saddle
**कट** = निर्धार = determination
**कटकटा** = चुरचुन्यांचे उदगार = alas !
**कडियाळी** = घोड्याक आळाबंदा दवरपाचो राजू = stirrups
**कणवटें** = जेवणा-खाणाचें आवटें = raw materials; ingredients of food
**कणिवळ** = काकुळतिसार; दयावंत = merciful
**कनिश्ट** = खालतें; सकयलें = low position
**क्रमवणें** = भोंवडी; हालचाल = movement
**करवीं** = वरवीं = through; by means of
**करें** = उंट = camel
**कसदो** = चित्र; रूपकार = image; picture; portrait
**कळोकळी** = समजणी = understanding
**कांकटेणी** = खांकुडपण = embarassment; hesitation
**काकुळतीसारु** = दयाळ = merciful
**काज** = गरज; गरजेचें = necessity; necessary; required
**काजु** = कांच = glass
**कांटेल** = गळ्याक लागतली सरपुली पिडा = diphteria
**कांति** = चकचक; लखलख = lustre
**कांतु** = घोव = husband
**कानि** = राजू; वंश-वेल = rope; genealogical tree
**कामतुराय** = कामतुरायेची भावना = lust
**कामत्र** = कामुक = lustful
**काराफूल** = लवंग; कालाफूर = clove
**किग्यान** = ल्हान-सान; कुस्कुटाची = paltry; despicable

**किड** = मिश्रण = admixture

**किलु** = ल्हवू = low; light sound

**कुटुको** = कुडको = a piece

**कुर्ट** = भेंड = waistline

**कूड** = तो, तें, ती कूड; (आकारा प्रमाण) = rooms according to their three sizes- big, middle & small

**कूडु** = फटींग; अटमटवाळ = dishonest; cheat

**कुबेरू** = धन-गिरेस्तकाये देव = गिरेस्तायेचें प्रतीक = god of wealth - symbol of it

**कुरूप** = विद्रूप = ugly

**कुस** = गर्भ = womb

**केंडां** = उज्या जिबो = flames of fire

**केणें** = जेवण-खाण; पुर्वठो = food; supplies

**केवि** = वादी/ प्रतिवादी, हांतलो एक = a party to a dispute/case

**कौटाळिविद्या** = घाडिपण = witchcraft; magician's craft

**कौटाळी** = घाडी = magic - witchcraft practitioner

**कैवारु** = राखणायत = protector

**कोर्देयर** = शेळिये-चें पुर्तुगेज उतर = lamb

**कोनंबु** = सोबीत-सुंदर = beautiful; lovely

**कोंफेसार** = कुमसार; पातकां उच्चारण/ कबुली = confession

**कोश्ट** = कुश्ट-रोग; म्हा-रोग = leprosy

**कोश्टी** = कोडकार = a leper

**कोंसोआर** = (पु.) कुंसवार = Christmas sweets (from 'consoada')

## ख

**खर्ग** = तरसादे सारकी = scimitar

**खडचरु** = अवघड; कठीन; खडबडीत = difficult; tough; rough

**खळि** = खळी; बारीक उदकाचो व्हाळ वा चरी = narrow channel; stream

**खळूंक** = बंद पडूंक; सुंटूंक = to stop; to cease

**ख्यालि** = व्यसन; पातक = vice; sin

**खालुतें** = सकला; सकयलें; उण्या दर्ज्याचें = below; lower ; humble

**खिण** = खीण; क्षण; = a moment

**खिणाचें** = खिणयाळें = momentary; transitory

**खिरोदीक** = धवीं-फुल्ल = white

**खिसो** = बगलांट; आरोप = accusation; charge

**खुजदु** = मोटवो; गिड्डो = short in stature

**खुण** = कुरू; हावभाव = sign; manifestation; inprint

**खुतो/ खुती** = बारीक चुको = minor faults; flaws

**खुमास** = रेशीम = silk

**खुमासाय** = खुमास विक्रेत्यांची आळ = silkweavers' lane/ street

**खेटि** = लुटी = crowd

**खेड** = न्हंयें भितरलें बंदर = riverine port

**खेबाडियो** = फकाणां/ विडंबना करपी = teaser

**खेव** = 'क्षय' हाचें तद्भव = corruption

**खेवीं** = त्याच खिणा; आकताक = that moment; instantitly

**खोदुर** = दुखेंत-वेश्टल्ली पिडा = chronic pain/suffering

**खोड्डु** = दांव; मोनजातीक बांदचेलें = tether or chain on animal

**खोडो** = कैद्याक वा मोनजातीक बांदिल्ली सांखळ = prisoner's chains or any chain on an animal

**खोंबुंक** = तोपून भितर वचूंक = to penetrate

**खोळुसां** = व्हडलीं ल्हारां = big waves

**खंकाळु** = उचंबळ = disturbed; worked up

**खंजिर** = व्हडली धारेची-सुरी = big shrap

**खंड** = करार = contract; agreement

**खंडुंक** = गळून पडूंक = to drop out/ down

**ग**

**गजु** = व्हडलो आवाज = loud noise

**गजंबु** = बोवाळ; करांदाय = commotion
**गर्झरू** = खरखस आवाज; बोवाळ = roar of a noise
**गत जालो** = मेलो = passed away; died
**गरळ** = वीख = poison
**गरांठी** = गरी लायल्ली शिंतारी = angling rod with bait
**गवाय** = साक्षी; साखि; गोवाय = witness
**गवणी** = तणाची चुंबडी = manger
**गागुरूक** = मोव पडूंक = to soften; to melt with fear
**गांजलीक** = त्रास-कश्ट भोगणार = affliction
**गांजूंक** = त्रास दिवन सतांवक = to afflict
**गणिके** = दर-एका फाटल्यान (आंकडो) = for or after each (number)
**गाराणें** = कागाळ करून मांडिल्ली मागणी = petition
**गुजरूक** = सोडूंक; सोडून दिंवक = to let go / pass
**गुपा** = गुफा = cave; cell
**गुपा** = भियेवन गुळी = shrunk to a bundle out of fear
**गुरकि** = फुडारिपण = leadership
**गोंडु** = काळीज = heart
**गोल** = घोल = den
**गंगाळ** = व्हडलो हांडो = cauldron
**गंभेर** = गंभीर; व्हडलो = serious; loud

## घ

**घडणों** = कुडिचे सांधे = parts of the body
**घडी** = वर-भर अशें = an hour's reckoning
**घागरी** = भाण; कळसो (चड करून दुदाचो) = receptacle; mostly of milk
**घाशि** = कश्टांचो वावर = onerous work
**घुडसूंक** = गुड्डुलासांव करूंक = to hatch a plot
**घुरूघुटो** = गुरंगुटो (घुंगुट्टो) = spider
**घेपूंक** = हात पावून धरूंक = to reach out and get

घोंकणी = भौन-भौन केल्लो उगडास/अभ्यास = repeated stress; by heart

## च

चमकूंक = ल्हवान चलूंक = to walk leisurely; normally
चिके = मात्शें = a little
चेर्डुं = खंच्याय लिंगाचें भुरगें = a child of any gender
चेडुं = बायल लिंगाचें भुरगें = a female child; a girl
चेतवूंक = बुद्ध दिंवक; शिटकांवक = to advise; to warn
चोख = चकचकीत; निखटें; निवळ = pure; valuable
चौगुलो = मुखेल नागरीक; वांगडी = leading citizen; member

## छ

छेदूंक = कातरूंक; तोडूंक = to cut off

## ज

जणप्रती = दर-फावटीं = each time
जननी = आवय-बापूय = parents (who gave one birth)
जळ-जोख = उज्यान पाड जावचें संकट = danger/risk from fire & destruction
जाचौंक = कळाव करूंक = to delay
जाजती = अपमान = offence
जाणपजाण = खबर; म्हायती = information
जाणतो = जाणा जाल्लो; शाणो = learned; wise
जाणौंक = कळीत करूंक = to inform; to communicate
जामिनी = फियादोर = surety
जायपणीं = जल्माक सावन; जाल्ल्या पसून = from birth
जाळवणी = कारभार = administration; management; organisation
जिणौंक = जिखून घेंवक = to win over; to conquer
जिन = बाग = garden
जिनोस = जिनस; प्रकार = Species; type

**जिबट्टु** = उलौंक हुशार; बडबडपी = articulate; talkative

**जिबटाय** = उलौंक येवपाची सुडसुडाय = articulateness; fluency

**जिवावूंक** = नवो जीव प्रदान करूंक = to rejuvenate

**जुगांतकाळीं** = संकटकाळांत = in times of danger/ emergency

**जुराजुरी** = वायट फुतफुतप = murmuring

**जुंवार** = हुर्मती; प्रणाम = reverence; greetings

**जेरबंद** = सैती = scourging by lashes

**जोखु** = जोखीम = risk

**जोगौंक** = जतनाय घेंवक; परामर्स करूंक = to take care of

**जोंपावणी** = जोगलावणी = flash of lightning

**जंतरूंक** = सांकळ्यांनी घट्ट बांदूक = to enchain; to tie up in chains

## झ

**झडति** = बऱ्यावायटाचो हिशेब = inquest; assessment

**झड-मोड** = वादळ-वारें = storm

**झांकी-जळप** = भैरो-जळप = superstitious practices; sorcery

**झालोरी** = झेलो = garland (of flowers, pearls etc)

## ट

**टकमकां** = तटाकून पडूंक = amazed; stunned

**टाळणी** = वायट करपाक/ मौज मारपाक सुचोवणी = temptation

**टाळुकि** = ताळि = branch; twig

**टेंकणो** = तेंको-दिवपी = supporter

## ठ

**ठसूंक** = थिरांवक; ठांक मारूंक = to rivet; to imprint

**ठांकु लांवक** = मानून घेंवक = to confirm; to support; to ratify

## ड

**डांगिरो** = जाहीर कळोवणी = proclamation

**डाणो** = ओरोव-गोटो = cereals for food

**डासूंक** = घांस मारूक = to bite (serpent's)
**डाळु** = एकामेकार पडप /येवप = continuous fall/ flow
**डोंपुलो** = बुराक; तोंड = a hole

## त

**तर्केकी** = कितेंच केल्यार न्हय/ निखालूस न्हय = in no way; not at all
**तटकारूक** = शिटकांवक = to admonish
**तडवण** = आडावन धरपाची सुवात; आडावन दवरपाची बंदखण = detention; lock-up
**तडिपंथ** = तारण = salvation
**तत्वादीक** = तत्वभरीत = substantial
**तनमधें** = खास करून; चड करून = specially; particularly
**तनु** = कूड = body
**तरकूण** = अदमासान कळपाची प्रक्रिया = conjecture
**तस्कर** = चोर = thieves; smugglers
**तरूक** = राखूंक-सांबाळूंक = to keep; to save
**तरुंवरू** = झाड; रूख = tree
**तस्करूक** = हिशेब-कोंत तपासूंक = to check accounts
**ताकित** / ताकतीक = सडसडीतपण; रोखड्या-रोखडेपण = hurry; urgency
**तागायती** = आदिंपसून फाटीं लागिल्लो = importunating from beginning
**त्यागुंक** = त्याग करूक = to sacrifice
**तारक** = सोडवणदार = saviour
**तारूक** = सोडवण दिंवक = to save
**तालुक** = नकल = copy; transcript
**तिकि** = तिखि = cinnamon
**तिदवणी** = फारिकपण = re-payment
**तिमुंक** = भिजूंक; भियेंवक = to get wet; to be afraid of
**तिरीं** = देगेर; धडेर = on the bank of a river; on the shore of the sea
**तुकुंक** = वजन करूक = to weigh

**तुंटपणि** = उणाव = shortage

**तुर्त** = रोखड्या-रोखडो = immediately

**तौंकान** = रागान = angrily; furiously

**त्रिंदादि** = (पु.) तृथ्वी; त्रिमुर्ती = Trinity

## थ

**थरकांपूक** = थाऱ्या भियेंवक = to be scared stiff

**थानु** = फावो तो मान (मानु-थानु) = deserving honour

**थापडें** = चिपचिपीत भिजिल्लें = drenched with water

**थारो** = जागो; सुवात; आलाशिरो = place; site; shelter

**थिगळी** = खत = stain

**थिर** = स्थीर = firm; stable

**थुळी** = आंगलोट = corpulence

**थोक** = तटाकून = amazed

**थोकडो** = थोडो = a little

## द

**दग्द** = त्रासांचें दुख्ख = painful suffering

**दर्वूंक/दरौंक** = कडून येंवक = to melt

**दवरनें** = गोंयच्या गांवांनी आशिल्ले चिऱ्यांनी बांदिल्ले पागोर जंय माथ्यावेलें वजें दवरून विसव घेवं येत = resting places in the Goan countryside in the form of platforms for easing headloads provided for by the village communes

**दर्वूंक** = कडून वचूंक; विर्गळूंक = to melt

**दळपति** = फौजेचो व्हडिल = army commander

**दळभार** = फौजेची उर्पंज; व्हडलो जमो = assemblage of armed Men

**द्रव्य** = दुडू; पैशे; नगद = money; cash

**द्रव्यहोयरीं** = भांडाराचो ठेवो = treasure-trove

**दृडाय** = निबराय = firmness; determination

**दृश्ट** = दुस्मान = enemy

**दृतिवंत** = धमधमीत = perfumed

**दृती** = घमघमीत परमळ = perfume

**दाडाळें** = जनेल; खिडकी = window

**दाणी** = राजाचो कर-वसुलदार = collector of royal revenues

**दांव** = पाळ; मूळ = root

**दिनवास** = उपकार = gratitude; thanks

**दिवान** = मनसुबिदारांची समिती = a court of law

**दुर्ग** = कोट; किल्लो = fort; fortress

**दुर्जण** = दुर्जन; दुस्मान = enemy

**दुर्जाणीक** = दुस्मानकाय = enmity

**दुणावूंक** = दुपेट; दुसरे फावट म्हणूंक/ करूंक = to repeat; to emphasize

**दुर्बळीक** = दुर्बळताय; दुबळेपण = poverty; weakness

**दुर्बळ** = धाकटो; बळ नाशिल्लो = a person of weaker sections

**दुभागूंक** = दोशीं करूंक = to divide

**दुमालो** = पिडापीड = persecution; harassment

**दुमालदार** = पिडापीड दिवपी = persecutor; tormentnor

**दुमालेदार** = पिडापीड दिवपी = persecutor; tormentor

**दुलब** = मोगाचो; प्रियेवाचो; अपुर्बायेचो = esteemed; sweet; affectionate

**दुलबाय** = अपुर्बाय = pampering; affection

**दुसेरीं/दुस्तेरीं** = दुसरे फावट = once again; for the second time

**देखतें** = दोळ्यां मुखार = in the presence of

**देखि** = देख; उदाहरण = example

**देसांतरीं** = देसाभायरो जावन = in exile

**देहदंडु** = कुडी दंडवण = mortification of the body

**देहधातु** = कुडीची ओड/ओडावण = carnal desire

**दोशिंगारी** = दोन वाटांतल्यान एके वाटेन वचूंक वेंचपाचें संकडें = on the horns of a dilemma

**दंडणा** = दंडवण = mortification

**दंडवत** = ख्यास्तिची शिटकावणी = admonishment of punishment
**दंडौंक** = दंडवण  करूक लांवक = to mortify
**दंवडूंक** = धांवडावन घालूंक = to drive away

## ध

**धड** = शाबूत; आखो = integral; whole
**धडो** = जमो; पंगड = group; community
**धण** = समुदाय; हिंड = community; flock
**धर्मु** = दान; धर्म = charity; alms
**धाकु** = फाम; किर्त; खबर = fame; notoriety; news
**धांदु/धांदो** = दिसा-दिसपट्टो वावर; धंदो = daily chores; business
**धिड-भिड** = फावो जातलो मान-भौमान = respect; honour that is due
**धिर्य** = धीर = courage
**धिंवर** = खारवी = fisherman
**धिंवरपण** = खारव्यालो कामधंदो = fisherman's calling
**धुंडाळूंक** = उस्तून चौकशी करूक = to dig into; to enquire into
**धुमाडी** = गोंदळ; उचांबळाय; धुमशेण = trouble
**धुमाडो** = त्रास दितलो; सतायतलो = persecutor
**धेधातु** = कुडीचे ओडावणेचें = sensual
**धोणी** = धुवप = washing
**धंडवती** = कुडीचे धंडवण = sack- cloth/ mortification of flesh
**धंदलि** = कार्य; वावर; धंदो = work; task; job

## न

**नपाळो** = पाळो दिनाशिल्लो = disobedient
**नवल** = अज्याप; चमत्कार = wonder
**नवगती** = नव्यांन; नवे गतीन = anew; afresh; with greater vigour
**नसरतलें** = सरनाशिल्लें = imperishable
**नाटकी** = कुडणाटायेचो; निर्दुखी = jealous; envious
**नाभिकारू** = खात्री = guarantee;  assurance of safety

**नांवाडूंक** = नांव घेंवक; नांवरूपाक व्हरुंक = to name; to distinguish

**नाशिक** = नाश जावपाची वस्त = liable to destruction

**नाशिवंत** = जाचो नाश जाता = perishable

**नासुंक** = नाश करूंक = to do away with; to dispel

**निखेपूंक** = फोंडांत घालून पुरूंक = to bury

**निचैतन्यू** = सैराणाभायर = unconscious; unenlightened

**निछळु** = निवळ = pure

**निडळ** = कपल = forehead

**निपजांवक** = जल्मा हाडूंक = to engender; to enkindle

**निपजूंक** = वयर सरूंक = to emerge; to arise

**निरपराधी** = अपराधा मेकळो; वायलो = innocent; not guilty

**निरोखूंक** = कोरा करून पळेंवक; तीख नदरेन देखूंक = to stare

**निलखेणु** = वायट गुणांचो; बरे गूण नाशिल्लो = lacking in virtue; bad character

**निर्लेपाय** = लेप/खत नाशिल्ल्याची स्थिती = unblemished condition

**निवनु** = उणें; उणेपण = lacuna; shortcoming

**निर्विख** = वीख काडचेलें वखद = antidote to poison

**निर्वाण** = धाडस; निर्धार = audacity; determination

**निश्कळंकी** = कलंक; खत लागूंक नाशिल्ली = immaculate

**निश्कामीक** = कामा मेकळो = virtuous; free from lustful desires

**निस्संग** = कुस्कुटाचें = next to nothing; trivial

**निसांचरू** = भावना नाशिल्लो क्रूर मनीस = cruel; person without feelings/ emotions

**नुसुदि** = कांय कारण नासतना; बेश्टेंच = simply; for no reason

**नुपुर्वण** = अतृप्तताय = lack of satisfaction / contentment

**नेदुखचार** = निर्दुकाय = jealousy; envy

**नेफारू** = हक नाशिल्लो चाकर = slave without any rights

**नेफर्गती** = प्रत्येकाक खास करून = to each one in particular

**नेवाळें** = भेंडाक बादपाचो पटो = waist belt / band

**नंद** = खोशाल = happy

**नंदनीक** = खोशालकाय; अर्थअपुर्बाय = joy; filial pampering

**प**

**पखूंक** = राखूंक; सांबाळूंक = to protect

**पछेमानु** = जणीक अपमान = personal insult

**पडखळूंक** = विभाडुंक = to destroy; to raze to the ground

**पडताळूंक** = खबर काडूंक; चौकशी करूंक = to enquire into ; to investigate

**परब** = सण; फेस्त = feast

**परद्वार** = पर-पुरसा/बायले कडेन कुडी संबंद = adultery

**परिकर** = सोबीत = beautiful

**परिहर** = समाधान = satisfaction

**परोंपरिंचें** = साबार जिनसांचें = variegated

**पलट** = बदल; परिवर्तन = change; transformation

**पलित** = उणाक; पोजडो = dirty; filthy; lowly

**पवन** = वारें = wind

**पवनवेगु** = वाऱ्या सारको वेग = wind-like speed

**पर्वडि** = चालू-प्रथे रूपान = practice in a fresh form

**पर्वण** = उत्सव; परब = celebration; feast

**पस्तणें** = मेजासारकी जेवणाक बसका = a small table for serving food

**पळपटो** = पळ काडपी = evasive; coward; elusive

**पळौंक** = धांवडांवक = to drive away

**प्रणामु** = सामकी बरी भलायकी आशिल्लो/ल्लें/ल्ली = person in very good health

**प्रति** = प्रीत; मोग = love; affection

**प्रतिजाप** = परती जाप = reply/ response

**प्रतिपाळु** = सांबाळ; राखण; परामर्स = care & protection

**प्रतिश्टूंक** = प्रतिश्टीत अधिकारान सांगूंक = to state with authority

**प्रतिवाद** = भासाभास = discussion

**प्रतेव** = अखेपाय = efficiency

**प्रसन्न** = खोशी = favourable; happily disposed

**प्रसंवुंक** = प्रसूत जावन जल्माक हाडूंक = to deliver; to conjure up

**पांगु** = पांगेक; खाला = indebted; bound down; submission

**पायक** = पांयांनी चलपी शिपायक = foot-soldier; peon

**पायशांव** = (पु.) यातना = passion (suffering)

**पालेंवक** = पालवी/पानां फुटूंक = to put out leaves

**पावनी** = शुद्ध = purified ; sanctified

**पाव घेंवक** = मान्य करूंक = to accept

**पाळां** = ल्हारां = waves

**पाळो दिंवक** = दिल्लें उतर आयकूंक/ पाळूंक = to obey; to listen to

**प्राचित** = प्रायश्चित = penance

**प्राय** = पिराय = age

**पिंडपोशण** = जेवणा-खाणा-न्हेसपा वेवस्ता = sustenance

**पिंतवेगी** = रागिश्ट = choleric

**पिवनपात्र** = पिवपाचें आयदन; पेलो; कोप = cup; receptacle for drinking water etc

**प्रियेवाचीं** = मोगाळ अपुर्बायेचीं; आवडिचीं = esteemed

**पुर्गातोर** = शोधन-स्थान = purgatory

**पुंडाय** = चेपण; नागौण; मारामारी = tyranny; dacoity; assault

**पुणु** = अट = condition

**पुतळी** = चोखसाण = purity

**पुनर्जिवित्व** = परतें जिवीत, पुनर्जल्म = resurrection

**पुनरपीं** = परत एक फावट = once again; afresh

**पुरोंवक** = दिंवक; पुरवठो करूंक = to supply

**पुलपीत** = प्रवचन/सेरमांव करपाचो इगर्जेंतलो जागो = pulpit

**पुशी** = चौकशी = search for information

**पेंठ** = तारवां लागपाचें बंदर; बाजारपेट = port of call; market place

**पेलो** = शेजारी; दुसरो = the other; neighbour

**प्रेगादोर** = (पु.) प्रवचनकार = preacher

**प्रेगासांव** = (पु.) प्रवचन = preaching

**प्रेझेप** (p) = गोठ्याचो देखाव = crib

**पोकळ भाराण** = पोकें कल्पनांनी फुगिल्लें = fantasy

**पोर्टानिक** = नुस्त्याचो खर वास = strong smell of fish

**पोटार्थ** = खावगेपण = greed

**पोपुसां** = पोपसां = lungs

**पोरो घालूंक** = पैस करूंक = to put aside; keep at bay or distance

## फ

**फटिक** = स्फटिक = crystal (stone)

**फ्रादी** = (पु.) मठवाशी = friar; monk

**फांपारु** = खोंट = a kick

**फांपांवक** = किर्त पातळांवक = to spread fame

**फिंटूंक** = ना-नपश्च्यात करूंक; पुसुन काडूंक = to finish; to dispel; to extinguish

**फिरूंक** = बंड्ड करूंक; उपूंक = to revolt

**फुडां** = फुडाराक = in the future

**फुडें** = आदीं = formerly; earlier

**फुडारूंक** = फुडाकार घेवन फुडें येंवक = to come forward

**फेडूंक** = सोडोंवक; फारीक करूंक = to relieve; to pay back

**फे-भावार्थु** = भावार्थ (फे - पुर्तुगेज उतर) = faith/ doctrine

**फोली** = (पु.) दोन पानांचें कागद = folio; sheet of paper (2 pages)

## ब

**बकम** = पेणें = a bunch of ; concentration

**बटिकि** = चाकर्न-नेफार्न = a slave woman

**बडिवार** = गर्व; बडवाचार = pride; bragging

**बत्तिसलखेणिक** = संपूर्णायेचीं लक्षणां आशिल्लो = perfect in all 32 characteristics

**बरवत्व** = बरेपण = goodness

**बरवें** = बरें; बऱ्याचें काम = good; welfare

**बस्तनी** = लिपतिं केल्ली दुस्मानाक वायट करपाची मांडणी = stratagem

**बळ्ळीक** = पिडा; दुयेंस = illness

**बळ्ळिककार** = दुयेंत; पिडेंत आशिल्लो; पिडेस्त = one who is ill

**बळ्ळिकेचे** = बळ्ळिककार

**बळियांडूंक** = बळान घेंवक; हातासूंक = to take by force; to usurp

**बळिवंतु** = बळवंत = strong

**बापुडी** = गरीब; आधार नाशिल्ली = poor; destitute; helpless

**बायणी** = फुडें धुकलिल्ली वेळा-मुदत = extended time-limit

**बालाव** = दुर्दैव = misfortune

**बालाव** = केळवण = gift

**बांलांडूंक** = फाटीं उडौंक = to pass; to go by

**बावडूंक** = रीण परतें फारीक करूंक = to re-pay

**बेठेली** = आळसाय = idleness

**बेठो** = बेश्टो; काम नाशिल्लो; बेकार = idle; unemployed

**बेहुर्मति** = हुर्मती-आड = irreverence

**बोणी** = बोंडी; दुडवांनी केल्ली पयली विक्री = first sale/ transaction in cash

**बोणी** = नितळ; मेकळी = clear; clean; clean slate

**बोंदोड** = बंदखण = prison

**बोलु-भासु** = उतर; भास = promise

**बृद** = बिरूद = title; sobriquet

## भ

**भरो** = तणाचो/ लांकडाचो/ जळवाचो बांदिल्लो चोंबो) = bundle of hay/ wood/ firewood

**भलाय** = भलायकी = good health

**भ्रतारू** = घोव = husband

**भ्रमण** = भोंवडी = movement; tour

**भ्रमाणदिक** = भोंवपाचे संवयेचो = on the move; movable
**भाकुंक** = बडबडूंक = to chatter; to talk continuously
**भांजूंक** = पुसून काडूंक = to wipe off
**भाटि** = सुकतेर दर्याचें/न्हंयेंचें पाणी देवून वयर दिश्टी पटल्ली धर्तरी = dry land amidst low tide in the sea or river
**भांडार** = गिरेस्तकायेचो ठेवो = treasure
**भातकडो** = भातडो; सुकिल्ली कात (मनशाची/ मोनजातीची) = dried skin of man/ animal
**भार** = झुंड; उर्पज; गर्दी = crowd
**भाशे** = सुवातेर = instead of (for better)
**भास** = उतर = promise
**भासूंक** = भास जांवक = to appear; to be seen
**भुजांवक** = भुजाक धरून रडूंक वा थाकाय दिवंक = to comfort; to condole
**भूज दिवंक = आधार (मोयपास) दिवंक** = to comfort
**भूमि-वैंकुंट** = धर्तरेवेलो सर्ग = paradise
**भेतूंक** = फुटूंक; फोडूंक = to break; to crack
**भेदूंक** = रिगूंक = to penetrate
**भेस** = आवतिकाय = plight
**भोडुवो** = भोडवो; देवदूत (nu) = angel ; messenger of God
**भौस** = जनलोक = mass of people

## म

**मटमटां** = एकामेकार गिळून वडोवपाची प्रक्रिया = gluttonously
**मणिके** = भाशेन; सारकें = like; resembling
**मदलसी** = सभेचो म्हत्वाचो वांगडी = important member of assembly
**मदेस्तीं** = मदले सुवातेर = at the centre
**मर्धन** = तेल माखून पवित्र करूंक = to annoint with ...
**मर्धी** = शूरपण; वीरकाय = bravery; valour
**मनस** = मन = mind

**मनुसुभिदारू** = न्याय करपी जुवीज वा न्यायमुर्ती = judge; judicial magistrate
**मयादिक** = मायेमोगाचो = affectionate
**मरणादीकु** = मरणाक बळी पडपी = mortal
**मसंदूक** = मस्तूंक = to trample upon
**म्हारनंव** = व्हडल्यान बोवाळ = outcry
**म्हालगडो** = व्हडलो = elder; senior x junior = धालगडो
**म्हालवत** = पिरायेन व्हडलो = eldest child
**म्हालवतपण** = म्हागड्याची स्थिती = primogeniture
**मागुर्ता** = फाटीं येवंक = to follow; to backtrack
**माजोळ** = मुखेल = मदलें = principal; central
**माणकुलो** = सुपुल्लो-अपुर्बायेचो = lovely little; endearing
**मातु** = गजाल; गजालमात; खबर = conversation; talk; gossip; news
**मातु** = गजाली; गजाल-मात; काणयो = conversations; gossip; story
**मान-मानत्व** = मानाची भावना = respect
**मान–मान्यतस्ता** = मान-भोवमान = honour
**मानुपद** = मानाचें पद = sense of honour; badge of honour
**मामुल** = मागणें = entreaty ; request; pleading
**मालयुध्द** = व्हडल्या झुंजाऱ्यां मदलें झूज = great war
**मालवज** = मालमत्तो = property
**मालिमपण** = हिशेब; गणित = accounting; reckoning
**मालिम करूंक** = हिशेब दिंवक = to finalise accounts
**मावळूंक** = मोव जावन पालोंवक = to eclipse
**मावकारू** = भास करपी; लांव दाखोवपी = illusory
**मिंड** = परपुरूस मोगी = paramour
**मिति** = शीम-मेर = limit
**मिनति** = विनंती = prayer of petition; request
**मिन-मासो** = नुस्तें; मासळी = fish
**मिनिन** (पु.) बाळक (जेझू) = Child (Jesus)
**मिर्रा** = गंधरोस = myrrh (used for application on dead body before

burial - symbol of Jesus' manhood)
**मिस्तेर्यु** = (पु.) गूढ; गुढार्थ गजाल = mystery
**मुखकमळ** = चेहरो; मुखामळ = face
**मुग्ति** = मोक्ष = bliss (heavenly)
**मुग्तिराज्य** = मोक्षराज्य; सर्ग = a reign of bliss; heaven
**मुग्तिभरित** = मुग्तिन-भरिल्लो; सर्गार चडिल्लो = blissful in heaven
**मुग्तिपंथ** = तारण = salvation
**मुछर्यागत** = सैराणा भायर = unconscious
**मुदाय रावूंक** = आरोप करूंक = to accuse
**मुस्तायति** = तयार = ready; equipped
**मुस्तेयर** = (पु.) मठ = monastery; convent
**मेळु** = जमो = congregation
**मेळेकार** = विरोधी; दुस्मान = opponent; adversary; enemy
**मेळो** = विरोधी =adversary; opponent
**मोटवो** = गिड्डो = short
**मोड** = वादळ; तुफान = storm; typhoon; tempest
**मोर्दोमु** = (पु) फेस्त-परब कर्तो = sponsor of feast
**मोनजात** = जनावरांची रासवळ जात = animal species
**मोनयाति** = मोनजाती = animal kingdom (fauna)
**मोंबारी** = किळंच्यो; बोवाळ = commotion
**मोहन** = मौन = silence
**मंडळ** = वाटकुळो आटो = circle

## य

**याती** = जाती = human kind
**यादल** = शिक्षा; ख्यास्त = punishment
**येकतारू** = एकचार; एकवट = union; unity
**येरजरि** = हें आनी तें दिसपट्टें काम = daily chores/ occupations
**येक्षकोमुन्यांव** = (पु.) समुदाया-भायलो करपाची फर्मावणी = excommunication

**येक्षकोमुंगार** = समुदाया-भायरो करूंक = excommunicate

## र

**रजमात्र** = इल्लेंशें = tiny; little bit ; wee bit
**रटमटुंक** = आंवडे गिळून खांवक; रगडून खांवक = to eat ravenously
**राखणो-भोडुवो** = दर एकल्या मनशाक दिल्लो भोडवो = guardian angel
**राजकाटी** = राजदंड = a king's sceptre
**राजधर** = राजकारभारी = royal administrator
**राजबेडो** = राजवंश; राजफांटे/ खांदयो = Royal genealogy/ family tree
**राजवट** = राज्यशासन = kingdom; king's reign
**राजिक** = त्रास = affliction
**रावळार** = राजवाडो; राजमहल = king's palace
**राशी** = कितेंय घसघशांनी व्हावतें : दूद, उदक आनी हेर; घायांवेल्यान व्हांवतलो पूं = flow of water , milk and others ; pus oozing out of a wound
**रूखस्थळ** = रूखांचो जमो; रासवळ उतर = cluster of trees
**रुधन** = भितर्यां फोफेवन आयिल्लें रडणें = inner sobbing/weeping
**रूपें** = silver
**रेंजुंक** = झरौन काबार जांवक =to wither away
**रेलिक** (पु.) = अवशेश = relic
**रेलिजियोज** = धर्मसंघाचे वांगडी = the religious (members of Christian religious orders among men and women).
**रेजुरेयसांव** = (पु.) = पुनर्जिवित्व = resurrection
**रैवासु** = खतखतो; उर्बा = fervour; enthusiasm

## ल

**लछकरी** = शिपायक = armed soldiers
**लटिक** = फटकिरें = untruthful; fake
**लवलवीत** = रसरशीत = fresh; flowering
**लाब** = फायदो = profit; gain
**लाबौंक** = फावो करूंक = to bestow

**लावण्य पुतळो** = सोबीतकायेचो/ सुंदरतायेचो पुतळो = statue of beauty

**लिणत्वाय** = खालतेंपण; नमळिकाय = humility

**लिव्रु** = (पु.) पुस्तक; ग्रंथ = book

**लीण** = नम्र; खालतो = humble

**लुळि** = लापिट = skilful; dexterous

**लेंकरूं** = भुरगीं = children

**लेगिन** = पासून = since; from that day

**लंच** = लांच = bribe

**लंछन** = खत = blemish

## व

**वर्जूंक** = वांचूंक ; पैस करूंक = to avoid; to exclude

**वर्नुंक** = काव्यान गावूंक = to praise in poetry

**तरव** = जेवणा-खाणाच्यो वस्तू; ओरोव-गोटो = food items; cereals

**वरुतो** = वयलो; वयल्या पांवड्याचो = above; superior

**वर्वळि** = साळेक लागतली सामग्री = school material

**वर्शोवूंक** = पावसा सारको ओतोवंक = to pour like rain

**वसूंक** = आसूंक; रावूंक = to be; to live

**वस्ति-विचारू** = भाट-बेंस = landed property

**वृख्य** = रूख, हाचें आदलें रूप (वृक्ष - वृख्य - रूख) = tree (big)

**वृंद** = कुटुंब; पिळगी = family; generations

**वृशब** = नंदी = bull as deity

**वाखाणूंक** = तूस्त करूंक = to praise

**वागुर** = शिकारेचें जाळ = hunting net

**वानि** = जातिची/जिनसाची खुणा = symptoms type/genus/species

**वानुंक** = तुस्त करून गांवक = to sing praises

**वानुंक** = तुस्त गांवक = to sing praises

**वायजड** = फकफकीत = pot-bellied

**वायटिव** = वायटपण = evil ; bad action

**वायलो** = मेकळो = free from; beyond
**वारवूंक** = व्हांवक = to flow; to spill
**व्यार** = वेपार = trade
**व्हाराडिक** = लग्नाची समाजीक-धर्मीक विधी = wedding
**वारीक** = गांवचो दारवंटेकार = gate keeper of the village
**वारिये** = वरवीं = through; by means of
**वारुंक** = आडांवक; शिटकांवक = to obstruct; to warn
**वासन** = घोड्या नाकाक घाल्लें धापणें = nose cover for horse
**व्हाणि** = व्हांवति = flow
**विखरांवक** = शिंपडावंक; व्हांवोंवक; वारौंक = to spill
**विखरौंक** = वोतून वचूंक = to spill
**विगरुंक** = विर्गळूंक = to dissolve; disintegrate
**विगायरू** = (पु.) (कोणाच्या) जाग्यार = vicar
**विछखेण** = शाणो; सांबाळून वावुरपी = prudent
**विछखेणाय** = prudence
**विर्जिक** = जतनाय; मन लावन केल्लें काम = diligence; care
**विजौंक** = पालौंक = to put off the light/fire
**विडावेथा** = व्यथा = दुयेंस; पिडेची स्थिती = infirmity
**वितरागु** = दुख = harm
**विपरित** = आथवीच; आड येवपी = strange; to the contrary; adversarial
**विपायिं** = कशाय भशेन; उणें म्हळ्यार = somehow; at least
**विपूंक** = वयर/भायर सरूंक = to emerge; to arise
**विरमार** = पाखंडिपण; कपटी माण्ण्यो = dissimulation; plotting
**विलाथ** = देस = country
**विसव** = विश्रांती = rest; repose
**विसाये** = इंद्रियां = senses
**विस्मित** = अज्याप; थटाकून घालूंक = to astound; to amaze
**विसौंक** = विसव घेंवक = to rest; repose
**विहाव** = विवाह; लग्न = marriage (religious)

**विळाप** = भितरल्यान फोफेवन आयिल्लें रडणें = lamentation
**विळंगो** = नागडो; विंगळो = naked
**विळ्या वचूंक** = पिड्डेर जांवक = to be lost; gone case
**वेगवतराय** = वेगवानी स्थिती = speed
**वेचूंक** = भेट करूंक = to offer; to devote; to commit oneself
**वेचूंक** = खर्चिल्ल्या दुडवांचो वापर वा उपेग करूंक = money spent
**वेचूंक** = भेटौंक = to commit for expenditure
**वेचीक** = खर्चीक; पाड घालपी = prodigal
**वेडूंक** = वेडो घालूंक = to encircle
**वेश्टूंक** = झळंबूंक = chronically in it
**वेंसर** = पाडूक; वासरू = calf (of cow, donkey)
**वोज** = हुशारकाय = ingeniousness
**वोज** = जेत; लायकी; समर्थाय = grace; talent; capacity
**वोठंगूंक** = आड पडूंक = to lie down
**वोडण** = धोणु = bow
**वोडमाडूंक** = फुसलांवक = संबोधूंक = to persuade; to exhort
**वोडावोड** = अनुकरण = imitation
**वोडी** = ताणून ओडपाची करणी = pull of a string of the bow
**वोप्त** = जेत; लायकी = grace; talent
**वोशद** = वखद = medicine
**वोळगूंक** = चडून वचूंक = to rise; to ascend
**वोळश्या घालिता** = वाटेर उडयता; वाट लायता = throws to the winds
**वोळसो** = पाड-विभाड = destruction

## श

**शाकारी** = तेंको दिवपी = protector; supporter
**शाद करूंक** = शारती पावोंवक = to achieve; to reach out
**शामी** = भेट; बसका = meeting; sitting
**शास्त्रग्न्यानी** = शास्त्र-जाणार; शास्त्रांत पाटांगडो = learned in scriptures;

Doctor of the Church

**शास्त्रदृहितु** = धर्मद्रोही = heretic

**शास्त्रपठण** = शास्त्राची वाचून केल्ली फोडणिशी वा अर्थावणी = reading & interpretation of the scriptures

**शिख्या** = शिक्षा = punishment

**शिंतरुंक** = उपूंक; बंड करूंक; घात करूंक = to revolt ; to rebel; to betray

**शिदाव** = जमीन-शेताचेर लायिल्लो कर = land-tax

**शिपति** = किर्त = fame

**शियांडे** = किळंचींनी मारिल्ल्यो बोबो = outcries; wailing

**शिरीं** = वयर; सुरवातेक = at the head; in the beginning

**शिरोमणी** = परमपिता = Supreme Pontiff

**शिंस** = तकली = head

**शेखीं** = निमाणेकडेन = finally; ultimately

**शेजारी-वासारि** = शेजारी-सामारी = neighbours

**शेळशितळ** = थंड; शितळ = cold; cool

**शेळी** = मेंडऱ्याचें पोर = lamb

## स

**सकलात** = उंचा मोलाचें पुर्तुगाली लुगट = expensive; superior cloth from Portugal

**सजाप** = जापेक जाप = reply; response

**सत्यार्थ** = खऱ्या-सत्याची गजाल = truth

**सत्वधीर** = निश्टावंत धिटाय; धीर = constancy; courage

**सन्यांवकारु** = गुन्यांव नाशिल्लो = not guilty; innocent x guilty = गुन्यांवकार

**सनिदान** = इश्टागत; नातें = friendship; relationship

**स्परुशेण** = स्पर्श = touch

**सबागतीं** = स्वइत्सेन = voluntarily

**समख्या** = खुणा; कुरू; सारकेलें = sign; semblance

**समवूंक** = आटापूंक = to contain

**समंधी** = सोयरो = relative

**समचारू** = कुटुंब = family
**समर्थाय** = व्हडवीक; समर्थपण = competence in performance achieved
**समरूंक** = मान-हर्मती दिंवक = to adore; to revere
**सयासूंक** = वावर-कश्ट करूंक = to work hard at
**सर** = सरि = strings (of lyre)
**सस्कार** = विक्रेचें सिनाल; पत = earnest money/ sign for sale / example
**सरसांवक** = हालून करून बदलून हाडूंक; नवें करूंक; नवसरूंक = to blend; to refurbish; to renovate
**सरमंडक** = सरियांचें वाद्य = lyre
**सरशें** = बरोबरीचें; फावो सारकें = nearly; approximate; appropriate
**सरिशें** = लागीं; लागसार; तेंकून = approximate; nearly
**सरी टाकूंक** = अनुकरण करूंक = to imitate
**स्वभाग्यपण** = सुदैवपण = fortunate state/ condition
**स्वडु** = सूड = revenge
**ससरी** = पिकाळ = fertile x sterile = **निखारी**
**ससारी** = पुराय = comprehensive; complete
**ससू** = पिकाळ = fertile
**सव्ळिकेचे** = बरे भलायकेचे = in good health
**साक्रामेंत** = (पु.) संस्कार = sacrament
**साखि** = साक्षि; गवाय = witness
**साज** = सोबता; फावो तशें आसा = it becomes; appropriate or becoming
**सातवणो** = परबीं; अभिनंदन; भेटो = congratulations; gifts
**सातवूंक** = परबीं दिंवक; अभिनंदन करूंक = to congratulate; also to gift
**सात्य** = सत्यवंत; खरें = truth
**सात्य** = खरेलें; सत्यवंत = truthful
**सांदकूंक** = पेटूंक; जळूंक = to light up; to burn
**साय** = सोसणिकाय; साणाय = toleration; patience
**सायबीक** = धनीपण = overlordship; ownership
**सायाभंगु** = तोंड पडिल्लो = crestfallen

**साल्म** = स्तोत्र = Psalm
**सावकास** = सवस्तकाय = peace
**स्वाडु** = बरें मागतों/ करपी = benevolent
**सांश्याक पायक** = वाटेक लागतलो खर्च = travel expenses
**सासाय** = देवाचो आशिर्वाद; आसणें = God's blessings; presence
**सांप्रत** = निकतोच; थोड्या वेळाचो = just now; brief
**सिरकुंसिदार** = (पु.)सुन्नत करूक; सुन्ता करूक = to circumcise
**सिरकुसिसांव** = (पु.)सुन्नत; सुन्ता करप = circumcision
**सिविर्घी** = सार्थक = accomplishment; achievement
**सुअस्त** = सवस्तकाय = peace
**सुअस्त चित्तीं** = स्वस्त मनान = in peace
**सुग्रमी** = गिन्यानी; विद्वान; आसतिग = enlightened; illustrious
**सुटावें** = स्पश्ट; खऱ्यानींच = clear; conclusive; truthful; certainly
**सुधचार** = शुद्ध/ पवित्र करपाचे विधी = last purification rites
**सुधवांटो** = आपले वतीन केल्ली खरी फोडणिशी = justification; mostly true
**सुधीं** = पुराय; पूर्ण = complete
**सुपराड** = भरपूर(ताय); सुकाळ = abundance x scarcity = दुपराड
**सुपरीत** = फावरार; अनुकूल = favourable x unfavourable = दुपरीत
**सुमुर्ति** = स्मृती; शास्त्र; संप्रदाय = scriptures; religious tradition
**सुलखेण** = बऱ्या लक्षणांचो = virtuous x bad character = अवलखेण
**सुवूंक** = लांवक = to join; to attach
**सुवाडु** = बरें मागून केल्ली करणी = benevolent action x malevolent action = अदवाडु
**सुश** = जतनाय; परामर्स = care
**सै** = रूच = taste
**सैत** = रुचीक (फाव करता) = tasty
**सैंब** = निसर्ग = nature
**सैंबीक** = निसर्गीक = natural
**सैंबावरूति** = सैंबा वयली = supernatural
**सैंबपणीं** = निसर्गीक रितीन = naturally

**सोल्व** = फावो तें = appropriate to; commensurate with; as it should be
**सोवर्नु** = सुवर्ण; भांगर = gold
**सौंरस** = खोश्येचो खतखतो = pleasurable fervour
**संकडें** = गोंदळ = confusion
**संकिर्न** = दुखेस्त = sad
**संकिर्नाय** = दुखेस्तपण = sadness
**संगीन** = कठीण; अवघड = difficult; tough
**संगिनाय** = कठिणाय; अवघडाय = difficulty; toughness
**संचति** = संतति = progeny
**संचरूंक** = पातळूंक; भेदूंक = to spread; to penetrate
**संजगुंक** = न्हेसूंक; सजौंक = to dress up; to bedeck
**संधेव** = संदेह; दुभाव = doubt
**संबखूंक** = भुजांवक = to console
**संभ्रमु** = भव्य-दिव्य; थाट-माट = solemnity
**संभवूंक** = मूळ धरूंक, (गर्भाचें ) = to conceive
**संभोखुंक** = संबोधूंक = to exhort
**संवसारिक** = संवसारगतीचें = worldly

## ह

**हर्कु** = उमेद; खोशालकाय = enthusiasm; joy
**हजिबी** = निरोप; रायबारीपण = message; embassy
**हजिब** = दूत = messenger; ambassador
**हतूंक** = हाणूंक = to strike; to wound
**हनिती** = अनिती = injustice; immorality
**हरसडळ** = उगत्या मनाचो = frank; open- minded
**हस्तदंत** = हतया-दांत = ivory
**हळाळीत** = ताजें = fresh
**हांकार** = अहंकार; हांवकार; हांवकार-बडिवार= ego

**हांकारूंक** = आपौणें दिंवक = to call; to convene a meeting

**हाकांवक** = आपौंक / थारांवक = to convene/ fix

**हाणविर्धि** = पोट-तिडक; लागणूक = zeal; dedication

**हाणें** = कारण = reason

**हातासुंक** = काडून घेंवक = to snatch

**हाबितु** (पु.) = मठवाश्याचो गणवेश/लोब = a monk's robe

**हालवंगाद** = कश्ट उस्पितलो; कश्ट त्रास काडपी; मन लावन वावुरपी = industrious; hardworking

**हाल-हवाल** = आवतिकाय = plight

**हाशिलु** = गरजेक पावपी; निश्टावंत = helpful; loyal ; faithful

**हिंपूट्यां** = हुंडक्यांचीं दुकां = sobbing tears

**हिरौंक** = ओडून व्हरूंक; काडून घेंवक = to draw one's attention; to deflect

**हिंवांवक** = बारीक नदर मारूंक = to peer / peek into

**हुनरता** = हून जाता; तापता = to heat up

**हुर्मती** = देवाक/ व्हड/ वृद्ध मनशाक मान = reverence

**हुमळूंक** = उंमळूंक = to unearth; to unravel; to wash out

**हुलाळ** = उजो सोडटलीं केंडां = fire- breathing flames

**हेबती** = शिक्षा; ख्यास्त; यादल = punishment

**होलुवाटांवक** = भायर मारूंक; नाकारूंक उवेकूंक = to reject; to despise





**Professor OLIVINHO J. F. GOMES -**
Born in Goa, India, 1943 - Educated in Portuguese Lyceum & in English: B.A. - English, Psychology-Sociology; M.A. & Ph.D.- Sociology; with courses in Advanced Management, Book Publishing & '*Bharatiya Vidya Visharad*' (Indology).

Selected in IAS exams,1969, allotted, on option, to IRS-Cus.& C. Excise; served in higher echelons of Civil Service in various parts of India including Delhi. In June, 1987, he quit his high-ranking position- Addl. Commissioner, C.Excise, for committed service to Konkani, on being selected as full Professor of Konkani, under the rubric of 'outstanding scholar', at the new Goa University, where he is Head of Deparment & Director, Centre for Konkani Development Studies & Dean, Faculty of Languages & Literature & Member: Executive Council, Planning Board, Academic Council, Court and of various committees including chairman of a few. He is on the panel of experts of University Grants Commission, Union Public Service Commission, K.K. Birla Foundation, NCERT and other national academic/literary bodies. Presented papers at national/ international conferences in Delhi, Ranchi, Mumbai, Goa, Lisbon, Paris, Toronto, Sydney, KualaLumpur, London & Porto and published in India and abroad. He has 24 books to his credit so far, in Konkani & English. Won awards at national and international levels for his research and literary works including poetry, short stories, translations; and research fellowships from Portuguese Orient Foundation, French govt., UGC, and Association of Commonwealth Universities, London..

His books include : *Pre-16th Century Konkani Ramayana* (1996); *Village Goa* -a study of Goan Social structure and change (1987, 2nd ed. 1996); *Old Konkani Language and Literature - The Portuguese Role* (1999) containing four books; *A brief History Of Konkani Literature* (1989, 2nd ed. 1996); translations from classics in Bengali, Portuguese, English, Spanish & Norwegian thru' French, into Konkani and English.

He is a life member of : Authors' Guild of India; The Poetry Society (India); Indian Sociological Society; Indian Institute of Public Adminstration; Indian Society for Commonwealth Studies, and member: Goa Konkani Akademi; having served as literary adviser for Konkani & Marathi, at Goa Academy of Arts and Member, Executive Board, Sahitya Akademi (National Academy of Letters) New Delhi.